# हांगा, थंय आनी वचत थंय

सुधा मुर्ती हांच्यो सगल्यांत चड भाविल्ल्यो काणयो

अणकार सुनेत्रा जोग





# सुधा मुर्ती

सुधा मुर्ती हांचो जल्म १९५० वर्सा कर्नाटकांत जालो. तांणी कॉम्प्युटर सायन्स ह्या विशयांत एम.टेक ही पदवी मेळयल्या. पुण्यांत टेल्को कंपनीत काम करपी त्यो पयल्योच बायल अभियंता. त्यो समाजीक कार्यकर्त्यो आनी कुशळ लेखिका म्हूण नामनेक पावल्यात. सुधा मुर्ती ह्यो इन्फोसिस फाउंडेशनाच्यो अध्यक्षा आसात. ह्या फाउंडेशनाच्या माध्यमांतल्यान जावपी समाजउपेगी कामांखातीर तांणी कीर्त जोडल्या. कर्नाटकांतल्या सगळ्या सरकारी शाळांक संगणक आनी ग्रंथालय सुविधा उपलब्ध करून दिवपाचे चळवळीच्यो त्यो प्रणेत्यो.

१९ नोव्हेंबर २००४ वर्सा तांकां समाजकार्याच्या क्षेत्रांतल्या तांच्या असामान्य योगदाना खातीर राजलक्ष्मी पुरस्कार फाव जाला. २००६ वर्सा तांकां भारत सरकाराचो पद्मश्री पुरस्कार भोवमान फाव जाल्लो. सुधा मुर्ती हांकां समाजीक कार्य आनी साहित्य सेवेखातीर स डॉक्टरेट मेळ्ळ्यात. हातूंतल्यो दोन महाराष्ट्रांतल्या एस एन डी टी महिला विद्यापीठ आनी शिवाजी विद्यापीठा कडल्यान मेळ्ळ्यात. कर्नाटकांतल्या गुलबर्गा विद्यापीठा कडल्यान साहित्य क्षेत्रांतल्या कार्याखातीर एक आनी कर्नाटक विद्यापीठा कडल्यान एक अश्यो दोन डॉक्टरेट तांका दिल्यात. तामिळनाडूंतल्या सत्यभामा विद्यापीठान आनी आंध्रप्रदेशांतल्या श्री पद्मावती विश्वविद्यालयानूय तांकां डॉक्टरेट दिवन सन्मानीत केलां.

# हांगा, थंय आनी वचत थंय

## सुधा मुर्ती हांच्यो सगल्यांत चड भाविल्ल्यो काणयो




अणकार

**सुनेत्रा जोग**

शीनी,
तूं खरेंच म्हजें पडबिंब
चिंतनांनी, कर्तुबांनी आनी दिसपाक

# मांडावळ

# वळख

म्हज्या काणयांनी म्हजे इश्ट, कुटुंब वा म्हाका मेळटात त्या लोकां वांगडाच, खूबशें हांवूय आसा अशें म्हाका जायते फावट जाणवता. तरी लेगीत हांव ज्या अणभवांविशीं बरयतां ते मात म्हजेच आसात. तांचेविशीं बरयतना हांव म्हाका वेगळें काडूंक शकना. ह्या पुस्तकांत अशेच कांय म्हज्या काळजांत सांबाळिल्ले अणभव आसात. म्हजेखातीर ते सोबीत फुलांवरी आसात. हांवें ते सगळे हांगा एकठांय करून एक हार गुंथपाचो यत्न केला. चडशे अणभव आदल्या पुस्तकांनी प्रकाशीत जाल्ले आसले तरी दोन नवीं फुलां आसात. एक म्हज्या साहित्यिक प्रवासाक अधोरेखीत करपी आनी दुसरें भूतदयेचो खरो अर्थ विस्तारान सांगपी.

हें पुस्तक म्हजो भाव श्रीनिवास हाका ओंपलां. ताचेविशीं बरोवप सोंपें दिसलें तरीय खूब कठीण. हांव ताचेभशेन दिसतां, ताचेभशेन विचार करतां, ताचेभशेन वाचतां आनी ताचेचभशेन खातां जेवतां. तो जालो तेन्नासावन हांवें ताच्या सांगाताचो आनंद घेतला. हांव दुसरें भुरगें आनी तो चवथो. मातूय वाजेयनासतना हांव ताचेवांगडा वरांचीं वरां घालोवंक शकतां.

आतां तो अगणित पुरस्कार आनी खाशेलीं जैतां आपल्या नांवार केल्लो नांवादीक खगोलभौतीकशास्त्री आसा. ताचें काम म्हाका कांयच समजना. तेच प्रमाण ताचेखातीर म्हजें काम तशेंच. म्हाका दिसता तो सामको एकाग्रचित्ती आनी पुरायेन अव्यवहारी. ताचें दिसप, सामाजीक औचित्य, आपणाविशीं दुसरे कितें चिंततात हें आनी जेवणाखाणाचेंय ताका मातूय पडिल्लें नासता. म्हजें वागणें मात बरेंच व्यवहारी. म्हज्या प्रवासांत, जायत्या संघटनांच्या कारभारांत म्हजो सक्रीय वांटो आसा. पूण कांय मुखेल फरक आसले तरी लेगीत आमची खूब बरी इश्टागत आसा.

हांव आनी श्रीनिवास जेन्ना भुरगीं आशिल्लीं तेन्ना गिमाळ्याच्या सुटयेंत आमी दोगांयनी एक एक शब्दकोश पाठ करपाचें थारायल्लें. आमच्या वाठारांत नव्यान सुरू जाल्ल्या इंग्लीश मिडियम शाळेच्या पयल्या बॅचींत श्रीनिवास आशिल्लो. ती शाळा

म्हळ्यार केंद्रीय विद्यालय. म्हणटकच ताणें शिकपाखातीर इंग्लीश शब्दकोशाची, जाल्यार हांवें कन्नड भाशेची निवड केली. त्या वेळार, घरांतल्या भुरग्यांक घरच्या कुत्र्याक भोंवडावन हाडपाचें काम दिल्लें. केन्ना केन्नाय, कुत्र्याक घेवन एकएकट्यान वचप आमकां दोगांक नाका दिसतालें. हाचें कारण म्हळ्यार तो वेळ कांय नवी उतरां शिकपाखातीर वापरपाची आमची इत्सा आसताली. थोडो विचार करून आमी दोगांयनी कुत्र्याक घेवन भोंवपाचें थारायलें. शिकिल्लीं नवीं उतरां एकमेकांक म्हणून दाखोवप, म्हणटकच वाज येवचो ना हो ताचेफाटलो हेत आशिल्लो. थारायल्लें ताचेपरस खूब कितें आमी चलता आसतना केलें. म्हजो भाव संस्कृतांत जो मध्यम योग शिकतालो, तो हांव शिकलें. ताचेकडेन हांव ट्रिग्नोमेट्रीबद्दल उलयतालें. म्हजेपरस ल्हान आसून आनी शाळेच्या अभ्यासात ताका तो विशय नासून लेगीत तो जे तरेन त्यो संकल्पना शिकलो तो वेग पळोवन म्हाका अजाप जालें. कांय फावट वेगवेगळ्या विशयांचेर वाद घालून आमचीं मतां मांडपाक आमकां आवडटालें.

म्हाका याद जाता तेन्नासावन, श्रीनिवासान आपल्या तीनूय भयणींचो सारकोच मोग केला. तो सोळा वर्सांचो आसतना, एका वादविवाद स्पर्धेंत वांटो घेवपाक नागपूर गेल्लो. ताका पुरस्कार म्हूण पयशे मेळिल्ले. त्या पयशांनीं ताणें एक साडी घेतली. येतकच ताणें ती आमकां तिगांकय दिली आनी म्हळें, 'म्हाका इतलेंच शक्य आशिल्लें. तुमी सगळ्यांनी ती वांटून घेतिल्ली जाय म्हाका.' काळ गेलो आनी आमची जीण बदलली. तरीय, सुखांत आनी दुख्खांत आमी चौगांय एकमेकांखातीर आसात.

फाटलीं चाळीस वर्सां म्हजो भाव एका वेगळ्या देशांत रावता. आमी फकत वर्सातल्यान एक फावट मेळटात. पूण तरीय आमी काळजांतल्यान जोडिल्लीं आसात. ताचेखातीर म्हज्या काळजांत एक खाशेली सुवात आसा. तो सांबाळून घेवपी पूण व्यक्त जावपी न्हय. विज्ञान आनी खगोलशास्त्र, नकेत्रां, शामवर्णी ठेंगू, कृष्णविवरां आनी हेर गजालींसांगाता तो जियेता. ताका खऱ्यांनीच आनी मनापासून एकूच भेट हांव दिवंक शकतां आनी ती म्हळ्यार हें पुस्तक: म्हजोच एक प्रिय आनी मोलादीक भाग.

१

# खूबशा काणयांची एक काणी



दरेका मनशाची जीण ही एक विलक्षण काणी. संवसाराक फरक पडपासारकी नामना जेन्ना मनशाक मेळटा तेन्नाच ताची काणी फामाद जाता. जर तुमी खोलायेन पळयलें, जाल्यार तो वा ती ज्या बदलांतल्यान गेल्यांत ते सुक्षीम बदल दिसतले जे संवसाराक केन्नाच कळचे नात.

चडशे लोक कश्टान साध्य जावपी बऱ्या आनी वायटांनी भरिल्लो प्रवास पत्करतात. हो प्रवास तांकां बदल घडोवन नवे दृश्टीकोन निर्माण करूंक, संवसार समजून घेवंक मजत करता. तेच परी खरो उमाळो हो तांच्या निपुणतायेच्या तेंगशेपरस खूब सुंदर आसता ह्या वस्तुस्थितीची जाणविकाय करून दिता. सगळ्यांत उंचेलें ध्येय साध्य करून लेगीत कांय साधकांक जीण पडींग आनी ध्येयहीन दिसता हो जिणेंतलो विरोधाभास.

हालींच, म्हाका मुंबयच्या रॉयल ओपेरा हावसांत क्रॉसवर्डाचो जीवनगौरव पुरस्कार मेळ्ळो. वेगवेगळ्या विभागांची माहिती स्टेजीर एका फाटल्यान एक सांगताले. सर्जनशील साहित्य, वैचारीक साहित्य आनी भुरग्यांखातीरचें साहित्य अशे हेर कांय विभाग आशिल्ले. परीक्षक मंडळान तांची मांडणी आनी मतांचो परीचय करून दिलो. म्हजें मन खूब फाटीं म्हज्या साहित्यिक प्रवासाच्या सुरवातीकडेन गेलें.

हांव साहित्याची विद्यार्थिनी न्हय; हांवें ह्या विशयांतली डिग्री घेवंक ना. पूण साहित्यान म्हाका सदांच भूल घाल्या. पुस्तकांक मोलादीक वस्तूवरी सांबाळपी शिक्षकांच्या कुटुंबांतलें आशिल्ल्यान खूब ल्हान पिरायेर म्हाका पुस्तकांची ओड लागली.

हांव एका गांवांत ल्हानाचें व्हड जालें. थंय संपर्काची थळावी भास कन्नड आशिल्ली. म्हजी शाळा कन्नड माध्यमाची. केन्ना केन्ना तंबूतल्या थेटरांत कन्नड सिनेमा दाखयताले. रेडियो स्टेशन्स सामकीं कमी आशिल्लीं. जेन्ना आमच्या घरा रेडियो आयलो तेन्ना घरांतलीं जाणटीं मनशां बारीकसाणेन नदर दवरून आसतालीं. रेडियोचेर फकत कन्नड कार्यावळी आयकुपाचें बंदन आशिल्लें. पूण आमचे भुरग्यांचे, आपापले मार्ग आसतात. जेन्ना जाणटीं घरांत नासतालीं, तेन्ना हांव रेडियो सिलोन आयकतालें. तातूंतली एक फामाद कार्यावळ म्हळ्यार बिनाका गीतमाला. त्या स्टेशनाचेर जायते फावट वाजतालें तें तांचें राष्ट्रगीत नमो नमो माता म्हाका आयज लेगीत याद आसा. म्हज्या भुरगेपणांत इंग्लिशीचो अंश लेगीत नाशिल्लो. पूण म्हजे सर्जनशीलतायेक वाट दाखोवपा खातीर  जायतो वेळ आशिल्लो.

म्हज्या घरचीं जायते फावट एका दिसाच्या ल्हान पिकनीकेक वतालीं: देवळाक भेट, लग्नासंबंधांतल्यो कार्यावळी, पिकनीक वा इतिहासीक थळांक भेट.

आमी घरा पावून सांजचो मातसो विसव घेतलो काय म्हजी आई फाटीक लागताली, 'आतां बस आनी आयच्या तुज्या दिसाविशीं बरय. आयज जें कितें तुवें पळयलें ताची घडये फाल्यां तुका याद उरची ना. तुज्या माणकुल्या बोटांक आनी तरण्या मनाक बरोवप हो एक बरो व्यायाम.'

तिच्या आदेशांक हांव सदांच विरोध करतालें. एका उमेदीन सारिल्ल्या दिसाउपरांत एका कोनशाक बसपांत मजा आसा अशें दिसनाशिल्लें. म्हणटकच हांव म्हणटालें, 'हांव फाल्यां बरयतां.'

'बरें तर. तुजें रातचें जेवण लेगीत तूं फाल्यांच जेव,' म्हजी आई म्हणटाली.

अशे तरेन म्हजेर बसून बरोवपाची सक्ती जाताली.

जशें हांवें बरोवप सुरू केलें तशी म्हाका तातूंतली मजा कळपाक लागली. कन्नड वर्णमालेंतल्या बावन अक्षरांचो संयोग करून हांव खेळटालें आनी म्हज्यो भावना उक्तावपाखातीर अर्थपूर्ण उतरां घडयतालें. खोस, दुख्ख, उमळशीक आनी म्हाका दिसता तें हेर सगळें. रोकडीच, बरोवप ही म्हजी खोसदिणी संवय जाली.

कितलींसींच वर्सां, म्हजे सदचे विचार हांव बरयतालें. दोन दसकां हांवें सदांच पंचवीस तरी वळी बरयल्यो. कसलोच हेतू बाळगिनासतना केल्ली ही क्रिया म्हजी अभिव्यक्ती सुदारपाक मजत करताली आनी म्हज्या कल्पनांक स्पश्टताय दिताली हाची म्हाका जाणीव नाशिल्ली. हे खातीर, म्हजे पयले शिक्षिकेचें, म्हजे आईचें हांव उपकारी आसा.

किशोर पिरायेर, हांव चिमटीभर गंभीरताय, खूबशें साहस आनी घडये मोगाची सया आशिल्लेंय बरोवप करूंक लागलें. आधुनिकताय ही सगल्यांत बरी गजाल अशें हांव चिंततालें.

हांवें मोझार्ट हाचेविशीं लेख बरयलो आनी थळाव्या दिसाळ्याक धाडून दिलो. जेन्ना तो आयतारा छापून आयलो, तेन्ना म्हाका परमानंद जालो. हांवें तें दिसाळें शाळेंत व्हेलें आनी म्हज्या शिक्षकांक आनी इश्टांक तो लेख दाखयलो. म्हजे इश्ट म्हाका आदरान पळोवंक लागले. हांवें खरेंच कितेंतरी मेळयलां अशें म्हाका दिसूंक लागलें. त्या दिसांनी, बायलांनी अशें कितेंय छापून हाडप ही खूब दुर्मीळ गजाल आशिल्ली. दिसाळ्यांत लेख छापून येवपी शाळेंतलें पयलेंच चली हांव आशिल्लें हाची ते घडणुकेन म्हाका जाणीव जाली.

उपरांत, हांवें एक प्रेमकथा बरयली आनी त्याच दिसाळ्याक धाडली. कितलेशेच दीस गेले पूण म्हाका कांयच जाप मेळ्ळी ना. म्हणटकच, हांवें संपादकाक एक स्मरणपत्र बरयलें आनी एक स्टँप लायिल्लें पाकीट धाडलें. ताची आतां तरी जाप येतली अशी म्हाका आशा आशिल्ली. तरीय, कांयच जालें ना. निमाणें, हांवें सगळो धीर एकठांय केलो आनी त्या दिसाळ्याच्या संपादकाक मेळपाक गेलें. अपेक्षेप्रमाण, तो दादलो आशिल्लो. हाचें कारण

म्हळ्यार त्या काळार बायल संपादक वा पत्रकार हें कोणें आयकूंक लेगीत नाशिल्लें. संपादकान म्हजेकडेन पळयलें आनी म्होवाळ आवाजांत उलयलो, ‘बाय, आमी हो लेख प्रसिद्ध करूंक शकनात. बऱ्या साहित्यांत सत्य आनी कल्पनेचें योग्य मिश्रण वापरूंक जाय. अणभव, निरीक्षण, अंतर्मुखताय: ह्यो संवेदना जाणीवपूर्वक वाडोवंक जाय. म्हणटकच, निराश जावं नाका. हांवें आयज जें कितें सांगलां ताचेर विचार कर.’

जेन्ना हांवें बसून हाचेर विचार केलो तेन्ना म्हाका कळ्ळें, कल्पना म्हळ्यार फकत एक चकचकीत धागो. सोबीत कपड्याचो कुडको न्हय. सर्जनशीलताय नासत जाल्यार घडणुको वा खरे मुद्दे हांचेविशीं बरोवप हें सुकें सडसडीत आनी रिपोर्टींग कशें जावं येता. संपादकाचें खरें आशिल्लें. दोनूय तासांचें योग्य मिश्रण आसल्यार लेखन उमेद वाडोवपी आनी परिणामकारक जाता. तो धडो हांव केन्नाच विसरूंक ना. आयज लेगीत हांव ताचो वापर करतां.

म्हजे आईन म्हाका प्रोत्साहन दिलें. तिणें म्हळें, ‘प्रकाशीत जावपाची चिंता करूं नाका. जालें ना, तरीय बरोवप सोडूं नाका. धा वर्सांउपरांत जेन्ना तूं फाटीं वळून तुजे लेख वाचतलें तेन्ना तुज्या अभिव्यक्तींत सुदारणा जाल्ली तुका दिसतली हाची हांव तुका खात्री दितां.’

प्रेरीत जावन, हांव बरयत रावलें.

उपरांत, हांवें म्हजे लेख एका थळाव्या दिसाळ्याक दिले. तातूंतले कांय गिमांतल्या आनंददायी पावसावरी मदीं मदीं प्रकाशीत जावंक लागले. त्या लेखांखातीर कांय मानधन नाशिल्लें. हांवें तशी अपेक्षाय दवरूंक नाशिल्ली. म्हजे लेख प्रकाशीत जावप हेंच व्हडलें मानधन अशें दिसतालें.

वर्सां गेलीं. हांवें कन्नड माध्यमांतल्यान म्हजी धावी पुराय केली आनी इंग्लीश माध्यमांतल्या कॉलेजींत प्रवेश घेतलो.

कन्नड माध्यमांतल्यान इंग्लीशींत प्रवेश घेवपी तरनाट्यांची आवतीकाय कितें जाताली हाचें त्या काळार कोणाकूच पडून गेल्लें नासतालें. म्हजेसारकेच आनीकूय कितलेशेच आशिल्ले अशे. सगल्यांत वायट गजाल म्हळ्यार, त्या

वर्साचे म्हजे शिक्षणीक प्रगतीचेर म्हाका फुडें इंजिनियरींग काय वैजकी कोर्साक प्रवेश मेळटलो हें निंबून आसलें. म्हजे कांय सांगाती इतले चक्रावल्यासारके जाल्ले की ताणीं कोर्स बदलून कला शाखेंत प्रवेश घेतलो. विशय बदलपाचे इत्सेन न्हय, तर विज्ञान खूब कठीण आनी कला शाखा सोपी आशिल्ल्यान नवे भाशेकडेन जुळोवन घेवन बरे तरेन पास जावपाची संद आशिल्ली म्हूण.

तेन्ना हांव पंदरा वर्सांचें आनी इंग्लीशीचो एक परीच्छेद लेगीत बरोवंक येना अशें. गोंदळात पडून, हांव म्हजे आई म्हऱ्यांत गेलें. तिणें म्हळें, 'तुका कन्नड भास आनी तातूंत बरोवप आवडता, खरें न्हय?'

हांवें तकली हालयली.

'मागीर भियेवं नाका. इंग्लीश ही लेगीत एक भास. फकत तुवें इंग्लीशींत खूब वाचूंक जाय, आनी बरोवंक सुरवात करूंक जाय. जोमेरेन ती भास तुका संवकळीची जायना तोमेरेन हें करूंक जाय.'

त्या दिसासावन, हांवें इंग्लीश पुस्तकां वाचपाचेर लक्ष केंद्रीत केलें. म्हाका तें आव्हानात्मक दिसूंक लागलें. हांव मनान खंबीर आशिल्लें. मदींच सोडून दिवपाची इत्सा नाशिल्ली. सदां हांव इंग्लिशींत एक परीच्छेद बरयतालें. त्या वर्सा म्हज्या जल्मदिसाची भेंट म्हूण म्हज्या आज्यान म्हाका एक इंग्लीश कन्नड शब्दकोश दिलो. तो फुडें कितलींशींच वर्सां म्हजो घट सांगाती जालो. म्हज्या बऱ्या नशिबान गणीत, भौतिकशास्त्र आनी रसायनशास्त्राक व्यापक अशा इंग्लीशीची गरज ना. हांवें बरे तरेन पास जावन इंजिनियरींग कॉलेजांत प्रवेश घेतलो. म्हज्या सगळ्या कार्यक्रमांक लागून, थोडो काळ हांवें बरोवप बंद केलें. कोर्साच्या सदच्या शिकपा भायर इंजिनियरींग ड्रॉइंग खूब कठीण आशिल्लें, आनी प्रयोग वाज हाडपी. सगळें म्हाका एकट्यान करचें पडटालें हें सांगपाची गरज ना. बरोवपाखातीर वेळूच नासतालो.

वर्सां गेलीं आनी म्हजें बरोवप कमी कमी जालें. पूण हांव चडांत चड वाचूंक लागलें. म्हज्या घरकाराच्या वाचनाच्या मोगाक लागून म्हजोय वाचनाकडेन कल वाडलो. जेन्नासावन आमी मेळ्ळ्यांत, तो म्हाका भेट म्हूण

पुस्तकां दिवंक लागलो. आयज लेगीत दिता. प्रत्येक भेटीच्या पयल्या पानार एक सुपुल्लो संदेश आसता: ‘तुका, म्हजेकडल्यान.’ कांय पुस्तकां, खास करून चरीत्रां आनी विनोदी, आमी सांगातान वाचतात. पूण म्हाका इतिहास, तंत्रगिन्यान आनी मानववंशशास्त्र ह्या विशयांची चड आवड आशिल्ली. जाल्यार मुर्तीक साम्यवाद आनी कोडींग वाचपांत रस आशिल्लो.

सुर्वेक सावन पयशांची टंचाय आशिल्ली. पूण चड आनी चड पुस्तकां वाचपाची मात खर इत्सा आशिल्ली. म्हणटकच, मुर्तीन आनी हांवें, प्रतिशठीत अशा स्ट्रँड बुक स्टॉलांतल्यान पुस्तकां विकतीं घेवपाखातीर दर म्हयन्याक तीनशीं रुपया कुशीक काडून दवरपाचें थारायलें. तेन्ना आमकां तितलेंच शक्य आशिल्लें. हे पयशे आमी हेर खंयचे तरी खर्च कमी करून वांचयतालीं. आमी गर्दी आशिल्ल्या बसीनीं आनी थळाव्या रेल्वेन प्रवास करतालीं. घरचीं कामां आनी रांदप करतालीं. ताका लागून आमकां पुस्तकांखातीर पयशे वांचोवपाक मजत जाली. तरी लेगीत, हें बजेट म्हाका पावनाशिल्लें. त्या काळार, बेठींच पुस्तकां चाळून पळोवपी गिरायकांचेर दुकानदार तापताले. ‘उपकार करून, विकतें घेवपाचें नासत जाल्यार ओगीच पुस्तकांक हात लावं नाकात. मागीर ती वापरिल्लीं आनी पोरनीं दिसतलीं. संभाव्य गिरायकां तीं घेवंचीं नात.’ ते म्हणटाले. म्हणटकच हांव पयस उबें रावून आशाळभूत नदरेन पुस्तकांक पळयतालें.

1979 वर्सा, म्हजेकडेन पयशे सामके कमी पूण उमेद मात खूब आशिल्ली. म्हणटकच, हांव एकटेंच फाटीर एक बॅग लावन अमेरिकेक गेलें. एक दीस, उसरां सांजवेळार न्युयॉर्कांत, दोन पुलीसांनी म्हाका थांबयलें. म्हज्या जड बॅगांत ड्रग्स आसत असो तांकां दुबाव आशिल्लो. जेन्ना तांणीं बॅग स्कॅन केली तेन्ना म्हाका ज्या वस्तूचें व्यसन आशिल्लें ती वस्त तांकां मेळ्ळी - कर्डरायस. तांकां जें मेळ्ळें तें पळोवन ते इतले अजापले कीं हांव खंयसावन आयलां आनी दक्षीण भारतांत कर्डरायसाचें म्हत्व कितलें आसा हें म्हाका तांकां समजावन सांगचें पडलें.

म्हज्या प्रवासांत अश्यो कितल्योश्योच साहसी घडणुको आसात. जेन्ना हांव भारतांत परत आयलें तेन्ना हांवें म्हज्या साहसांविशीं कन्नड भाशेंत बरयलें.

नांव दिलें 'अटलांटिका पलतडच्यान'. बरयलें आनी कुशीक दवरलें. तें प्रकाशीत करपाचो विचार म्हज्या मनांत केन्नाच आयलो ना.

सुमार एका वर्सा उपरांत, म्हज्या साहसांविशीं आनी लेखनाविशीं हांव म्हज्या बापायकडेन उलयतालें तेन्ना ताणें सुचयलें, 'तूं हें सगळें पुस्तकरुपांत प्रसिद्ध कित्याक करीना? अशे तरेन फाटीक बॅग लावन अनवळखी भूंयेर वचप आमच्या वाठारांतल्या चलयांखातीर कितलें दुर्मीळ हें तुका खबर आसा. त्या एकाच कारणान हें पुस्तक वेगळें थारतलें हाची म्हाका खात्री आसा.'

असलो विचार म्हज्या मनांत नाशिल्लो. हांव: एक लेखक? जेन्ना तें उतर म्हज्या मनांत येतालें तेन्ना म्हाका जेरोम के. जेरोम, पी. जी. वुडहावस, व्ही. एस. नायपॉल, जीन-पॉल सार्त्र आनी त्रिवेणी आनी भैरप्पा सारकिल्या कन्नड लेखकांची याद जाताली. लेखक त्या गुणवत्तेचो आसूंक जाय अशें म्हाका दिसतालें. म्हजेसारकी एक सामान्य बायल लेखक जावपाचो विचार करता हें म्हाकाच विचित्र आनी मुर्खपणाचें दिसलें.

मन थाऱ्यार येसर कांय दीस हांवें ताचेर विचार केलो. मागीर हांवें चिंतलें: 'प्रकाशकाकडेन हस्तलिखीत धाडून दिवपांत चूक कितें आसा? चडांत चड वायट कितें जातलें? तो म्हजें लेखन न्हयकारतलो. पूण म्हाका नकाराची संवय आसा, खरें न्हय?'

व्हडा धीरान हांव मनोहर ग्रंथ माला ह्या फामाद कन्नड भाशीक प्रकाशनघरांत गेलें. ताचो संस्थापक जी. बी. जोशी हांकां नवोदितांचें साहित्य प्रसिद्ध करपी म्हूण वळखताले. अशे तरेन सुरवात करपी लेखकांमदीं गिरीश कर्नाड आनी एम. के. इंदिरा हे आशिल्ले. फाटींफुडें जायत हांव श्री. जोशी हांचेकडेन उलयलें आनी म्हजें हस्तलिखीत दिलें. ताणीं म्हाका दोन दिसांनी कळयतां अशें सांगलें. अठ्ठेचाळीस वरांउपरांत, हांव अधीर आनी चिंतेस्त जालें. गुरवारपणांत, बाळंटेरावेळार आसतात तश्योच कितेंतरी म्हज्यो भावना आशिल्ल्यो त्या वेळार. निमाणें, म्हजें हस्तलिखीत प्रसिद्ध करतां अशें ताणीं म्हाका कळयलें. मानधनाविशीं ताणीं कांयच सांगलें ना. हांवेंय केन्नाच विचारलें ना. तो दीस, हांवें आनी म्हज्या घरच्यांनी हांव एक व्हड लेखक

जाल्लेवरी मनयलो. कशेंय जावं, तें पयलेंच पुस्तक आशिल्लें. पंच्यात्तर बापोलभावंडा, मावश्यो आनी काकांमदलें हांव पयलेंच लेखक आशिल्लें आमच्या कुटुंबांतलें.

गुरवारपणाच्या काळावरीच, पुस्तकान बाजारांत येवंक धा म्हयने घेतले. जेन्ना म्हाका हें कळ्ळें तेन्ना प्रकाशकाकडल्यान म्हजी पयली निर्मणी स्विकारपाक हांव हुबळीसावन धारवाड बसीन गेलें, आनी व्हडा अपुरबायेन पयल्यो वीस प्रती घेतल्यो. हांव उचांबळीत जाल्लें.

ह्यो प्रती म्हज्या व्हडल्या कुटुंबांत हांव कश्यो वांट्टलें अशें हांव चिंततालें. निमाणें कांय प्रती हांवें म्हज्या मांय मांवाक, कांय म्हज्या इश्टांक आनी तीन स्वताखातीर दवरल्यो. उरिल्ल्यो प्रती रोकड्योच सोंपल्यो. म्हज्या कांय इश्टांनीं म्हजें अभिनंदन केलें आनी मिठाय हाडली. हेरांनीं अभिमानान म्हळें, 'एक इंजिनियर लेखक सुद्धा जावंक शकता हाची आमकां कांयच कल्पना नाशिल्ली. आमकां खूब खोस जाल्या.' कांय जाणांनी म्हळें, 'अमेरिकेक वचून आयल्यार आमी लेगीत पुस्तक बरोवपाचीं. भोंवपाक आनी पुस्तक बरोवपाक पयशे लागतात.'

निमाणें पयल्या पुस्तकान म्हाका लेखक हें नांव आनी चड बरोवपाची उमेद दिली.

1979 वर्सा दोन म्हयन्यांखातीर हांव जमशेदपूर आशिल्लें. उपरांत बिहार. कंपनीच्या गेस्ट हावसांत हांव एकटेंच रावतालें. तेन्ना म्हज्या मनांत नव्या पुस्तकाची कल्पना आयली. हांव मध्यमवर्गीय कुटुंबांतलें. जांचे घरकार सदांकाळ व्यवसायांत व्यस्त आसतात, अश्यो गिरेस्त बायलो आपली जीण कशी सारतात काय ह्या विचाराची म्हाका सदांच भूल पडटाली. ही भूल आनी म्हजी कल्पनाशक्त ह्या कादंबरेंत वापरप अशें हांवें थारायलें.

ही कल्पना मनांत घोळयत हांव मुंबय परत आयलें. जेन्ना हांवें म्हजी ही कल्पना मुर्तीक सांगली तेन्ना ताणें म्हजेकडेन रिते नदरेन पळयलें. 'हांगा हांव तुका कांयच मजत करूंक शकना. म्हाका भंय दिसता. हांव गिरेस्तूय न्हय आनी बायलूय.'

म्हणटकच, तें तशें जालें. विचार केल्या उपरांत, हांवें म्हज्या वेगवेगळ्या सहकाऱ्यांकडे चौकशी केली. जुहूच्या वेळेर दिसपी 'गिरेस्त' बायलांक, तांचीं भुरगीं आनी आया सांगाता आसतना बारीकसाणेन नियाळलें.

कल्पना आनी सोद हातूंतल्यान कन्नड भाशेंतली म्हजी पयली कादंबरी 'अतिरिक्ते' आयली. जेन्ना हांवें ती बरयली, तेन्ना हांवें स्वता मुखेल पात्राच्या मनांत रिगून तिच्या परिस्थितींतली खोस आनी वेदनेचो अणभव घेतलो. शेवटाक, पात्राच्या जिणेंतल्यान भायर सरून म्हजे स्वताचे जिणेंत येवपाखातीर म्हाका यत्न करचो पडलो. अशे तरेन कन्नड साहित्यांतलो म्हजो प्रवास सुरू जालो. हे फावट, म्हैसूर शारांतल्या दुसऱ्या एका प्रकाशकाकडेन हांव गेलें.

हांवें बरोवप सुरू दवरलें. ते उपरांतच्या म्हज्या कांय कादंबऱ्यांक मात न्हयकार मेळ्ळो. चड लोकांचें लक्ष वेधून घेवपाचें आसत जाल्यार हांवें सदांच दिसाळ्यांनी खिस्तींनी बरोवपाचो यत्न करूंक जाय अशें म्हाका दिसलें. अजाप म्हळ्यार, थंय लेगीत तांकां न्हयकार मेळ्ळो. थोड्या दिसाळ्यांनी कांयच सांगलें ना. जाल्यार हेरांनी म्हळें म्हजें बरोवप खिस्तींनी छापपाक योग्य ना.

वर्सां गेलीं, हांवें उमळशीकेन वाचप चालूच दवरलें.

एक दीस, हांव एका लग्नाक गेल्लें. थंय कोड आशिल्लें एक तरनाटें चली म्हजेमुखार बसून जेवतालें. तेन्नाच, घरांतलो कोणतरी आयलो आनी ताका म्हळें, 'सगळ्यांवांगडा तूं हांगा बसूं नाका. तुका कोड आसा. उपकार करून हांगचें उठ.'

अपमानीत जावन रडत, तें चली उठून गेलें.

त्या वागण्यान हांव दुखावलें. हांव एका दोतोराचें चली. कुश्टरोगावरी कोड हो रोग न्हय, तर तें एक कातीचें दुयेंस हें हांव जाणा. तें सांसर्गीक न्हय. आनुवंशीक आसा अशेंय सिद्ध जावंक ना. अशें आसून लोक एकमेकांकडेन अशे तरेन कित्याक वागतात?

हे घडणुकेन म्हाका तिडक आयली आनी हांवें चड संशोधन करपाचें थारायलें. हेविशीं हांव लोकांकडेन उलयलें. तेन्ना म्हाका समजलें व्हंकलेक जरी हें दुयेंस नासलें तरी तिच्या खंयच्यातरी सोयऱ्याक हें दुयेंस आशिल्ल्यान कितलेशेच साकरपुडे आनी लग्नां मोडल्यांत. कातीच्या दोतोरांकडेन हांव कितलींशींच वरां उलयलें. ह्या दुश्ट वागणुकेन फकत आत्मविस्वास ना जाता, दुसरें कांयच जायना अशें म्हणून हांवें खरपणान ह्या वागणुकेक विरोध केलो.

जिणेंत पयलेच फावट, जागृताय निर्माण करचेखातीर कथेच्या रुपांत हाचेर बरोवंचें अशें हांवें चिंतलें. अशे तरेन म्हजी कादंबरी महाश्वेता जल्माक आयली.

खूब खूब वर्सां उपरांत, हांव आनीक एका लग्नाक गेल्लें. सुखदिणें अजाप म्हळ्यार न्हवरो म्हजे म्हऱ्यांत आयलो आनी म्हळें, 'हांवें महाश्वेता वाचल्या आनी आयज हांव लग्न करतां ते चलयेक कोड आसा. तुमच्या पुस्तकान म्हजो दिश्टीकोन पुरायेन बदलून उडयलो.'

त्या दिसा म्हाका जाणीव जाली कीं ज्या मुद्द्यांचेर हांव भावनावश जातां तांचेर बरयत रावलें जाल्यार घडये हांव बदल हाडूंक शकतलें.

सत्तर आनी अंयशींत अमेरिकेक वचप म्हळ्यार एक सामान्या भायलें कर्तृत्व आशिल्लें. तेन्ना भारत उदारीकरणाकडेन मातूय लागीं पावूंक नाशिल्लो. देशांत नोकऱ्यांची संद साप उणी आशिल्ली. तरी लेगीत, अमेरिकन डॉलर ही एक जादूची कांडी कशी आशिल्ली. एक डॉलर म्हळ्यार धा रुपया. थंय वचून राविल्ले लोक जेन्ना सुटयेंत भारतांत येताले तेन्ना ते हांगाच्या लोकांक तुच्छतायेन पळयताले. थळावीं कुटुंबा लेगीत अमेरिकेंत आशिल्ल्या आनी हांगा आशिल्ल्या भुरग्यां आनी नातरां मदीं फरक करतालीं. अमेरिकेंत रावपी बायलां आनी धुवांक चड मान आनी म्हत्व मेळप सभावीक आशिल्लें.

पूण हो वेळ मेरेन अमेरिकेंतली जीण दिसता तितली सोबीत ना हें म्हाका कळून चुकिल्लें. थंय रावतल्यांखातीर संघर्श अटळ आशिल्लो.

म्हणून हांवें डॉलर बहू वा डॉलर सोसे बरयलें. कन्नड भाशेंत हांवें हें पुस्तक

बरयलें. हस्तलिखीत पयलीं एका दिसाळ्यांत खिस्तींनी प्रसिद्ध जालें. मागीर पुस्तक. उपरांत दूरदर्शना खातीर सिरीयल. हेर भारतीय भासां वांगडाच इटालियन भाशेंतूय ताचो अनुवाद जालो. आयज लेगीत तें पुस्तकांच्या दुकानांनी मेळटा. कन्नड भाशेंतल्यान म्हजो प्रवास सुरू उल्लो. इंग्लीश भाशेंत बरोवपाचो विचार लेगीत म्हज्या मनांत आयलो ना.

1980 वर्सा अटलांटिकादाच्येइंदा ह्या म्हज्या पयल्या पुस्तकाचो प्रकाशन सुवाळो जालो. बंगळुरांतल्या मायो हॉलांत हो सुवाळो आशिल्लो. म्हजे खातीर तो म्हज्या पुस्तकाचें प्रकाशका कडेन लग्न सुचीत करपी एक ल्हानसो लग्न सुवाळो कसो. हांवें खूब लोकांक आमंत्रीत केलें. साहित्याची आवड आसपी जायतें लोक कार्यावळीक आयले. कन्नड वाचूंक येना अशे म्हजे लागींचे कांय इश्ट लेगीत आयिल्ले. हांव एक लेखिका हाचो तांकां अभिमान आनी म्हजो मोग आशिल्लो. तातूंतल्या एकल्यान म्हाका गिन्यानाचें प्रतीक अशी देवी सरस्वतीची एक रुप्याची म्हूर्त दिली. पयलेच फावट, हांव स्टेजीर उलोवंक उबें रावलें. घडये निमाणीय आसत, हांवें चिंतलें. म्हज्या वाचकांकडेन हांवें म्हजो पुस्तकां वयलो आनी कन्नड भाशेवयलो मोग उक्तायलो. फुडाराच्या कितल्याशाच समाजीक कार्यावळींतली ही पयलीच हें तेन्ना म्हाका खबर नाशिल्लें.

एक दीस न्यू इंडियन एक्सप्रेसाचो संपादक टी. जे. एस जॉर्ज हाणें म्हाका बरयलें कीं हांवें इंग्लीशींतल्यान कॉलम बरोवंक जाय. ताणें म्हळें, 'भास म्हळ्यार एक वाहन कशें. भितर आशिल्लो मनीस, जो कथा बरयता तो चड म्हत्वाचो. तूं कथा बरोवंक लाग. भास आपशींच जाग्यार पडटली.'

ताचीं तीं मायेस्त उतरां आनी प्रोत्साहनाक लागून हांव इंग्लीशींत बरोवंक लागलें. 12 नोव्हेंबर 2000 वर्सा सावन न्यू इंडियन एक्सप्रेसांत म्हजे कॉलम 'एपिसोडस' सुरू जाले. हांव शिमोगा आशिल्लें. थंय हॉटेलांतलो एकलो उलयतालो तें हांवें आयकलें. 'सुधा मूर्तीन इंग्लीशींत एक कॉलम बरयला.' एका अनवळखी मनशान म्हाका एका इंग्लीश लेखकाच्या पांवड्यार पावयलें. म्हजे कॉलम लोकांक वाचूंक जाय हाचेर विस्वास दवरपाक म्हाका इल्लो वेळ लागलो. टायम्स ऑफ इंडिया, द हिंदू आनी द वीक हातूंतल्यानूय हो प्रवास

चालू उरलो.

म्हज्या इंग्लीश बरोवपाचो एक व्हडलो फायदो म्हळ्यार वेगवेगळ्या राज्यांतल्या लोकांकडेन इश्टागत. तातूंतलेच एक सर्गेस्त राष्ट्रपती श्री ए. पी. जे. अब्दुल कलाम. तें 2001 वर्स आशिल्लें. अजून ते आमचे राष्ट्रपती जावंक नाशिल्ले. डिफेन्स रिसर्च अँड डिव्हेलॉपमेंट ऑरगनायझेशनांत (डी.आर.डी.ओ.) ते विज्ञानीक आशिल्ले. द वीक ह्या इंडियन न्यूज मॅगझीनांत तांणीं म्हजो एक कॉलम वाचलो. तांणीं म्हळें कीं म्हज्या बरोवपांतलो विनोद बरो आनी संदेश एकदम प्रबळ आसा. कथेच्या सारांशान लेख सोंपोवपाची कळाशी हांव कशी शिकलें अशेंय तांणीं विचारलें आनी म्हाका मेळपाची इत्सा उक्तायली.

एका वर्सा उपरांत, इंग्लिशींतलें म्हजें पयलें पुस्तक प्रसिद्ध जालें. हांवें बरयिल्ल्या कॉलमांचो तो संग्रह. जॉर्जान म्हजी चेन्नयच्या इस्ट वेस्ट बुक्स प्रा. लि. कडे वळख करून दिली म्हूण ताका देव बरें करूं. म्हाका खरें प्रोत्साहन दितना, जॉर्जान म्हज्या पुस्तकाक प्रस्तावना बरयली आनी ताका एक मोहक नांव दिलें: वायज अँड अदरवायज.

जेन्ना एकाद्रें पुस्तक इंग्लिशींतल्यान प्रसिद्ध जाता तेन्ना तें चड लोकां मेरेन पावता आनी थळाव्या भासांनी ताचो सहज अणकार जाता हाची म्हाका जाणीव जाली. आयज, म्हजीं पुस्तकां मुखेल भारतीय भासांनी अणकारीत जाल्यांत. भारतांतल्या चडशा सगळ्या राज्यांनीं तीं पावल्यांत.

कांय वर्सां गेलीं. इन्फोसीस फावंडेशनाच्या कामान म्हाका व्हडा संख्येन अणभव मेळोवन दिले आनी म्हजें बरोवप चालू उल्लें. हांव कितल्याश्याच प्रकाशकांकडे गेलें. पूण तांणीं म्हजीं हस्तलिखीतां न्हयकारलीं. तांणीं म्हळें, 'तुमची भास अती सादी आसा. ती अलंकारीक वा आधुनीक ना. एकदम सादी आनी सरळ अशी ती आसा. आमच्या मतान लोक तिची तोखणाय करचे नात.' कांय जाणांनी सुचयलें, 'जाका इंग्लीश भास एकदम बरी येता अशा कोणाकूय तुमची काणी सांगात. तो ती परत बरोवन काडटलो. तुमी दोगांय सहलेखक जावंक शकतात.'

पूण हांवें तें मानून घेतलें ना. म्हाका म्हजी विशिश्ट पद्धत तशीच दवरून हांव जशें आसा नेमकी तशीच ती चित्रीत करपाची आशिल्ली.

हें करता आसतना, पुस्तक चड उंचायेर व्हरपी एक बरो संपादक जाय हाची म्हाका जाणीव जाली. एक व्हड संपादक म्हळ्यार लेखकाचेंच पडबिंब. तो लेखकाक समजून घेवपी आसूंक जाय, अशेंय म्हाका दिसलें. हे गूण म्हाका म्हजें तरनाटें आनी हुशार संपादक, श्रुतकीर्ती खुराना भितर मेळ्ळे म्हूण हांव स्वताक खूब नशीबवान समजतां. तें एक प्रतिभावान इंजिनियर आनी वेवस्थापनशास्त्रांतलें पदवीधर. ताका इंग्लीश भाशेचो उपाट मोग आसा. श्रुतीचो जल्म जालो त्या दिसा सावन हांव ताका वळखतां. हाचें कारण म्हळ्यार ताच्या पालकांची आनी म्हजी इश्टागत आदीं सावन आशिल्ली. हांवें ताका व्हड जातना पळयलां. ताणें म्हाका जाणटें जातना पळयलां. वर्सां वतात तसो दर दिसा आमचे मदलो हो बंध चड घट जायत गेला. तें म्हजें मन वाचता. हांव खंय चुकलें जाल्यार स्पश्टपणान सांगता. म्हजें बरोवप वाचतना ताका खंय वाज आयलो, खंय संपादनाची गरज आसा हें तें सांगता. कामा भायर, आमकां दोगांकूय वाचूंक आनी अगणीत अशा हांगा, थंय आनी वचत थंयच्या गजालींचेर चर्चा करूंक आवडटा.

म्हज्या सोबीत कुटुंबाचेय म्हाका आभार मानूंक जाय. म्हज्या बरोवपाच्या मोगाविशीं तांकां खबर आसा. हें समजून घेवन आपल्या गरजांपरस चड प्राथमिकताय म्हज्या बरपाक दिवपाची मेकळीक म्हाका तांणीं दिली.

कालांतरान, पेंग्वीन रँडम हावस म्हजो एकमेव इंग्लीश प्रकाशक जालो. थळाव्या भासांनी काम करपी प्रकाशकांनीय उत्सुकताय दाखयली म्हण हांव नशीबवान अशें म्हाका दिसता. सुरवेक सावन हांव तांचे बराबर आसा. मराठी खातीर पुण्यातलें मेहता पब्लिशींग हावस, गुजराती खातीर अहमदाबादचे आर. आर. शेठ, हिंदी अणकारां खातीर दिल्लीचें प्रभात प्रकाशन, मल्यालमा खातीर कोट्टायमचें डीसी बुक्स, तेलगू खातीर विजयवाडाचें अलकनंदा प्रचुरनालू, हीं तातूंतलीं कांय नांवां.

एक दीस, एका गुजराती वाचका कडल्यान म्हाका एक इमेल आयली. तिणें विचारिल्लें, 'सुधा बेन, तुमी गुजराती कश्यो दिसतात, आनी गुजराथ्यावरीच तुमचें खाण जेवण आसा. तुमचीं पुस्तकां खरेपणीं खूब सुंदर आसात. तुमी दक्षीण भारतीयाकडे लग्न कशें केलें हें जाणून घेवपाची म्हाका उमळशीक आसा.'

इमेल वाचून म्हाका हांसूंक आयलें. हांव स्वता दक्षीण भारतीयच आसा आनी गुजराती अणकार इतले सुंदर जाल्यात कीं तिका हांव तांच्याच भुंयेंतलें अशें दिसलां जावंये अशी हांवें तिका जाप धाडली.

म्हज्या एका आंतरराष्ट्रीय प्रवासा वेळार न्यू जर्सींत म्हजीं पुस्तकां पळोवन म्हाका खूब अजाप जाल्लें. जेन्ना हांवें वांकून एक पुस्तक उखल्लें तेन्ना त्या गुजराती दुकानदारान म्हळें, 'घे तें, सरस छे.' पुस्तक सुंदर आसा आनी हांवें तें विकतें घेवचें अशें ताका म्हणपाचें आशिल्लें.

खोशयेन, हांवें तकली हालयली.

जीवन गौरव पुरस्कारा खातीर मंचावयल्यान परत म्हजें नांव घेतलें तेन्ना म्हजें मन वर्तमानांत आयलें. हांव हळूहळू मंचाचीं सोंपणां चडलें. चाळीस वर्सांच्या ह्या प्रवासाची याद म्हळ्यार हें एक एक सोंपण. नकार, नकारात्मक शेरे, नापसंती, तेच वांगडा तोखणाय, कितलोसोच मोग आनी आपुलकी ह्या सगळ्यान भरिल्लो हो प्रवास. जे लोक लजेस्त, फाटीं रावपी, अनवळखी, आनी व्यक्त जावपाक आवंडेतात, तांचो सगळ्यांचो आवाज जावपांत कशेय तरेन म्हजो हातभार लागला आसतलो अशें म्हाका दिसता.

कितलेशेच फावट लोकांनी म्हाका सांगलां, 'हांव बरोवंक शकना. पूण म्हजी काणी सांगपाची आसा म्हाका. तुमी ती बरोवन संवसारा मुखार हाडूंक शकतात?'

म्हजे कांय विद्यार्थी जायते फावट म्हणटात, 'मॅडम, आमचे मदलो दरेकलो जिणेच्या ह्या प्रवासांत आडखळ्ळा, चुको केल्यात. फुडले पिळगेन यत्न करीत राविल्लें आमकां नाका. इल्लोसो सल्लो आनी गिन्यानान तें टाळूं येता.

तुमच्या पुस्तकांत आमच्यो काणयो सांगशात तुमी ?'

हांव सदांच अनमनपी. कोणाचेंच खाजगीपण गृहीत धरप म्हाका नाका आसता. ताच्या वा तिच्या परवानगे बगर तांचेविशीं दुसऱ्याक कितेंच सांगप म्हाका आवडना. पूण जबरदस्त काणयो, मागीर त्यो खंयच्यानूय येवं, त्यो सांगपाखातीरूच आसतात. म्हणटकच, हांव फकत एक वाहक अशी कल्पना करतां.

भारतांत जांकां खऱ्यानीच सुविधा मेळनात अशा लोकांचो म्हाका आशिल्लो अमर्याद अणभव, म्हज्या प्रकाशकांचो म्हजेर आशिल्लो अढळ विस्वास, म्हजें सर्वोत्तम संपादक आनी म्हजे वाचक हांणीं सगळ्यांनी म्हाका घडयलां. म्हणटकच, हो प्रवास म्हजो एकल्याचो न्हय. म्हजे भोंवतणच्या लोकांचोय तो. विद्येची देवी, जी देवी सरस्वती तिचे कडल्यान म्हजें शिकप आनी बरोवप आयलां अशें म्हाका दिसता. हांव फकत तिचें लेखनीक. तिची मान्यताय आनी आशिर्वादा बगर हांव एक वळ लेगीत बरोवंक शकना.

आयज म्हज्या नांवार इकुणतीस पुस्तकां आसात. इंग्लीश आनी कन्नड अशा दोनूय भासांनी बरोवपी हांव एक द्विभाशीक लेखिका. कादंबऱ्यो, वैचारीक, ललीत, बाल साहित्य, प्रवास वर्णनां आनी शास्त्रीय पुस्तकां इतले सगळे प्रकार म्हज्या नांवार आसात. म्हज्या पुस्तकांचो वीस भासांनी अणकार जाला तशेंच तीं ब्रेलांतूय आयल्यांत. हें म्हजें दोनशावें पुस्तक. म्हज्या पुस्तकांच्यो सव्वीस दशलक्ष प्रती आयज मेरेन खपल्यात आनी तातूंतल्यो 1.5 दशलक्ष ह्यो इंग्लीशींतल्यो आसात.

येस तुमकां नव्यो संदी दिता आनी नव्या व्हडल्या येसाकडे व्हरता हें हांव खूब त्रासांतल्यान शिकलां. फाटल्या दसकांत कितल्यो आवृत्त्यो आयल्यो आनी कितली विक्री जाली हाचेर तें थारता अशें म्हाका समजलें. हो आंकडो सोडल्यार, हांव प्रतिश्ठितां खातीरचें इंग्लिश लेखक न्हय. पश्चिमी वा हेर भारतीय लेखकांवरी म्हाका शब्दांचे खेळ करपाक येनात हें हांव जाणा. पूण आदलेवरी इंग्लीश आतां फकत प्रतिश्ठितांची भास उरूंक ना. कशेय तरेन, भारतांतल्या सामान्य मनशांनी आपले सदचे जिणेंत इंग्लीशीक येवकार

दिवपाचो मार्ग सोदून काडला. तातूंत म्हजोय आसपाव जाता. हांव काळजांतल्यान सादे पद्धतीन फकत काणयो सांगूंक शकता. खरेपणीं म्हाका तितलेंच येता. संवसारांत फकत म्हजें अशें खऱ्यानी हेंच आसा.



# २

# अम्मा, हें तुजें कर्तव्य न्हय?



त्या वेळार म्हजें चली अक्षता ल्हान - टीन एजर - आशिल्लें. सभावान तें कितेंय रोखडेंच मनाक लावन घेवपी आशिल्लें. बेंगलोरच्या रमण महर्षी अकादमीच्या अंध भुरग्यांक तें थंय वचून पुस्तकां वाचून दाखयतालें. तशेंच लेखनीकूय आशिल्लें. सदांच घरा आयलें काय तें म्हाका अंध भुरग्यांविशींच्यो खबरी सांगतालें. उपरांत ताणे तांचेर एक निबंद बरयलो, हावें मेरीच्या कुड्ड्या नदरेंतल्यान जग पळयलें. मेरी त्या अकादमींत शिकतालें आनी रोखडेंच प्री-युनिव्हर्सिटींच्या परीक्षेक बसपाचें आसलें. एक दीस अक्षता मातसो बदल जावचो म्हण मेरीक घेवन लालबागेंत गेल्लें. तांचेमदलें उलोवप सदचेपरस वेगळेंच जालें.

'मेरी, हांगा तरांतरांचे तांबड्या कोराचे गुलाब आसात.' अक्षतान मेरीक सांगलें.

मेरी अजापलें. 'अक्षता, तांबडो कोर म्हळ्यार कितें?'

तांबडो कोर म्हळ्यार कितें हें कशें समजावन सांगचें हें अक्षताक कळना जालें. ताणे एक गुलाब आनी एक मोगरो मेरीच्या हातांत दिलो.

'मेरी, तुज्या हातांत आशिल्ल्या ह्या दोनूय फुलांचो वास घे. तांचो वास

वेगवेगळो आसा. पयलो गुलाब. तो तांबड्या कोराचो. दुसरो मोगरो. तो धव्या कोराचो. मेरी, तांबडो आनी धवो कोर म्हळ्यार कितें हें समजून सांगप कठीण आसा. ह्या संवसारांत वेगवेगळे कोर आसात जे फकत दोळ्यांनी पळोवन वेगळावं येतात, स्पर्शान न्हय. आय एम सॉरी.'

त्या घडणुके उपरांत अक्षतान म्हाका म्हळें, 'अम्मा, दृश्टीहीन मनशाकडेन उलयतना केन्नाच कोरांविशीं उलोवंक जायना. तांका निर्शेणी येता. मेरीक समजावन सांगता आसतना म्हाका इतलें दुबळेपण दिसलें... आतां संवसाराविशीं कितेंय वर्णन करुन सांगता आसतना हांव वास आनी आवाज ह्यो तांका समजता असल्यो संकल्पना वापरतां.'

ह्याच अकादमींत आनंद शर्मा नावाचो एक दृश्टीहीन भुरगो आशिल्लो. खूब हुशार आनी सदांच खुशालभरीत. तो बिहारांतल्या एका शाळा शिक्षकाचो एकलोच चलो. रोकडोच तो प्री-युनिव्हर्सिटी परीक्षा दिवपाचो आशिल्लो. अक्षता ताकाय मजत करतालें.

एक दीस, हांव परीक्षा कमिटीचे मिटींगेक वचपाक भायर सरतालें. तेन्ना हांव एका स्थानिक कॉलेजीच्या कॉम्प्यूटर सायन्स विभागाचें मुखेल आशिल्लें. फेब्रुवारी सोपूंक आयिल्लो. शिंयाळे दीस सोंपून गीमाची सुलूस लागूंक लागिल्ली. बेंगलोरांत हवामान खूब सुंदर आसता. रस्त्यांचेर दोनूय वटेन लायिल्लीं झाडां फुलपाक लागिल्लीं आनी पुराय शार जांबळ्या, हळदुव्या आनी तांबड्या कोरान भरून गेल्लें.

हांव मिटींगेक वचपाची तयारी करतालें आनी ताकाच लागून पोरने सिलॅबस, प्रस्नपत्रिका आनी संदर्भग्रंथ एकठांय करतालें. वयले कुडींतल्यान अक्षता म्हजे कुडींत आयलें. मातशें चिंतेस्त आनी थकिल्लें दिसतालें. धावेंत शिकतालें तें. म्हाका दिसलें परीक्षेची तयारी करुन ताका पुरो जालां. ताणी खूब अभ्यास करचो अशी सक्ती - एक आवय म्हण - हावें केन्नाच करूंक ना. म्हज्या आवय बापायनूय म्हजेर अशी सक्ती केन्नाच केली ना. भुरग्यान स्वता ही जबाबदारी घेवंक जाय अश्या मताचे ते आशिल्ले. एक जबाबदार भुरगें स्वताच शिकूंक बसतलें.

हावें अक्षताक म्हळें, 'परीक्षेचो हुसको करूं नाका. यत्न करप तुज्या हातांत आसा. निकाल तुज्या हातांत ना.' म्हज्या सल्ल्याक लागून तें बेजारलें आनी वाजेलें. 'अम्मा, हांव खंयचेच परीक्षेविशीं उलोवंक ना. तूं म्हाका कित्याक ती याद करून दिता?' ताचें हें बेजारप पळोवन म्हाका अजाप जालें. पूण हावूंय पोरने पेपर सोदपांत गुल्ल आशिल्ल्यान कांय उलयलें ना. म्हजेच तनरेंत हावें ताच्या तोंडाक पळयलें. ताच्या तोंडार उदासपणाचें चिन्न आशिल्लें काय तो म्हजोच कल्पनाविलास?

'अम्मा, आनंद शर्माक तूं वळखता. एक दीस आमगेर आयिल्लो तो. खूब हुशार भुरगो. आपल्या निमाण्या परीक्षेंत तो बरे तरेन पास जातलो असो म्हाका विश्वास आसा. ताकाय विश्वास आसा. ताका फुडें शिकपाचें आसा.'

तें रावलें. हो वेळ मेरेन हांव सोदतालें त्यो पोरन्यो प्रस्नपत्रिका म्हाका मेळिल्ल्यो पूण सिलॅबस मेळूंक नाशिल्लें. हांव सोदीत रावलें. अक्षता म्हजेकडे पळयत फुडें उलयलें, 'अम्मा, ताका फुडें सेंट स्टीफन्सांत शिकपाचें आसा. ताका कोणूच ना. सामको गरीब तो. खूब खर्चिक कॉलेज तें. ताणे कितें करप? ताका कोण आदार करतलो? म्हाका हुसको जाला.' मिटींगेक वचपाक म्हाका वेळ जातालो, म्हण सहज हावें म्हळें, 'अक्षता, तूं कित्याक ताका आदार दिना?'

'अम्मा, एका भुरग्याचो दिल्ली कॉलेजाचो खर्च करपाइतले पैशे म्हजेकडे खंय आसात?'

म्हजो सोद चालूच आशिल्लो.

'तूं तुज्या वाडदीसाची पार्टी दिवं नाका आनी त्या पैशांनी ताका आदार कर.'

आमच्या घरा, आजूनूय आमच्या दोनूय भुरग्यांक पॉकेटमनी मेळना. तांका कितेंय जाय आसता तेन्ना तीं म्हाका सांगतात आनी हांव तांका पैशे दिता. वाडदीसाच्यो व्हडल्यो पार्ट्यो आमगेर नासतात. अक्षताची वाडदीसाची पार्टी

म्हळ्यार ताच्या कांय इश्टांक घरा आपोवप आनी लागींच्याच शांती सागरांतल्यान खावपाचे जिन्नस मागोवप.

'अम्मा, तुजे सारकी इतली शिकिल्ली, इतलो प्रवास केल्ली, इतलें वाचन केल्ली आनी पैशांचो मातूय मोह नाशिल्ली व्यक्ती जर गरीबांक आदार करूंक शकना, जाल्यार दुसरो कोण तांका आदार करीत ही अपेक्षाच दवरूं नाका. त्या दुर्दैवी मनशांक आदार करून समाजाचें रीण पावोवप हें तुजें कर्तव्य न्ही? तुका जीणेंत कितें मेळोवपाचें आसा? कीर्त? वयलेचाराचो चकचक? तूं एका दोतोराची चली, एका शाळाशिक्षकाची नात आनी एका नामना जोडिल्ल्या शिक्षकाच्या घरांतली. जर तूं गरीबांक आदार करूंक शकना जाल्यार आनी कोणाकडल्यान ही अपेक्षा दवरूं नाका.'

ताचीं उतरां आयकून हावें म्हजो सोद थांबयलो. हावें वळून म्हजे चलयेक पळयलें. हांवे एक तरनाटें संवेदनशील चली पळयलें जें एका कुड्ड्या भुरग्याच्या फुडारा खातीर ताची बाजू मांडटालें. समाजाविशीं आशिल्या म्हज्या कर्तव्याची म्हाका याद करून दितालें. समाजान आनी देशान म्हाका खूब कितें दिलां ताची परतफेड हांव कशे तरेन करतां? एक खीण हांव तटास जालें. मागीर जाणवलें हांव सोदतालें तो सिलॅबस म्हज्या हातांतूच आशिल्लो, आनी म्हाका मिटींगेक उशीर जातालो. रागान आनी दोळ्यांत खंत घेवन अक्षता थंयच्यान गेलें, गोंदळिल्ले अवस्थेंत हावूंय कॉलेजांत वचूंक भायर सरलें.

हांव जेन्ना पावलें, तेन्ना सदचेवरी मिटींगेक उशीर जाल्लो. हांव एकटेंच आशिल्लें. त्या व्हडल्या कुडींत हांव म्हजे खुर्चेंत बशिल्लें. एकटेपण आनी एकांत हातूंत फरक आसता. एकटेपणाचो वाज येता, एकांतात मनीस आपलीं कर्तुबां आनी विचार हांचें आत्मपरीक्षण करुंक शकता.

हांव बसलें आनी दनपारां घडिल्ल्या घडणुकांची याद केली. अक्षताचीं उतरां म्हज्या कानांत सादतालीं.

म्हजी पिराय पंचेचाळीस वर्सां. हे पिरायेर म्हजें कर्तव्य कितें? जीणेकडल्यान म्हाका कितें जाय?

जीणेची सुरवात हावें खूब पैशांनी करूंक ना. खूब कश्टांनी आमी आयचे सुवातेर पावल्यांत. जीणेच्या ह्या कठीण प्रवासांत हांव कितें शिकलें? हांवे पैशे, कीर्त वा वयलेचाराच्या चकचका खातीर काम केलां? ना, निखालस ना. अपघातान हें सगळें मेळ्ळां म्हाका. सुर्वेक हांव म्हजेच खातीर, शिक्षणिक यशाखातीर वावुरलें. त्याउपरांत इन्फोसिस आनी म्हज्या कुटुंबाखातीर. उरिल्ली जीण – जांचो कांयच गुन्यांव ना अशा लोकांक आदार करपाखातीर सारप हें म्हजें कर्तव्य न्ही? अचकीत म्हाका जेआरडीन निरोप घेतना सांगिल्ल्या उतरांची याद जाली. 'समाजाचें रीण फारीक कर.'

उरिल्ले जीणेंत हेंच करप अशें हावें थारायलें. म्हाका खूब सुसेगाद आनी तरनाटें जाल्लेवरी दिसूंक लागलें.

भावनावश जावन कसलोच निर्णय घेवंचो व्हय अशें म्हाका दिसता. थंड तकलेन आनी परिणामांची जाणीव दवरून ते घेवंचे. एका सप्तका उपरांत हावें म्हज्या विभाग मुखेल पदाचो राजीनामो बरयलो आनी फकत शिक्षक म्हण काम करपाचें थारायलें. म्हजे जीणेंत आनी म्हज्या कामांत ही खोस आनी समाधान हाडपाक मजत केली म्हण हांव अक्षताचें उपकारी आसा. म्हजें शिक्षणिक यश आनी मेळिल्लो पैसो हाचेपरस हें मोल खूब आसा.

खंयचेय गरीबाच्या दोळ्यांत जेन्ना उमेद दिसता, निराधार मनशाच्या तोंडार हांसो फुलता, तेन्ना म्हाका समाधान मेळटा. हांव कितेंतरी बदल घडोवन हाडटा, हें ते म्हाका सांगतात.

इन्फोसिस फावंडेशनाचें हांव ट्रस्टी जालें. देशाच्या वेगवेगळ्या राज्यांतल्या गरीबांक आदार करपाखातीर फावंडेशनान कितलेशेच समाज कल्याणाचे प्रकल्प हातांत घेतल्यात. जायते फावट म्हाका पुरस्कार मेळ्ळ्यात. तातूंतलो एक इकॉनॉमिक टायम्साचो फावंडेशनाक मेळिल्लो. हो पुरस्कार घेवंक एक ट्रस्टी म्हण म्हाका आमंत्रण आशिल्लें. तेवेळार म्हजे गुरूची म्हाका याद जाली. तें अमेरिकेंत शिकतालें. हावें ताका सांगलें, एका दिसाखातीर तरी ह्या पुरस्कार सुवाळ्याक तुवें मुंबय येवंक जाय. योग्य वेळार जर तुवें म्हाका जागोवंक

नाशिल्लें, जाल्यार आयज हांव तो घेवंक पावचें नासलें. तूं हजर राविल्लें जाय म्हाका.

म्हजी जीण बदलून म्हाका एक व्हड धडो शिकयल्लेखातीर हांव जल्मभर अक्षताच्या रीणांत उरतलें.



३

# उजू चलणूक काळजांतल्यान येता



तीन वर्सांपयलीची गजाल. जून म्हयन्यातली एक सोबित सकाळ. हांव सदचेभशेन कन्नड पेपर वाचतालें. त्याच दिसा एस एस सी चो निकाल जाहीर जाल्लो. भितरल्या पानांचेर पास जाल्ल्यांची नावां तर वयल्या पानार गुणवत्ता वळेरेंत आयिल्ल्या विद्यार्थ्यांचे फोटो आशिल्ले. जवळ जवळ सबंद पान ताणीच भरिल्लें.

गुणवत्ता वळेरेंत येतात तांचेबद्दल म्हाका सदांच खूब ओड दिसता. गुणवत्ता वळेरेंत नांव येवप हें फकत मनशाच्या बुद्धीचेंच प्रतीक न्हय तर ताचेफाटल्यान हें यश मेळोवपाखातीर घेतिल्ले उपाट कश्ट, खर निश्चय आनी सातत्यय आसा हें दिसता. हांव स्वता एका प्राध्यापकाच्या घरांत ल्हानाचें व्हड जालां. म्हजी ही फाटभूंय आनी म्हजो स्वताचो अध्यापन क्षेत्रांतलो अणभव, हाका लागून हांव हे मानतां.

त्या दिसा पेपरांत आयिल्ल्या सगळ्या फोटोंमदल्या एका फोटवान म्हजें लक्ष ओडलें. म्हजी नदर ताचेवेल्यान हालना जाली. तो मातसो अशक्त, नाजूक दिसतालो. पूण ताचे दोळे लिकलिकताले आनी ती लिकलिक खिळावन दवरताली. ताचेविशीं आनीक जाणून घेवचें अशें म्हाका दिसलें. ताचें नांव हनुमंतप्पा. गुणवत्ता वळेरेंत तो आठवो आयिल्लो, ताचेविशीं म्हाका

इतलेंच कळ्ळें.

अजाप म्हळ्यार दुसरे दीस परत एक फावट ताचो फोटो. हे खेपे ताची मुलाखतूय छापिल्ली. उमळशिकेन हावें ती वाचली. तो एका हमालाचो भुरगो. एका खेड्यांत रावतालो. ताच्या बापायचें दिसाचें उत्पन्न फकत चाळीस रुपया. हाका लागून ताका फुडें शिकप शक्य ना अशें ताणें म्हणिल्लें. हनुमंतप्पा पांच भुरग्यांमदलो सगळ्यांत व्हडलो. घरांत जोडपी बापूय एकलोच. ते लोक आदिवासी जमातीचे.

ह्या इतल्या हुशार भुरग्याविशीं वाचून म्हाका खूब वायट दिसलें. आमचेमदले कितलेशेच जाण आपल्या भुरग्यांक खाजगी शिकोवणेक वा क्लासाक धाडटात. तांका संदर्भ ग्रंथ गायड बी हाडून दितात. तांका बऱ्यांतल्यो बऱ्यो सुविधा मेळच्यो म्हण यत्न करतात. पैशांचें मात लेगीत चितिनात. पूण रामपुरा गावांत रावपी हनुमंतप्पाची गजाल वेगळीच. मनशाक जियेवंक गरजेच्यो त्यो गजाली लेगीत ताका मेळनासल्यो तरी लेगीत ताणे इतलें उज्ज्वल येस मेळयल्लें. हातांत पेपर तसोच धरून हांव ताचेंच चिततालें. तेन्नाच म्हजी नदर शेजाऱ्याच्या आंब्यारुखार गेली. तें झाड सामकें जिवें तटतटीत दिसतालें, निकतेंच चंवरिल्लें... ताचेर दंवाचे थेंबे... झाडाचेर आशिल्ली तोरां... रोकडींच तीं पिकपाची आसलीं. रुखामुखार मातशें फुडें एका व्हाजांत एक ल्हानसो रोंपो आशिल्लो. म्हज्या मनांत आयलें, फाटले कांय दीस हो असोच आसा, मातलेगीत वाडूंक ना...

सकाळचो शांत वेळ... थंड आनी नितळ हवा.. म्हजीं चितनां सामकीं वाऱ्यार हुबतालीं. इतल्यान कुकराची शिटी आयकूंक आयली आनी शांतताय भंगली. म्हजी तकली जाग्यार आयली. अर्द वर जाल्लें. पेपरांतल्या त्या मुलाखतींत हनुमंतप्पाचो पत्तो दिल्लो. आतां वेळ वगडाय नासतना एक पोस्टकार्ड घेवन हावें ताका पत्र बरयलें. दोनूच वळी. 'तुका मेळपाची म्हजी इत्सा आसा. तूं बेंगलोराक येवन म्हाका मेळशी?' इतल्यान म्हजो बापूय सकाळची पासय सोपोवन आयलो. तो सामको व्यवहारी विचारांचो. ताणें तें पत्र वाचलें आनी म्हळें, 'इतल्या पयस येवपाखातीर तिकेटीक पैशे खंयच्यान हाडटलो तो? ताणे हांगा येवचें अशें जर तुका दिसता जाल्यार तिकेटीखातीर

पैशे धाडून दी ताका. त्याभायर कपडे घेवपाकूय कांय पैशे धाड.'

मागीर हावें पत्रांत बरयलें, हांव तुका तिकेटीचे तशेंच कपडे विकते घेवंक पैशे धाडटां. त्याउपरांत चारूच दिसांनी ताचें पत्र आयलें. दोनूच वळींचें. पयलीं ताणे म्हज्या पत्राखातीर म्हाका देव बरें करूं म्हणिल्लें आनी दुसरे वळींत म्हाका बेंगलोर येवन मेळपाची इत्सा परगटायल्ली.

हावें बेगोबेग ताका पैशे धाडले आनी म्हजे ऑफिसाचो व्यवस्थित पत्तोय धाडलो. निमाणेकडेन तो एकदांचो ऑफिसांत पावलो. एकाद्र्या भियेल्ल्या, वाट चुकिल्ल्या वासराभशेन दिसतालो तो. घडये बेंगलोर येवपाची ही ताची पयलीच फावट आसूंये. तो सामको नम्र. नितळ शर्ट पँट घाल्ली. केंस बरे वळोवन भांग काडिल्लो. डोळ्यांत ती लिकलिक आतांय आशिल्ली.

हांवे रोकडोच मुद्द्याक हात घालो. 'तुवें मेळयल्ल्या ह्या शिक्षणिक यशान म्हाका खरेंच खूब खोस जाल्या. तुका फुडें शिकपाची इत्सा आसा? तुज्या शिक्षणाचो खर्च करूंक आमी तयार आसात. तुका जाय तो खंयचोय शिक्षणिक पाठ्यक्रम घे. खंयचोय.'

तो वग्गी...

म्हजो एक वरिष्ठ वांगडी शेजरा उबो आशिल्लो. हांसून ताणे म्हळें, 'अशें बिटस आनी बायटाच्या (संगणकाच्या) गतीन वचूं नाका. तूं जें कितें सुचयता तें ताका सारकें पचूंदी. आनी ताचेर चितून आयज सांजवेळ मेरेन ताणे आमकां सांगल्यार जाता.'

निमणो हनुमंतप्पा जेन्ना वचपाक भायर सरलो तेन्ना ताणे ल्हवूच पूण सामकें थीर आवाजांत सांगलें, 'मॅडम, बेल्लारीच्या टिचर्स ट्रेनिंग कॉलेजांत वचून फुडें शिकपाचो म्हजो विचार आसा. आमच्या गांवाक सगळ्यांत लागीचें तेंच कॉलेज.'

हावें तें रोकडेंच मानून घेतलें पूण पयलीं ताच्या मनांत हाचेपरस वेगळें कितें आसा काय कितें तें जाणून घेवपाक ताचेकडे आनी थोडो वेळ उलयलें. ताणें खंयचोय अभ्यासक्रम घेतलो तरी आमी ताची फी भरपाक तयार

आसात हें सामकें स्पश्टपणान सांगलें. पूण ताचो निर्धार सामको घट आशिल्लो. आपणाक फुडें कितें करपाचें आसा हें ताणे थारायल्लें.

'मागीर हांव तुका दर म्हयन्याक कितले पैशे धाडूं? त्या कॉलेजाक हॉस्टेलाची सोय आसा?' हावें विचारलें.

सगळी खबर काडून कळयतां अशें ताणे सांगलें.

दोन दिसांउपरांत परत एक फावट आपल्या सोबित अक्षरांत ताणें कळयलें, ताका सादारणपणान म्हयन्याक तीनशीं रुपया लागतले. थंय एक कूड भाड्यान घेवन आपल्या एका इश्टावांगडा रावपाचो ताचो विचार आशिल्लो. एकूण खर्च कमी येवचो म्हण ते दोगूय घराच रांदतले अशें ताणे सांगलें.

हावें रोकडेच स म्हयन्यांच्या कोंतान अठराशीं रुपया ताका धाडून दिले. म्हजो ड्राफ्ट मेळटांच रोकडीच ताणे पावती धाडली आनी उपकार मानले.

अशेच दीस गेले. एक दीस अचकीत याद जाली. हनुमंतप्पाक फुडल्या स म्हयन्यांचे पैशे धाडपाचे आशिल्ले. हावें परत एक फावट ताका अठराशीं रुपयांचो ड्राफ्ट धाडलो.

ते मेळ्ळे म्हण रोकडीच पावती आयली. अजाप म्हळ्यार पत्रावांगडा ताणे कांय पैशेय धाडिल्ले. 'मॅडम,' ताणे बरयल्लें, 'तुमी फुडल्या स म्हयन्यांचे पैशे धाडले हे तुमचें व्हडपण. पूण फाटले दोन म्हयने हांव बेल्लारींत नाशिल्लो. पयलीं म्हयनोभर कॉलेजीक सुटी आशिल्ली आनी मागीर म्हयनोभर संप आशिल्लो. तेन्ना ते दोनूय म्हयने हांव घराच आशिल्लो. ह्या काळांत म्हाका तीनशीं रुपयांपरस कितलोसोच कमी खर्च आयलो. म्हण म्हज्या खर्चांतल्यान उरिल्ले तीनशीं रुपया हांव तुमकां परते धाडटां. उपकार करून ते घेवंचे.'

हांव तटास जालें. इतली गरीबी आनी तरीय इतलें प्रामाणिकपण.

हांव हनुमंतप्पाक जे पैशे धाडटालें ताचो हिशोब ताणे म्हाका दिवचो

अशी म्हजी मातूय अपेक्षा नाशिल्ली, आनी हें ताकाय खबर आशिल्लें, तरी ताणे उरिल्ले पैशे धाडून दिले. विश्वास बसचो ना पूण ही गजाल खरी.

एक मात हांव अणभवांतल्यान शिकलां. उजू चलणूक, इमानदारी ही खंयच्याय एका विशिश्ट वर्गाची मक्तेदारी न्हय. ताचो शिक्षण वा गिरेस्तकायेकडेय कांय संबंध ना. ती खंयच्याच विद्यापिठांत शिकयनात. जायत्या लोकांभितर ती काळजांतल्यान फुलून येता. ह्या साद्या आनी खेड्यांत रावपी भुरग्याच्या उजू चलणूकेचेर कितें उलोवचें तेंच म्हाका कळना जालें. देवान आपली सासाय सदांच हनुमंतप्पा आनी ताच्या घरच्यांचेर दवरची अशें हावें काळजांतल्यान मागलें.



४

# तांबड्या तांदळांची कोठी



वर्सान वर्स आमच्या देशांत कसलें तरी सैमीक अरिश्ट येताच. गुजरातांतलो भूंयकांप, ओरिसांतलो हुंवार वा कर्नाटकांतलो दुकळ.... एका गरीब देशांत असल्या अरिश्टांक लागून आकांत येता.

म्हज्या समाजकार्याक लागून म्हज्या लक्षांत एक गजाल आयल्या. असल्या अरिश्टांउपरांत अर्थीक वा हेर मजत करपाची जायत्या लोकांची इत्सा आसता. आमचो असो एक समज आसा की चडशी मजत वा देणग्यो गिरेस्तांकडल्यान येता आसतल्यो. पूण हें खरें न्हय. उरफाटे, चडशे मध्यम वर्गीय आनी गरीब लोकूच चड मजत करतात. चुकूनूच गिरेस्त लोक काळजाथावन मजत करतात.

कांय वर्सांआदी म्हाका बेंगलोरांतल्या एका व्हडल्या कंपनीन भाशण करपाखातीर आपयल्लें. विशय आशिल्लो व्हडल्या कंपन्यांची सामाजिक जापसालदारकी. भाशण दिवप सोपें आसता. प्रेक्षकांमदल्या कितल्या लोकांक तें समजता आनी कितले लोक स्वतःक बदलूंक पावतात हो खरो प्रश्न आसता.

म्हजें उलोवप जाल्याउपरांत कितलेशेच तरनाटे चले आनी चलयो म्हाका

येवन मेळ्ळ्यो. कंपनी बरीच गिरेस्त आशिल्ली आनी तातूंत काम करपी सगळ्यांची परिस्थिती बरी आनी कपडे उंची आशिल्ले. म्हज्या भाशणाउपरांत ते सगळे बरेच भावनावश जाल्ले.

'मॅडम, आमी दर म्हयन्याक कितलेशेच कपडे विकते घेतात. मागीर आमचे पोरने कपडे ह्या भुकंप पीडित लोकांक दिल्यार जाता? तुमी जापसालदारकी घेवन ते कपडे तांचेमेरेन पावयशात?'

तांचेमदल्या कांय जाणांनी आनीकूय कांय वस्तू देणगीरुपांत दिवपाची इत्सा परगटायली.

'मॅडम, आमची भुरगीं आतां व्हड जाल्यांत. आमकां तांची कांय खेळणी आनी आयदनां दिवपाची आसात.'

तांची ती उत्स्फूर्त प्रतिक्रिया पळोवन म्हाका खूब खोस जाली. रामान जेन्ना सेतू बांदपाक सुरवात केल्ली तेन्ना धाकटुल्या चानयेन रेंव हाडून दिवन ताका कशी मजत केल्ली त्या रामायणांतल्या काणयेची म्हाका याद जाली.

'तुमी सगळें जमा करुन सगळीं बॅगां म्हज्या ऑफिसांत पावयात. तें सगळें योग्य त्या मनशांमेरेन पावोवपाची जापसालदारकी हांव घेतां.'

एका आठवड्याभितर म्हजें ऑफिस शेकड्यांनी बॅगांनी भरून गेलें. म्हज्या भाशणाचो जाल्लो हो परिणाम पळोवन म्हाका धन्य दिसलें.

एका आयतारा, म्हज्या वांगड्यांक घेवन हावें तीं बॅगां उकती केलीं. भितरल्यान जें कितें भायर सरलें तें पळोवन आमकां सगळ्यांक अजाप जालें. तुटिल्लीं उंच खोटांचीं चपलां, तींय बी जोडयेचीं न्हय, पिंजकी अंतर्वस्त्रां, न उर्मळिल्ले शर्ट, झिरझिरीत सवाय साडयो, आकार आनी रंग नाशिल्लीं खेळणी, वापरप शक्य ना अशीं हांतरुणां पांगरुणां, आलिमिनाचीं आयदनां, फुटिल्ल्यो कॅसेटी अशा नाका आशिल्ल्या वस्तूंचो एक व्हडलो दोंगर आमचेमुखार तयार जालो. तातूंत उपेग जायत अशे साप थोडे शर्ट, साडयो आनी हेर वस्तू आशिल्ल्यो.

एक गजाल स्पश्ट आशिल्ली, भायर कोयरांत उडोवपाच्यो वस्तू ह्या लोकांनी देणगी म्हण म्हज्या ऑफिसांत धाडून दिल्ल्यो. त्या दिसा म्हाका मेळिल्ले सगळे लोक – दादले आनी बायलो – शिकिल्ले, खूब भोंविल्ले, गिरेस्त अशे लोक आशिल्ले. शिकिल्ले लोक अशे वागले जाल्यार अन्नाडी लोकांनी कशें वागप ?

त्या गजालीक लागून म्हाका म्हज्या भुरगेपणांतल्या एके गजालीची याद जाली. कर्नाटकांतल्या हवेरी जिल्ह्यांतल्या शिगांव ह्या ल्हानशा गावांत म्हजो जल्म जालो आनी थंयच हांव ल्हानाचें व्हड जालें. म्हजो आजो एक निवृत्त शाळामास्तर. म्हजी आजी कृष्तक्का तर केन्नाच शाळेंत वचूंक नासली. दोगांय चड खंय भोवूंक नासलीं आनी कर्नाटकाभायर खंयच केन्नाच वचूंक नाशिल्ली. पूण तीं दोगांय खूब कश्ट करतालीं आनी कोणाच कडल्यान कसलीच अपेक्षा दवरिनासतना काळजांतल्यान, मनापासून करतालीं. तांचे फोटो केन्ना पेपरार आयले नात आनी तांच्या बऱ्या कार्याखातीर तांका केन्ना कोणे कसलो पुरस्कार भेटयलो ना. रानांतल्या घमघमीत वास दिवपी फुलांभशेन तांची जीण. पूण अशा फुलांक कोण विचारता ?

गावांत आमचीं भाताची शेतां आसलीं, आनी तो तांदूळ आमी कोठयेंत साठोवन दवरतालीं. थंय दोन व्हडल्यो कोठयो आसल्यो. एक घराच्या फुडल्या आंगणात आनी दुसरी फाटले वटेन. फुडल्या कोठयेंत बरे प्रतीचो, धवोफुल्ल तांदूळ आसतालो तर फाटले कोठयेंत सादो, मोटो आनी तांबड्या कोराचो तांदूळ आसतालो.

त्या काळार आमच्या गावात जाती बी मानीनासल्ले. सगळ्या जाती धर्माचे लोक एकठांय शांततायेन रावताले. जायते लोक आमगेर दान मागूंक येताले. मुस्लीम फकीर, हिंदू साधू, यल्लमाचे जोगते, गरीब भुरगे तशेंच अपंगूळ भिकारी अशे जायते लोक येताले.

आमचेकडे रोख पैशे चडशे नासताले. कोणाकूय दान वा मजत दिवपाची आसली की म्हजो आजो तांका तांदूळ दितालो. जे लोक मजत मागतात, ते

कांय उलयनात, मोन्यांनी जें दिता तें घेतात. लोकूय कांय उलयनासतना तो तांदूळ घेताले आनी हांसून हात उबारून आमकां आशिर्वाद दिवन वताले. खंयच्याय जातीधर्माचे आसले तरी सगळ्यांचो आशिर्वाद एकूच आसतालो, देव बरें करूं.

हांव तेन्ना पिरायेन खूब ल्हान आनी उंचायेनूय कमी. फुडल्या आंगणातल्या कोठयेचें दार खूब मोटवें आशिल्ल्यान उंच मनशाक भितर वचपाक जायनासलें. मागीर म्हाका एक माप दिवन भितर धाडटाले. तें माप तांदळान भरून हांव भायर दितालें. अशीं कितलीं मापां जाय तें भायल्यान जाणटो कोणूय सांगतालो.

सांज जाली काय आजी सगळ्यांखातीर रांदताली. तेन्ना ती म्हाका घराच्या फाटल्या कोठयेंत धाडटाली. थंय तांबडे तांदूळ दवरताले. तिका जाय तितलीं मापां तांदूळ हांव तिका मेजून दितालें. मागीर तिचें रांदप सुरू जातालें.

हें अशें कितलीशीच वर्सां चालू आसलें. हांव मातशें व्हड जाल्याउपरांत फाटलीं कांय वर्सां म्हज्या मनांत घोळटालो तो प्रश्न हावें म्हज्या आज्याक विचारलो.

‘आमी रातच्या जेवणाखातीर तांबड्या तांदळांचें शीत करतात. हो तांदूळ बरो नासता, मोटो आसता. पूण आमचेकडे भीक मागूंक जे लोक येतात तांका मात आमी धवोफुल्ल तांदूळ दितात. अशें कित्याक?’

म्हजी आजी कृष्णक्का हांसली आनी तिणें म्हाका जी जाप दिली ती हांव केन्नाच विसरचें ना.

‘शाण्या, हें पळय, जर आमकां दुसऱ्याक कितेंय दिवपाचें आसत तर सदांच आमचेकडे बऱ्यांतलें बरें जें आसा तें दिवचें. कमी दर्जाचें केन्नाच दिवचें न्हय. जीणेन म्हाका हें शिकयलां. देव देवळांत, मशिदींत वा चर्चींत नासता, तो लोकांच्या रुपांत आसता. आपणाकडे जें आसा तें दिवन जर आमी तांची सेवा केली जाल्यार देवाची सेवा केल्ल्यासारकेंच आसा.’

म्हज्या आज्यान म्हज्या प्रश्नाची जाप मातशी वेगळे तरेन दिली.

'आमच्या पुर्वजांनी वेदांतल्यान आमकां शिकयलां की दानधर्म करतना मोगाळ उतरां वापरात

दानधर्म खोशेन करात.

दानधर्म मनांतल्यान करात.

गरजेवंताकूच दान दियात.

दानधर्म करतना मनांत कसलीच अपेक्षा दवरूं नाकात, कारण दान दिवप ही भेट न्ही तर तें आमचें कर्तव्य.

दानधर्म करतना आपल्या बायलेची मान्यताय घेयात.

दान दितना ज्या मनशाक दान दितात तांका असहाय समजू नाकात

दान करता आसतना जात धर्माचो विचार करू नाकात

दान दिता आसतना ज्या मनशाक तें दिता ताची उदरगत जावची अशी इत्सा मनात धरात.'

म्हज्या आजी आनी आज्यान हांव ल्हान आसतना दिल्लो हो पाठ म्हज्या मनांत आयजूय तसोच आसा. आयज जर म्हजेकडल्यान कोणाक कितेंय मजत जाता तर ती त्या साद्या मनशांच्या शिकवणेक लागूनच. हें म्हाका खंयच्याच शाळेंत वा कॉलेजांत शिकोवंक ना.





# ५

# आळशी फुर्तादो



फुर्तादो हो गोंयचो तरनाटो, हुशार, देखणो आनी म्होंवाळ भुरगो. आमी हुबळीच्या बीव्हीव्ही इंजिनियरींग कॉलेजांत आशिल्लीं. पुराय अभ्यासक्रम सोंपसर तो म्हजो वर्गमित्र आनी प्रयोगशाळा वांगडी आशिल्लो. म्हूण हांव ताका बरें वळखतालें.

फुर्तादोक कांय चमत्कारीक संवयो आशिल्ल्यो. जरी हुशार आसलो, तरी तो खूब आळशी आशिल्लो. सकाळीं आठ ते दनपारमेरेन आमचो थियरीचो वर्ग आसतालो आनी दनपारचीं दोन तीं पांच मेरेन प्रयोगशाळेंत. सकाळच्या आठांच्या पयल्या वर्गाक फुर्तादो केन्नाच येनासलो. केन्ना केन्ना तो दुसऱ्या वा तिसऱ्या वर्गाक येतालो पूण चडसो तो निमण्या वर्गाकच आसतालो. प्रयोगशाळेचें सत्र मात ताणें केन्नाच चुकयलें ना.

त्या दिसांनी, कॉलेजांनी हजेरी सक्तीची नाशिल्ली आनी आमचे शिक्षक खूब सौम्य आशिल्ले. वेळार येवपाखातीर ताणीं कितलेशेच फावट फुर्तादोक सांगलें पूण अंतर्गत मुल्यांकन नाशिल्ल्यान तांचो अधिकार ते वापरूंक शकनासले.

एक दीस, हांवें फुर्तादोक विचारलें, ‘तुका सदांच कळाव कित्याक

जाता? घरा कितें करता तूं?'

तो हांसलो आनी म्हळें, 'कितलेंशेंच आसता करपाचें. सांजेर हांव इतलो व्यस्त उरतां कीं सकाळीं णवांपयलीं उठपाक म्हाका जायचना.'

'असल्या कसल्या कामांनी तूं व्यस्त उरता तर?' हांवें सादेपणान विचारलें.

'रातचो हांव म्हज्या इश्टांक मेळटां. जेवणाआदीं आमी खूब गजाली मारतात. तूं जाणा, इश्टागत करपाक खूब वेळ लागता. तुका कळचें ना तें. तुमी सगळे अभ्यासू मनीस. कॉलेजींत तुमी फकत शिकपाक येतात.'

'फुर्तादो, तूं एक विद्यार्थी. तुवें शिकून, गिन्यान मेळोवंक जाय, कळाशी शिकून घेवंक जाय आनी खूब काम करूंक जाय. हें म्हत्वाचें न्हय?'

'उपकार कर. तूं म्हाका म्हजे आवयचो उगडास करून दिता. म्हाका सेरमांव दिवं नाका. जीण खूब व्हड आसा. आमचेकडेन जायतो वेळ आसा. गडबड करून आमी कांयच शिकूंक फावना. वेळाकडेन लेगीत आमी इतले चामटे आसूंक जायना.'

ताच्या हाताक घड्याळ ना हें मागीर हांवें पळयलें. ताका ताची गरजूय नाशिल्ली.

फुर्तादो फुडें उलोवंक लागलो, 'जिणेंत तुका संबंध आनी नेटवर्किंगाची गरज आसता. तेंच तुका येस दिवंक शकता. नेटवर्क उबारपाखातीर तुका वेळ आनी पयसोय खर्च करचो पडटा. कोणाक खबर? आयज म्हाका जे लोक मेळटात, ते घडये फाल्यां म्हान जातले आनी मागीर ते संबंद म्हाका उपकारतले.'

मध्यम वर्गांतले आनी शिक्षणीक विचारांच्या कुटुंबांतले हांव एक तरनाटें चली. म्हजो फकत खर कश्टांचेर विस्वास आशिल्लो. नेटवर्किंग कशे तरेन मजत करतलें तें म्हाका केन्नाच समजलें ना.

आमच्या कॉलेजीच्या सुटयांवेळार, फुर्तादोन व्हडा अभिमानान आमकां

ताच्या भुरगेपणाविशीं सांगलें, ‘हांव भुरगो आसलों तेन्ना हांवें मुंबय, दिल्ली आनी कलकत्त्यासारक्या व्हड शारांनी वेळ पासार केला. कलकत्त्यांत कितलेशेच क्लब आसात. क्लबाचो मेंबर जावप ही प्रतिश्ठेची गजाल. हांव जोडूंक लागतलों, तेन्ना हांव शारांतल्या सगळ्या बऱ्या बऱ्या क्लबांचो मेंबर जातलों.’ हुबळी हें एक ल्हान आनी वाजेवणें शार अशें फुर्तादोक आत्रापयऱ्यान दिसतालें. म्हूण नेमान तो आपल्या इश्टांक मेळून ‘नेटवर्क’ करपाक बेळगांवां वतालो.

परीक्षेवेळार, फुर्तादो गाढवावरी काम करतालो. इंजिनियरींगाच्या प्रस्नांच्यो जापो स्वता चिंतपाक नाका म्हूण म्हज्या मूळ रेखाटनांची तो हारसो दवरून कॉपी करतालो. ताचीं कॉपी केल्लीं रेखाटनां निवळ आनी मिरयो वा पेन्सिलीच्या खुणांविरयत आशिल्ल्यान मूळ रेखाटनांपरस तीं चड बरीं आसतालीं. रेखाटनांक ताका म्हजेपरस चड मार्क मेळटाले. आदल्या वर्सांच्यो प्रस्नपत्रिकाय तो दवरतालो आनी कांय प्रस्न कुशीक काडपाचे प्रक्रियेंतल्यान आपली एक प्रस्नपत्रिका तयार करतालो. पुस्तकां वाचचेबदला तो पास जावपाखातीर गायड वाचतालो. इतलें सगळें करून, तो सदांच दुसऱ्या वर्गांत पास जातालो.

एका सर्वे रेखाटनावेळार ताणें परिक्षकाक सांगलें कीं ताच्या रेखाटनावयली खूण म्हळ्यार रस्त्यार मदीं आशिल्लें एक झाड आनी परिक्षकान ताका धल्लो. धारवाड लागसारच्या एका शाराचो तो सर्वे आशिल्लो. दुर्दैवान, परिक्षक त्याच शारांतलो आशिल्ल्यान त्या रस्त्यार अशें झाड ना हें ताका खबर आशिल्लें. ताणें फुर्तादोक विचारलें, तेन्ना गंभीर चेऱ्यान ताणें सांगलें, ‘सर, हांवें स्वता सर्वे केला. हांव झाडापोंदा बसलां, जेवलां आनी मागीर फुडलें काम केलां.’

थंडपणान परिक्षकान म्हळें, ‘हें झाड म्हाका तुज्या हेर वर्गमित्रांच्या मूळ रेखाटनांत दिसना. तुवें रेखाटन कॉपी केलें तेन्ना हें हारशामदीं आशिल्लें जळार.’

त्या वर्सा फुर्तादो कसो तरी पास जालो. पूण तो पिकार जालो ना. ताणें म्हळें, ‘म्हाका परिक्षा वा मार्कांची भिरांत दिसना. आयचे अभ्यासू मनीस

फायचे मध्यम पांवड्यावयले मॅनेजर जातले. बरें नेटवर्किंग आशिल्लो मनीस तांचो सायब आसतलो.'

ताची वृत्ती आनी शिस्त नाशिल्ल्या संवयांक लागून कॉलेज वसतेघरान ताका दवरपाक न्हयकार दिलो. म्हूण ताणें कॉलेजाकुशीक एक ल्हानशें घर भाड्यान घेतलें आनी राजा कसो रावंक लागलो.

एक फावट आमच्या कॉलेजान बेळगांवां पिकनीक व्हरपाचें थारायलें. फुर्तादोक शाराची माहिती आशिल्ल्यान, आमी ताचें मत विचारून ताची मजत घेवपाचें थारायलें. म्हजेसयत, पिकनीक समितीचे वांगडी आयतारा सकाळीं सुमार अकरा वरांचेर ताच्या घरा गेले. फुर्तादो जागो आसतलो अशें आमकां दिशिल्लें. पूण अजाप म्हळ्यार, तो आजून न्हिदिल्लोच. जेन्ना ताणें दार उगडलें, तेन्ना न्हिदसुऱ्या उतरांनी ताणें म्हळें, 'आयतारा इतले सकाळीं कित्याक आयल्यात तुमी?' आमकां पळोवन तो सामको बेजारिल्लो. 'आतां हांव उठलों. भितर येयात.'

आमी भितर गेलीं पूण थंय बसपाक इल्लोय जागो नासलो. सबंद कुडींत ताचे कपडे आनी वर्तमानपत्रां पातळिल्लीं. रांदचे कुडींत, मान्न्यांत बुरशा ताटांचो दाळ आसलो आनी तांकां वास मारतालो. सगळेकडेन नुस्त्याचे कांटे आसले. घरांत एक माजर आनी कुत्रोय आसलो. फुर्तादोच्या उश्ट्यार ते बरे जाल्ले. जनेलां उगडूंक नाशिल्लीं. चादर वर्सभर तरीं बदलूंक नाशिल्लेवरी दिसताली. भितर वचून बाथरुम पळोवपाचो म्हाका धीर जालो ना.

फुर्तादो बेजार जालो ना आनी ताका गुन्यांवकारीय दिसलें ना. ताणें म्हळें, 'इल्लो जागो करून घेयात आनी बसात.' कांय लोकांनी फुर्तादोचे भितर घालपाचे कपडे कुशीक केले आनी बसले पूण हांव चली जाल्ल्यान तें करूंक शकलें ना, आनी बेठेंच उबें रावलें. फुर्तादोन रांदचे कुडींतल्यान म्हजेखातीर एक स्टूल हाडलें. तें खूब चिकचिकीत आशिल्लें. ताच्या कपड्यांचेर बसपाक कांचवेल्लें ताचेयपरस चड हांव त्या स्टुलार बसपाक कांचवेतालें. हांवें ताका सांगलें, 'हांव उबें आसा तेंच बरें.' फुर्तादोन आमकां च्या विचारली पूण एकल्याकूय कितेंच पिवपाची हिंमत जाली ना.

पिकनिकेची म्हायतती आनी नियोजनाविशीं ताका विचारलें तेन्ना ताणें म्हळें, ‘आमच्यांनी दनपारां बारांक भायर सरुं येता. म्हज्या इश्टाचें लॉज आसा आनी हांव तुमकां थंय व्हरूंक शकतां. दुसरे दिसा, आमी आंबोले धबधब्यार वचूंक शकतात. मागीर आमच्यांनी गोंयां वचूं येता.’ फुर्तादोन धा दिसांची कार्यावळ आंखली. पूण आमच्यांतल्या कितल्याश्याच जाणांक धा दीस हॉटेलांत रावप, आनी इतले दीस वर्ग चुकोवप शक्य नासलें. म्हूण ती येवजण अपेशी जाली. आमी ताचे आभार मानले आनी भायर सरलीं. जेन्ना हांवें फाटी वळून पळयलें तेन्ना फुर्तादोन दार बंद केल्लें आनी घडये तो परत न्हिदूंक गेल्लो.

रोकडेंच निमणें वर्स आयलें. आमी सगळीं पास जालीं आनी फापसलीं. फाटल्या चार वर्सांत आमचें एक व्हड कुटुंब कशें जाल्लें म्हूण आमचेमदल्या कांय जाणांक खूब वायट दिसलें. आमचें लक्ष्य आमकां खबर नाशिल्लें आनी घडये आमी केन्नाच मेळचीं ना हें खबर आशिल्लें. फुर्तादोन गुडबाय म्हणलें तेन्ना आमकां सांगलें, ‘जर तुमी केन्नाय गोंयां पावलीं, जाल्यार आमगेर येयात.’ पूण हांव ताका केन्ना मेळटलें हाचो म्हाका खऱ्यानीच दुबाव आसलो.

कितलींशींच दसकां गेलीं. एक फावट हांव एक व्याख्यान दिवंक दुबय गेल्लें. व्याख्यान सोंपल्याउपरांत, लोक म्हाका मेळपाक आयले पूण एक मनीस मात सगळे वचमेरेन वाट पळयत रावलो. मागीर हांव बशिल्लें थंय तो चलत आयलो आनी हांसलो. हांवें हांसप वळखलें पूण ताका खंय पळयला हें मात म्हाका याद जायनासलें. तो मनीस खड्डो, मोटो, पोटाचो धोल आनी सामके सादे कपडे घाल्ले असो आसलो. तो खंयच्यातरी बांदकामाचे कंपनीतलो मध्यम पांवड्यावयलो मॅनेजर आसतलो अशें म्हाका दिसलें. म्हज्या क्षेत्रांत म्हाका कितलेशेच लोक मेळटात आनी सगळ्यांची याद दवरप कठीण जाता.

हांवें ताका विचारलें, ‘सर, तुमचेखातीर हांव कितें करूं? म्हजेखातीर रावल्यात तुमी?’

व्हडा आवाजांत ताणें म्हळें, ‘हय. कितलोसोच वेळ जालो हांव तुमकां

रावलां.'

'आय एम सॉरी. तुमी म्हाका रावतात हें हांव नकळ आशिल्लें. तुमचें कितें काम आसा म्हजेकडेन?' हांवें म्हळें.

'हय. तुमचें खरें आशिल्लें आनी म्हजेंच चुकलें हें तुमकां सांगपाचें आशिल्लें.'

हांव घुसपलें. तो म्हणटा ताचो अर्थ कितें? हांव ताका ह्या आदीं केन्नाच मेळूंक नासलें. हांगा आमचें ऑफिस नाशिल्ल्यान हांव दुबय चडशें पावना.

'तुमचें नांव कळ्ळें ना सर म्हाका. तुमचें नांव म्हाका कळत?' हांवें विचारलें.

तो कडवट हांसलो. ताणें म्हळें, 'हांव फुर्तादो. तुजो वर्गमित्र.'

ताका पळोवन म्हाका खूब खोस जाली आनी हांवें ताका हात दिलो. 'फुर्तादो, तुका पस्तीस वर्सांउपरांत पळयतां हांव! कितलो तेंप जालो ताका लागून हांव वळखलें ना तुका. शारिरीक नदरेन आमी दोगांय खूब बदलल्यांत. तुका मेळून खूब बरें दिसलें. राव मातसो. हांगा आसा जाल्यार आयज रातचो जेवणाक यो. म्हाका खूब उलोवपाचें आसा.' हांवें म्हळें.

निर्शेवन, फुर्तादोन म्हळें, 'सॉरी, म्हजेकडेन चड वेळ ना. म्हाका रातपाळी आसा. पूण तुजेवांगडा हांव एक कप च्या घेवंक शकतां.'

आमी हॉटेलाच्या रेस्टॉरंटांत गेलीं आनी हांवें ताचेखातीर च्या आनी म्हजेखातीर ज्यूस मागयलो. म्हाका खूब उलोवपाचें आसलें. उमेदीन हांवें उलोवक सुरू केलें आनी प्रस्न टाळूंक शकलें ना. 'फुर्तादो, तूं खंय काम करता? दुबय कितलो तेंप आसा तूं? लग्न जालो तूं? भुरगीं कितलीं तुका? तुजे नेटवर्किंग इश्ट कशे आसात? भारतांत केन्नातरी येता तूं?'

फुर्तादोन म्हाका थांबयलें. 'तुज्या कामांत संगणकाचो संबंद येता पूण म्हज्या कामांत येना. म्हजेखातीर तूं खूब फास्ट आसा. संगणकावरी. पूण हांव बांदकामांत आसा. म्हूण हांव सवकास आसलों तरी मानून घे. फाटलीं पांच

वर्सां हांव दुबयंत आसा. ताचे आदीं, हांव वेगवेगळ्या कंपन्यांनी कितल्याश्याच ल्हान गांवांनी आशिल्लों. लग्न जालां म्हजें आनी म्हाका दोन चलयो आसात.'

हांवें मदींच म्हळें, 'आयज तांका हाडपाचीं तुवें. तांकां मेळपाक म्हाका आवडटलें आसलें.'

'सॉरी, तीं हांगा नात म्हूण हांव तांकां हाडूंक शकना. वेवस्थापनांत हांव सकयल्या पांवड्यार आसा. म्हूण घरच्यांक हांगा हाडप म्हाका परवडना. म्हज्यो दोनूय चलयो भारतांत इंजिनियरींग शिकतात. हांगा तांचें शिकप लेगीत म्हाका परवडना.'

कितें उलोवंचें हें म्हाका कळना जालें. फुर्तादोचें अशें कितेंय जातलें हें हांवें केन्नाच चिंतूंक नाशिल्लें. आतां उलोवपाची पाळी ताची आसली. 'तुका याद जाता, हांव कॉलेजांत आसलों तेन्ना तुमचीं सगळ्यांचीं फकाणां करतालों? म्हजो सगळो वेळ हांवें नेटवर्किंगांत वगडायलो. इंजिनियरींग सोंपल्या उपरांत म्हाका बरी नोकरी मेळ्ळी ना. कारण साहजिक आसलें. म्हजेकडेन गिन्यान आनी काम करपाची तांक नाशिल्ली. येस मेळपाच्या पांवड्यावयल्या दोन खाशेल्या गुणांकडेन हांवें दुर्लक्ष केलें. म्हाका फुडें वचून कंपनींतले वयले तेंगशेर पावंक जाय हें खबर आसलें पूण ओगीच कोणूय थंय पावना. म्हाका खंयचें स्थान जाय हें खबर आसलें पूण थंय वचपाचो रस्तो मात हांव नकळ आसलों. म्हाका दिसलें नोकरी बदलत जाल्यार काम जातलें पूण तशें करून बाजारांतली म्हजी किंमत उणी जाली. म्हज्या नेटवर्किंगांतल्या एकाय इश्टान म्हाका मजत केली ना. भयांकृत वस्तूवरी तांणीं म्हाका सोडून दिलो. बेनुल्लेवरी हांव तांकां घट धरून रावतां अशें तांका दिसलें. तातूंतले कांय जाण म्हजेवरीच आशिल्ले आनी नोकरी सोदताले. कोणाचो तरी आदार मेळटलो आनी हांव वयर सरतलों अशें म्हाका सदांच दिसतालें. हांवें म्हजोच आदार घेवंक जाय हें हांवें केन्नाच चिंतलें ना. आतां हांव जाणटो जालां. हांव नव्यो गजाली शिकून गेल्लो वेळ भरून काडूंक सोदतां. पूण तें सोंपें न्हय. भायर खूब सर्त आसा. कॉलेजींतल्या तरनाट्यांक खूब गिन्यान आनी शिटूकसाण आसा. तांचेकडेन वेळ लेगीत आसा. म्हज्या चलयांक हांवें सांगलां, 'तुमी

शिकूंक जाय, गिन्यान मेळोवंक जाय, कळाशी शिकून घेवंक जाय आनी खूब कश्ट करूंक जाय.'

फुर्तादोन फुडें म्हळें, 'हें म्हाका कोणें सांगिल्लें जाणा तूं? तूं तें सांगपी.'

घड्याळ पळयत ताणें म्हळें, 'म्हजो वेळ जालो. म्हाका वचपाक जाय.'

हांवें ताका ऑल द बेस्ट म्हळें.

तो कांय पावलां चल्लो, मागीर फाटीं आयलो आनी म्हळें, 'ते दीस हांवें तुका अभ्यासू मनीस म्हणिल्लें. आयज तुका हांव हुशार म्हणटां.'

आनी तो गेलो.



६

# अलिखीत जीण



तें 1943 साल आशिल्लें. म्हजो बापूय तेन्ना एक तरनाटो दोतोर. ताची बदली महाराष्ट्र आनी कर्नाटकाच्या शीमेवयल्या चंदगड ह्या ल्हानश्या गांवांत जाल्ली. थंय आठ म्हयने सेगीत पावस पडटालो आनी उरिल्ल्या चार म्हयन्यांत थंय एकूच काम म्हळ्यार झाडां मारप. तो एक खूब कमी लोकसंख्येचो आनी चड कोणाक खबर ना असो गांव. चोंयवटेन दाट रान आशिल्लें. ब्रिटीश अधिकारी रानांत कासाक येताले. म्हण तांची सोय करपाखातीर थंय एक ल्हानसो दवाखानो आशिल्लो. गांवांतलो कोणूच दुयेंती थंय वचनाशिल्लो कारण ते थळावीं वखदां आनी झाडपालो वापरताले. म्हणटकच म्हजो बापूय सोडल्यार दवाखान्यांत कोणूच नासतालो.

ताची बदली जावन एक सप्तक जाता म्हणसर बापायक वाज येवंक लागलो. पुण्यासारक्या उत्साही शारांतल्यान हुमटून काडून ताका ह्या सुसेगाद आनी शांत, लोक नाशिल्ल्या गांवांत हाडून सोडिल्लो. भायल्या संवसारा कडे ताचो संपर्क नाशिल्लो. ताचो एकूच सांगाती म्हळ्यार वणटीवयलें कॅलेंडर. केन्ना केन्ना तो भायर पासयेक वतालो. पूण लागींच्या रानांतल्यान वागाची गरड येतकच तो भियेतालो आनी जाता तितले बेगीन आपल्या दवाखान्यात परत येतालो. जमनीर भोंवपी सोरोप सदांच दिसताले. साहजिकच तो रातचो भायर

सरनाशिल्लो.

एका शिंयाळ्या सकाळीं, ताणें मुखेल दाराभायर व्हड हुस्कार आयकले आनी धिटायेन जनेलांतल्यान भायर पळोवपाचें थारायलें. भायर वारांदार एक वागीण जांबयो दिताली आनी जमीन खरपिताली. कुशीक तिचीं पिलां आशिल्लीं. भंयान घट जावन, म्हज्या बापायन पुराय दीस दार उकतें केलें ना. आनीक एक दीस ताणें जनेल उगडलें, जाल्यार ताच्या घरामुखार पांख्यावयल्यान दोरी आशिल्लेवरी सोरोप हुमकळटालो.

आपणें कितेंतरी चूक केल्या म्हूण आपणाक ही ख्यास्त दिवन गांवांत धाडला काय कितें अशें बापायक दिसतालें. पूण ही परिस्थिती बदलप ताच्या हातांत नाशिल्लें.

एके रातीं, तो बेगीनूच जेवलो आनी पेत्रोलाच्या दिव्याच्या उजवाडांत पुस्तक वाचूंक लागलो. भायर उटंगाराचो पावस पडटालो.

अचकीत, ताका दारार मारिल्ल्याचो आवाज आयलो. ‘कोण आसत काय ?’ ताणें चिंतलें.

जेन्ना ताणें दार उगडलें, तेन्ना ताका कांबळी गुठलायिल्ले आनी हातांत दांडे घेतिल्ले चार दादले दिसले. तांणीं मराठींत म्हळें, ‘दोतोर सायब, तुजें बॅग घे आनी बेगोबेग आमचे वांगडा यो.’

म्हज्या बापायक तांची ती गांवगिरी मराठी सारकी समजली ना. ताणें विरोध केलो. ‘आतां दवाखानो बंद आसा आनी वरां कितलीं जालीं पळयात.’

ते लोक आयकून घेवपाच्या परिस्थितींत नाशिल्ले. तांणीं ताका धुकल्लो आनी व्हडा आवाजान आपले फाटल्यान येवपाची ओर्द सोडली. मोन्यांनी, म्हज्या बापायन आपलें बॅग उखल्लें आनी बोकडे पिलावरी तांचे फाटल्यान तांणीं हाडिल्ल्या बैलगाडयेंत बसलो. पडपी पावस आनी काळखे रातीक लागून ताका शेणिल्लेवरी दिसलें आनी ते खंय घेवन वतात हें समजना जालें. तरी लेगीत पावपाक मातसो वेळ लागतलो हें ताका समजलें.

आशिल्लो नाशिल्लो धीर एकठांय करून ताणें विचारलें, 'म्हाका तुमी त्रंय व्हरतात?'

जाप आयली ना.

कांय वरां उपरांत आपल्या नियोजीत जाग्यार पावतकच बैलगाडी रांबली. पेत्रोलाच्या दिव्याच्या उजवाडांत, कोणेंतरी तांकां सांगात दिलो. आपले भोंवतणचीं शेतां बापायन पळयलीं आनी मदीं पावतकच ताका एक घर दसलें. ताणें घरांत पांय दवरतांच एके बायलेन म्हळें, 'यो, यो. दुयेंती हांगा हे कुडींत आसा.'

ह्या गांवांत आयले उपरांत पयलेच फावट, आपलें दोतोरकीचें गेन्यान बऱ्या कामाक वापरपाची संद आयिल्ली. ताचे मुखार सुमार सोळा सतरा वर्सांचें एक जुवान चली आशिल्लें. एक जाणटी बायल ताचे म्हऱ्यांत आशिल्ली. ते चलयेक वेणो येताल्यो. म्हजो बापूय धवो फटफटीत पडलो. तो परत दुसरे कुडींत गेलो आनी तिच्या घरच्यांक सांगलें, 'हें पळयात,हांवें बाळंटीखातीरचें प्रशिक्षण घेवंक ना. आनी हांव एक दादलो. तुमी दुसऱ्या कोणाकूय आपोवंक जाय.'

पूण ताणीं आयकून घेवंक न्हयकार दिलो. 'जें कितें गरजेचें तें तुवें करपाक जाय. आमी तुका बरे पयशे दितले,' ताणीं आग्रो धरलो. 'भुरगें जितें वा मेल्लें कशेंय जावं, चली वाचूंक जाय.'

म्हज्या बापायन तांची प्रार्थना केली, 'म्हाका पयशे नाकात. म्हाका वचूंक दियात.'

ते दादले लागीं आयले, ताका धरून दुयेंतीच्या कुडींत घालो आनी भायल्यान दार बंद केलें. म्हजो बापूय भियेलो. कांय उपाय ना हें ताका कळिल्लें. ताच्या मेडिकल कॉलेजीच्या प्रोफेसराच्या मार्गदर्शनाखाला ताणें कांय बाळंटेर पळयिल्ले आनी मजत केल्ली. पूण तें तितलेंच. नेर्वोज जावन, ताणें आपले फाटले अणभव आनी पुस्तकी गिन्यान याद करपाक सुरवात केली.

कुडींत मेज नाशिल्लें. म्हणटकच ताणें मोनी आनी भेरी आशिल्लेवरी

दिसपी ते जाणटेलेची मजत घेवन, भात भरिल्ल्या साकांचें एक कामचलावू मेज तयार केलें. मागीर बापायन आपल्या बॅगांतल्यान एक प्लास्टीकाचो कुडको भायर काडलो आनी त्या साकांचेर तो घालो.

ताणें ते चलयेक थंय न्हिदपाक सांगलें आनी ते बायलेक उदक गरम करून आपलीं आवतां निर्जंतूक करपाक लायलीं. इतले मजगतीं, वेणो येवन गेल्ल्यो. चली घामान भिजिल्लें आनी दोतोर ताचेयपरस चड. तिणें आपल्या मोट्या निश्पाप दुकांनी भरिल्ल्या दोळ्यांनी ताका पळयलें आनी म्हळें, 'म्हाका वाटांव नाकात. म्हाका जगपाचें ना.'

'तूं कोण आसा?'

'हांगाच्या व्हडल्या जमीनदाराची हांव धूव,' तिणें ल्हव आवाजान सांगलें. भायर पडपी पावसान ताका ती कितें उलयता तें सारकें आयकूंक येनाशिल्लें. 'हांगा गांवात हायस्कूल नाशिल्ल्यान, म्हज्या आवय बापायन म्हाका पयस शारांत शिकूंक धाडलें. थंय, म्हज्याच एका वर्गमित्राच्या मोगांत पडलें हांव. सुरवेक, हांव गुरवार आसा हेंच म्हाका समजलें ना. पूण जेन्ना म्हाका कळ्ळें, तेन्ना रोकडेंच हांवें भुरग्याच्या बापायक सांगलें. पूण हें आयकून तो पळून गेलो. इतले मजगतीं, कितें घडलां तें म्हज्या घरच्यांक कळ्ळें. कितेंय उपाय करपाक आता खूब कळाव जाल्लो. कोणाक समजूंचें न्हय म्हूण तांणीं म्हाका ह्या एकोड्या जाग्यार धाडलें.'

एक व्हडली वेण आयिल्ल्यान तें रावलें.

कांय मिनटां उपरांत तिणें म्हळें, 'दोतोर, भुरगें जल्माक आयलें काय म्हजीं घरचीं ताका जिवें मारतलीं आनी म्हाकाय मारतलीं हाची म्हाका खात्री आसा.' मागीर तिणें म्हज्या बापायच्या हाताक धल्लो. तिच्या दोळ्यांत दुकां भरिल्लीं, 'उपकार करून म्हाका वा भुरग्याक वाटावं नाकात. म्हाका हांगाच मरपाक सोडात. इतलेंच जाय म्हाका.'

कितें करचें हें बापायक समजना जालें. मागीर जाता तितल्या मोव आवाजान ताणें तिका म्हळें, 'हांव एक दोतोर. दुयेंतीक वाटावंक हांवें यत्न

करूंक जाय. ताका वा तिका मरपाक सोडूंक शकना हांव. म्हजें कर्तव्य करपांत तूं म्हाका फाटीं ओडूं नाका.'

चली ओगी रावलें.

बाळंटेर कठीण, भिरांकूळ आनी खूब वेळ घेवपी आशिल्लो. निमाणें म्हज्या बापायक जाणटेलेच्या आदारान भुरगें जल्माक हाडपांत येस आयलें. इतलें जातासर तें चली घामेल्लें आनी सामकें थकिल्लें. निराश जावन ताणें दोळे धांपले आनी भुरग्याक दाखय अशें लेगीत सांगलें ना. फाटींफुडें जायत, तिणें एकूच विचारलें, 'चलो काय चली ?'

'चली जालां,' भुरग्याक तपासता आसतना म्हज्या बापायन जाप दिली.

'आरे देवा! चली जालें!' तें रडपाक लागलें. 'ताचीय जीण म्हजेवरीच आसतली. घरांतल्या दादल्यांच्या निर्दय चेंपणापोंदा जगप ताच्याय नशिबांत आसा तर. आनी ताका तर बापूय लेगीत ना.' तें व्हडान हुंडकेवंक लागलें.

पूण म्हजो बापूय भुरग्यावांगडा व्यस्त आशिल्लो ताणें व्हडलेंशें लक्ष दिलें ना.

अकस्मात, कितेंतरी चुकता हाची चलयेक जाणीव जाली. 'दोतोर, भुरगें कित्याक रडना ?' जाप मेळ्ळी ना तेन्ना ताणें म्हळें, 'तें वाचलें ना जाल्यार म्हाका खोस जातली. ह्या निर्दय संवसारांतल्यान तें सुट्टलें.'

म्हज्या बापायन भुरग्याक पांय वयर करून धल्लें, आनी ल्हवूच ताचेर थापट माल्लें. रोकडीच, भुरग्याच्या रडपाच्या आवाजान कूड भरून गेली. भायर आशिल्ल्या दादल्यांनी भुरग्याचें रडप आयकलें. तांणीं दार उगडलें आनी बापायक सूचना दिली, 'दोतोर, भायर सरूंक तयार जा. आमी तुका व्हरून सोडटात.'

म्हज्या बापायन दुयेंतीक निवळ केली. आपलीं आवतां एकठांय

केलीं, आनी बॅग भरलें. जाणटेली कूड निवळ करूंक लागली. ताणें त्या त्रासांत पडिल्ल्या चलयेक पळोवन म्हळें, 'जर तुका काळजांतल्यान सुटका जाय दिसता, जाल्यार भुरग्याक घे आनी पळून वच. पुण्यांत वच आनी पुणे नर्सींग स्कूल सोद. थंय गोखले म्हूण एक क्लार्क आसा ताका सोदून काड आनी तुका आरएचान धाडलां म्हूण सांग. तुका नर्सींग कोर्साक प्रवेश दिवंक तो मजत करतलो. कांय काळान, तूं नर्स जातलें. तुज्यो गरजो भागोवपाची तांक येतली आनी तूं स्वतंत्र जीण जगूंक शकतलें. अभिमानान तुजे धुवेक वयर काड. ताका फाटल्यान सोडून वचपाचें चिंतू नाका, नाजाल्यार ताचेंय तुजेवरीच जातलें. म्हजो तुका काळजांतल्यान हो सल्लो आसा.'

'पूण दोतोर, हांव पुण्या कशें वतलें? तें खंय आसा हें लेगीत म्हाका खबर ना.'

'बेळगांवांतल्या सगळ्यांत लागींच्या शारांत वच. थंय तुका पुण्या वचपाक बस मेळटली.'

म्हज्या बापायन ताचो निरोप घेतलो आनी भायर आयलो.

एका जाणटेल्यान ताका शंबर रुपया दिले. 'दोतोर, चलयेच्या बाळंटेराक मजत केली म्हूण ही तुजी फी. हांव तुका शिटकायतां – आयज हांगा जें कितें जालें तेविशीं एक उतर लेगीत काडूं नाका. जर काडलें, जाल्यार म्हाका तें समजतलें आनी तुजी तकली तुजे कुडीर उरची ना.'

म्हज्या बापायन तकली हालयली. अकस्मात ताका शांत दिसलें. 'म्हजी चूक जाली,' ताणें म्हळें. 'म्हाका दिसता म्हजी कातर भितर उल्ल्या. फाल्यां म्हाका ती दवाखान्यांत जाय पडटली.'

तो वळ्ळो आनी भितर गेलो. चली दुकांनी भरिल्ल्या दोळ्यांनी न्हिदिल्ल्या भुरग्याक पळयता तें ताका दिसलें. जेन्ना जाणटेलेची ताचेकडेन फाट जाली, तेन्ना बापायन चलयेच्या हातांत पयशे दिले. 'सध्या म्हजेकडेन हे इतलेच आसात.' ताणें म्हळें. 'ते वापरून हांवें सांगलां तशें कर.'

'दोतोर, तुमचें नांव कितें?'

'म्हजें नांव दोतोर आर. एच. कुलकर्णी. पूण जवळ जवळ सगळेच म्हाका आरएच म्हणटात. धीर धर बाय. बरें तर. तुजें बरें जावं.'

म्हजो बापूय कुडींतल्यान आनी घरांतल्यान भायर सरलो. परत वतनाचोय प्रवास तितलोच कठीण आशिल्लो. निमाणें, फांतोडेर तो आपल्या घरा पावलो. तो सामको थकिल्ल्यान रोकडोच न्हिदून पडलो. दुसरे दिसा सकाळीं, ताचें मन आपल्या पयल्या दुयेंतीविशीं आनी पयले जोडीविशीं चिंतपाक लागलें. आपल्यांतल्या उणेपणाची ताका जाणीव जावन प्रसुतीशास्त्राचें आनीक बरें गिन्यान आसूंक जाय आशिल्लें अशें ताका दिसलें. पूण हातांत पयसो कमी आशिल्ल्यान आपलें हें सपन ताका फुडें धुकलचें पडलें.

कांय म्हयन्यां उपरांत, ताचें लग्न जालें आनी ताणें आपलें हें सपन बायलेक सांगलें.

काळ गेलो. ताच्यो बदल्यो महाराष्ट्र आनी कर्नाटकांत कितल्याश्याच जाग्यांर जाल्यो. ताका चार भुरगीं जालीं. तो बेचाळीस वर्सांचो जाय मेरेन, दोगांयनी ताच्या फुडल्या शिक्षणा खातीर पयसो एकठांय केल्लो. मागीर म्हज्या बापायन आपलें सपन पुराय करपाचें थारायलें. म्हणटकच, ताणें आपलें कुटुंब हुबळे दवरलें आनी चेन्नयच्या एगमोअर मेडिकल कॉलेजींत प्रवेश घेवन प्रसुतीतज्ञ जावपाचें आपलें सपन पुराय केलें. त्या काळावयल्या सामक्या कमी प्रसुतीतज्ञ दादल्यांमदलो तो एक आशिल्लो.

तो परत हुबळी गेलो आनी कर्नाटक मेडिकल कॉलेजींत प्रोफेसर म्हूण काम करूंक लागलो. गरीबांकडली ताची दयेस्त वागणूक तशेंच बायलो आनी चलयां खातीर आशिल्ली खरी कळकळ हाका लागून, तो एक दोतोर म्हूण आनी एक शिक्षक म्हूण बरोच लोकप्रिय जाल्लो. हीच कळकळ आपल्या चलयांखातीरच्या ताच्या मेकळ्या वागण्यांत दिसताली. ताणें चलयांक तांका जाय त्या क्षेत्रांत शिक्षण घेवपाची मेकळीक दिली. त्या काळार हें असलें कोणेंच आयकूंक नाशिल्लें.

म्हजो बापूय नास्तीक आशिल्लो. 'देव चर्चींत, मशीदींत वा देवळांत रावना,' तो सदांच म्हणटालो. 'म्हज्या सगळ्या दुयेंतीं भितर हांव ताका पळयतां. जर एक बायल भुरग्याक जल्म दितना मेली, जाल्यार दोतोरा खातीर ताचो एक पेशंट गेलो. पूण त्या भुरग्याक मात जल्मभर आवय ना जाता. म्हाका सांग, आवयचो जागो कोण घेवंक शकता?'

एक दीस, तो एका मेडिकल कॉन्फरन्सा खातीर दुसऱ्या शारांत गेलो. ताका थंय सुमार तीसेक वर्सांची बायल मेळ्ळी. ग्रामीण वाठारांत तिका आयिल्ल्या अणभवांच्यो केसी ती मांडटाली. म्हज्या बापायक तिचें काम तोखणाय करपासारकें दिसलें म्हूण प्रेझेंटेशन सोंपतकच तो तिका सांगपाक गेलो. 'दोतोर, तुमचें संशोधन अप्रतीम आसा. तुमच्या कामान हांव सामको प्रभावीत जालां.' ताणें सांगलें.

'देव बरें करूं,' तिणें म्हळें.

तेन्नाच, कोणेंतरी म्हज्या बापायक उलो मारलो, 'आरएच, आमी जेवणाक वचूंक तुका रावल्यात. चड वेळ लागतलो?'

ते तरनाटेन विचारलें, 'तुमचें नांव कितें दोतोर?'

'दोतोर आर एच कुलकर्णी, वा आरएच.'

कांय खिणांच्या मोनेळा उपरांत, तिणें विचारलें, '1943 वर्सा तुमी चंदगड आशिल्ले?'

'हय.'

'दोतोर, हांव हांगासावन सुमार चाळीस किलोमिटरा वयल्या एका गांवांत रावतां. आतांच तुमी म्हज्या घरा येवंचें अशी हांव तुमकां विनंती करूं?'

अशे तरेच्या आमंत्रणाची म्हज्या बापायक अपेक्षा नाशिल्ली. ती ताका आपल्या घरा कित्याक आपयताली?

'आनीक केन्ना तरी, दोतोर,' ताणें विशय सोंपोवपाच्या हेतान म्हळें.

पूण ती बायल आग्रो करूंक लागली. 'तुमी येवंकच जाय, प्लीज. तुमकां मेळपा खातीर कितलींशींच वर्सां राविल्ल्या कोणाची तरी ही विनंती आसा अशें समजात.'

तिच्या ह्या कुवाड्याच्या जापेन म्हजो बापूय गोंदळ्ळो, आनी ताणें न्हयकार दिलो. तरी लेगीत ती सामकी फाटीक लागली. तिच्या दोळ्यांत कितें तरी आशिल्लें. सामकें काकूट येवपा सारकें, निरशेणी आयिल्लेवरी. निमाणें, तो तिचे वांगडा त्या गांवांत वचपाक गेलो.

वतना, वाटेर दोगांय उलयतालीं. तिणें आपलें काम आनी आपल्या संशोधना विशीं ताका सांगलें. जेन्ना दोगांय तिच्या घराकडेन पावलीं, तेन्ना तें एक घर आनी हॉस्पिटल हें म्हज्या बापायक कळ्ळें. तो मुखेल दारांतल्यान भितर सरलो. सुमार पन्नास वर्सां पिरायेची एक बायल थंय उबी आशिल्ली ताणें पळयली.

ताचे वांगडा आशिल्ले तरनाटेन म्हळें, 'मां, हे दोतोर आरएच. तूं इतलीं वर्सां वाट पळयता तेच न्हय हे?'

ती बायल फुडें आयली, बाग घेवन तिणें म्हज्या बापायच्या पांयार तकली दवरली. तिच्या दुकांनी आपले पांय भिजूंक लागल्यात हें ताका जाणवलें. सामकें विचित्र आशिल्लें तें. कोण आशिल्ल्यो त्यो बायलो? कितें करचें हें बापायक कळना जालें. तो बावगलो, ते बायलेच्या भुजांक धरून तिका वयर उबारली.

'दोतोर, तुमकां घडये म्हजी याद नासतली पूण हांव केन्नाच तुमकां विसरूंक शकना. घडये म्हजो तुमी केल्लो तो पयलोच बाळंटेर आसतलो.'

तरीय, म्हजो बापूय तिका वळखलो ना.

'तेन्ना तुमी कर्नाटक आनी महाराष्ट्राच्या शीमेर रावताले. एके रातीं, खूब पावस पडटालो, आनी तुमी म्हाका मजत केल्ली बाळंत जावंक. तेन्ना एक जुवान आनी लग्न जावंक नाशिल्लें गुरवार चली हांव. थंय कुडींत बाळंटेर करपा

खातीर मेज नाशिल्लें. म्हूण तुमी भाताच्या साकांचें तात्पुरतें मेज केल्लें. कांय वरां उपरांत, हांवें चलयेक जल्म दिल्लो.'

खिणा भितर, सगळ्यो यादी जाग्यो जाल्यो आनी म्हज्या बापायक ते रातीची याद जाली. 'हय तर, म्हाका याद आसा तुजी!' ताणें म्हळें. 'मध्यानरात जाल्ली आनी हांवें तुका भुरग्याक घेवन पुण्यांत वचपाक सांगिल्लें. म्हाका दिसता तुजे इतलोच हांवूय भिंयेल्लों.'

'बाळंटेरा खातीर म्हज्या घरच्यांनी तुमकां दिल्ले ते शंबर रुपया तुमी म्हाका दिल्ले. त्या काळार ते खूब आशिल्ले. तरीय तुमी ते सगळे म्हाका दिल्ले.'

'हय, म्हजो पगार पंच्याहत्तर रुपया आशिल्लो तेन्ना!' म्हज्या बापायन हांसत म्हळें.

'तुमी म्हाका तुमचें आडनांव सांगिल्लें पूण पावसाच्या आवाजांत म्हाका तें आयकूंक आयलें ना. तुमच्या सल्ल्या प्रमाण, हांव पुण्या गेलें. तुमच्या इश्टाक गोखलेक सोदून काडलो आनी नर्स जालें. खूब खूब कठीण आशिल्लें तें. पूण ताका लागून म्हजे चलयेक वाडोवप म्हाका शक्य जालें. त्या भिरांकूळ अणभवा उपरांत, म्हाका म्हजें चली प्रसुतीतज्ञ जाल्लें जाय आशिल्लें. नशीबान, म्हजे चलयेन तें सपन पुराय केलें. आयज, तें दोतोर आसा. एका दोतोरा कडे लग्न जालां आनी दोगांय हांगाच आपलो वेवसाय करतात. तुमकां सोदपाचो हांवें खूब यत्न केलो, पूण तुमचो पत्तो मेळ्ळो ना. मागीर 1956 वर्सा राज्यांच्या विभागांची फेर रचणूक जाली तेन्ना तुमी कर्नाटकांत गेले अशें आमी आयकलें. इतले मजगतीं, गोखले संवसाराक अंतरले आनी तुमकां केन्नातरी सोदपाची म्हजी आस्त ना जाली. योग्य वेळार योग्य वाट दाखयली म्हूण तुमचे उपकार मानूंक तुमची भेट जावंची अशी हांव सदांच देवाची प्रार्थना करतालें.'

म्हज्या बापायक आपूण बॉलीवूड सिनेमा पळयतां असें दिसलें. जाप नाशिल्ल्या जिणेच्या ह्या कुवाड्यान तो सामको तटास जालो. इल्लीं मायेचीं उतरां आनी प्रोत्साहनान एके चलयेची जीण बदलून गेल्ली.

तिणें आपले हात जोडले, 'आमी तुमचीं खूब उपकारी आसात,

दोतोर. हांगाच्या हॉस्पिटलाच्या उकतावणा खातीर म्हजे चलयेक तुमकां आपोवपाचें आशिल्लें. तुमचे मेरेन पावूंक शकनात म्हूण आमी दोगांय खूब निराश जाल्लीं. काळ गेलो, आतां हॉस्पिटल खूब बरें चलता.'

म्हज्या बापायन आपले ओले दोळे पुसले आनी हॉस्पिटलाचें नांव पळोवंक सरभोंवतणीं नदर माल्ली. ताणें उजवे वटेन पळयलें आनी पळयतूच उल्लो – आर. एच. डायग्नॉस्टिक्स.



७

# वेगळेपणाची वळ



म्हजे पाकिस्तान भोंवडेवेळार, हांव एका व्हडल्या पंगडाचो एक भाग आशिल्लें. पंगडांतलो दर एक मनीस त्या देसांतल्या खंयच्या ना खंयच्या जाग्याक भेट दिवपाक उत्सूक आशिल्लो. कांय जाणांक तक्षशिला पळोवपाचें आशिल्लें, हेरांक लाहोर, इस्लामाबाद वा कराची. एक दीस, हे विशीं आमची भासाभास चलताली आनी दर एकलो व्हडाव्हडान आपलें मत मांडटालो. फकत रुपा कपूर ओग्गी बशिल्ली म्हाका दिसली. ती चेन्नयची एक पंच्यात्तर वर्सांची जाणटी बायल आनी कितेंय विचारलेबगर चड उलय नाशिल्ली. म्हूण हांवें तिका खंयचे सुवातेक भेट दिवपाची आसा काय विचारलें.

मातूय अनमन नासतना तिणें जाप दिली, 'म्हाका पिंडीक भेट दिवपाची आसा.'

'पिंडी खंय आसा? तें एक ल्हान शार काय गांव? म्हाका दिसना आमचे हे भरगच्च भोंवडेंतल्यान अशे तरेन वचपाक आमकां वेळ मेळत म्हूण.'

म्हज्या नेणारपणाक रुपान हांसत म्हळें, 'म्हाका रावळपिंडी म्हणपाचें आशिल्लें. जे हांगा रावतात ते पिंडी हें धाकटुलें नांव घेतात.' हांव घुसपलें. 'तुका कशें कळ्ळें? तूं केन्ना थंय रावल्या?'

'हांव थंयच जल्मून ल्हानाचें व्हड जालां,' तिणें जाप केली, आनी मागीर ल्हवू ल्हवू तिणें आपले जिणेची काणी म्हाका सांगली.

ती इकुणीस वर्सांची जायसर रावळपिंडींत राविल्ली, मागीर लग्न जावन ती चेन्नयंत रावपाक लागली. आतां चेन्नय तिचें घर आशिल्लें आनी ती तमीळ उलोवंक शकताली आनी थळाव्या तमीळ लोकांभशेन पुलियोगरे आनी रसम सारकिले तमीळ जिनस उत्तम आनी जन्मान तामीळ आशिल्ल्यांइतले बेसबरे रांदताली. पूण परती येवन संद मेळ्ळ्यार आपल्या भुरगेपणांतलें घर पळोवपाची उमळशीक तिका सदांच आशिल्ली.

रोकडींच आमी इस्लामाबाद पावलीं आनी चारूय वाटांनी आशिल्ल्यो दोंगुल्ल्यो, हिल स्टेशनावरी आशिल्ली थंडाय पळोवन म्हाका अजाप जालें. म्हजें हें अजाप पळोवन रुपान म्हळें, 'इस्लामाबाद हें नवें शार. रावळपिंडी हें लागींचेंच शार, पूण तें पोरणें. रुंद रस्ते, शॉपिंग सेंटरां आनी गुलाबाचीं जार्दिनां आशिल्लें इस्लामाबाद फाळणेउपरांत बांदलां. इस्लामाबादच्यान पिंडी सुमार वीसेक किलोमीटर पयस आसा.' आतां मेरेन मृदूभाषी, भिडेस्त मिसेस कपूर सामकी बडबडी जाल्ली. तिच्या दोळ्यांत एक चमक आयिल्ली आनी ती मातूय विसव घेनासतना उलयताली. आमचेमदल्या कितल्याश्याच जाणांक पयलीं इस्लामाबाद पळोवपाचें आशिल्लें, पूण तिणें पयलीं रावळपिंडीक वचपाचो आग्रो धरलो.

तिका कोण तरी सांगाती जाय आशिल्लो आनी हांव आपखोशयेन तिचेबराबर वचपाक तयार जालें. आतां ती खूब उचांबळीत जाल्ली, म्हणपाक लागली, 'सत्तावन वर्सांपयलीं हांव जें घर सोडून आयिल्लें तें म्हाका पळोवपाक जाय.'

'खऱ्यांनीच बरी कल्पना ही,' हांवें म्हळें. हांव इस्लामाबाद देंविल्लें तेन्ना दिल्लो सोबीत फुलांतुरो आजूनूय म्हज्या हातांत आशिल्लो. 'तुज्या घरांत आतां जो कोण रावता ताका हांव हो तुरो दितलें.' हांवें म्हळें.

ती सामकी सदगदीत जाल्ली.

गाडयेन इस्लामाबाद विमानतळ सोडलो, तेन्ना मिसेस कपूर एकाद्र्या टूर गायडाभशेन म्हाका एक एक दृश्य दाखोवंक लागली. रस्त्याचे दावे वटेन एके गर्देच्या जाग्यावयली एक पोरनी इमारत दाखोवन तिणें म्हळें, 'ती एक विजेचीं उपकरणां तयार करपाची फॅक्टरी आशिल्ली. तिचो मालक केवल राम सहानी म्हज्या बापायचो इश्ट आशिल्लो. दिवाळेच्या वेळार लक्ष्मीपूजेखातीर हांव आनी म्हज्यो इश्टिणी ह्या घरांत येतालीं.'

तिका प्रवासाचो आनंद घेवंक मेळचो म्हूण हांवें ड्रायव्हराक मातसो सवकास वचपाक सांगलें. गाडी सदर बाजारांतल्यान वताली आनी खूब दुकानां आशिल्ली एक पोरनी इमारत पळोवन तिणें म्हळें, 'हांगा म्हज्या बापायचो बापोलभाव रतन सेठी आनी ताचो भागीदार मकबूल खानाचें दागिन्यांचे दुकान आशिल्लें. ताका खान आनी सेठी म्हूण वळखताले. म्हज्या लग्नाच्यो वस्ती हांगाच केल्ल्यो.'

ती एके एके इमारतीक बोट दाखयत रावली. दर एके इमारतींत तिची कसली ना कसली बरी याद आशिल्ली. पूण ती पळयताली तातूंतल्या कितल्याश्याच इमारतींच्या जाग्यार अती उंच इमारती जाल्ल्या कारणान ती घुसपताली. अचकीत गाडी थांबली. एक टायर पंक्चर जाल्लो, आनी ड्रायव्हरान तो काडपाक कांय वेळ लागतलो म्हळें. रुपा कपूर सामकी अस्वस्थ जाली. तिका गरजेपरस एक मिनीट लेगीत चड रावपाचे नाशिल्लें. म्हूण तिणें म्हळें, 'तूं टायर बदल. तितल्यांत हांव कांय पोरण्या थळांर वचून पळयतां. आमी तुका फुडल्या मुखेल रस्त्यार मेळटात. मुखेल रस्त्यार वचपाक, पयलीं दाव्यान आनी मागीर फुडें उजव्यान वच. थंय तूं राव आमकां.'

त्या वाठाराचें एक एक कूस खबर आशिल्लेभशेन ती वागताली आनी हांव मोन्यांनी तिचे फाटल्यान गेलें. आमी एके ल्हानशे पाळणींत भितर सरलीं. तिणें म्हळें, 'म्हज्यो इश्टिणी फातिमा आनी नूर हांचेवांगडा हांव हांगा जायते फावट आयलां. ह्या रस्त्याक टेलराचो रस्तो म्हूण वळखताले. म्हजो शेजारी मेहबूब खानाची बायल मेहरुन्निसा चाची भरतकामाच्यो नव्यो नव्यो मोदी करपांत सामकी फिशाल आशिल्ली. आमी येवन तिका डिझायन दितालीं. चल

आमी लागींची वाट घेवया... जंय म्हजो काका रावतालो.'

आतांमेरेन ती चडशी आपल्याभितरूच उलयताली आनी त्या अशीर पाळणींतल्यान सोंपेपणान वाट काडटाली. आमी फुडल्या रस्त्यार गेलीं. थंय कांय पोरणीं घरां आशिल्लीं. ती पयल्याच व्हड बंगल्यांत गेली. तिणें म्हळें, 'हें म्हजो काका मोतीराम रायाचें घर आनी फुडलें घर अल्ला बक्ष हाचें. ते दोगूय व्हड इश्ट आशिल्ले आनी एकामेकांचो खूब मोग करताले. म्हाका अजूनय याद जाता, जेन्ना जेन्ना अल्ला बक्ष चाचा आपल्या पोरसांत झाड रोयतालो, म्हजो काका तसलेंच झाड रोयतालो. हें हांगा आसा तें आंब्याचें झाड एका बसंत पंचमीच्या दिसा रोयिल्लें. दोनूय घरांनी कितली खोस आशिल्ली. म्हजे आजयेन खीर केल्ली आनी एक भगुणें भरून खीर घेवन म्हाका अल्ला बक्षाच्या घरा धाडिल्लें. जेन्ना हांव तें भगुणें घेवन वतालें तेन्ना एका तरनाट्याक आपटलें आनी ती गरम खीर ताच्या पायांर सांडली. हांव खूब भियेलें आनी म्हाका लजूय जाल्ली.'

'तूं ताका वळखताली?'

'तेन्ना ना, पूण मागीर जाली वळख. म्हजें ताचेकडेन लग्न जालें!'

मागीर तिणें झाडाक पळयलें आनी म्हळें, 'आतां हें कितलें जाणटें जालां.'

आमी दरवट्यांतल्यान भितर सरलीं. आशिकुशीक कोणूच नाशिल्लो. आमकां अशीं भितर सरलीं म्हण कोणूय आडायत असो म्हाका भंय दिसतालो. पूण रुपाक कसलीच पर्वा नाशिल्ली. ती आपल्याच विश्वांत आसा अशें दिसतालें. ती चलत मागीलदारा गेली आनी हांव अनमनत फुडल्या दारांत उबें रावलें. एक जोडपें भितर सरलें आनी आपल्या जार्दिनांत एक अनवळखी मनीस, तीय बी साडयेंत पळोवन सामकें अजापित जालें. तेन्नाच हांवें दारांत हुमकळपी एक पाटी पळयली. ताचेर बरयल्लें 'डॉ. सलीम आनी डॉ. सलमा: डेंटिस्ट.'

हांवें तांची माफी मागली आनी रुपाविशीं तांकां सांगपाक लागलें.

म्हजी काणी सोंपली तेन्ना तांच्या चेऱ्यावयलो दुबाव पैसावलो. मजगतीं रुपा आजूनूय झाडांक पळोवन आपलें भुरगेपण याद करतालें. जोडप्यान आदरभावान आमकां भितर आपयलीं. 'उपकार करून बसात. आमचेसांगातान एक च्या घेयात.' तांणी दोन कदेलां फुडें ओडलीं.

सकाळींफुडें तांकां त्रास दितात म्हूण आतांमेरेन म्हाका सामकें विचित्र दिसपाक लागिल्लें. पूण डॉ. सलीमान म्हळें, 'उपकार करून बसात. तुमी आयलीं म्हूण आमकां खोस जाल्या. आमचो आजो आजी लेगीत गुजरातांतल्या सुरत हांगा रावतालीं. तीं पाकिस्तानांत आयलीं आनी हांव हांगाच जल्मून व्हड जालों. म्हजे आवयबापूय सुरती फरसाण, पारसी धनसाक आनी खाकराच्यो खूप यादी काडटात.'

कितेंतरी उलोवपाक जाय म्हूण हांवें म्हळें, 'येदो व्हडलो बंगलो सांबाळप खूप कठीण जाता आसतलें न्हय.'

डॉ. सलीमान जाप दिली, 'कांय वर्सांआदीं आमी ह्या घरांत आयलीं. पळोवंक गेल्यार, सुरतांत म्हजे आवय बापूय रावताले तें घर सादारण ह्या घरासारकेंच आसा, आनी हांव ह्या घरांत रावतां तोमेरेन हांव हें घर म्होडून अपार्टमेंटस करचों ना अशें ताणीं म्हजेकडल्यान उतर घेतलां. अल्ला दयाळू आसा आनी आमकां पैशांची गरज ना. आमचो शेजारी अल्लाबक्षाच्या भुरग्यांनीं खूब आदीं आपलो जागो विकलो आनी आतां थंय व्हडलो वेपारी कॉम्प्लेक्स जाला.'

इतले म्हणसर रुपाचें जार्दिनांत भोंवप सोंपिल्लें. हांवें ताची त्या जोडप्याकडेन वळख करून दिली. ताणें भितरल्यान घर पळोवंक मेळत काय म्हूण विचारलें. दोतोर सलीमान खोशयेन हयकार दिलो. 'धा वर्सांफाटीं हें घर आमी विकतें घेतल्या उपरांत, आमी साप कमी बदल केल्यात. तुमी निमणें पळयलें तशेंच घडये आसा तें.' ताणें म्हळें.

हांव रुपावांगडा भितर गेलें. मुखेल कूड पळोवन ताणें म्हळें, 'हांगा म्हजो आजो बसतालो आनी सगळ्या घराचेर नदर दवरतालो.' मागीर ताणें हारशाच्या एका रंगीत दाराकडेन बोट दाखोवन म्हळें कीं अल्लाबक्षाचे बायलेन

ाका रंग मारून दिल्लो. 'ह्या जनेलांतल्यान ती म्हज्या आत्याखातीर सुको मेवो ाडटाली,' 'थंय आमी पतंग हुबयतालीं.' दर एका चिऱ्यांत, दर एके वणटींत त्तची एक एक याद आशिल्ली. निमाणें हांवें तिका परत वचपाक जाय हाची याद कली. आमी जार्दिनाकडे वता आसतना त्या जोडप्याचो निरोप घेतलो. डॉक्टर ग्लीमान आमकां एक पाकीट दिलें. 'तुमचेकडेन खावपाक वेळ ना, आमी कांयच दिनासतना तुमकां दोगांय जाणट्यांक अशींच धाडप म्हाका बरें दिसना. उपकार करून हें घेयात आनी जर देवाच्या मनांत आसत तर आमी परत मेळटलीं.'

आमी घरांतल्यान भायर सरून मुखेल रस्त्यार आयलीं तेन्ना रुपान सांगिल्लेप्रमाण थंय गाडी आशिल्ली. आतां तिका आपलें घर पळोवपाचें आशिल्लें.

तिणें ड्रायव्हराक म्हळें, 'चार रस्त्यावयल्यान उजव्यान चल. म्हाका रस्तो खबर आसा. उजवे वटेनची पयली बिल्डींग म्हळ्यार चलयांचें अल अमीन स्कूल आनी मातशें मुखार जीझस अँड मेरी कॉनव्हेंट. आनी मातशें फुडें दाव्यान चल्यांखातीर एक सरकारी स्कूल आसा. ताचे फुडें इदगाह मैदान. ताचे मुखार पांच व्हडले बंगले आशिल्ली एक पायण. दर एक प्लॉट एका एकराचो. पयलो केवल राम हांचो. दुसरो मियाँ मेहबूब खान हांचो आनी तिसरो सरदार सुप्रीत सिंगाचो. चवथो राय सायब आनी पांचवो आमचो...'

ती उलयत रावली आनी ड्रायव्हर ती सांगता ते दिकेन वचत रावलो. तिगेलें चडशें सगळें सारकें आशिल्लें. हय उजवे वटेनची तांबड्या चिऱ्यांची बिल्डींग म्हळ्यार चलयांचें अल अमीन स्कूल. जीझस अँड मेरी कॉनव्हेंट आतां लोयोला कॉलेज जाल्लें आनी चल्यांचें सरकारी स्कूल डिग्री कॉलेज. पूण इदगाह मैदान मात थंय नाशिल्लें. ताचे जाग्यार एक शॉपिंग कॉम्प्लेक्स जाल्लो. तिणें सांगिल्ले ते पांच सोबीत बंगलेय नाशिल्ले. तांच्या बदला थंय दुकानां, हॉटेलां, व्हिडियो लायब्रऱ्यांचो चोंबो एकाक लागून एक आशिल्लो. रुपा बेजार जालें.

'मॅडम, तो होच रस्तो म्हूण जाणात तुमी?' ड्रायव्हरान नमळायेन

विचारलें.

'सामकें खात्रेन. हांव हांगाच जन्माक आयिल्लें. इकुणीस वर्सां काडल्यांत हांवें हांगा. तेन्ना तुजो जल्म लेगीत जावंक नाशिल्लो. हांव कशें चूकन?'

तिणें ताका गाडी थांबोवपाक लायली आनी तें सोदपाखातीर देंवलें. नव्या बिल्डींगांफाटल्यान घर आसतलेंच हाची ताका खात्री आशिल्ली. शेणिल्लें भुरगें वा मोलादिक रत्न सोदचें तशें जाल्लें ताचें.

'म्हजें घर हळडुव्या कोराचें आनी दोन मजल्यांचें आशिल्लें. ताचें दार उजवे वटेन आशिल्लें. म्हज्या घरांतल्यान म्हाका इदगाह मैदान दिसतालें. पयलीं हांगाच रावपी म्हजी एक इश्टीण दोन वर्सां आदीं हो जागो पळोवपाक आयिल्ली तिणें म्हजें घर हांगाच आसा म्हूण सांगिल्लें.'

म्हजेवटेन वळून ताणें म्हळें, 'तूं जाणा, एकदां हांव नकळटां दारामुखावयल्या व्होल्या शिमिटार चलिल्लें आनी म्हज्या पायांचे ठशे थंय सासणाचे उरिल्ले. हांव लग्न जावन गेल्याउपरांत म्हज्या बापायक म्हजी याद म्हूण ते तशेच दवरपाचे आशिल्ले. हांव म्हजें घर कांय न्ही करून सोदून काडूंक शकतां.' पूण त्या वर्णनाचें, दारांत पायांचे ठशे आशिल्लें एकूय घर त्या वाठारांत नाशिल्लें. हो वेळ मेरेन म्हाका थंय तें घर ना हें कळिल्लें. पूण तें मानून घेवपाक रुपा अनमनतालें.

ज्या जाग्यार घर आसा अशें रुपा म्हणटालें ते बिल्डिंगेमुखार आमी उबीं रावलीं. तें एक हॉटेल आशिल्लें आनी प्रवेशदारार चौकीदार बशिल्लो.

हांवें ताका विचारलें, 'हें हॉटेल केन्नाचें?'

उबो रावून ताणें जाप दिली, 'एकूच वर्स जालां ताका.'

'तूं हांगा केन्नाच्यान काम करता?'

'आदली बिल्डींग म्होडून बांदकाम सुरू जालें तेन्नासावन.'

रुपा आतां ओगी जाल्लें.

'उजवेवटेन दार आशिल्ली आनी वाटेर पायांचे ठशे आशिल्ली हळडुव्या फोराची दोन मजली बिल्डींग आशिल्ली हांगा?'

'हय. बिल्डींग आशिल्ली. पूण ठशांची म्हाका याद जायना.'

आतां म्हाका कळ्ळें, रुपाचें घर म्होडून हें हॉटेल बांदिल्लें. चौकीदाराकडेन पळयत हांवें म्हळें, 'म्हजे इश्टिणीचें घर तें.'

'उपकार करून भितर येयात. घर नासलें म्हूण कितें जालें? हॉटेल तेच भुंयेर उबें आसा. तुमकां येवकार दिवंक म्हज्या पात्रांवाक खोस जातली हाची म्हाका खात्री आसा. सामोसा आनी एक कप च्या घेयात.'

हांवें रुपाकडेन पळयलें. पूण ताणें आमचें उलोवप आयकूंक नाशिल्लें.

हॉटेलामुखावयल्या जार्दिनांतल्यान इल्लीशी माती ताणें हातांत घेतली आनी म्हळें, 'ही म्हजी भूंय. ही म्हजी माती. म्हज्या पूर्वजांनीं हांगा आपलें घर बांदलें. ते हांगाच जन्मले आनी मेले. भूंय, झाडां, हवा, उदक सगळें आमचें आशिल्लें. आमकां रीत, संस्कृताय आनी जेवण खबर आशिल्लें. एक दीस, एका मनशान एक वळ मारली आनी दोन राष्ट्रां निर्माण केलीं. आनी अकस्मात आमचेच भुंयेर आमी विदेशी जालीं. आमकां हें सगळें सोडून दुसऱ्या जाग्यार वचून जी भास, जेवण आनी संस्कृताय आमकां अनवळखी आशिल्ली ती आपणांवची पडली. एकेच वळीन म्हाका म्हजेंच भुंयेर परकी केलें. ज्या लोकांक अशे तरेन भोगचें पडलां तांचें दुःख कोणूच समजून घेवंक शकचो ना.'

हांव वग्गी जालें. ताच्या तळमळ्यांची हांव कल्पना करूंक शकतालें. हांवें ताचो हात हातांत धल्लो आनी अकस्मात म्हाका ताच्या पोरन्या घरांतल्या मनशांक दिवपाचें थारायिल्ल्या त्या फुलां तुऱ्याची याद जाली, जो गाडयेच्या फुडल्या सिटार डिसेंबराच्या वतांत सुकूंक लागिल्लो.



८

# भारत, एक पवित्र भूंय



उत्तर कर्नाटकांत हुबळी लागसारच्या, मुंडुगोडाचे शिमेर तिबेटीयन वस्तींत रावपी माया ही एक सादी तरनाटी बायल. कँपांतल्या भुरग्यांनीं आपलें मूळ विसरचें न्हय म्हूण ती तांकां तिबेटीयन भास शिकयताली. ती हुशार आनी कश्टाळू आशिल्ली.

म्हजो दोतोर बापूय हुबळी काम करतालो आनी केन्ना केन्ना ते वस्तीक भेट दितालो. खंयच्याय तिबेटीयन मनशाक गरज पडली जाल्यार तो हुबळीच्या सरकारी हॉस्पिटलांत बापायम्हऱ्यांत येतालो. मायाक जेन्ना पयलें भुरगें जावपाचें आशिल्लें तेन्ना तेंय म्हज्या बापायकडेन येवंक लागलें.

कांय म्हयन्यांभितर ताची आमचेकडेन बरी इश्टागत जाली. तें हॉस्पिटलांत येतालें तेन्ना आमगेरूय येतालें. म्हजी आवय ताका जेवणाक आपयताली. मागीर आमी कांय वेळ खबरी करतालीं.

सुरवेक आमकां ताचो एक कांच कसो दिसतालो, आनी आमी ताचे धवेफुल्ल कातीक, बारीक दोळ्यांक, इल्ल्याश्या चेपट्या नाकाक आनी दोन लांब, बारीक विणयांक पळयत रावतालीं. ल्हवू ल्हवू आमी ताका आमची इश्टीण म्हूण स्विकारलें आनी तें म्हजी विणकामाची शिक्षिका जालें. ताची भेट

म्हळ्यार विणकाम, गजाली आनी कँपांतले जिणेविशीं आनी ताच्या देशाविशीं, जाचें ताका सामके उत्फरके लागतालें, उलोवप. व्हडा मोगान, आकूळपिकूळ जावन आनी केन्ना केन्ना दोळ्यांत दुकां हाडून माया आपले मायभुंयेचें वर्णन करतालें.

'तिबेटीयन सामके सादे लोक. आमी सगळे बौद्ध पूण आमचो बौद्ध धर्म वेगळ्या प्रकारचो. ताका वज्रयान म्हणटात. आमचो देश आनी धर्मीक रिवाजांचेर, भारताचो, चड करून बंगालाचो बरोच प्रभाव आसा. आमची लिपी लेगीत बंगालीक लागींची.'

ताच्या उतरांनी म्हाका तिबेट हे परके भुंयेविशीं अजाप दिसतालें आनी ताणें ह्या देशाविशीं आनिक चड सांगचें म्हूण हांव ताचे फाटल्यान लागतालें. एक दीस आमी दलाई लामांविशीं उलोवपाक सुरवात केली.

'दलाई लामा ह्या उतरांचो अर्थ कितें?' हांवें विचारलें.

'ताचो अर्थ गिन्यानाचो दर्या. धर्मीक मुखेल्यांनीं 500 वर्सांवयर राज्य केल्लो आमचो हो एकमेव देश. आमी पुर्नजन्माचेर विस्वास दवरतात आनी दर एक दलाई लामा हो आदल्या लामाचो मनीसरुपी अवतार अशें मानतात. सध्याचो दलाई लामा हो चौदावो... खरें म्हणचे भारत हो बुद्धाचो पवित्र देश. इतिहासीक नदरेन, आमी सदांच भारताकडेन आदरान पळयलां. भारतांत बौद्ध धर्म तिबेटांत कसो पावलो हाची एक बरी काणी आसा...'

ती आयकलेबगर म्हज्यान रावूं नज जालें.

'खूब आदीं तिबेटांतल्या एका राजाचें शत्रून अपहरण केल्लें. राजाक सोडोवपाखातीर तांणी ताच्या वजनाइतलें भांगर मागलें. जेन्ना कादयेंत आशिल्ल्या राजाक हें कळ्ळें तेन्ना ताणें कशें तरी आपल्या पुतांक कळयलें, 'हांव परत येवंचो म्हूण भांगर फुकट घालोवं नाकात. ताचेबदला, भारतांतल्यान बरे शिकिल्ले बौद्ध संन्यासी हाडपाखातीर ते पैशे वापरात. आमचे लोक सुखान रावंचे आनी तांकां गिन्यान मेळचें म्हूण तांचे मजतीन, शाळा आनी मठ चालू करात.'

म्हयने जाले आनी मायान भुरग्याक जल्म दिलो. ते उपरांत आमचें मेळप कमी जालें. पूण म्हजे भितर तिबेटाविशीं कुतूहल आनी बौद्ध धर्माविशीं व्हड आदर जागोवपांत ताका यश मेळ्ळें.

हालींच म्हाका तिबेटाक भेट दिवपाची संद मेळ्ळी आनी मनांत मायाच्यो यादी जाग्यो जाल्यो. चिनी लोकांनी भरिल्लें तिबेट म्हाका पळोवंक मेळटलें हें जाणा आशिल्लें पूण तरी लेगीत म्हाका वचपाचेंच आशिल्लें. हेर सगळ्या जाग्यांवांगडाच ताणें वर्णन केल्लें यरलाँग प्रदेशांतलें बुद्ध मंदिर म्हाका पळोवपाचें आशिल्लें.

निमाणें जेन्ना हांव त्या प्रदेशांत पावलें, तेन्ना दनपार जावन गेल्ली. खर सुर्य आसून लेगीत थंड वारें व्हांवतालें. हांगा ब्रह्मपुत्रा आसामांतल्या उग्र हुंवाराभशेन न्हय, जाल्यार एक झरो कशी व्हांवताली. प्रदेशाभोंवतणीं माथ्यार बर्फ आशिल्ल्यो दोंगुल्ल्यो आशिल्ल्यो आनी सगळ्याक शांतताय पातळिल्ली.

यरलाँगचो मठ हें एक प्रसिद्ध तीर्थस्थळ अशें मानतात, पूण पुराय सुवातेर फकत थोडेशेच लोक म्हाका दिसले. भितरल्यान सगळें पळोवन जातकच हांव सोंपणांचेर बसलें आनी त्या जाग्याचें सोबित सौंदर्य पळोवंक लागलें. एक जाणटी बायल एका तरनाट्यावांगडा मठांत भितर सरतना म्हाका दिसली. बायल खूब जाणटी, तिच्या चेऱ्याचेर मिरयो पडिल्ल्यो आनी ती नज जाल्लेवरी हळू चलताली. तिणें पारंपारिक तिबेटीयन कपडे घाल्ले आनी केंसांची विणी. तरनाटो आधुनीक कपडे घालून. घट्ट जीन्स आनी आंगाक दशिल्लें टी शर्ट. बायल आदाराक हातांत बडी घेवन मठाभोंवतणी प्रदक्षणा काडूंक लागली जाल्यार तो तरनाटो म्हजेसारकोच सोंपणांचेर बसलो.

जेन्ना तिच्यो प्रदक्षणा सोंपल्यो, तेन्ना हांवें पळयलें कीं ती जाणटेली म्हाकाच पळयताली. मागीर तिणें तिबेटीयन भाशेंत तरनाट्याक कितेंतरी सांगलें. ती खूब थकिल्लेवरी दिसताली आनी सोंपणाचेर बसली. आपल्या वांगड्याक तिणें परत एक फावट कितेंतरी सांगलें पूण ताणें लक्षूच दिलें ना. म्हूण तिणें आपली बडी हातांत घेतली आनी ल्हवू ल्हवू म्हजेकडेन आयली.

ती म्हजे म्हऱ्यांत बसली, म्हजे हात हातांत घेवन कितेंतरी म्हणत, म्हजे हात आपल्या दोळ्यांमेरेन उबारले आनी मागीर तांचो उमो घेतलो. हांवें कितें म्हणचेपयलीं ती उबी रावली आनी चलपाक लागली. हांवें पळयलें, खूब आदली कितेंतरी इत्सा पुराय जाल्लेवरी ती हांसताली. म्हज्या हातांक जंय तेच्या दोळ्यांचो स्पर्श जाल्लो थंय म्हाका ओलसाण जाणवली.

आतां तो तरनाटो मनांत नासतना म्हजे म्हऱ्यांत आयलो आनी चूक मागली. 'म्हजे आजयेक माफ करात,' ताणें म्हळें. 'तिबेटाच्या भितरल्या गांवांत रावता ती. पयलेच फावट ती यरलाँगाक आयल्या. तिच्या वागण्याखातीर हांव तुमची माफी मागतां.'

तो खासा भारतीय तरेन म्हजेकडेन इंग्लिशींतल्यान उलयतालो.

'तूं आमचेसारकी इंग्लीश कशी उलयता?' अजापान हांवें विचारलें.

'म्हजें नांव के त्संग. हांव पांच वर्सां भारतांत आशिल्लों. चेन्नयच्या लॉयोला कॉलेजींत हांव शिकलां. आतां ल्हासांत हांव एक ल्हानशें हॉटेल चलयतां. हांगाच्या लोकांक भारतीय जेवण आनी सिनेमा आवडटात. म्हजे आजयेक तीर्थयात्रेक सांगात करपाक हांव आयलां. ती तुमचे उपकार मानताली.'

'कित्याक? हांवें तिचेखातीर कांयच करूंक ना!'

'तें खरें. पूण तुमच्या देशान केलां. कितलींशींच वर्सां आमच्या दलाई लामाक ताणें आश्रय दिला. आमचेखातीर, चड करून आदले पिळगेखातीर तो जितोजागतो देव. आमी सगळे दलाई लामांचो आदर करतात, पूण राजकी कारणांक लागून, आमी तो सार्वजनीक जाग्यार उक्तावक शकनात. सबंद ल्हासांत सार्वजनीक जाग्यार तांचो एक लेगीत फोटो ना हें तुमी पळयलां आसतलें. तो चौदावो, पूण आमचेकडेन फकत तेराव्या लामांचीं चित्रां, पुतळे आनी फोटे आसात.'

अजुनूय जाणटेलेचे हावभाव म्हाका समजूंक नाशिल्ले. नातवान समजायलें, 'ती म्हण्टा, हांव एक जाणटी बायल आनीक कितलो तेंप जगतलीं

हें हांव नकळ. मरचेपयलीं हांवें तुजे उपकार मानले नात, जाल्यार म्हाका केन्नाच शांती मेळची ना. हे खातीर म्हाका कोणेंय शिक्षा केली तरीय म्हाका ताचें पडून वचूंक ना. आमच्या दलाई लामांक आश्रय दिल्लेखातीर आभार मानपाक आयज म्हाका एक भारतीय मेळ्ळी ही म्हजेखातीर एक खाशेली भेट कशी. तुमची भूंय खऱ्यानीच दुसऱ्याच्या दुखान कळवळपी.'

खूब वर्सांआदल्या मायाच्या उतरांचोच कांचवेल्लो प्रतिध्वनी तिच्या उतरांतल्यान आयलो. म्हज्या हातावेल्या वोल्या दागांकडेन पळोवन हांव फकत हांसूंक शकलें.



# ९

# बिसलेरीचें बंधन



सव्वीस जानेवारीक गुजरातांतल्या कच्छ हांगा जाल्ली भिरांकूळ घडणूक सगळ्यांक खबर आसा. कांयच शिटकावणी दिनासतना धर्तरी मातेन आपलें तोंड उगडलें आनी लोकांक तशेंच तांच्या वस्तूंक गिळून उडयलें. एके रातीन, गिरेस्त आशिल्ले ते रस्त्यार आयले. पूण कच्छी लोकांची धिटाय तोखणाय करपा सारकी. धीरान ताणीं ह्या संकश्टाक तोंड दिलें आनी आपली जीण जाग्यार हाडपाचो तांचो यत्न आयज लेगीत चालू आसा.

भूंयकांपांत सांपडिल्ल्यांच्या सुटकेखातीर आनी मजत करपाखातीर चलिल्ल्या यत्नांत माध्यमांची भूमिका म्हत्वाची आशिल्ली. हे खातीर तांचें अभिनंदन करूंक जाय. ही शोकांतिका जाली आनी कांय वरां भितर, सगळीं दिसाळीं आनी टीव्ही चॅनलांनी ह्या संकश्टाची माहिती बेगोबेग पूराय संवसारा मेरेन पावयली. भारता वांगडाच, बाकीचें जग ह्या दुर्देवी लोकांक मजत करपांत वांटेकार जालें. टीव्ही आनी माध्यमांच्या लोकां उपरांत, एनजीओ आनी सरकारी अधिकाऱ्यांची फौज कच्छांत पावली. लोकांनी आपली उद्वस्त जाल्ली जीण परत एक पावट जाग्यार हाडपाचो यत्न सुरू केलो. हळू हळू जीण परत जाग्यार येवंक लागली.

प्रचाराचो धुल्ल सकयल बसतकच, सत्य परिस्थिती पळोवपाक हांव

ह्या वाठारांत भेट दिवंक गेलें. भावनांचो आवेग सोंपून वास्तवाक प्राधान्य मेळूंक लागिल्लें.

ह्या भूंयकांपाक लागून कच्छच्या भितरल्या वाठारांतलीं कितलींशींच ल्हान ल्हान गांवां, अहमदाबाद–भूज ह्या मेनरोडा सावन बरींच भितर आशिल्लीं गांवां पूरायेन काबार जाल्लीं. भायल्या लोकांक खबर नाशिल्ल्या ह्या गांवांनी वचपाक हांव तयार जाल्लें. वाटेर म्हज्या जिपीचो टायर पंक्चर जालो. तो सारको जावपाक कांय वेळ वचपाचो. त्या कामाखातीर म्हजो ड्रायव्हर गेलो.

हांव एकटेंच आशिल्लें. मातसो वाज आयिल्लो. लागींच म्हाका कांय तंबू दिसले. तात्पुरती वेवस्था म्हूण उबारिल्ले ते तंबू निळ्या प्लास्टीकान वयल्यान धांपिल्ले. त्या वाठारांत रावपी लोकां खातीर तात्पुरतीं घरां, शाळा आनी भलायकी केंद्रां त्या तंबूंत आशिल्लीं. मागीर, हांवें आयकलें कीं कांय तंबूंनी हॉटेलां लेगीत आशिल्लीं.

जीण व्यस्त आशिल्ली आनी लोक आपापलीं कामां करताले. पावसाचे दीस आशिल्ल्यान, दादले आनी बायलां शेताचीं कामां करतालीं. सामकें विचित्रशें दिसतालें तें. फाटलीं कांय वर्सां कच्छांत चड पावस पडूंक नाशिल्लो, पूण ह्या वर्सा भरपूर पावस पडिल्लो. पीक सामकें बरें आयिल्लें. म्हाका दिसता, निसर्गाचो आपलो स्वताचो एक खाशेलो न्याय आसता. एका हातान तो कितेंतरी काडून घेता, आनी दुसऱ्या हातान दिता. धुल्लांत ल्हान भुरगीं उमेदीन खेळटालीं.

लागींच्याय एका तंबूंत हांवें वांकून पळयलें. सुमार चौदा वर्सां पिरायेचें, एक जुवान चली धान्य वेंचून रांदपाची तयारी करतालें. म्हाका पळोवन तें उठून उबें रावलें आनी हांसत म्हळें, 'येयात.. भितर येवन बसात.'

तीं कशीं रावतात हें म्हाका पळोवपाचें आशिल्ल्यान, हांव भितर सरलें. ताणें म्हाका बसपाक एक चारपाई दिली. तंबूंत भितर नितळसाण आशिल्ली आनी सगळें वेवस्थीत दवरिल्लें. एक पातळ साडी मदीं लावन पार्टीशन केल्लें. ताचेकडे उलयतकच, तें कुटुंब कच्छांतलें न्हय हें म्हाका कळ्ळें.

चलयेन म्हाका ग्लासभर उदक हाडून दिलें. पावसाळो आसलो, तरी खूब गरम जातालें. उदक पियेवंचें काय ना, अशें चिंतून हांव फाटींफुडें जातालें. मनांत कितलेशेच विचार येवन गेले. उदक निवळ नासल्यार अतिसार वा कामीण जावं येता. उदक नाका म्हळें जाल्यार त्या चलयेक वायट दिसूं येता. म्हूण हांवें ग्लास घेतलो खरो, पूण उदक पियेलें ना.

ते चलयेक सुमार बारा वर्सां पिरायेची एक ल्हान भयण आशिल्ली. थंय बांदिल्ल्या झोळयेंत एक ल्हान भुरगो न्हिदिल्लो. भायले वटेन, उकत्यारूच एक तात्पुरती रांदचीकूड आशिल्ली. थंय चुलीर भाजी शिजताली. व्हडलें चली पीठ मळटालें.

'तुमच्या भाशेवयल्यान तुमी गुजराती दिसनात? खंयचीं तुमी?' हांवें विचारलें.

हांसत, धाकटे चलयेन जाप दिली, 'आमी गुजरातांतलीं न्हय. मुंबयचीं आमी.'

'हांगा सोयऱ्यांक मेळपाक आयल्यांत तुमी?'

'ना, हांगा आमचे कोण सोयरे नात. हें आमचें घर. आमी आमच्या आवय बापाय वांगडा हांगा आयल्यांत.'

ही जाप आयकून म्हाका अजाप जालें. हाचें कारण म्हळ्यार अश्यो घडणुको जातकच सादारणपणान लोक थंयसावन पयस वतात. हांगा हे लोक मुद्दाम आयिल्ले. 'तुमचो बापूय हांगा कितें करता?'

दोगीय म्हाका माहिती दिवपाक उचांबळीत जाल्ल्यो. व्हडलेन जाप दिली, 'मुंबय माहीम खाडी आसा थंय चर्चीलागीं, म्हजो बापूय भीक मागतालो. चर्चीच्या दरवंट्यार म्हजी आवय मेणवाती विकताली.'

'हांगा कित्याक आयलीं तर तुमी?'

'एक दीस, टीव्हीवयल्या बातम्यांतल्यान हांगा भूंयकांप जाला

म्हणपाचें समजलें. कोनश्यार आशिल्ल्या दुकानांतल्या टीव्हीचेर वरा वराक बातमी दाखयताले. म्हज्या बापायन म्हळें, आमी या थंय. आनी आमी हांगा आयलीं.'

'तुमच्या रेल्वे तिकेटीचे पयशे कोणें दिले?'

'कोणेंच ना. आमी तिकेटीशिवाय आयलीं हांगा. आमचेसारके आनीक कितलेशेच लोक आयल्यात हांगा. पुराय स्टेशनार गर्दी आशिल्ली. तिकेट तपासपीच नाशिल्लो.'

'स्टेशनावयल्यान हांगा कशीं आयलीं तुमी?'

'आमच्या वळखीचो कोणूच नाशिल्लो. पूण स्टेशनावयल्यान भूज येवपाक कितल्योश्योच बसी आशिल्ल्यो. कितलेशेच विदेशी स्वयंसेवक आशिल्ले. बसी सामक्यो गच्च भरिल्ल्यो. मागीर आमीय एका बसींत चडलीं आनी मेन रस्त्यार देंवलीं.'

'ह्या विशिश्ट भागांत तुमी कशीं आयलीं?'

'मुखेल रस्त्यावयल्यान भितरल्या गांवांनी वचपाक कितल्योश्योच जीपी आशिल्ल्यो. मेन रस्त्यार गरजेच्या वेगवेगळ्या वस्तूंनी भरिल्ले जायते ट्रक आशिल्ले. रस्त्याच्या दोनाय वटांनी ते लोक सामान देंवोवन दवरताले. ज्या लोकांकडेन कांयच ना ते त्या सामानांतल्यान आपणाक जाय तें उखलून घेताले. आमीय कांय वस्तू उखल्ल्यो.'

'रस्त्या देगेक कसल्यो कसल्यो वस्तू आशिल्ल्यो?'

'खावपाच्यो जायत्यो वस्तू आशिल्ल्यो. सफरचंदां, बिस्किटांचे पुडे, कपडे, पांगरुणां, आनीकूय खूब कितें कितें. म्हज्या बापायन आमकां दरेकल्याक जमता तितलें घेवपाक सांगलें. आमी खूबश्यो वस्तू हाडल्यो. मुंबयत जल्मांत केन्नाच असल्यो वस्तू पळोवंक मेळूंक नाशिल्ल्यो. सगळें भरपूर आशिल्लें.'

भुरगीं निशपाप आसतात. तीं सदांच खरें उलयतात. व्हड जातकच

मात तांचे जिणेंत हळूच फटींगपण भितर सरता. जें ना तें दाखोवपा खातीर, व्हडपण मिरोवपा खातीर मनशां फट उलयतात. पूण भुरग्यांकडे खूब आत्मविस्वास आसता. म्हूण जें ना तें आसा असें तीं केन्नाच दाखयनात. म्हणटकच मुंबयच्च्या त्या भिकाऱ्याच्या चलयांनी पुराय घडणूक रंगोवन सांगली.

तें व्हडलें चली तर आनीकूय खूब कितें उलयलें. 'खूब लोक रडटाले. कांय जाणांक खूब वेदना जाताल्यो. कोणाचीं भुरगीं शेणिल्लीं, जाल्यार कोणाचे आवय बापूय. तें पळोवन खूब वायट दिसतालें. पूण जायते लोक मजत करपाकूय आशिल्ले. रातभर दोतोर काम करताले. स्वामीजी साद्या मनशांवरी काम करताले. वखदां वांटटाले. सैन्याचे लोक तंबू उबारपा खातीर खणटाले. रात आनी दीस, गरीब आनी गिरेस्तांमदीं कांयच फरक नाशिल्लो.'

'त्या मानान आमची परिस्थिती खूब बरी आशिल्ली. आमचो कोणूच शेणूंक नाशिल्लो, आनी आमचें सामानूय गेलें ना. आमचेकडे कांय नाशिल्लेंच. ज्या लोकांकडे कितेंय आसता, तांकाच तें शेणपाचो भंय आसता. जांचेकडे कांयच ना, तांकां कसलो भंय? म्हज्या आवय बापायन कितल्याश्याच लोकांक मजत केली. मागीर कोणेंतरी सांगलें, भितर गांवांत मजत करपी कोणूच नात. मुखेल रस्त्यावयल्या गांवामेरेन कितल्योश्योच जीपी यो वच करताल्यो. म्हणटकच आमी एके जिपीर बसलीं आनी ह्या गांवांत आयलीं. ज्या कोणाचीं घरां गेल्यांत तांकां सगळ्यांक खंयचीतरी संस्था कोंडे, तंबूचें सामान फुकट दिताली. आमकांय घर नाशिल्ल्यान आमी तांचेकडल्यान सामान हाडलें. म्हजी आवय एके लायनींत, जाल्यार बापूय दुसरे लायनींत आशिल्ल्यान केन्ना केन्ना आमकां दोबरात सामान मेळ्ळें.'

'कितें कितें आसा तुमचेकडे?'

'खावपाचे जिनस जायते आसात. पोटभर जेवतात आमी. जे लोक लायनींत रावंक शकनासले, तांकांय दितात आमी. उपाशीं रावप म्हळ्यार कितें तें आमकां खबर आसा.'

'तुमी हांगाच येवन कित्याक रावलीं?'

'मुंबयंत म्हज्या बापायक दम्याचो त्रास जातालो. जायते फावट ताका स्वास घेवंक त्रास जातालो आनी आमी उपाशीं पडटालीं. प्रदुशणाक लागून अशें जाता म्हण कोणेंतरी सांगलें. खरें आसतलें तें, कारण हांगा येतसावन तो बरो आसा. हांगा प्रदुशण ना. आतां आमी हांगा घरूय बांदलां म्हण हांगाच रावप अशें थारायलें.'

'तुजो बापूय हांगा कसलें काम करता? आजूनय भीक मागता तो?'

'ना. आतां आमी आमच्या पांयार उबीं आसात. लागींच्याच शेतांत तो मानाय म्हण काम करता. दिसाक शंबर रुपया जोडटा तो. आवय तेंच करता, म्हणटकच दोबरात जोड मेळटा. आमी सुसेगाद आसात. भूंयकांप आमचेखातीर वरदान जावन आयला.'

ताणें आपले भयणीन च्या आनी बिस्कुत्यो हाडूंक सांगलें. ताणें विचारलें, 'तुमकां कसल्यो बिस्कुत्यो जाय?'

'तुमचेकडे वेगवेगळ्या प्रकारच्यो बिस्कुत्यो आसात?'

ताणें पड्डो कुशीक केलो. भितर वेगवेगळ्या तरेच्या बिस्कुत्यांचे पुडे, बिसलेरी उदकाचे खोके, आयदनां, स्टिलाचे ट्रंक आनी हेर कितल्योश्योच वस्तू आशिल्ल्यो. म्हाका अजाप जालें.

'भूंयकांप जालो त्या दिसासावन आमी चडशीं सगळीं बिसलेरीचेंच उदक पियेतात. खंयच्यान तरी विदेशांतल्यान बोटीर ह्यो बाटल्यो हांगा आयल्यात खंय. हांवें तुमकां दिलां तेंय बिसलेरीचेंच उदक.'

हांवें तो ग्लास उखल्लो आनी बेगोबेग उदक पियेलें.



# १०

# दोनूय जगांपरस वायट स्थिती, भारतांत



सोमार हो सप्तकाचो पयलोच आनी आमच्या ऑफिसांतलो चड गडबडीचो दीस. आयिल्ल्यो सगळ्यो इमेल्स आनी कागदपत्रांचो विलो लावप आनी मिटींग्स घेवप. अपाँयटमेंटस बरोवन आमच्यो डायऱ्यो भरतात. अपाँयटमेंटांच्या मदीं मदीं अनपेक्षीत असे लोक मेळूंक येतात. सोमाराची सकाळ म्हळ्यार सेक्रेटरींची करड भायर सरता. पूण फुडलो आयतार येवपाखातीर हो सोमार पयलीं पार पडूंक जाय.

असोच एक सोमार म्हाका याद आसा. हांव म्हज्यो इमेल्स वाचून जापो धाडपांत गुल्ल आशिल्लें. तेन्नाच म्हज्या सेक्रेटरीन येवन सांगलें कीं आदीं थारायनासतना दोन मनीस म्हाका मेळपाक आयिल्ले.

हांवें ताका विचारलें, 'अपाँटमेंट घेवंक ना म्हण्टा, तरीय तूं तांकां म्हाका मेळूंक धाडटा. अशें कितें खास आसा तर?' म्हज्या कर्मचाऱ्यांचेर म्हजो व्हड विस्वास आसा. मेळूंक येवपी लोकांक तपासपाची तांची पद्धतूय म्हाका खबर आसा.

हळू आवाजांत तिणें सांगलें, 'मॅडम, एक मनीस खूब जाणटो आनी अशक्त आसा आनी दुसरो मध्यम पिरायेचो. तांचें काम भोव म्हत्वाचें अशें ते

म्हणटात. बरोच वेळ जालो रावल्यात ते.’

‘धाड तांकां भितर,’ हांवें म्हळें.

ते दोगूय भितर येवन म्हजे मुखार बसले. जाणटो सुमार सत्तर वर्सां पिरायेचो तरी आसतलो. तो सामको अशक्त, थकिल्लो आनी चिंतेस्त दिसतालो. ताचेकडे एक पिंजिल्ली धोपटी आशिल्ली. ताची अवस्था सामकी काकूट करपासारकी आशिल्ली. ताचे वांगडा आशिल्लो तो मध्यम पिरायेचो मनीसूय चिंतेस्त दिसतालो.

हांवें रोकडोच विशयाक हात घालो.

‘सांगात, कितें काम आसा?’

जाणटेलो कांयच उलय नासतना त्या दुसऱ्या मनशाकडे पळयत रावलो.

त्या मध्यम पिरायेच्या मनशान म्हळें, ‘मॅडम, हो जाणटेलो एका बसस्टॉपार बसून आशिल्लो, तो म्हाका दिसलो. ताका कोणूच ना. ताका आदाराची गरज आसा. दुर्दैवान ताचेकडे पयशेय नात.’

तो मनीस आनीकूय कितेंतरी उलोवंक सोदतालो. जायते फावट म्हाका असले लोक मेळटात जे मुद्द्याचें उलय नासतना हांगाचें थंयचें उलयत रावतात. तांकां कितें जाय तें सरळपणान सांगीनात. अशा गजालींची आतां म्हाका संवय जाल्या. म्हण तांकां वायट दिसलें तरी हांव तांकां मदींच थांबयतां.

‘हांवें कितें करचें अशें तुमचें म्हणणें?’ हांवें सरळूच विचारलें.

‘तुमच्या कामाविशीं हांवें जायतें वाचलां. ह्या जाणटेल्याक तुमी मजत करची अशें म्हाका दिसता.’

‘तुमचो कोण आसा?’ हांवें जाणटेल्याक विचारलें.

ताच्या दोळ्यांत दुकां आयलीं. हळू आवाजांत ताणें म्हळें, ‘ना,

हाका कोणूच ना.'

'तुमच्या कुटुंबाचें कितें?'

'ना, म्हाका कोण ना.'

'हाचे आदीं तुमी खंय काम करताले?'

हांवें आनीक कितलेशेच प्रस्न विचारले आनी ताणें समादान जायसारक्यो जापो दिल्यो.

त्या जाणटेल्याखातीर म्हाका वायट दिसलें. ताचेकडे पयशेय नाशिल्ले आनी मजत करपीय कोण नाशिल्लो. सामकी दुर्दैवी काणी आशिल्ली ती. एका वृद्धाश्रमाची म्हाका माहिती आशिल्ली. तांचेकडे आमचे जायते फावट संबंध आसताले. हांवें तांका फोन केलो आनी ताची दुसरी कितेंय वेवस्था जायमेरेन, कांय दिसांखातीर एका जाणट्या मनशाक धाडटां म्हण सांगलें. त्या मध्यम पेरायेच्या मनशान म्हळें, 'तुमी चिंता करूं नाकात. हांव ताका थंय व्हरून सोडटां आनी थंयसावन ऑफिसांत वता.'

त्या उपरांत ते दोगूय गेले. थोड्याच वेळान हांव म्हज्या सदच्या कामांत बुडून गेलें. मेळपाक येवपी मनशां, बिलां आनी पावत्यो, अंदाजपत्रकां आनी असेंच जायतें सगळें.

हांव त्या जाणट्याक विसरूंक नाशिल्लें. मदीं मदीं त्या वृद्धाश्रमांत फोन करून हांव ताची खबर घेतालें. ताचें थंय बरें चलिल्लें. ताचेविशीं चड कितें चिंतपाक म्हाका वेळ नासतालो. दर म्हयन्याक त्या वृद्धाश्रमाक हांव पयशे मात धाडटालेंच.

एक दीस, त्या वृद्धाश्रमांतल्यान म्हाका फोन आयलो. तो जाणटेलो चड बरो नाशिल्लो आनी ताका तांणीं हॉस्पिटलांत घाल्लो. हांव सांजचें येवंक शकतलें काय तो विचारतालो.

सांजवेळार हांव त्या जाणटेल्याक पळोवंक हॉस्पिटलांत गेलें.

तो खरोच खूब बरो नाशिल्लो. ताची भलायकी इतली गंभीर आशिल्ली कीं दोतोरांच्या मतान तो चड दीस काडचो नाशिल्लो. ह्या वेळार ताका कोणाक तरी मेळचें अशें दिसत घडये, हांवें चिंतलें. ताचीं स्वताचीं भुरगीं नासत, पूण पुतण्यो, भाचो, वा भाव भयण, कोणूच ना जाल्यार एकाद्रो इश्ट तरी? कळोवपाखातीर कोण तरी आशिल्लो काय?

हांवें ताका विचारलें, 'तुमकां कोणाक मेऴपाचें आसा? तुमकां जाय त्या मनशाक आमी आपयतात. तुमचेकडे कोणाचो फोन नंबर बी आसा?'

कडकडत ताणें एक नंबर बरोवन दिलो. आमी त्या नंबरार फोन केलो आनी जाणटेल्याची भलायकी चड गंभीर आसा म्हण सांगलें. कांय वेळा उपरांत, एक मनीस ताका मेळपाक आयलो. तो चिंतेस्त दिसतालो. येना फुडें तडक तो जाणटेल्याक पळोवंक भितर गेलो.

ह्या मनशाक हांवें आदीं खंयतरी पळयला असें म्हाका दिसतालें. हांवें तकलेक खूब ताण दिलो पूण याद जायना जाली. जाणटेल्याक मेळूंक आयिल्लो मनीस म्हाका कित्याक वळखीचो दिसता हें म्हज्या लक्षांत येनाशिल्लें. घडये प्रवासांत म्हाका मेळिल्ल्या कोणासारको तरी तो दिसता आसूंये.

मजगतीं, दोतोरान येवन म्हाका जाणटेलो गेलो म्हण सांगलें. म्हाका वायट दिसलें. हांव ताका वळखनाशिल्लें. ताचेकडेन म्हजो कसलोच संबंद नाशिल्लो. पूण तरीय म्हाका खूब वायट दिसलें.

कांय वेळा उपरांत, जाणटेल्याक मेळूंक गेल्लो तो मनीस भायर आयलो. ताच्या दोळ्यांत दुकां आशिल्लीं. मोन्यांनी तो एका बांकार बसलो. तो जागो खूब शांत आनी मनाचेर चेपण हाडपी आशिल्लो. आश्रमाचो संचालक, तो मनीस आनी हांव थंय बसून आशिल्लीं. सगळे उपचार पुराय जावपाक वेळ आशिल्लो.

त्या मनशान विचारलें, 'ताचेकडे आशिल्ली ती बॅग खंय आसा?'

'खंयची बॅग?'

‘तो हांगा आयलो तेन्ना ताचेकडे एक बॅग आशिल्ली,’ ताणें सांगलें.

म्हाका अजाप जालें. त्या मनशाकडे बॅग आशिल्ली हें ह्या मनशाक कशें समजलें?

हांवें प्युनाक आश्रमांत धाडून ती बॅग हाडून घेतली. जेन्ना ती हाडली, तेन्ना ती उगडूंक तो सामको फुडें सरलो. हांवें ताका तशें करपाक दिलें ना.

‘पयलीं तुमची स्वताची वळख दियात. ते आदीं तुमकां ती बॅग उगडूंक मेळची ना. ह्या जाणटेल्याचें आनी तुमचें नातें कितें? ह्या बॅगाविशीं तुमकां कशें कळ्ळें हें म्हाका जाणून घेवपाचें आसा.’

हांवें अशे प्रस्न विचारतकच तो अस्वस्थ जालो. एके बायलेन ताका अशे प्रस्न विचारले हें घडये ताका आवडूंक नासत. भारतांत, एकाद्र्या बायलेन जर दादल्याक अडचणींत पडपासारके प्रस्न विचारले तर ताका तें आवडना. दादल्यांनी कितेंय केलें तरी तेंविशीं तांकां जाब विचारीनात त्यो बायलो तांकां आवडटात. नशीबान, हें चित्र आतां हळू हळू बदलूंक लागलां.

‘हांवूच ताका वृद्धाश्रमांत सोडून गेल्लों,’ ताणें सांगलें.

‘तूं कोण?’ म्हाका उत्सुकताय आशिल्ली.

‘हांव ताचो पूत.’

तें आयकून म्हाका कितलो धक्को बसला आसत हाची कल्पना कोणाच्यानूय करूं येता. आतां म्हाका याद जाली. एका सोमाराक सकाळीं हो दादलो त्या जाणटेल्याक घेवन म्हज्या ऑफिसांत आयिल्लो आनी तो आपणाक बसस्टॉपार मेळ्ळो अशी फट मारिल्ली.

म्हाका खूब राग आयलो. ‘म्हजेकडे फट कित्याक उलयले तुमी?’

ताचेकडे सांगपाखातीर काणी तयार आशिल्लीच. ‘घराकडे खूब अडचणी आसात म्हाका,’ ताणें म्हळें. ‘म्हजे बायलेक म्हजो बापूय केन्नाच

आवडलो ना. तिणें म्हाका सरळूच सांगलें, हांव तरी नाजाल्यार बापूय तरी, कोण जाय तें तूं थाराय. तेन्नाच आमी तुमच्या फावंडेशनाविशीं वाचलें. कांयच पयशे खर्च करिनासतना आमचो प्रस्न सुटावो जातलो अशें आमकां दिसलें.' उपरांत ताणें अशेंय सांगलें, कीं तो रावता तें घर बायलेच्या नांवार आशिल्लें. म्हणटकच ताचेकडेन आनीक कांयच पर्याय नाशिल्लो.

हें आयकून म्हाका राग आयलो. 'तुमचो प्रस्न सोडोवपाची ही बरी पद्धत!' हांवें म्हळें. 'जे अनाथ आसात तांकां आमी मजत करतात. भुरगीं आशिल्ल्या अनाथांक न्हय.'

मागीर जेन्ना ती बॅग उकती केली तेन्ना तातूंत पोरन्या कपड्यांचे तीन जोड, कांय वखदां आनी बँकेचो पासबुक आशिल्लो. हांवें तो पासबुक उकतो केलो आनी म्हाका सामकें अजाप जालें. जाणटेल्याच्या खात्यांत एका लाखापरस चड पयशे आशिल्ले. त्या खात्याखातीर वारस म्हूण जाणटेल्यान आपल्या पुताचें नांव बरयल्लें. ज्या पुतान ताका वृद्धाश्रमांत हाडून उडयलो त्याच पुताचें. आपल्या बापायक वृद्धाश्रमांत दवरून घेवंचें म्हूण ह्याच पुतान ताका अनाथ थारायल्लो. आनी आतां बापायच्या पयशांचेर हक्क सांगपाक तोच पूत आयिल्लो.

त्या जाणटेल्याचें तरी कितें? आपल्या पुतान आपणाक सांबाळ्ळें ना, आपणाक कोण ना अशी फट मारपाक लायली तरीय आपले फाटल्यान आपलो पयसो पुताक मेळचो अशी ताची इत्सा आशिल्ली. जिणेच्या निमाण्या दिसांनी ज्या वृद्धाश्रमान ताका आदार दिलो त्या आश्रमाक ते पयशे देणगी म्हण दिवंचे असें ताच्या मनांत लेगीत आयलें ना.

पाश्चात्त्य देशांनी जेन्ना जाणटे लोक आश्रमांत वा हॉस्पिटलांत मरतात, तेन्ना आपले पयशे त्या आश्रमाक वा हॉस्पिटलाक दान करचे अशें मृत्यूपत्रांत आदींच बरोवन दवरिल्लें आसता. हेर जाणट्यांक तातूंतल्यान मजत मेळची ह्या भावनेंतल्यान ते अशें करतात. ते आपलो पयसो आपल्या भुरग्यांच्या नांवार सोडून वचनात. आनी भुरगींय तशी अपेक्षा दवरीनात. पूण भारतांत, दोनूय जगांतलें जें वायट तें तितलेंच आमी घेतलां. भुरगीं जाणट्या

ावय बापायकडे दुर्लक्ष करतात आनी आवय बापूय जनरीतीप्रमाण आपलो यसो भुरग्यांच्या नांवार करतात.

'कांय हजार रुपयां खातीर तुमी आनी तुमच्या बापायन जें नाटक केलें ाची लज दिसपाक जाय तुमकां!' हांवें ताका सांगलें. 'आनी तुमी ही वायट ख घालून दितात. हाचेफुडें जेन्ना कोणूय खरोच निराधार मनीस मजत ागतलो तेन्ना ती दिवंची काय ना हाचो आमकां विचार करचो पडटलो. तुमचे ारक्या लोकांची याद आमी केन्नाच विसरचीं नात.'

ताणें लजेन तकली सकयल घाली.



# ११

# आजयेक वाचूंक शिकयलें



तेन्ना हांव बारा वर्सांचें सान चली. म्हज्या आजी आनी आज्यावांगड
उत्तर कर्नाटकांतल्या एका ल्हान खेड्यांत रावतालें. त्यावेळा
आयच्च्यासारकीं संपर्काचीं साधनां नाशिल्लीं. हाका लागून सकाळचो पेप
लेगीत आमकां दनपारां मेळटालो. नेमाळीं एक दीस उसरां येतालीं. आम
सगळीं पेपर, पत्रां आनी नेमाळीं घेवन येवपी बशीची मोटे उमळशिकेन वा
पळयतालीं.

त्या वेळार कन्नडांत त्रिवेणी नावाची एक लेखिका खूब नामनेव
पाविल्ली. इतल्यो बऱ्यो लेखिका चुकूनूच पळोवपाक मेळटात. तिची लेखनाची
शैली सोपी आनी सुटसटीत. ती बरयताली तें सामान्य लोकांकूय मानवत.
आवडत अशें आसतालें. ती मनशा मनशांच्या मुळाव्या मानसिक प्रस्नांचे
बरयताली, ताका लागून तिचें बरोवप आमकां आपलें कशें दिसतालें. कन्नड
साहित्याचें दुर्दैव म्हळ्यार ती लेखिका खूब बेगीन हो संवसार सोडून गेली.
आयज.. इतलीं वर्सां जाल्याउपरांत लेगीत लोकांक तिच्यो कादंबऱ्यो
आवडटात.

त्यावेळार 'कर्मवीर' ह्या नावाच्या कन्नड नेमाळ्यांत तिची एक
कादंबरी काशीयात्रे (काशीयात्रा) खिस्तींनी येताली. एक जाणटी बायल आनी

काशी वा वाराणसीक वचपाची तिची खर अशी इत्सा हाचेर ही काणी आसा. काशीक वचप आनी भगवान विश्वेश्वराची पूजा करप ही जायत्या हिंदूंच्या मतान सामकी पुण्य जोडपाची गजाल. ते जाणट्या बायलेचोय ह्या गजालीचेर सामको खर विश्वास आशिल्लो. काशीक वचपाखातीर तिची जी धडपड चल्लीली, ताचें वर्णन ह्या कादंबरींत केल्लें. त्याच काणयेंत एक अनाथ चली आशिल्लें. तें मोगांत पडटा, पूण लग्न जावपाखातीर ताचेकडे पैशे नासतात. निमाणेकडेन ती जाणटी बायल आपणे काशीक वचपाखातीर एकठांय केल्ले सगळे पैशे त्या चलयेच्या सुवाधीन करता आनी आपूण काशीक वचना.. अशें तातूंत दाखयल्लें. ती म्हणटा, त्या अनाथ चलयेची खोस काशीविश्वेश्वराच्या पूजेपरस चड म्हत्वाची आसा.

म्हजी आजी कृष्णक्का केन्ना शाळेंत गेली ना, तिका बरोवंक वाचूंक येनाशिल्लें. दर बुधवारा तें नेमाळें आयलें, काय हांव तिका ती काणी वाचून दाखयतालें. त्यावेळार ती सगळें काम बी विसरताली. सामकी सगळे कुडीचेच कान करून ती ह्या काणयेंतलें उतरान उतर आयकताली. आयकून जाल्याउपरांत ते काणयेंतलें उतरान उतर तिका पाठ जातालें. म्हजी आजी लेगीत केन्नाच काशीक वचूंक नाशिल्ली. आनी ह्याचखातीर घडये तिका त्या कादंबरींतल्या जाणटेल्या आजयेकडे खूब आपलेपणशें दिसतालें. हाकाच लागून काणयेंत फुडें कितें घडटलें हाची उमळशीक हेर कोणायपरस तिकाच चड आसताली. म्हणूनूच म्हाका, तिका ती काणी वाचून दाखोवचीच पडटाली. एकाद्री कादंबरी जर खूब सुंदर बरयल्ली आसत तर वाचप्यांक ती कशेतरेन पिशें लावंक शकता हें म्हाका आतां कळटा. पूण भुरगेपणांत मात हांव आजयेक ती काणी वाचून दाखोवन रोकडेंच खेळूंक भायर धांवतालें. देवळाचे पडवेंत आजी आनी तिच्यो इश्टिणी सदांच मेळटाल्यो. आमी थंयच लिपचेल्यांनी खेळटालीं. त्यो सगळ्यो जमल्यो काय ह्या कादंबरीचेर तांचेमदीं सदांच भासाभास जाताली.

एकदां हांव आनी आमच्या घरचीं कांय ल्हान भुरगीं.. आमी सगळीं शेजारच्या एका गांवांत लग्नाक गेल्लीं. त्या काळावयलीं लग्नां म्हळ्यार एक व्हडलो आत्त आसतालो. आमची भुरग्यांची तर मजाच जाताली. सगळीं

आतेमामे भावंडां जमतालीं. आमी दिसभर कितेंतरी खायत आसतालीं. जाणट्यांचो भंय नासतालो. सगळी मेकळीक, कारण जाणटीं मनशां सगळीं कामांत गुल्ल आसतालीं. हांव वता आसतना एक दोन दिसांखातीर म्हणून गेलें, पूण मागीर बरें एक सप्तकभर थंय रावलें.

हांव घरा परत आयलें, आनी कितें पळयता, आजयेच्या दोळ्यांत दुकां! म्हाका सामकें अजाप जालें. कितलींय संकश्टां आयलीं तरी आजयेक रडटना हावें केन्नाच पळोवंक नाशिल्लें. अशें जालें तरी कितें? म्हाका हुसको जालो. 'अव्वा, सगळें सारकें आसा न्ही? तूं बरी आसा मगे?'

हांव तिका अव्वा म्हणून उलो मारतालें. उत्तर कर्नाटकांत अव्वा म्हळ्यार आवय.

तिणें फकत मान हालयली, पूण कांयच उलयली ना. म्हाका कांयच कळ्ळें ना. पूण मागीर हांव तें सगळें विसरून लेगीत गेलें. तेन्ना आमी रातचीं जेवल्या उपरांत घराच्या तेर्रासार न्हिदतालीं. गरमेचे दीस आशिल्ले. पुनव आशिल्ली. अव्वा म्हजे म्हऱ्यांत येवन बसली. आपलो हात मोगान म्हज्या कपलार सांसपूक लागली. तिका म्हजेकडे कितेंतरी उलोवपाचें आशिल्लें. म्हाका तें कळ्ळें. हांवें विचारलें, 'कितें जालें गे?'

'आगो, हांव जेन्ना सामकें ल्हान आशिल्लें न्ही, तेन्ना म्हजी आवय गेली. म्हाका सांबाळपी, कितें बरें कितें वायट तें सांगपी कोणूच नाशिल्लो. म्हज्या बापायचो व्याप खूब व्हड आशिल्लो. तो परत लग्न जालो. त्याकाळार चलयांक शिकोवंक जाय अशें व्हडलेशें कोणाक दिसनासलें. ताका लागून हांव केन्ना शाळेंत गेलेंच ना. भुरगेपणांतूच म्हजें लग्न जालें, रोखडींच भुरगीं जालीं. हांव संवसारांत घुसपलें. फुडें नातरां जालीं. तुमकां सगळ्यांक बरें बरें खावंक करून घालपांतूच म्हाका इतली खोस जाताली, हांव शाळेंत गेलें ना... हाची केन्ना केन्ना खंत जाताली. म्हणूनच म्हज्या भुरग्यांनी आनी मागीर नातरांनी खूब शिकूंक जाय, असो म्हजो आग्रो आशिल्लो...'

म्हजी बांसश्ट वर्सांची आजी आतां मध्यानरातीच्या वेळार हें सगळें म्हाका कित्याक सांगता, हें म्हाका समजना जालें. म्हाका ती खूब खूब

आवडटाली. म्हजो तिचेर खूब जीव, खूब मोग. ती आतां, ह्या वेळार हें जें कितें म्हाका सांगता, ताचेफाटल्यान तशेंच कितेंतरी कारण आसतलें... अशें म्हाका तेन्ना लेगीत दिसलें. हांवें तिच्या तोंडाक पळयलें. तिचें तोंड सामकें देंविल्लें. दोळे उदकान भरिल्ले. ती दिसपाक सोबित आशिल्ली, सदांच हांसतें मुखामळ तिचें... पूण ह्या वेळार मात तिच्या तोंडार हुसको पातळिल्लो, तो म्हाका आयजूय याद जाता. हांवें मातसो फुडें ओणोव घालून तिचो हात हातांत घेतलो.

'अव्वा, रडूं नाका न्ही, कितें जालें? हांव कितें करूं तुजेखातीर?'

'हय, म्हाका तुजीच मजत लागतली. तूं जाणा?... तूं गेलें आनी सदचेभशेन तें कर्मवीर नेमाळें आयलें. हांवें तें उगडलें. काशीयात्रे काणयेचें पान उगडलें, चित्रां पळयलीं.... पूण कितें बरयलां, तें म्हाका कांयच कळना जालें. हांवें कितले फावट त्या पानावयल्यान हात भोवंडायलो. कितें बरयलां आसत काय हातूंत? म्हज्या बोटांक स्पर्शांतल्यान तें कळ्ळ्यार कितलें बरें जातलें... अशें म्हाका दिसलें. पूण तें शक्य नासलें. हांव जर शाळेंत गेल्लें जाल्यार...? म्हणून मागीर हांव व्हडा उमळशिकेन तुजी वाट पळयत रावलें. म्हाका दिसलें, तूं जर बेगीन आयलें आनी म्हाका वाचून दाखयलें, तर कितलें बरें जातलें. एकदां दिसलें, अशेंच सरळ उठचें आनी थंय त्या गावांत येवन तुका सांगचें म्हाका वाचून दाखय म्हणून. खरें म्हळ्यार म्हज्यान आमच्याच गांवच्या कोणाकूय सांगू येतालें वाचून दाखय म्हणून. पूण तसो कोणूच मेळ्ळो ना म्हाका. तेन्ना म्हाका खूब पराधीनपण जाणवलें आनी असहाय कशें दिसलें. म्हजेकडे इतले पैशे आसात, पूण जर हांव स्वतंत्र ना, तर त्या सगळ्याचो कितें उपेग?'

हाचेर कितें उलोवचें तें म्हाका समजना जालें. अव्वा उलयतूच आशिल्ली.

'हांवें थारायलां.... फाल्यांच्यान कन्नड बाराखडी शिकपाची. हांव आतां खूब कश्ट घेतलें. हीच आतां हांवें म्हजी मोख थारायल्या. दसऱ्याच्या सरस्वती पुजनाच्या दिसाची मुदत हांव म्हाकाच घालून घेतलें. ह्या काळांत

हांव बरोवंक वाचूंक शिकतलें. त्या दिसा बसून हांव एकटेंच सगळी कादंबरी वाचतलें. म्हाका स्वतंत्र जावपाचें आसा.'

तिच्या तोंडार घटमूट असो हावेस दिसतालो. म्हाका मात तिचीं हीं उतरां आयकून हांसूंक आयलें.

'अव्वा, आतां ह्या पिरायेर बांसश्टाव्या वर्सा तूं मुळाक्षरां शिकतली? तुजे सगळे केंस धवे जाल्यात. तुज्या हातांक मिरयो पडल्यात. तुका वक्ल लागलां. तुका रांदचेकुडींत कितलें काम आसता.'

हांवें म्हजे भुरगे मतीन म्हजे जाणटे आजयेची फकाणां केलीं. पूण ती मंद हांसली.

'योग्य कारणाखातीर जर आमी खर निश्चेव दाखयलो जाल्यार खंयच्याय संकश्टाचेर आमी जैत मेळोवंक शकतात. हांव सगळ्यांपरस चड कश्ट घेवन हें करून दाखयतलेंच. शिकपाक पिरायेची अट नासता.'

दुसरे दिसाच्यान हांवें शिकोवणी सुरू केली. ती खूब हुशार विद्यार्थिनी आशिल्ली. गृहपाठ करपाचो तिचो नेट अजापीत करपासारको आशिल्लो. ती वाचताली, पाठ करताली, तोंडपाठ जावचें म्हणून मोठ्यान वाचताली, बरयताली आनी परत पाठ करताली. हांव तिची एकमेव शिक्षिका आनी ती म्हजी अपुरबायेची पयलीच विद्यार्थिनी. हांव एक दीस कॉंप्यूटर सायन्स शिकोवपी अध्यापिका जातलें आनी शेंकड्यांनी भुरग्यांक शिकयतलें हें तेन्ना म्हाका तरी खंय खबर आसलें?

सदचेवरी दसरो आयलो. हो वेळ मेरेन काशीयात्रे कादंबरी पुस्तकरुपान आयिल्ली. हावें ती नुलयत विकती हाडली. म्हजे आज्जेन दसऱ्या दिसा सकाळी म्हाका देवाकुडींत आपयलें. थंय तिणें म्हाका एका चौरंगाचेर बसयलें. तिणें म्हजेखातीर व्हिस्तीदाक कपडो हाडिल्लो. त्यावेळार तिणे एक विलक्षण अशी गजाल केली. बाग घेवन ती म्हाका पायां पडली. म्हाका सामकें अजाप जालें. मनांतल्यान खूब खांकुडिल्ले भशेन जालें. आमी सदांच देवाक, घरांतल्या जाणट्यांक आनी गुरूजनांक पायां पडटात, तांचेविशीं

आमच्या मनांत आशिल्लो आदर व्यक्त करपाक. ही आमची एक व्हड अशी परंपरा. पूण आयज मात कितेंतरी विचित्र घडिल्लें. म्हाका तें बरोबर दिसलें ना.

पूण आजी म्हणपाक लागली, 'हें पांयां पडप म्हजे नातीक न्हय, तर म्हज्या गुरूक. म्हज्या ह्या गुरून म्हाका इतलें मोगान बरोवंक आनी वाचूंक शिकयलां, इतल्या आत्मविश्वासान आनी इतल्या कमी वेळाभितर. आतां हांव स्वतंत्र जालां. आपल्या गुरूचो मान दवरप हें म्हजें कर्तव्य. लिंगभेद वा पिरायेचो विचार करिनासतना गुरूक आदर दाखोवंक जाय अशें आमच्या पुर्वजांनीच सांगून दवरलां न्ही?'

मागीर हांवूंय तिका पायां पडलें आनी म्हज्या ह्या पयल्याच हुशार विद्यार्थिनीक बक्षीस दिलें. तिणें तें रोखडेंच उगडलें आनी पुस्तकाचें नांव व्हडल्यान वाचलें. काशीयात्रे. उपरांत तिणें त्रिवेणी हें लेखिकेचें नांव आनी पुस्तकाच्या प्रकाशकाचेंय नांव व्हडल्यान वाचलें.

म्हजी विद्यार्थिनी पयल्या नंबरान पास जाली हें म्हाका कळ्ळें.



# १२

# रहमानाची अव्वा



रहमान एक गोड उतरांनी उलोवपी आनी एका बीपीओंत काम करपी तरनाटो. आमच्या फावंडेशनाचोय तो एक क्रियाशीळ स्वयंसेवक. कारणाबगर तो केन्नाच उलयनासलो वा आपल्या येसाची बडाय मारिनासलो.

रहमान परिपूर्णताय सादपाची मोख दवरपी आशिल्लो. हाकाच लागून ताका दिल्लें कसलेंय काम तो भोव बरे तरेन करतालो. फावंडेशनाचें काम तो सप्तकाच्या निमण्या दिसा करतालो आनी अनाथालयांतल्या भुरग्यांकडेन खूब मायेन वागतालो. आपले स्वताचे पयशे खर्च करून त्या भुरग्यांखातीर तो मिठाय हाडटालो. म्हाका तो खऱ्यानीच खूब आवडटालो.

आमी सदांच एकठांय काम केल्ल्यान, हांव उत्तर कर्नाटकांतल्या धारवाड जिल्ह्यांतलें, हें ताका कळिल्लें. म्हजे भाशेक त्या वाठाराचो खाशेलो हेळो आसा आनी धारवाडच्या जेवणावयलो म्हजो मोग सगळे जाणात. एक दीस, रहमानान येवन म्हाका विचारलें, 'मॅडम, ह्या आयतारा तुमकां वेळ आसल्यार, तुमी म्हज्या घरा येशात? म्हजी आवय आनी भयण येवपाची आसा. म्हजीय आवय धारवाड जिल्ह्यांतली. म्हज्या घरच्यांनी तुमी कन्नड भाशेंतल्यान बरयल्ले कॉलम आनी पुस्तकां वाचल्यांत. हांव तुमचे वांगडा काम करतां हें जेन्ना तांकां सांगलें हांवें, तेन्ना तांणी तुमकां मेळपाची प्रामाणीक इत्सा

परगटायली. आमगेर जेवंक येवपाक तुमकां शक्य जातलें?'

'म्हाका बरें धारवाडी जेवण मेळटलें हाची तूं खात्री दिता?' हांवें फकाणां केलीं.

'हांव खात्री दितां मॅडम. म्हजी आवय एक बऱ्यांतली बरी रांदपी.'

'पुरो आं रहमान. आपली आवय कितलीय वायट रांदपी आसली तरी जण एकलो भुरगो तिची तुस्त करता. जेवण बरें लागता हाका कारण आवयचो मोग.'

'ना. ती खरेंच अपरूप रांदपी. म्हजी बायल लेगीत म्हणटा अशें.'

'तशें जाल्यार ती खरीच बरी रांदता आसूंक जाय. कित्याक तर खंयर्चीच सून आपले मांयकडेन पात्रताय आसलेबगर तिच्या रांदपाची तोखणाय करची ना,' हांव हांसलें. 'म्हाका एक सांग, धारवाडच्या खंयच्या गांवांत रावता ती?'

ताणें राणेबेन्नूर लागच्या एका गांवाचें नांव सांगलें जें हांवें केन्नाच आयकूंक नाशिल्लें. तांगेर जेवणाक वचपाक हांवें खोशयेन हयकार दिलो.

त्या आयतारा, वतना हांवें कांय फुलां घेतलीं. रहमानाचो नवोच बांदिल्लो फ्लॅट बाणेरगट्टा रस्त्यार प्राणिसंग्रहालया लागसार आशिल्लो. तांगेर पावलें तेन्ना, म्हाका ताची बायल सलमा मेळ्ळी. तें एक स्मार्ट आनी देखणें चली. लागींचेच बालवाडींत तें शिकयतालें.

मागीर, ताणें आपले अव्वाक उलो मारलो. उत्तर कर्नाटकांत आवयक अव्वा म्हणटात. एक पिकिल्ल्या केंसांची जाणटी बायल रांदचे कुडींतल्यान आयली. रहमानान तिची वळख करून दिली, 'ही म्हजी आवय.' म्हाका मातशें अजाप जालें – हांवें कल्पना केल्ली तशी ती नाशिल्ली. तिणें एक व्हड चार आण्यांयेदो कुकूम लायिल्लो, एक इरकल साडी न्हेशिल्ली आनी दोनूय हातांत पांचवीं कांकणां घाल्लीं. साडयेचो पालव तिच्या माथ्यार आशिल्लो. तिच्या तोंडार समाधानाचो हांसो आशिल्लो आनी हात जोडून तिणें म्हळें,

'नमस्ते.'

दुसरे कुडींतल्यान रहमानाची भयण आयली. रहमानापरस ती कितलीशीच वेगळी दिसताली. रहमान गोरो आनी खूब देखणो. ताची भयण लांब आनी काळी. ती एक सुती साडी न्हेशिल्ली आनी आवयपरस ल्हान कुकूम लावन हातांत दोन भांगराचीं कांकणां घाल्लीं. रहमानान म्हळें, 'ही म्हजी भयण उषा. ती हिरेकेरूर रावता. ती आनी तिचो घोव दोगांय शाळेंत शिकयतात.'

रहमानाची आवय आनी भयण दोगांकूय मेळून हांव गोंदळिल्लें पूण हांवें कांयच विचारलें ना.

हांव सुसेगाद बसले उपरांत, उषान म्हळें, 'मॅडम, म्हाका तुमच्यो काणयो आवडटात कित्याक, तर त्यो आमचेकडेन जोडिल्ल्यो आसात अशें दिसता. तुमच्यो भुरग्यांचो कांय काणयो हांव शाळेंत शिकयतां.'

सलमानूय उलोवपांत वांटो घेतलो. 'म्हाकाय आवडटात त्यो. पूण म्हजे विद्यार्थी त्यो समजून घेवपाक खूब ल्हान आसात.'

रहमान हांसलो आनी म्हळें, 'म्हजे आवयक आनी भयणीक पळोवन तुमकां अजाप जालां आसतलें. म्हाका म्हजी काणी तुमकां सांगपाची आसा.'

ताची आवय परत रांदचे कुडींत गेली आनी उषा मेज निवळ करपाक लागलें. सलमा मांयक मजत करपाक गेलें. आमीच दोगां उरलीं थंय.

'मॅडम, म्हजी आवय आनी भयण हिंदू आनी हांव मुस्लीम हें पळोवन तुमकां अजाप जालां आसतलें. फकत तुमीच म्हजी जिणेकाणी समजून घेवन तोखणाय करूंक शकतात कारण सगळ्या धर्मांच्या आनी जातींच्या लोकांक कसलोच पूर्वग्रह दवरिनासतना तुमी मजत करतात हें हांवें पळयलां. तुमी म्हाका सांगिल्लें ताची याद आसा म्हाका: जन्माक येतना आमी जात वा धर्म वेंचून काडूंक शकनात – म्हूण आमची जात ही आमची वळख अशें आमी केन्नाच चिंतूंक जायना.'

रहमान मातसो रावलो, मागीर फुडें उलोवंक लागलो, 'मॅडम, हांवूय

हे गजालीचेर विस्वास दवरतां कित्याक तर हांव लेगीत हेच रितीन ल्हानाचो व्हड जालां. म्हजी जीण आनी तातूंतलीं वेगवेगळीं तासां म्हाका तुमकां सांगपाचीं आसात.'

रहमानान आपली काणी सुरू केली.

'तीस वर्सांपयलीं, काशीबाय आनी दत्तुराम आपली स म्हयन्यांची चली उषा हाका घेवन आमच्या गांवाभायर रावतालीं. मुंबयत रावपी तांचो भाटकार, श्रीकांत देसायालें धा एकरांचें शेत तीं सांबाळटालीं. श्रीकांत वर्सांतल्यान एकदांच पयशे व्हरपाक येतालो. शेत खूब व्हड आशिल्ल्यान काशीबाय आनी दत्तुरामाक तें सांबाळप कठीण जातालें. म्हूण तांणीं शेत सांबाळपाक आनीक एक कुटुंब थंय दवरपाची भाटकाराक विनंती केली. तांकांय वांगड जातलो अशें तांकां दिसलें.'

'श्रीकांतान आपल्या वळखीच्या लोकांक सांगलें आनी एक योग्य अशें कुटुंब ताका मेळ्ळें. रोकडींच, फातिमाबी आनी हुसेनसाब त्या गांवात आयलीं. घराचे एके वटेन तीं आनी दुसरे वटेन काशीबाय आनी दत्तुराम रावपाक लागलीं. हुसेनसाब आनी दत्तुराम हांचें बरें जमतालें. पूण, काशीबाय आनी फातिमाबी मात एकामेकांचेर नदर घालिनासलीं. तीं दोगांय वायट सभावाचीं आशिल्लीं अशें न्हय, पूण तांचे सभाव सामके वेगळे आशिल्ले. काशीबाय व्हडान उलोवपी, मेकळ्या मनाची आनी कश्ट करपी. फातिमाबी शांत, आळशी आनी भिडेस्त. एक दीस झगडें जालेंच. कोंबयेक लागून तें सुरू जालें. काशीबायली कोंबी फातिमा बीच्या घरांत भितर वचून तांतीं घालताली. फातिमाबी तें दिनासली कित्याक तर तिका दिसतालें तिचे कोंबयेन तें तांतीं घालां. फातिमाबीची आनी आपली कोंबी कळपाखातीर काशीबायन आपले कोंबयेक रंग लेगीत लायलो. दोगीय बायलो एकेच बांयचें उदक वापरताल्यो आनी दोगांचोय कपडे उमळपाचो आनी आयदनां घांसपाचो वेळ एकूच आशिल्ल्यान सदांच झगडटाल्यो. तांच्या बोकड्यांखातीर लेगीत तांचीं झगडीं जातालीं. फातिमाबीच्यो बोकड्यो येवन देवापुजेक जाय आशिल्लीं काशीबायचीं फुलां खाताल्यो. केन्ना केन्ना, काशीबायल्यो बोकड्यो फातिमा बीगेर वचून थंय हागताल्यो. फातिमाबी त्यो लेंडयो केन्नाच दिनासली.'

'लेंडयो दिल्यो ना जाल्यार तातूंत व्हडलें कितें?' हांवें मदींच विचारलें.

'मॅडम, बोकड्यांच्यो लेंडयो सारें म्हूण वापरतात.'

'आं, कळ्ळें. फुडें सांग प्लीज.' हांवें आग्रो केलो.

'झगडीं चालूच उरलीं आनी भाटकाराक शेजार जाय म्हूण सांगून व्हडली चूक केली अशें काशीबायक दिसपाक लागलें. फातिमाबी नाशिल्ली तेन्ना आपूण खूब सुखी आशिल्लीं अशें तिका दिसलें. फातिमाबीक लेगीत तें शेत सोडून दुसऱ्या खंयच्या तरी गांवांत वचून रावचें अशें दिसतालें पूण हुसेनसाब तयार नाशिल्लो. तो म्हणटालो, 'तुमी बायलो गरजेभायर झगडटात. पयसो करपाची आमकां ही एक बरी संद. जमीन सामकी सुपीक आनी जायतें उदक आसा हांगा. आमचो भाटकारूय बरो मनीस आनी चुकून केन्नाय हांगा येवपी. आमच्यांनी सोंपेपणान भाजयो लावं येतात. अशे तरेचें काम हांगा लागीं आनीक खंय मेळटलें म्हाका? तुवें लेगीत काशीबायभशेन उद्देगी जावंक जाय आनी तुजो अहंकार कुशीक दवरूंक जाय. तिचेकडेन जुळोवन घे.' अशेच तरेचें उलोवप घराचे दुसरे वटेनूय जातालें. दत्तुराम आपले बायलेक सांगतालो, 'इतली झगडाळ जावं नाका. फातिमा भशेन जा मातशी. आळशी खरी पूण सभावाची बरी ती.' पूण सदचेवरीच दोनूय बायलांनी घोवांचें केन्नाच आयकलें ना.'

'अशेच दीस गेले, आनी काशीबायलें उषा दोन वर्सांचें जालें. फातिमाबीक भुरगीं खूब आवडटालीं आनी उषा शेतांत खेळटा तें पळोवपाक मजा येताली. फातिमाबीक मेथी खूब आवडटाली. दर म्हयन्याक, शेतांतल्यान मेथी हाडून ती मेथयेन आपले हात रंगयताली आनी हें करतना उषा सदांच तिचे बराबर आसतालें. त्या सोबीत केसरी रंगाची उषाक भूल पडटाली. तें घरा येवन आवयक विचारतालें, 'फातिमा काकीभशेन तूं तुजे हात कित्याक रंगयना?' हें आयकून काशीबायक राग येतालो. ती म्हणटाली, 'फातिमाचो घोव काम करता! आनी रांदचे कुडींत लेगीत तिका मजत करता म्हूण परवडटा

ई तिका. ती खाटीर बसून रेडियो आयकता. हांवें अशें केलें, जाल्यार तुजो बापूय येवन रांदचे कुडींत काम करतलो?' फातिमाबी हें आयकताली पूण तरी लेगीत उषावांगडा तिची इश्टागत चालूच उरली.

'जेन्ना फातिमा गुरवार जाली, तेन्ना ती आनिकूय आळशी जाली. नागीर णव म्हयने सोंपत आयले आनी एक पयसुल्ली सोयरी तिका बाळंटरावेळार मजत करपाक आयली. कांय दिसांउपरांत, गांवांत एक उत्सव आशिल्लो आनी दत्तुराम आपल्या घरच्यांसयत थंय गेलो. जेन्ना सगळीं परत आयलीं, तेन्ना फातिमाबी थंय नाशिल्ली. तिची भलायकी इबाडिल्ल्यान ती हॉस्पिटलांत आशिल्ली आनी तिगेर चलो जाल्लो. घर सामकें शांत आशिल्लें. पूण ती शांतताय काशीबायच्यान सोंसूं नज जाली. ती रडपाक लागली. फातिमाबी हॉस्पिटलांत सामकी सिरियस आसा म्हूण तिका वायट दिशिल्लें. दुसरे दिसा, तांकां कळ्ळें कीं फातिमाबी भायर पडली.

'हुसेनसाब आनी निकतोच जन्माक आयिल्लो चलोच उल्ले. बाळंटेराक आयिल्ली सोयरी म्हयनोभर रावली आनी गेली. इतल्या ल्हान भुरग्याक सांबाळप हें हुसेनसाबाखातीर भोवच कठीण काम आशिल्लें. भुरग्याक पळयत अशे कोणूच सोयरे हुसेनसाब आनी फातिमाबी दोगांकूय नाशिल्ले. चडशे सगळे कामगार आशिल्ल्यान जल्मल्लें भुरगें सोयऱ्यांचेर वजेंच जावपाचें. दत्तुरामाक काकूळट येताली आनी तो हुसेनसाबाक शेतांत कमी काम केल्यार कांय म्हणनासलो पूण तरी लेगीत एकल्यान भुरग्याक सांबाळप भोवच कठीण.

'एके रातीं, भुरगो रडपाचो थांबना जालो आनी काशीबायच्यान कशेंच रावूं नज जालें. जालें तें खूब जालें अशें तिका दिसलें. कितेंय आसूं, तो एक ल्हान भुरगो. भुरग्याक सांबाळपाचो प्रसंग येता त्या वेळार दादल्यापरस बायल खूब वेगळीच आसता. तिचे भितरले आवयन तिका घोवाक लेगीत रावनासतना, हुसेनसाबागेर वचून ताच्या दारार मारपाक लायलें. हुसेनसाबान दार उगडलें, तेन्ना तिणें ताका सांगलें, 'हुसेनसाब, भुरग्याक म्हजेकडेन दी. हांव एक आवय. ताका कशें सांबाळप तें हांव जाणा.' तिणें भुरग्याक उबारलो, आपल्या पालवांत गुटलायलो आनी घट काळजाकडेन धरून आपल्या घरा हाडलो. चलो रोकडोच रडपाचो थांबलो. भुरगो जल्मल्याउपरांत पयलेच

फावट हुसेनसाब रातचो सुसेगाद न्हिदलो.

'दुसरे दिसा, काशीबायन हुसेनसाबाक सांगलें, 'तुजें परत लग्न जायमेरेन हांव ह्या भुरग्याक सांबाळटां. तूं हुसको करूं नाका.' ती फातिमाबी कडेन आशिल्ली आपली दुस्मानकाय विसरली आनी तिका लजूय दिसली. फातिमा बीकडेन आपणें बरे तरेन वागपाक जाय आशिल्लें अशें तिका दिसलें. आतां, बोकड्यो खंय वचून हागतात, वा कोंबी खंय तांतयां घालता हाचें तिका पडून वचूंक नाशिल्लें. भुरग्याक सांबाळप हेंच तिचेखातीर चड म्हत्वाचें आशिल्लें.

'भुरग्याचें नांव रहमान दवरलें आनी हुसेनसाब परतो लग्न जालोच ना, हाचें सगळ्यांक अजाप जालें. रहमान काशीबायगेर व्हड जालो, तिका अव्वा म्हणूंक लागलो आनी उषा ताचें अक्का जालें. रहमान आपल्या बापायल्या घरा न्हिदतालो पूण सकाळ जाली काय तयार जावपाक धांवत काशीबायगेर येतालो. उषा आपलें आपूण न्हातालें, जाल्यार रहमानाक काशीबाय न्हाणयताली. तांकां नाश्तो दिताली, तांचे डबे भरताली आनी तांकां शाळेंत पावयताली. उषा जरी रहमानापरस दोन वर्सांनी व्हड आसलें तरी काशीबायन दोगांकूय एकाच वर्गांत घाल्लीं. दनपारची काशीबाय शेतांत कामाक वताली आनी सांजे भुरग्यांक शाळेंतल्यान घरा घेवन येताली. हुसेनसाब रहमानाखातीर रातचें जेवण रांदतालो आनी रहमान रातचो बापायम्हऱ्यांत वचून न्हिदतालो. अशें धा वर्सां चल्लें.'

'जेन्ना रहमान धा वर्सांचो आनी उषा बारा वर्सांचें आशिल्लें, तेन्ना हुसेनसाब बरो ना जालो. ताचे सगळे पयशे ताच्या दुयेसांत सोंपले. मजगतीं, काशीबायन दोन म्हशी विकत्यो घेवन दुदाचो धंदो सुरू केलो. आपल्या घोवापरस चड पयशे ती जोडूंक लागली.'

'त्याच वर्सा, क्षयरोगान हुसेनसाबाक मरण आयलें. रहमान एकटोच उरलो. हुसेनसाबाच्या मरणाक कोणूच नाशिल्लो. एक पयसुल्लो काका येवन रहमानाक आपूण पळयतां अशें मुल्लाक सांगलें. पूण जेन्ना रहमानाक घेवन वचपाचो वेळ आयलो तेन्ना काका आयलोच ना. मातूय विचार करिनासतना,

त्तुराम आनी काशीबायन रहमानाक आपल्या घरांत घेतलो. काशीबायगेर ावपाक मेळ्ळें म्हूण रहमानाक खोस जाली.

'रहमानाच्या धर्माकडेन काशीबाय सामकी शादूर राविल्ली. दर ुक्रारा, ती ताका नमाजाक धाडटाली आनी सुटये दिसांनी थळाव्या मशिदींत ़राण शिकपाक धाडटाली. गांवांत सामके कमी मुसलमान लोक आशिल्ले तरी ेगीत तिणें ताका दर एका मुस्लीम उत्सवांत वांटेकार जावपाक सांगलें. घरांत ानयल्ल्या हिंदु उत्सवांनी लेगीत रहमान वांटो घेतालो. दत्तुराम आनी ाशीबायन दोनूय भुरग्यांखातीर दोन सायकली हाडल्यो. रहमान आनी उषा ायकलीन हायस्कुलांत आनी मागीर एकेच कॉलेजींत गेलीं.

जेन्ना तीं दोगांय पदवीधर जालीं, तेन्ना काशीबायन रहमानाक सांगलें, दुर्दैवान, तुज्या आवयबापायचो फोटो आमचेकडेन ना. म्हूण, तूं मक्केवटेन ोंड कर आनी अल्लाची प्रार्थना कर. फातिमाबी आनी हुसेनसाबाची प्रार्थना ़र. तीं तुकां आशिर्वाद दितलीं. आतां तूं व्हड आनी स्वतंत्र जाला. फुडल्या ्हयन्यांत उषाचें लग्न जाता. उषा आनी तूं दोगांयचे जापसालदारकेंतल्यान हांव ेकळें जाता.'

'काशीबायचो मोग आनी भक्ती पळोवन आपले आवयचें मुखामळ लेगीत याद नाशिल्लो रहमान हाल्लो. ताणें अल्लाची आनी आपल्या आवयबापायची प्रार्थना केली आनी मागीर काशीबायक पांयां पडलो. ताणें म्हळें, 'अव्वा, तूं म्हजी अम्मी. तूं म्हजी मक्का.'

'बंगलोरच्या एका बीपीओंत रहमानाक नोकरी मेळ्ळी आनी ताणें घर सोडलें. कांय वर्सां ताणें वेगवेगळ्या कार्यालयांनी काम केलें, आपल्या वेवसायांत येस मेळोवन बरो पयसो जोडूंक लागलो. एका इश्टाच्या लग्नांत सलमा मेळ्ळें ताका आनी तो ताच्या मोगांत पडलो. काशीबाय आनी दत्तुरामाची संमती मेळोवन, ताणें सलमाकडेन लग्न केलें.'

काणी सांगून सोंपयली तेन्ना रहमान सामको भावनावश जाल्लो आनी ताचे दोळे दुकांनी भरिल्ले.

म्हाका काशीबायचें अजाप दिसलें. ती अशिक्षीत जावन लेगीत मनीसपणाचीं मुल्यां जाणून घेवपांत खूब फुडें पाविल्ली. तिच्या काळजाचे व्हडपण पळोवन म्हाका आदर दिसलो आनी अजापूय जालें. काशीबायन ताका ताच्या धर्मासयत सांबाळ्ळो आनी तरी लेगीत आपल्या भुरग्यावरीच ताचेर मोग केलो.

हो वेळ मेरेन, जेवण तयार जाल्लें आनी उषान म्हाका जेवपाक आपयलें. रुचीक जेवण जेवता आसतना हांवें उषाक विचारलें, 'हांगा येवपाचें तुवें कित्याक थारायलें?'

'शालेक सुटी आसा आनी पंचमीक येवंक मेळचें म्हूण हांवें इल्ली चड सुटी घेतली.'

पंचमी हो चड [illegible] चलयांनी, खाशेलपणान आपल्या भावागेर आयिल्ल्या, लग्न जाल्ल्या चलयांनी, सनोवपाचो उत्सव. उत्तरेंतल्या रक्षाबंधना भशेनूच तो, भावाचो भयणीवयलो मोग उक्तावपी एक उत्सव. हुमायून बादशहान आपलें रक्षण करचें म्हूण राणी करुणावतीन ताका राखी धाडिल्ली हाची म्हाका याद जाली.

आतां, हावें जेवणाच्या सालांतल्या वण्टीकडेन पळयलें आनी पयलेच फावट म्हाका रहमानाच्या घरांतले एकमेकाकुशीक आशिल्ले, एक मक्केचो आनी दुसरो [illegible] फोटो दिसले.



# १३

# कॅटल क्लास



पोरूं वर्साची खबर. हांव लंडनाच्या हिथ्रो आंतरराष्ट्रीय विमानतळार विमानांत चडपाखातीर उबें आशिल्लें. विदेशांत आसतना लेगीत सहसा हांव साडीच न्हेसतां. पूण प्रवासांत म्हाका सलवार कमीझ घालप बरें दिसता. म्हणटकच हांव, एक ज्येश्ठ नागरीक विशिश्ट भारतीय पोशाखांत टर्मिनल गेटीर आशिल्लें.

बोर्डींग सुरू जावंक नाशिल्लें. म्हणटकच हांव बसून म्हजे सरभोंवतणीं पळोवंक लागलें. विमान बंगलोर वचपाचें आशिल्ल्यान म्हजे भोंवतणचे लोक कन्नड भाशेंत उलयतात तें कानार पडटालें. म्हजेच पिरायेचीं कितलींशींच जोडपीं म्हाका दिसलीं. चड करून तीं अमेरिका वा ब्रिटनांतल्यान आपल्या भुरग्यांक बाळंतराक वा नवें घर लावपाक मजत करून परत येतालीं. कांय ब्रिटीश वेवसायिक भारताच्या प्रगतीविशीं एकमेकांकडेन भासाभास करताले तें आयकूंक येतालें. कांय तरनाटे आपल्या हातांतल्या उपकरणां सांगाता व्यस्त आशिल्ले, जाल्यार कांय भुरगीं रडटालीं आनी हांगा थंय धांवतालीं.

कांय मिनटां उपरांत, बोर्डींगाची घोशणा जाली आनी हांव रांगेंत उबें रावलें. म्हजे मुखार आशिल्ली बायल बरी रसमी इंडो वेस्टर्न कपडे, हातांत

गूच्ची कंपनीची हँडबॅग आनी उंच खोटांचीं जोतीं घालून आशिल्ली. तिचे केंस लेगीत सामके वेवस्थीत आशिल्ले. तिचे कुशीक आशिल्ली तिची इश्टिण एक उंची रसमी साडी न्हेशिल्ली. तिच्या गळ्यांत मोतयांचो हार, मॅचींग कानांतलीं आनी हातांत नाजूक वज्रांची कांकणां आशिल्लीं.

हांवें लागींच आशिल्ल्या वेंडींग मशीनाकडे पळयलें. रांग सोडून इल्लें उदक हाडचें अशें हांव चिंततालें.

अकस्मात, म्हजे मुखार आशिल्ली बायल फाटल्यान वळ्ळी आनी दोळ्यांत सामकी काकूट घेवन म्हजेकडेन पळोवंक लागली. आपलो हात लांबोवन, तिणें विचारलें, 'तुजो बोर्डींग पास हांव पळोवंक शकतां, प्लीज?'

हांव म्हजो पास तिच्या हातांत दिवंक वतालें पूण ती एयर लायन्साच्या कर्मचाऱ्याभशेन दिसनाशिल्ल्यान, हांवें विचारलें, 'कित्याक?'

'ही रांग फकत बिझनेस क्लासाच्या प्रवाशांखातीर आसा,' तिणें आत्मविस्वासान म्हळें आनी आपलें बोट इकॉनॉमी क्लासाच्या रांगेवटेन दाखयलें. 'तुवें वचून थंय उबें रावंक जाय,' तिणें म्हळें.

म्हजेकडेन बिझनेस क्लासाची तिकेट आसा हें हांव तिका सांगूंक वतालें. पूण मनांत वेगळोच विचार येवन ओगी रावलें. हांव बिझनेस क्लासाच्या लायकीचें ना अशें तिका कित्याक दिसलें हें म्हाका जाणून घेवपाचें आशिल्लें. म्हणटकच, हांवें परत प्रस्न केलो, 'हांवें थंय वचून कित्याक रावंक जाय?'

तिणें हुस्कार सोडलो. 'समजावन सांगतां तुकां. इकॉनॉमी आनी बिझनेस क्लासाच्या तिकेटीच्या किंमतीत व्हडलो फरक आसा. बिझनेस क्लास सुमार अडेच पटीन चड आसा...'

'म्हाका दिसता तिपेटीन,' मदींच तिची इश्टिण उलयली.

'सारकें,' तिणें म्हळें. 'म्हणटकच बिझनेस क्लास तिकेटी वांगडा कांय खाशेल्या सुविधा मेळटात.'

'खऱ्यानीच?' हांवें म्हाका खबर नाशिल्लेवरी दाखोवन मस्करी करपाचें थारायलें.

'कसले तरेच्या खाशेल्या सुविधां विशीं उलयतात तुमी?'

ती बेजारिल्लेवरी जाली. 'आमकां दोन बॅगां व्हरूंक मेळटात जाल्यार तुमकां एकूच. आमकां कमी गर्देच्या रांगेंतल्यान विमानांत चडूंक मेळटा. आमकां बरें जेवण आनी सीट दितात. आमी सीट लांब करून ताचेर न्हिदूंक शकतात. आमचे खातीर स्वतंत्र टेलिव्हिजन स्क्रीन आसता आनी प्रवासी कमी आसले तरी चार प्रसाधनगृहां आसतात.'

तिच्या इश्टिणीन म्हळें, 'आमच्या बॅगांखातीर चेकइनाक अग्रक्रम मेळटा. हाचोच अर्थ प्रवास सोंपतकच आमकां त्यो पयलीं मेळटल्यो. आनी आमकां फ्रीक्वेंट फ्लायर कार्डाचेर चड फ्लायर मायल्स मेळटात.'

'आतां तुका फरक कळ्ळाच न्हय, म्हणटकच तूं इकॉनॉमी रांगेंत वचूं शकता,' तिणें आग्रो केलो.

'पूण म्हाका थंय वचपाचें ना,' हांव ठाम आशिल्लें.

ती आपले इश्टिणीकडे वळ्ळी, 'ह्या कॅटल क्लास लोकांकडेन वाद घालप कठीण आसता. कर्मचाऱ्यान येवन तिणें खंय रावप तें सांगूदी. ती आमचें आयकुची ना.'

म्हाका राग आयलो ना. 'कॅटल क्लास' ह्या उतरान म्हाका भूतकाळांत पावयलें. ताका लागून म्हाका आनीक एका प्रसंगाची याद जाली.

एक दीस, हांव म्हज्याच बंगलोर शारांत एका संपन्न अशा डिनर पार्टेक गेल्लें. कितलेशेच थळावे प्रतिश्ठीत आनी उच्चवर्गीय लोक थंय आयिल्ले. हांव कांय लोकांकडेन कन्नडांत उलयतालें. तेन्नाच एक मनीस म्हजेकडेन आयलो आनी सवकास, स्पश्ट इंग्लीशींत ताणें म्हाका म्हळें, 'हांव म्हजी वळख करून दिवं? हांव...'

घडये म्हाका भास समजुपाक अडचण आसा अशें तो समजल्लो.

हांव हांसलें, 'तुमी म्हजेकडेन इंग्लीशींत उलोवंक शकतात.'

'ओह,' मातसो गोंदळून, ताणें म्हळें, 'म्हाका माफ करात. तुमी कन्नड भाशेंत लयतात तें आयकलें आनी म्हाका दिसलें इंग्लीशीची तुमकां संवकळ ना.'

'आपली थळावी भास जाणा जावपांत लज दिसपासारकें कांयच ना. खरेपणी, तो म्हजो अधिकार आनी हक्क. जेन्ना कोणाक कन्नड समजना तेन्नाच हांव इंग्लीशींत उलयतां.'

एयरपोर्टा वयली म्हजे मुखावयली रांग फुडें सरपाक लागली आनी हांव म्हज्या चिंतनांतल्यान भायर आयलें. फुडें आशिल्ल्यो दोगी बायलो एकमेकांमदीं फुतफुतताल्यो, 'आतां तिका दुसरे रांगेंत धाडटले. केदी व्हडली जाल्या पळय आतां ती रांग. आमी सांगपाचो कितलो यत्न केलो, पूण ती आयकूंक तयार ना.'

म्हजो बोर्डींग पास दाखोवपाची पाळी आयली तेन्ना, तीं मातशीं फुडें वचून कितें जाता तें पळोवपाक उबीं राविल्लीं म्हाका दिसलीं. कर्मचाऱ्यान म्हजो बोर्डींग पास घेतलो आनी म्हळें, 'वेलकम बॅक! आमी फाटल्या सप्तकांत मेळिल्लीं, सारकें न्हय?'

'हय,' हांवें जाप दिली.

ती हांसली आनी फुडल्या प्रवाशाकडे वळ्ळी.

हो विशय हांगाच सोडून दिवप अशें चिंतून हांव त्या दोगांफुडें चलत रावलें. पूण मागीर म्हजो विचार बदल्लो आनी हांव फाटीं परतलें. 'म्हाका एक सांगात, म्हाका बिझनेस क्लास तिकेट परवडना अशें तुमकां कित्याक दिसलें? आनी समजा म्हजेकडे तें नाशिल्लें, तरी हांवें खंय उबें रावचें हें सांगपाचो अधिकार तुमकां आसा? हांवें तुमची मजत मागिल्ली?'

दोगांय मोन्यांनी म्हजेकडे पळयत रावलीं.

'तुमी 'कॅटल क्लास' हें उतर वापरलें. क्लासाचो अर्थ व्हडा प्रमाणांत पयसो आसप असो न्हय,' म्हज्या मनांतलें तांकां सांगलेबगर रावूं नज जावन, हांव फुडें उलयत रावलें. 'ह्या संवसारांत पयसो जोडपाचे कितलेशेच चुकीचे मार्ग आसात. ऐशआराम आनी विलास विकते घेवपाइतलीं तुमी गिरेस्त आसत घडये, पूण तो पयसो क्लासाची व्याख्या करूंक शकना. तुमकां तो विकतो घेवपाची तांकूय दिना. मदर तेरेसा एक पयल्या दर्जाची बायल आशिल्ली. तसोच भारतीय वंशाचो व्हड गणीतज्ञ मंजूळ भार्गव लेगीत. पयसो मेळयतकच आपशींच क्लास मेळटा हो विचार आतां पोरनो जालो.'

जापेक रावनासतना हांव गेलें.

सुमार आठ वरां उपरांत, हांव म्हज्या मुक्कामार पावलें. तो मदलोच दीस आशिल्ल्यान जाता तितले बेगीन हांव ऑफिसांत वचपाक गेलें. थंय पावतकच कळ्ळें कीं आयज सबंद दीस म्हाका वेगवेगळ्यो मिटींग्स आसात. कांय वरां उपरांत, म्हाका खूब पुरो जालें आनी जेट लॅगाचो त्रास जावंक लागलो. म्हूण त्या दिसाची निमाणी मिटींग तूंच घे अशें हांवें म्हज्या कार्यक्रम अधिकाऱ्याक सांगलें.

'सॉरी मॅडम, पूण ह्या चर्चेक तुमी आसप खूब गरजेचें आसा,' तिणें जाप दिली. 'आमची ही मिटींग संस्थेच्या सीइओ कडे आसा आनी त्यो तुमकां मेळूंक सोदतात. फाटले कांय म्हयने त्यो म्हज्या संपर्कांत आसात. हांवें आमचो निर्णय तांकां कळीत केला, तरी तुमचे कडेन चर्चा केल्यार तुमी तो बदलूंक शकतात अशें तांकां दिसता. त्यो कोणायकडेन उलयल्यो तरी निर्णय बदलचो ना हें लेगीत हांवें तांकां सांगलां, पूण त्यो म्हजें उतर मानून घेवंक तयार नात. तुमी तांकां मेळून हो विशय बंद करचो अशें हांव मागतां.'

असले प्रसंग म्हाका नवे नाशिल्ले, म्हणटकच हांवें तें मानलें.

वेळ वचत रावलो. त्या दिसाचे निमाणे मिटींगेक वचपाचो वेळ आयलो आनी तेन्नाच म्हाका एक इमरजन्सी कॉल आयलो.

'मिटींग चालू कर,' हांवें म्हज्या कार्यक्रम अधिकाऱ्याक सांगलें, 'हांव मागीर येतां.'

पंदरा मिनटां उपरांत जेन्ना हांव कॉन्फरन्स हॉलांत भितर सरलें, तेन्ना म्हाका एयर पोर्टावयल्यो त्योच बायलो प्रेझेंटेशन करतना दिसल्यो. अजापाची गजाल म्हळ्यार, दोगांनीय सामके सादे कपडे घाल्ले. एकली सादी खादीची साडी न्हेशिल्ली जाल्यार दुसरेन एक सादो सलवार कमीज घाल्लो. आयज लेगीत खंय कसले कपडे घालचे हाची एक थारावीक पद्धतशी जाल्या. देखीक लग्नाक वतना बऱ्यांतले बरे रसमी कपडे घालचे ही अपेक्षा, समाज सेवकांनी सादारण आनी नीरस दिसूंक जाय. जेन्ना तांणीं म्हाका पळयलें तेन्ना एक विचित्र अशी शांतताय पातळ्ळी. पूण कांय खीणा उपरांत तातूंतले एकलेन म्हज्या उपस्थितीची नोंद घेतली आनी कांयच घडूंक नाशिल्लेवरी प्रेझेंटेशन फुडें चालू दवरलें.

'ह्या गांवांत म्हजी कॉफी इस्टेट आसा. इस्टेटींतल्या सगळ्या कामगारांचीं भुरगीं लागींच्याच सरकारी शाळेंत वतात. कांय खूब शिटूक आनी हुशार आसात पूण शाळेंत कांयच सुविधा नात. इमारतीचेर पांखें लेगीत ना. पिवपाक निवळ उदक ना. बांक, प्रसाधनगृहां वा वाचनालय ना. तुमी पळयशात शाळेंतलीं भुरगीं...'

'पूण शिक्षक नात,' हांवें वाक्य पुराय केलें.

तिणें तकली हालयली आनी हांसली. 'आमी फावंडेशनाकडे मागतां कीं ताणीं उदार जावंचें आनी शाळेक सभाघरा सयत योग्य सुविधा दिवंच्यो. म्हणटकच बाबड्या भुरग्यांक गरजेची अशी व्हडली शाळा मेळटली.'

म्हज्या कार्यक्रम अधिकाऱ्यान कितेंतरी उलोवंक तोंड उगडलें. हांवें तिका ओगी रावपाची कुरू केली.

'कितलीं भुरगीं आसात शाळेंत?' हांवें विचारलें.

'सुमार दोनशीं पन्नास.'

'तातूंतलीं इस्टेट कामगारांचीं कितलीं?'

'सगळींच. म्हजो बापूय आमदार आशिल्लो तेन्ना ताणें हे शाळेक मान्यताय मेळोवन दिल्ली,' तिणें अभिमानान सांगलें.

'जांकां गॉडफादर गॉडमदर ना अशांकूच आमचें फावंडेशन मजत करता. रस्त्यावयलो घर नाशिल्लो मनीस वा दिसावड्याच्या कामगारांचो विचार करात. तांचेमदल्या चडशा जाणांक गरजे वेळार पावपी कोणूच नासता. अशा लोकांच्या भुरग्यांक आमी मजत करतात. इस्टेट कामगार तुमचो वेवसाय वाडोवपाक मजत करतात. म्हणटकच, तुमी तांकां मजत करूंक शकतात. खरें म्हळ्यार, तें तुमचें कर्तव्य. तांकां मजत केल्यार फुडाराक तुमकांच फायदो आसा. फावंडेशनाचें अंतर्गत धोरण वंचितांच्या प्रकल्पां खातीर काम करपाचें आसा. थंय सगळे फायदे सरळ आनी पुरायेन फकत गरजेवंतांक मेळटात. घडये हो विचार कॅटल क्लासाच्या बुद्धीपेल्यान आसा.'

कितें प्रतिक्रिया दिवची हें कळनाशिल्ल्यान दोगीय एकमेकां कडेन पळयत रावल्यो.

हांवें म्हज्या कार्यक्रम अधिकाऱ्याकडे पळयलें आनी म्हळें, 'म्हाका तुका एक काणी सांगपाची आसा.'

तिच्या तोंडावयल्यान तिका हें सगळें चमत्कारीक दिसता हें म्हाका समजलें. गंभीर चर्चेमदीं काणी?

हांवें सुरवात केली, 'जॉर्ज बर्नाड शॉ हो ताच्या काळावयलो व्हड विचारवंत. एक दीस, ताच्या सन्मानाखातीर एका ब्रिटीश क्लबांत रातचें जेवण आयोजीत केल्लें. क्लबाचो कायदो आशिल्लो कीं दादल्यांनी सूट आनी टाय घालूंक जाय. घडये ती त्या काळावयली दर्जाची व्याख्या आसूंये.

बर्नाड शॉ, आपल्या सदच्याच कपड्यांनी क्लबांत भितर सरलो. दारावयल्या मनशान ताचेकडेन पळयलें आनी नमळायेन सांगलें, 'सॉरी सर, हांव तुमकां भितर सोडूंक शकना.'

‘कित्याक?’

‘तुमी क्लबाचो ड्रेस कोड पाळूंक ना.’

‘बरें आसा, पूण आयचें जेवण हें म्हज्या सन्माना खातीर दवरलां. म्हणटकच म्हजीं उतरां म्हत्वाचीं, हांव कितें घालतां तें न्हय,’ बर्नाडान सामकी योग्य अशी जाप दिली.

‘सर, तें कितेंय आसूं. ह्या कपड्यांनी हांव तुमकां भितर सोडूंक शकना.’

शॉन ताका पटोवन दिवपाचो खूब यत्न केलो, पूण तो मातूय हाल्लो ना. म्हणटकच शॉ परत घरा गेलो आनी योग्य ते कपडे घालून परत आयलो.

कांय वेळान, हॉल पुराय भरलो. लोक ताचें भाशण आयकूंक राविल्ले. तो प्रेक्षकांकडे उलोवंक उबो रावलो. पूण पयलीं ताणें आपलो कोट आनी टाय काडून कदेलार दवरलो. ‘आयज हांव उलोवंचो ना,’ ताणें जाहीर केलें.

प्रेक्षकांमदीं अजापान कुरकूर सुरू जाली. जे ताका बरे वळखताले ताणीं ह्या विचित्र वागण्या फाटलें कारण विचारलें.

कांय वेळा आदीं घडिल्लो प्रसंग शॉन सांगलो आनी म्हळें, ‘जेन्ना हांवें कोट आनी टाय घालो तेन्ना म्हाका भितर येवंक मेळ्ळें. हांव जे कपडे घालतां ताचो म्हज्या मनातल्या विचारांचेर कांयच परिणाम जायना. हाचो अर्थ असो, तुमी सगळे जे क्लबाक आदार दितात, तांकां म्हजे बुद्दीपरस कपडे चड म्हत्वाचे. म्हणटकच म्हजो जागो म्हज्या कोट आनी टायाक घेवंदी.’

अशें म्हणून तो हॉलांतल्यान भायर सरून गेलो.’

हांव उबें रावलें. ‘मिटींग सोंपलीं,’ हांवें म्हळें. आमी एकमेकांचो निरोप घेतलो आनी हांव म्हज्या केबिनांत गेलें.

म्हजी कार्यक्रम अधिकारी म्हजे फाटोफाट आयली, ‘शाळेविशींचो तुमचो निर्णय सारको आशिल्लो. पूण ती दुसरी काणी कित्याखातीर? आनी

आतां कित्याक ? कॅटल क्लास बिझनेस कसलो ? म्हाका कांयच समजूंक ना.'

ताच्या त्या गोंदळाचेर हांव हांसलें. 'कॅटल क्लास लोकांकूच थंय कितें जालें तें समजलें. तूं तो हुसको करूं नाका.'



# १४

## जाणटेलो आनी ताचो देव



कांय वर्सांफाटीं, हांव तामिळनाडूच्या तंजावर जिल्ह्यांतल्यान प्रवास करतालें. काळोख जावंक लागिल्लो, आनी बंगालच्या उपसागरांतल्या कमी दाबाक लागून उटंगाराचो पावस पडटालो. रस्ते उदकाच्या लोटान भरून व्हांवताले आनी म्हज्या ड्रायव्हरान एका गांवालागसार गाडी थांबयली. 'असल्या पावसांत फुडें वचपाक जावंचें ना', ड्रायव्हरान म्हळें. 'हांगा गाडयेंत बसून रावचेपरस तुमी आशिकुशीक खंयूय आलाशिरो कित्याक पळयना ?'

अनवळखी गांवात आनी अनवळखी लोकांमदीं अडून उरिल्ल्यान म्हाका मातसो हुसको जाल्लो. तरीकूय, म्हजी सत्री घेवन नेटान पडपी पावसांतल्यान हांव भायर सरलें. त्या सुपुल्ल्या गांवाचे दिकेन हांव चलपाक लागलें, ताच्या नांवाची याद जायना म्हाका आतां: लायट नासली, काळखांतल्यान आनी पावसांतल्यान चलप ही एक सत्वपरीक्षाच आसली. पैसुल्ल्यान म्हाका देवळाची आकृती दिसली. हांवें थारायलें, आलाशिरो घेवपाक हो एक आदर्श जागो, आनी हांव तेवटेन चलपाक लागलें. अर्द्यार पावलें आनी पावस आनिकूय पडपाक लागलो, नेटाच्या वाऱ्यान म्हजी सत्री हुबली आनी हांव चिप्प ओलें जालें. भिजून थापो जावन हांव देवळांत पावलें. भितर सरतांच एका जाणट्या मनशाचो म्हाका मारिल्लो उलो आयकूंक

आयलो. म्हाका तमीळ उलोवंक येना, तरी ताच्या आवाजांतलें आपलेपण म्हाका जाणवलें. म्हज्या साबार प्रवासांतल्यान म्हाका जाणवलां - जो आवाज काळजांतल्यान येता तो समजून घेवंक भाशेची गरज नासता. बारिकसाणेन काळखांत पळोवपाचो यत्न केलो तेन्ना म्हाका सुमार अंयशीं वर्सां पिरायेचो जाणटो मनीस दिसलो. लागीं लागीं तेच पिरायेची णव वारी कापड न्हेशिल्ली एक बायल ताचे कुशीक उबी आसली. तिणें ताका कितेंतरी म्हळें आनी हातांत एक पोरनो पूण निवळ तुवालो घेवन ती म्हजे मुखार आयली. हांवें म्हजें तोंड आनी केंस पुसले तेन्नाच म्हज्या लक्षांत आयलें की तो जाणटो दृष्टीहीन आसा. तांचे आशिकुशीक नदर मारल्यार तीं खूब गरीब हें कळटालें. ज्या जाग्यार हांव उबें आशिल्लें, तें शिवमंदीर सामकें सादें आनी सजावटींत सामको कमी थाटमाट आशिल्लें अशें. शिवलिंगाचेर फकत एक बेलाचें पान. उजवाड फकत दिवलेचो. त्या मिणमिणट्या उजवाडांत शांतीकायेची भावना दाटून आयली आनी देवाकडेन आदलेपरस खूब लागीं आशिल्लेसारकें दिसलें.

तुटक तामीळांत, हांवें त्या मनशाक सांजेची मंगलारती करपाक सांगलें, जी ताणें व्हडा मोगान आनी अर्पणभावान केली. ताची आरत सोंपली तेन्ना हांवें शंबर रुपयांची नोट दक्षणा म्हण दवरली.

नोटेक हात लावन ताणें तो फाटीं घेतलो, अस्वस्थ सो जालो. नर्मळिकायेन ताणें म्हळें, 'अम्मा, आमकां सदां चड करून मेळटात तशी ही नोट धा रुपयांची न्हय, हें म्हाका कळ्ळें. तुमी कोणूय जांव, देवळांत तुमची भक्ती म्हत्वाची, पैशे न्हय. आमच्या पूर्वजांनी लेगीत म्हळां, भक्तान ताचे तांकिप्रमाण दिवंक जाय. म्हजेखातीर तुमी हेर सगळ्यांसारक्योच शिवाच्यो एक भक्त. उपकार करून हे पैशे परते घेयात.'

हांव अजापलें. कितें प्रतिक्रिया दिवची म्हाका कळना जालें. त्या दादल्याचे घरकान्नीकडेन हांवे पळयलें, तिणें ताचेकडेन वाद घालून ताका ते पैशे घेवंक लावचे हे अपेक्षेन, पूण ती ओगी उबी रावली. कितलेशेच फावट, जायत्या घरांनी, बायल दादल्याच्या वसवशेपणाक उत्तेजन दिता. हांगा उरफाटेंच. घोवाच्या विचारांक ती मान्य करताली. हांव तांचे म्हऱ्यांत बसलें

आनी वाऱ्या-पावसाच्या भायल्या सांवारावांगडा आमी आमचे जिणेचेर उलयलीं. हांवें तांकां तांचेविशीं विचारलें, तांचे गांवातल्या देवळांतले जिणेविशीं, तांकां पळोवपाक आनीक कोण आसात काय कितें तेविशीं.

निमाणें हांवें म्हळें, 'तुमी दोगांय जाणटीं. तुमच्या सदच्या गरजांकडेन लक्ष दिवंक तुमकां भुरगीं नात. जाणटेपणांत जेवणाखाणाच्या वस्तूंपरस वखदां चड लागतात. जिल्ह्यांतल्या खंयच्याय शारापसून हो गांव खूब पैस. तुमकां एक सांगूं?'

ते वेळार, आमी एक जाणटेपणाखातीरची पेन्शन स्कीम चालू केल्ली, आनी तांच्या जीर्ण पूण नितळ कपड्यांकडेन पळोवन म्हाका दिसलें, हे स्किमीखातीर हीं दोगांय आदर्श उमेदवार.

आतां बायल उलयली, 'सांग बाय.'

'हांव तुमकां थोडे पैशे धाडटां. ते राष्ट्रीकृत बँकेंत वा पोस्टांत दवरात. ताचेर मेळटा तें कळंतर तुमकां म्हयन्याच्यो गरजो भागोवपाक वापरूंक मेळटलें. ताकतिकेन वैजकी गरज लागली जाल्यार तुमच्यांनी मुदल वापरूं येता.'

म्हज्या ह्या उतरांचेर जाणटेलो हांसलो आनी ताचो चेरो दिव्यापरस चड लिकलिकलो.

'तूं आमचेपरस कितलेशेंच भुरगें दिसता. आजून तूं अज्ञानी आसा. आतां हे पिके पिरायेर म्हाका पैशे कित्याक जाय? भगवान शिवाक वैद्यनाथन म्हणटात. तो महावैज वा व्हड दोतोर. हांव रावतां त्या ह्या गांवांत जायते दयाळू लोक आसात. हांव पूजा करतां आनी तेबदला ते म्हाका तांदूळ दितात. आमच्या दोगांभितरलें कोणूय बरें ना जालें जाल्यार गांवचो दोतोर वखद दिता. आमच्यो गरजो साप्प थोड्यो. एके अनवळखी व्यक्तीकडल्यान हांव पैशे कित्याक घेतलों? तूं सांगता तेभशेन जर हे पैशे हांवें बँकेंत दवरले, जाल्यार कोणाकूय तें कळून तो आमकां त्रास करूंक शकता. हे हुसके हांव कित्याक घेवं? आमकां दोन अनवळखी जाणट्यांक मजत करपी, तूं खरेंच दयावंत. पूण

ग्रें सांगूं? आमी धादोशी आसात. आमी जशीं जगल्यात तशींच आमकां ज़गूंदी. आमकां आनीक कांयच नाका.'

तेन्नाच लायट आयली आनी देवळांत झगझगीत उजवाड जालो. पयलेच फावट त्या जोडप्याकडेन हांवें सारकें पळयलें. तांच्या मुखामळार म्हाका शांती आनी खोस स्पश्टपणान दिसली. गरज आसूनय हांवें दिल्ली मजत नाका म्हणपी म्हाका मेळिल्लें हें पयलें जोडपें. ताणें जें कितें सांगलें, तें सगळें म्हाका मान्य नासलें तरी लेगीत हें स्पश्ट जाल्लें की तांचे धादोसकायेन तांकां शांती दिल्ली. अशा वागण्यान घडये तुमचो बेगोबेग विकास जावचो ना, पूण जिणेंत एका थारावीक काळाउपरांत तें गरजेचें. घडये ताण आनी भार भोगपी संवसाराक भारताच्या एका विसरूं येत अशा कोणशांतल्या एका जाणट्या जोडप्याकडल्यान खूब शिकपासारकें आसा.



# १५

# भिकाऱ्यान दिल्लो जिणेंतलो धडो



मीना म्हजी लागींची इश्टिण. तें एलआयसींत बऱ्या पगारार आसा. पूण ताचे भितर सदांच कितेंतरी विचित्रशें जाणवता. तें सदांच असमाधानी आसता. हांव केन्नाय ताका मेळ्ळें काय म्हाकाच उदास दिसूंक लागता. ताचे ठांय आशिल्लें नैराश्य आनी उदासीनताय तें हेरांकडेन पावयता अशें कितें तरी दिसता. खंयच्याय विशयाचेर वा खंयच्याय मनशाविशीं ताका सकारात्मक उलोवंकूच येना.

देखीक, जर हांवें ताका म्हळें, 'मीना, राकेश वर्गांत पयलो आयला, खबर आसा तुका?'

ताचेर मीनाची रोकडीच प्रतिक्रिया आसतली, 'येतलोच. ताचो बापूय त्याच शाळेंत शिकयता.' ताच्या येसाक किंकोत केल्लेवरी तें म्हणटलें.

जर हांवें म्हळें, 'मीना, श्वेता कितलें सोबीत चली, न्हय?' मीना नकारात्मक उलयतलें. 'घोडी लेगीत जुवान आसतना सोबीत दिसता. पिराय ती. कांय दीस राव. हेर कोणायपरस कुरूप दिसूंक लागतलें श्वेता.'

'मीना, काय बरो दीस आसा. चल पासयेक या.'

'ना. खूब गरमी आसा. चड चल्लें जाल्यार म्हाका पुरो जाता. चलप नलायकेक बरें अशें कोण म्हणटा? कांयच पुरावो ना.'

अशें हें मीना. आपल्या फ्लॅटांत तें एकलेंच रावतालें. ताचे आवय बापूय दिल्ली आशिल्ले. तें एकलेंच चली. ताका ह्या ना जाल्यार त्या गजालीविशीं कागाळ करीत रावपाची संवय आशिल्ली. सभावीकपणान, तें कोणाकूच नाका आशिल्लें. कोणूच ताचेकडे वचूंक सोदीनासलो. मागीर कांय देसांनी, मीनाची बदली मुंबय जाली आनी आमी सगळीं रोकडींच ताका विसरलीं.

कांय वर्सां उपरांत, एकदां हांव मुंबयच्या फ्लोरा फावंटन भागांत पावसाक लागून अडकून पडिल्लें. उटंगाराचो पावस आशिल्लो आनी म्हजेकडे सत्री नाशिल्ली. हांव अकबरअल्ली ह्या लोकप्रिय डिपार्यमेंटल स्टोअरालागीं उबें आशिल्लें. पावस थांबपाची वाट पळयत. अकस्मात, म्हाका मीना दिसलें. म्हजी पयली प्रतिक्रिया आशिल्ली, ह्या पावसांत लेगीत हांगासावन धांव माल्ल्यार बरी. ताणें म्हाका पळोवंचें न्हय अशें दिसतालें. ताच्यो अंत नाशिल्ल्यो कागाळी कोण आयकतलो? पूण हांव वचूंक शकलें ना. ताणें म्हाका पळयलें आनी खोशयेन म्हजो हात घट धल्लो. इतलेंच न्हय, तर तें खूब खूश दिसतालें.

'म्हाका खऱ्यांनीच खूब खोस जाल्या. आदले इश्ट मेळ्ळ्यार कितलें बरें दिसता. पूण हांगा कितें करता तूं?'

मुंबय ऑफिसाच्या कामाखातीर आयिल्लें अशें हांवें ताका सांगलें.

'तशें जाल्यार आयज रातचें म्हगेर राव,' ताणें म्हळें. 'आमी गजाली करूंया. पोरनी वायन, पोरने इश्ट आनी यादी मोलादीक आनी दुर्मीळ आसतात हें जाणा तूं?'

म्हजो विस्वास बसना जालो. खरेंच हें मीना? हें सपन काय कितें हें पळोवपाक हांवें म्हाकाच एक चिमटो काडलो. पूण मीना खऱ्यानीच म्हजो हात धरून, हांसत म्हजे मुखार उबें आशिल्लें. आनी हय, तें खूब खोशी

दिसतालें. तीन वर्सां बेंगलोर आशिल्लें तेन्ना ताका अशे तरेन हांसतना हांवें केन्नाच पळोवंक नाशिल्लें. ताच्या केंसातलें रुपें पळोवन कितलींशींच वर्सां गेल्यांत हाची म्हाका जाणीव जाली. ताच्या चेऱ्यार कांय सुरकुत्योय आशिल्ल्यो. पूण तें आदले परस कितलेंशेंच सोबीत दिसतालें हें सत्य.

निमाणें हांवें कशें तरी ताका सांगलें, 'ना, मीना. आयज रातचें हांव तुगेर रावंक शकना. म्हाका रातच्या जेवणाचें आमंत्रण आसा: म्हाका तुजें कार्ड दी. हांव मागीर तुजेकडेन संपर्क करपाचें उतर दिता.'

कांय खीण, मीना निरशेलेवरी दिसलें. 'आमी निदान एक च्या तरी घेवंया,' ताणें आग्रो केलो.

'पूण मीना, कितलो पावस पडटा.'

'पडल्यार पडूं. आमी पयलीं एक सत्री विकती घेवया आनी मागीर ग्रँड हॉटेलांत या.'

'ह्या पावसांत आमकां टॅक्सी मेळची ना,' हांव पिरंगलें.

'मागीर कितें जालें ? आमी चलत या.'

म्हाका अजाप जालें. हांव वळखतालें तें आदलें मीना न्हय हें. आयज तें कितल्योय तडजोडी करूंक तयार आशिल्लें.

पुरायेन भिजून निमाणीं आमी ग्रँड हॉटेलांत पावलीं. मीना सारकिल्या सदांच नकारात्मक विचार करपी चलये भितर हो येदो व्हडलो सकारात्मक बदल कोणाक लागून जालो हें जाणून घेवपाची म्हाका उमळशीक लागिल्ली.

'म्हाका सांग मीना, तुका कोण राजकुंवर मेळ्ळा काय कितें? तुजेभितर इतलो बदल कोणें घडोवन हाडलो ?'

म्हज्या ह्या प्रस्नान मीनाक अजाप जालें. 'ना, असो कोण ना,' ताणें म्हळें.

'मागीर तुज्या ह्या उत्साहाचें रहस्य कितें?' हांवें जायरातींतल्या

ंडुलकारावरी विचारलें.

तें हांसलें. 'एका भिकाऱ्यान म्हजी जीण बदलून उडयली.'

हांव सामकें तटास जालें. ताकाय तें जाणवलें.

'हय, एक भिकारी,' म्हजी खात्री पटोवपाखातीर जावंये, ताणें परत म्हळें. 'तो जाण्टो आशिल्लो आनी आपल्या पांच वर्सांच्या नातीवांगडा म्हज्या घरामुखार रावतालो. हांव आदींसावन कितलें नकारात्मक विचारांचें आशिल्लें, तूं जाणा. सदां हांव घरांतलें उरिल्लें जेवण त्या भिकाऱ्याक दितालें. केन्नाच ताचेकडे हांव उलोवंक ना. तोय म्हजेकडे उलय नाशिल्लो. एका पावसा दिसा, हांवें म्हज्या बेडरुमाच्या जनेलांतल्यान पावसाक पळयलें आनी गाळी मारूंक लागलें. खरें म्हणशी जाल्यार हांव काय पावसांत भिजनाशिल्लें. तरी हांवें तशें कित्याक केलें खबर ना. त्या दिसा हांव त्या भिकाऱ्याक आनी ताच्या नातीक उरिल्लें जेवण लेगीत दिवंक शकलें ना. तांकां भूक लागिल्ली आसूंक जाय. म्हजी खात्री आसा.'

'पूण तरीय म्हज्या बेडरुमाच्या जनेलांतल्यान जें दिसलें, ताचें म्हाका अजाप जालें. गर्दी नाशिल्ल्यान तो भिकारी नातीवांगडा रस्त्यार खेळटालो. दोगांय नंदनवनांत आशिल्लेवरी व्हडाव्हडान हांसतालीं, ताळयो वाजयतालीं आनी आड्डून खोस उक्तायतालीं. तांकां भुकेची पर्वा नाशिल्ली. तीं पुराय भिजिल्लीं आनी खूब खोशी आशिल्लीं. तांची ती जगपाची उमेद पळोवन म्हाका तांचो मत्सर दिसलो.'

त्या दृश्यान म्हाका म्हजे जिणेकडे पळोवंक लायलें. म्हजेकडे ज्यो सुखसुविधा आसात, तातूंतलें कांयच तांचेकडे नाशिल्लें. पूण तांचेकडे एक अशी म्हत्वाची गजाल आशिल्ली, जी म्हजेकडे नाशिल्ली. जीण आसा तशी खोशयेन कशी जगप हें तांकां खबर आशिल्लें. म्हाका म्हजीच लज दिसली. म्हजेकडे कितें आसा आनी कितें ना हाची एक यादी करपाक हांवें सुरवात केली. लोकांक कल्पना लेगीत येवची ना अश्यो कितल्योश्योच गजाली म्हजेकडे आशिल्ल्यो. ते दिसा, त्या भिकाऱ्याचो आदर्श दोळ्यांमुखार दवरून हांवें म्हजो जिणेविशींचो दिश्टीकोन बदलपाचें थारायलें.

मीनाचें उलोवप सोंपल्या उपरांत, कांय खीण मोनेळ पातळ्ळो. त्या उपरांत हांवें विचारलें, 'अशें बदलूंक तुका कितलो वेळ लागलो?'

'ही जाणीव जातकच, पुरायेन बदल जावंक दोन वर्सां लागलीं.' ताणें म्हळें. 'आतां म्हाका कसलोच फरक पडना. ल्हान ल्हान गजालींतल्यान लेगीत म्हाका खोस मेळटा. दरेका परिस्थितींतल्यान, दरेका मनशांतल्यान हांव आतां खोस सोदतां.'

'तुज्या गुरूक तुवें गुरुदक्षिणा दिली काय ना?' हांवें विचारलें.

'ना, दुर्दैवान जेन्ना म्हजे भितर पुरायेन बदल जालो तोमेरेन तो ह्या संवसारांत नाशिल्लो. पूण ताचेविशींचो म्हजो आदर व्यक्त करपाखातीर हांवें ताच्या नातीक म्हज्या खर्चान बोर्डींग स्कूलांत प्रवेश घेतला.'



# १६

# तूं शंबर भुरग्यांची आवय जावं



हांव रेल्वे स्टेशनाचे वाटेर आशिल्लें. म्हाका णव वरांचेर सुटपी बेंगलोर हुबळी किन्नूर एक्स्प्रेस धरपाची आशिल्ली. स्टेशन अर्दे वाटेर आसतना आमची गाडी बंद पडली. येरादारीची सामकी चिरंगट आशिल्ली. आमकां फुडें वचपाक वा गाडी फाटीं काडपाक वाट नाशिल्ली. इल्लेशे वाटेंतल्यान कांय दोन चाकी वाहनां वाट काडून वतात तें पळयत हांव सामकें बाबडें कशें बशिल्लें. निमाणें हांवें ड्रायव्हराक कितें घडलां काय विचारलें. येरादारीची चिरंगट नवी न्हय पूण हें कितेंतरी वेगळेंच आशिल्लें. तो गाडयेंतल्यान देंवलो आनी सांगलें जमातीच्या एकवटाची सभा घेवपाखातीर फुडें कांय लोकांनी रस्तो बंद केला. स्टेशनार पावप सामकें अशक्य हें म्हाका कळ्ळें. सभेविशीं पेपरांनी छापून आयिल्लें आनी कांय वेळाखातीर रस्ते बंद जावं येतात अशी शिटकावणीय दिल्ली. गाडी एके पाळणींत घाली आनी घरा वचपाचो यत्न करून कांयच उपाय ना हें पळोवन, हांवें गर्देंत वचून भाशण आयकुपाचें थारायलें.

पैसुल्ल्यान म्हाका माची दिसताली. माचयेर वेगवेगळ्या धर्माचे फुडारी लायनींत खुर्च्यांचेर बशिल्ले. म्हजे कुशीक एक जाणटेलो उबो रावलो आनी व्हडल्यान म्हणपाक लागलो, 'हें सगळें एक नाटक. भारतांत सगळें जाती आनी जमातींचेर थारता. आमच्या मतदानाचेर लेगीत तांचें वर्चस्व

आसता. सत्तेर जो येता तो फकत आपले जमातीचें बरें चिंतता. भाशणां दिवप सोपें पूण खरे जिणेंत ते सगळें विसरतात.'

तेन्नाच एक मध्यम पिरायेची बायल मायकाचेर उलोवपाक लागली. तिची आत्मविस्वासान उलोवपाची तरा पळयल्यार, स्पश्ट आशिल्लें की तिका भाशण दिवपाची सवंय आसा आनी रसाळ उलोवपाचें कसब. तिची चिकित्साय सामकी पटपासारकी आशिल्ली. 'जेन्ना तुमी जेवतात, तेन्ना फकत चपाती वा शीत खातात व्हय? ना, तुमकां एक भाजी, दाळ, आनी धंय जाय आसता. पदार्थांची रुच वेगवेगळी, पूण जेन्ना सगळे एकठांय येतात तेन्नाच एक परिपूर्ण जेवण जाता. तेच तरेन वेगवेगळ्यो जमाती सुमेळान एकठांय रावपाक जाय आनी देशाक बळिश्ट करपाक जाय....' 'भाशण बरें आसा पूण सदचे जिणेंत कोण तें आपणायता?' म्हजे कुशीकच्या मनशान म्हळें.

'अशें कित्याक म्हण्टात तुमी?' निमाणें म्हाका विचारचेंच पडलें. म्हज्या प्रस्नाचेर अजापित जावन, ताणें म्हजेकडेन पळयलें, मागीर जाप दिली, 'कारण म्हज्या कुटुंबाक खूब सोसचें पडलां. जायते जमातींतलो नाशिल्ल्यान म्हज्या पुताक नोकरी मेळ्ळी ना, म्हज्या चलयेची बदली जाली कारण ताच्या सायबाक थंय आपले जमातींतलो कोण तरी जाय आशिल्लो. सगळेच कडेन आसा हें. खंय वता थंय लोकांक पयलीं तुमी खंयचे जातीचे वा धर्माचें हें जाणून घेवपाचें आसता.'

ती बायल अजून उलयत आशिल्ली. 'तिचें नांव कितें?' हांवें विचारलें.

'ती अंबाभवानी, तामिळनाडूंतली एक गुणी वक्ती.'

तिचें नांव आयकून म्हज्या मनांत एक घांट वाजली आनी हांव धुकलपी गर्दी आनी व्हड भाशणांपसून पयस गेलें. हांव सामकें फाटल्या काळांत, म्हज्या बापाय वटेनच्या आजयेकडेन, अंबाबाई कडेन पावलें.

अंबाबाईक मोगान गावांतले सगळे अंबाक्का वा अंबाक्का आई म्हणटाले. उत्तर कर्नाटकांतल्या बिजापूर लागच्या सावलगी ह्या इल्ल्याश्या

गावांत तिची सगळी जीण गेली. तिचे पिळगेंतल्या हेर बायलांभशेन ती लेगीत केन्नाच शाळेंत वचूंक नाशिल्ली. तिचें लग्न भुरगेपणांत जाल्लें आनी तिची सगळी जीण व्हड कुटुंबाच्यो जापसालदारक्यो निभावपाक गेली. ती बेगीनूच विधवा जाल्ली आनी तिका तेन्नाचे ब्राह्मण समाजांतले रुढीप्रमाण बोडकी केल्ल्यान, सदांच तांबडी साडी न्हेसून, माथ्यावेल्यान पदर घेवन पळयल्ली म्हाका याद जाता. ती एकूणणव्वद वर्सां मेरेन जगली आनी पुराय जिणेंत फकत आपलीं धा भुरगीं, चाळीस नातरां, तिचो गांव आनी शेतां इतलेंच तिचें विश्व आशिल्लें.

आमी शेतकामती आशिल्ल्यान तिचेकडेन घोड्यांचे तबेले आनी बैलांचे व्हडले गोठे आशिल्ले. एक व्हडली कोठये कूड आशिल्ली भोंवतणचीं व्हडलीं झाडां गीमांत घर थंड दवरतालीं. घराचे भायले वटेन वळींत निवलकाणी आशिल्लीं. तांकां लागून जळारां पयस रावतात अशें आमकां सांगताले. आजी (आमी अंबाबाईक म्हणटाले) लक्तुबायेन शेत आनी शेतकारांची जतनाय घेताली. खरें म्हळ्यार, हेर आजयांभशेन तिणें रांदचेकुडींत केन्ना लोणचीं आनी मिठायो केल्ली म्हाका याद जायना. ती सकाळीं बेगीन उठटाली आनी न्हावन कांय वेळ सदची पूजा करताली. मागीर जोंदळ्याच्यो भाकऱ्यो आनी भाजी करून, शेतांत वचपाक भायर सरताली. थंय ती शेतकारांकडेन आशिल्लें बीं, बांयची परिस्थिती वो गोरवांचें आरोग्य हे सारकिल्ल्या विशयांचेर खबरी करताली. तिगेलें आनी एक पिशें म्हळ्यार गावांतल्या बायलांक बांळटेरावेळार मजत करप.

हें म्हाका हांव व्हड जायसर जाणवलें ना, तरी आजी हेर रुढिवादी ब्राह्मण विधवांभशेन नाशिल्ली. ती बायलांचें शिक्षण, गर्भप्रतिबंधक उपाय हांचेवटेन आशिल्ली आनी समाजांत विधवांक जे तरेन वागणूक दितात ताचेर तिका खूब उलोवपाचें आसतालें.

त्या काळार गावांत सामक्यो कमी सुविधा आसताल्यो. सामकीं कमी मेडिकल कॉलेजां आशिल्लीं. दर एका तालुक्यांत सरकारी हॉस्पिटल नाशिल्लें. अशे परिस्थितींत ज्या बायलांक भुरगीं जाल्यांत त्योच हेर बायलांक भुरगें जातना मजत करताल्यो. तांचेमदली एक म्हजी आजी आशिल्ली. तिणें सुदृढ अशा धा भुरग्यांक जन्म दिलो आनी सगळीं जगलीं हे गजालीचो तिका

अभिमान आशिल्लो. बदल्यांत, हेरांक ती जात धर्म पळयनासतना तांच्या बांळटेरावेळार आदार करताली. गावांतल्या गुरवार बायलांखातीर सदांच ती सल्लो आनी सुचोवण्यो दिताली.

असल्यो कितल्योश्योच गजाली हांव सदांच तिचेकडल्यान आयकतालें.

'सावित्री, सांबाळ. जड उखलूं नाका. बरें जेव आनी चड दूद पिये.'

'पिरांबी, तुजे दोन गर्भपात जाल्यात. हे फावट सांबाळ. खूब भाजयो आनी फळां खा. तुवें काळजी घेवंक जाय पूण बेकार बसूं नाका. गुरवारपण म्हळ्यार दुयेंत न्हय. हलकेंशें कितेंय काम कर. तुज्या घोवाक हुसेनसाबाक म्हज्या घरा धाड. हांव इल्लो सांबार पावडर दितां. म्हजी सून तो बरो करता.'

दर एकलो तिच्या सल्ल्यांखातीर तिका बरें म्हणटालो अशें मात न्हय. अशें एक म्हळ्यार शकुंतला देसाय, जें कांय तेंप शारांत राविल्लें आनी शाळेंत गेल्लें. 'हातूंतलें अंबाक्काक कितें खबर आसा?' ताणें व्हडल्यान म्हणचें, 'ती केन्ना शाळेंत गेल्या काय तिणें कसलें वैजकी पुस्तक वाचलां? ती कितें दोतोर न्हय.'

पूण असल्या उलोवण्यांचें आजयेक कांयच पडून वचूंक नाशिल्लें. ती हांसून म्हणटाली, 'तें शकुंतला गुरवार जावंदी. ताचो बाळंटेर हांवूच करतलीं. म्हजो चाळीस वर्सांचो अणभव खंयच्याय पुस्तकापरस बरो आसा!'

म्हज्या बापायच्या नोकरेक लागून आमकां वेगवेगळ्या शारांनी रावचें पडलें, पूण सुटयांनी आमी सदांच आजयेच्या गावांत येतालीं. ते खूब खोशयेचे दीस आसताले आनी आमी खूब मजा करतालीं.

एक फावट, जेन्ना आमी गावांत आशिल्लीं, तेन्ना शेजारच्या गावांत एक लग्न आशिल्लें. आजी केन्नाच असल्या समाजिक सुवाळ्यांक वचनासली. हे फावट, हांवेंय तिचेवांगडा रावपाचें थारायलें आनी एक रात त्या व्हडल्या घरांत फकत आजी, हांव आनी आमचो मजत करपी द्यामप्पाच आशिल्लीं.

ती डिसेंबरांतली थंड अमासेची रात आशिल्ली. भायर सामको गुपाट काळोख. आजी आनी हांव एकठांय न्हिदिल्लीं. द्यामप्पान आपलें हांतरूण मुखावयल्या पडवेर घाल्लें आनी तो सुस्त न्हिदिल्लो. ते रातीं पयलेच फावट हांवें आजयेक माथ्यावयलो पालव काडिल्लो आनी तिचे तकलेर इल्लेशे धवे केंस पळयले. तिणें तांका हात लायलो आनी म्हळें, 'समाजांत अश्यो कांय दुश्ट प्रथा आसात. एका वेळार म्हज्यो कमरामेरेन लांब दाट विणयो आशिल्ल्यो हाचेर तुजो विश्वास बसत? म्हजे केंस म्हाका कितले आवडटाले आनी हेर चलयांक तांचो कितलो दुस्वास दिसतालो! पूण जे दिसा तुजो आजो भायर पडलो, कोणेंच म्हाका ते सुंदर केंस कातरचे पयलीं विचारलें ना. म्हज्या घोवाखातीर हांव जितलें रडलें तितलेंच म्हज्या केंसांखातीरूय. म्हजें दुख कोणाकूच कळ्ळें ना. म्हाका सांग, बायल मेली जाल्यार उरिल्ली जीण घोव आपली तकली बोडकीच दवरता? ना, रोकडोच तो परत न्हवरो जावंक आनी घरा दुसरी व्हंकल हाडूंक तयार जाता.'

ते पिरायेर, तिची वेदना म्हाका कळ्ळी ना, पूण आतां, जेन्ना तिचीं उतरां म्हाका याद जातात, तेन्ना तिका कितलें दुख पचोवचें पडलां आसतलें तें म्हाका जाणवता.

कांय वेळान तिणें विशय बदललो. 'आमगेली पिरांबी केन्नाय सुटत. म्हाका दिसता चड करून आयज रातचीच. अमास न्हय आयज. पिरांबी सामकी बरी आनी भावार्थी, पूण सामकी भिडेस्त, म्हाका खात्री आसा सामक्यो सोसूंक नज अश्यो वेणो येसर ती कोणाकूच कांयच सांगची ना. ती बरे तरेन सुटची म्हूण हांव आमचो देव कल्लोळी वेंकटेश आनी बिजापूरच्या पीर साब दर्ग्याकडेन प्रार्थना करीत आसा. सगळ्यांक चले जाय, पूण म्हाका दिसता हे फावट चली जातली. खंयूय आसल्यो तरी चलयो आवय बापायची जतनाय घेतात. खंयचीय बायल दादल्याचें काम करूंक शकता पूण दादलो बायलेचें काम करूंक शकना. तुज्या आज्याच्या मरणा उपरांत हांव सगळें शेत पळयना? अक्कव्वा, सदांच याद धर बायलांक चड सोशिकसाण आनी वेव्हारिक शाणपण आसता. फकत दादल्यांक तें कळत जाल्यार...'

आजयेक इतलीं नातरां आशिल्लीं की तिका तांची नावां लक्षांत

उरनासली. म्हूण ती आपल्या सगळ्या नातींक अक्कव्वा आनी नातवांक बाळा म्हणटाली.

रातची आजी जेन्ना पासय मारताली, तेन्ना कोणेंतरी दारार माल्लें. अंतर्बोध जाल्लेवरी आजयेन म्हळें, 'हुसेन आसतलो तो.' आनी खऱ्यांनीच तोच आशिल्लो. आजयेन आपले तकलेर पालव घेतलो आनी विधवेचीं आपलीं सगळीं दुखां विसरून रोकडेंच विचारलें, 'पिरांबीक वेणो येवपाक लागल्यात?'

'हय, तिका सांजच्योच वेणो येवपाक लागल्यात.'

'आनी हें तूं आतां सांगता? बायलेक वेणो येवपाक लागल्यो काय वेळ कितलो म्हत्वाचो आसता तें तुका कळना. चल या आमी आतां. आनी वेळ वगडांव नाका.'

ती हुसेनाक आनी द्यामप्पाक एकेच वेळार सुचोवण्यो दिवपाक लागली. 'हुसेन निवलकाणी कातर, लिंबाच्यो कांय ताळयो घे. द्यामप्पा, दोन व्हडले लापयांव पेटय...'

'अक्कव्वा, तूं घरा राव. द्यामप्पा तुजे सांगाताक आासा. आतां म्हाका बेगीन वचपाक जाय.'

आपले कुडींतल्यान कांय गरजेच्यो वस्तू ती एकठांय करताली आनी एका लाकडी कासेंत घालताली. हो वेळ मेरेन, तकलेवयलें धवें मुंडाशें आनी व्हडल्या मिशयांचो लांबरूंद द्यामप्पा, हातांत दोन लापयांव घेवन दारांत आयलो. काळ्या किट्ट काळखांत तो भयानक दिसतालो आनी म्हजे तकलेंत तेन्नाच हालींच हांवें पळयल्ल्या रामायण नाटकांतलो रावण आयलो. ताचेवांगडा त्या घरांत हांव कशेंच एकलें रावचें नाशिल्लें. हांवें आजयेवांगडा वचपाचो हट केलो.

आजी अस्वस्थ जाली. 'अक्कव्वा हट करू नाका. कितलेंय जाल्यार, तूं आतां वयांत येवपी भुरगें. असल्यो गजाली तुवें पळोवंक जायनात. हांव तुका तुजी इश्टिण गिरिजागेर सोडटां.' पूण हेर खंयच्याय भुरग्याभशेन, हांव घट

आसलें आनी म्हज्या निर्णयाचेर दसून रावलें.

निमाणें आजी तयार जाली. ती देवाकुडींत गेली, प्रार्थना केली आनी घराक कुलप घालें. आमी चौगांय हुसेन साबाच्या घरा वचपाक त्या किट्ट काळखांत भायर सरलीं. फुडें लापयांव घेवन हुसेन, फाटल्यान म्हजो हात आपल्या हातांत घट धरून आजी, आनी हातांत दुसरो लापयांव घेवन निमाणो द्यामप्पा.

आमी गावांवटेन चलपाक लागलीं. आजी सुसेगाद चलताली आनी तिचे कुशीक हांव धडपडटालें. थंडी आशिल्ली आनी म्हाका वाट खबर नाशिल्ली. सगळो वेळ आजी हुसेन आनी द्यामप्पाक सुचोवण्यो दीत आशिल्ली.

'हुसेन, जेन्ना आमी पावतलीं, तेन्ना व्हडलें पिप उदकान भरून दवर. द्यामप्पा तुका मजत करतलो. इल्लें उदक सळसळाय. इल्ले कोळशे पेटय. कोंबयो आनी बोकड्यांक भितर घुडांत घाल. तीं भायर हांगा थंय भोंवचीं नात हाचेर लक्ष दी...'

निमाणें आमी हुसेनाच्या घरा पावलीं. भितरल्यान पिरांबीच्यो किळच्यो आयकूंक येताल्यो.

हुसेन आनी पिरांबी दोगांच रावतालीं. तीं दिसावड्याचेर शेतांत काम करपी गरीब मनशां. तांची शेजान्न मेहबूब बी थंय पिरांबी म्हऱ्यांत आशिल्ली. आजयेक पळोवन तिका सू जालें. 'आतां हुसको करपाचें कारण ना. अंबाक्का आई आयली.'

आजयेन हात पांय धुले आनी आपली साटली पोटली घेवन दार आनी जनेलां धांपून भितर कुडींत गेली. भायर लाकडाच्या बांकार, हुसेन आनी द्यामप्पा आजयेच्या फुडल्या सुचोवण्यांची वाट पळयत बसले. आतां फुडें कितें जातलें हें जाणून घेवपाची म्हाका उमळशीक लागिल्ली.

भितर, पिरांबीकडेन आजी मायेन उलयता तें आयकूंक येतालें. 'चिंता करूं नाका. बाळंटेर म्हळ्यार कठीण गजाल न्हय. हांवें धा भुरग्यांक जन्म दिला. मातशें सहकार्य कर हांव तुकां मजत करतां. तुका बळ मेळचें म्हूण

देवाची प्रार्थना कर. धीर सोडूं नाका...' मदींच, तिणें जनेल मातशें उगडलें आनी हुसेनाक सांगलें, 'म्हाका इल्लो हळदी पिठो जाय. तुज्या घरांत हांव सोदूंक शकना. मेहबूब बीच्या घरांतल्यान हाडून दी. द्यामप्पा म्हाका आनिक एक व्हडलो वाडगो भरून गरम उदक दी. हुसेन, एक नवें बेळांचें सूप घे, हळदीच्या उदकान तें धूय आनी भितर धाड. द्यामप्पा, म्हाका आनिक इल्ले पेटयल्ले कोळशे जाय...'

सादी देवभोळी आजी आतां हुकुमशहा जाल्ली!

फुडलीं कांय वरां पिरांबीचें वेणांच्या दुकांनी रडप आनी आजयेच्या पाशियेंस आनी समजिकायेच्या उतरांनी गेलीं, जाल्यार हुसेन भायर सामको चिंतेस्त बसून रावलो. द्यामप्पा उदासीनपणान विडी ओडीत आशिल्लो. रात सामकी मिट्ट जायत गेली आनी मागीर मातशी मातशी उजळूंक लागली. घुडांत धांपून घाल्ल्या कोंब्यान साद घालो आनी सुर्य उदेता आसतनाच आमी भुरगें रडिल्ल्याचो आवाज आयकलो.

आजयेन जनेलाचें एक दार उगडून सांगलें, 'हुसेन तुगेर चलो जाला. तो सारको तुजो बापूय महमद साब कसो दिसता. पिरांबीक खूब त्रास जाले पूण देव दयेस्त आसा. आवय आनी भुरगें दोगांय बरीं आसात.'

दार परत बंद जालें. पूण हे फावट भायर आमी एकामेकांकडेन खोशयेन पळयतालीं. हुसेनान दिमी मारून उपकार आठोवपी प्रार्थना केली. मागीर हुडकी मारून उठलो आनी भुरग्याक पळोवपाक जाय म्हूण दारार माल्लें. तें बंदूच उरलें. आजयेचें सगळें जालेबगर ती कोणाक भितर घेवची नासली.

'तुजे कपडे म्हेळे आसात,' भितरल्यान ती आड्डुली. 'पयलीं न्हा, नितळ कपडे घाल आनी मागीर भितर यो. नाजाल्यार तूं आवय आनी भुरगें दोगांकूय जंतूंची लागण लायतलो.'

हुसेन बेगीबेगीन मान्न्यांत धांवलो, मान्नें म्हळ्यार बेठोच एक कुडाचो आडोस. तो बांयचें उदक काडून आपल्या आंगार बालद्यो ओतीत रावलो.

तो भितर गेल्याउपरांत लेगीत, म्हाका फकत आजयेचोच आवाज

आयकूंक येतालो. 'पिरांबी, म्हजें काम सोंपलें. म्हाका घरा वचपाक जाय. आयज म्हज्या घोवाचें श्राद्ध. खूब कितें कितें करपाक जाय. भट वेळार येतलो आनी म्हाका ताका मजत करूंक जाय. आतां हांव वतां, तुका कितेंय जाय जाल्यार हुसेनाकडल्यान सांगून धाड.

पिरांबी, एके बायलेक, भुरग्याक जन्म दिवप म्हळ्यार सामकें मरणा धडेर वचून परतें येवप. सांबाळ. मेहबूब बी, उपकार करून पिरांबीची कूड नितळ दवर. भुरग्याक नवे कपडे घालूं नाका. ते ताका लागतले. एक पोरणें निवळ पुडवें घेवन ताका गुटलाय. भुरग्याच्या वठांचो उमो घेवं नाकात. सगळ्यांक भुरगें दाखोवं नाकात. ताका हात लायत रावं नाकात. पिवपाचें उदक सळसळावन तातूंत एक लोखणाचें दावल घालून दवरात. पिरांबीन फकत तेंच उदक पियेवपाचें. घरा वचून हांव पिरांबीक जेवपाक घरावें तूप आनी मोव शीत आनी रोस धाडटां... आतां म्हाका वचपाक जाय. आजय भिमाप्पा जार्दिन निवळ करपाक येवपाचो आसा. म्हाका कळाव जायत जाल्यार तो वतलो...'

आतां तिणें जनेल उकतें केल्लें. हांवें भितर पळयलें आनी म्हाका पिरांबीचें सामकें थकिल्लें पूण हांसतें मुखामळ आनी महमद साबाचें, हुसेन साबाच्या बापायचें इल्लेशें, गुटगुटीत रुप बेळांच्या सुपांत न्हिदिल्लें दिसलें. लिंबाच्यो ताळयो हुमकळटाल्यो, निवलकाणी कोनशाक दवरिल्ली आनी पुराय कुडींत धुपाचो परमळ पातळिल्लो. आजीय सामकी थकिल्ली दिसताली आनी तिचे कपलार हूम आशिल्ली. पूण ती आपलीं सगळीं आवतां गरम उदकान धुवन जतनायेन आपल्या लाकडी पेटलांत दवरताली.

जेन्ना आमी वचपाक भायर सरलीं, तेन्ना हुसेन बावगलो आनी आजयेच्या पायांक हात लायलो. घुसमटिल्ल्या आवाजांत ताणें म्हळें, 'अंबाक्का आई, तुजे उपकार कशे मानचे म्हाका कळना. आमी गरीब आनी तुका कांयच दिवंक शकनात. पूण हांव काळजांतल्यान तुका देव बरें करूं म्हणटां. तूं शंबर भुरग्यांची आवय. म्हज्या भुरग्याक ह्या संवसारांत हाडून तुवें ताका आशिर्वाद दिला. तो बरो मार्ग सोडून केन्नाच वचचो ना.'

आजयेन ताका खांदाक धरून उठयलो. तिच्याय दोळ्यांत दुकां आशिल्लीं. तीं पुसून तिणें म्हळें, 'हुसेन, गरजे वेळार आमी एकामेकांक मजत करची अशें देवाकूच दिसता. पिरांबी म्हळ्यार म्हजेखातीर एक दुसरें अक्कव्वा कशीच.'

आतां मेरेन सुर्य वयर आयिल्लो. हांव धडपड नासतना आजये फाटल्यान घरा वचपाक लागलें. द्यामप्पा झेमत झेमत खूब फाटीं आशिल्लो. म्हज्या मनांतलो एक दुबाव म्हाका विचारपाचो आशिल्लो. 'आजी, तुवें फकत धा भुरग्यांक जन्म दिला. मागीर हुसेनान तूं शंबर भुरग्यांची आवय अशें कित्याक म्हळें?'

आजी हांसली आनी बेगीबेगीन चलता आसतना माथ्यावयलो पालव कुशीक वतालो तो सारको करत तिणें म्हळें, 'हय. हांवें फकत धा भुरग्यांक जन्म दिला पूण ह्या हातांनी गावांतल्या कितल्याश्याच भुरग्यांक जल्माक येवपाक आदार दिला. अक्कव्वा, हांव मागतां की तुवें स्वता कितल्याय भुरग्यांक जन्म दिलो तरी तूं शंबर भुरग्यांची आवय जावंचें.'



# १७

# विचारांक खावड



रेखा म्हजी एक मोगाळ इश्टिण. कितल्याश्याच पिळग्यां सावन आमचे घराबे एकामेकांक वळखतात. जायतो तेंप ताका पळोवंक नाशिल्ल्यान हांवें तागेर वचपाचें थारायलें. फोन उबारून हांवें ताचो नंबर घुंवडायलो.

ताच्या बापायन, श्री. रावान फोन उबारलो. 'हॅलो?' म्हाकाय तो बापायवरीच आसा.

आमी एकमेकांची खबर घेतली आनी हांवें म्हळें, 'काका, हांव फाल्यां तुमगेर जेवपाक येतां.'

ताचो बापूय खूब खोशी जालो. तो एक वनस्पतीशास्त्री. 'खरेंच यो. फाल्यां आयतार आसा आनी आमी मातशीं सुसेगाद उलोवंक शकतलीं. रोकडेंच धावूं नाका परतें.' ताणें जाप दिली.

बेंगलोर सारक्या शारांत आयतार सोडून हेर खंयच्याय दिसा, जयानगर सावन मल्लेश्वरम वचप म्हळ्यार उण्यांत उणीं दोन वरां लागतात. आयतारचो प्रवास करप चड सोंपें हाचें कारण म्हळ्यार सदचे परस अर्दो वेळ लागता. दुसरे दिसा, जेन्ना हांव ताच्या घरा पावलें, तेन्ना जेवण तयार आशिल्लें. रांदचे कुडींतल्यान येवपी वेगवेगळ्या वासांनी आयचो मेनू कितेंतरी वेगळोच

आसा हें म्हज्या लक्षांत आयलें. थारावीक कर्नाटकी पदार्थांतलो एकूय मेजार नाशिल्लो. जेवण खऱ्यांनीच सौम्य आशिल्लें.

'रेखा, हांव़ सादी साडी न्हेसतां आसत, पूण जेवण बरें रुचीक जेवपी! हांवें परत येवचें न्हय म्हूण आयचें जेवण खास रांदलां काय कितें गो?' हांवें फकाणां केलीं. तें इतलें लागीचें आशिल्लें म्हाका. कितेंय उलयल्यार वायट धरचें ना हें खबर आशिल्लें.

रेखाचो बापूय व्हडान हांसलो. 'बेस बरें,' ताणें म्हळें. 'आगो, आयज म्हजे आवयचें स्त्राद्ध. ह्या दिसा, आमी सदांच गांवठी भाजयो वापरून जेवण रांदतात.'

'गांवठी म्हळ्यार?' हांव गोंदळिल्लें. 'आमच्या देशांत मेळपी कॉलीफ्लावर, कोबी आनी बटाट सोडल्यार हेर सगळ्यो भाजयो गांवठी न्हय तर?'

'आरे देवा! तुवें भलतो विशय, भलत्या दिसा, चुकीच्या मनशाकडेन काडला!' रेखान चाळयिल्लेवरी निरशेवन म्हळें. 'म्हाका दिसता, जेवणा उपरांत हांवें तुका बाबा म्हऱ्यांत सोडूंक जाय. मागीर सांजचें तुमचे कडेन येतां हांव. तुजीं सुमार चार वरां तरीं वतलीं हातूंत.'

रेखाचो बापूय वनस्पतीशास्त्री हें म्हाका खबर आशिल्लें. पूण ताका आपल्या विशयाचो कितलो मोग आसा हाची म्हाका तेन्ना जाणीव जाली. हांव जरी ताका खूब आदींसावन वळखतालें तरी लेगीत ताच्या व्यक्तिमत्वाचो हो पैलू हांवें केन्नाच पळोवंक नाशिल्लो. घडये, इतलीं सगळीं वर्सां तो आपल्या कामांत व्यस्त आशिल्लो जाल्यार आमी खेळपांत आनी हांगा थंय हेडपांत गुल्ल आसतालीं.

'काका, हें खऱ्यांनीच सत्य?' हांवें विचारलें.

ताणें तकली हालयली.

हांव स्वता शेतकार कुटुंबांतलें आशिल्ल्यान म्हाका सदांच भाजयांचें

आकर्शण आसा. आमी कितें रोवंक शकतात, रोवपा खातीरचो रुतू खंयचो तशेंच कितें रोवंक शकनात आनी ताचीं कारणां हें म्हाका सादारणपणान खबर आशिल्लें. तरी लेगीत, शेतकी विशयाची आवड आशिल्ल्या म्हज्या इश्टांकडेन जेन्ना जेन्ना हांवें हो विशय काडलो तेन्ना म्हाका केन्नाच सारकी जाप मेळ्ळी ना. निमाणें, आयज हांगा हो मनीस आशिल्लो जो व्हडा खोशयेन आपलें गिन्यान म्हाका दिवंक सोदतालो. म्हज्यान रावूं नज जालें.

'तूं जाणा, रेखा,' हांवें म्हळें, 'आपल्या विशयाची माहिती दुसऱ्याक दिवपाक वेळ काडपी गिन्यानी मनीस मेळप भोव कठीण. आयज, गुगल ही म्हजी आजी कशी. म्हाका जें कळना वा जाणून घेवपाचें आसता, ताचेविशीं माहिती मेळोवपा खातीर हांव गुगलाचेर सोदतां.'

'ह्या खिणाक, तुजे मुखार विश्वकोश उकतो जाला,' रेखा हांसलें आनी मोगान आपल्या बापायकडेन पळयलें.

जेवता आसतना वेगवेगळ्या विशयांचेर आमी उलयलीं. जेवणांत शीत, मिरसांग नाशिल्लो सांबार, काळीं मिरयां घातिल्ली दाळ, चिटकेची भाजी, मेथयेची भाजी, तवशाचें रायतें आनी तांदळाची खीर आशिल्ली. ताचे सांगाता मिरयां घातिल्ले उडीद वडे, लोणचें आनी धंय आशिल्लें. हॉस्पिटलांत दुयेंतींक योग्य अशें जेवण जेवल्या उपरांत, रेखाच्या बापायन म्हळें, 'चल, आमी पोरसांत या.'

रस्त्याच्या एका कोनशाक रेखाच्या कुटुंबाचें हें पोरनें घर आशिल्लें. ताचो आजो ब्रिटीश रेल्वेंत आशिल्लो. सवाय भितर हो कोनशाचो प्लॉट विकतो घेतिल्लो ताणें. ताचेर एक ल्हानशें घर बांदून भोंवतणीं व्हडलें पोरसूं केल्लें ताणीं. बेंगलोर सारक्या अपार्टमेंटांनी भरिल्ल्या आनी ल्हान जागे आशिल्ल्या शारांत, पोरसूं म्हळ्यार व्हड भाग्य आनी चैन कशी.

काका आनी हांव पोरसांत गेलीं. रेखा मातशें आड पडपाक गेलें. तो एका बांकार बसलो. हांवें सरभोंवतणीं नदर माल्ली. म्हजे मुखार एक सुपुल्लें रानूच आशिल्लें. थंय गाजर, भेंडे, मेथी आनी पालक अशो भाजयो आशिल्ल्यो. दरेका भाजयेचो बरो वाफो केल्लो. आमचे मुखार कांय

उशीकांडयेचे रोपे आशिल्ले. कोनशाक एक पोपायांनी भरिल्ली पोपाय उबी आसली. दुसरे वटेन एके लायनींत मको आशिल्लो. तेच प्रमाण पारजत आनी वेगवेगळ्या कोरांचे गुलाब आशिल्ले.

'काका आनी काकी हांगा खूबसो वेळ घालयतात आसतलीं,' हांवें चिंतलें.

'हांगा रावंक खोस जाल्लेवरी सगळीं झाडां आनी रोंपे निरोगी दिसतात!'

'हांगा आमचे भोंवतणीं आशिल्ल्यो सगळ्यो भाजयो भारतांतल्यो आसात? वा त्यो दुसऱ्या देशांतल्यान आयल्यात? तुका कितें दिसता?' मदींच ताणें विचारलें.

हांव परतें शाळेंत म्हज्या शिक्षका मुखार आसा अशें म्हाका दिसलें. पूण म्हाका भंय दिसूंक ना. हांवें चुकीची जाप दिली तरीय ताचो परिणाम म्हज्या प्रगतीपुस्तकाचेर जावंचो नाशिल्लो. 'हय तर, काका. भारतांतली चडशी लोकसंख्या शाकाहारी आसा. म्हणून तर आमी वेगवेगळे शाकाहारी पदार्थ करूंक शिकल्यात. मांसाहारी लोक लेगीत पारंपारीक उत्सव, लग्नां, स्त्राद्ध आनी श्रावण म्हयन्यात तें खायनात.'

'चडश्यो भाजयो भारतांत पिकतात हें एक सोडून, तुवें सांगलें तें सगळें म्हाका मान्य. चडश्यो आमच्यो भाजयो ह्यो आमच्यो न्हय हें सत्य. त्यो वेगवेगळ्या देशांतल्यान आयल्यात.'

हांव अविस्वासान ताचेकडेन पळयत रावलें.

ताणें एका रोंप्याकडेन बोट दाखयलें. टोमाटाची एक वाल कोंड्याक घट बांदिल्ली. कितलेशेच टोमाट लागिल्ले ते वालीक. 'हें पळय. ही भारतीय शाकभाजी?'

म्हज्या नदरे मुखार टोमाट सूप, टोमाट रसम, टोमाट शीत, सँडवीच आनी चटणी आयली. 'आसूंकूच जाय. आमी तो सदांच वापरतात. भारतीय

जेवणांतलो तो एक वेगळांव नज असो वांटो.'

काका हांसलो. 'आगो, टोमाट भारतांतलो न्हय, तर मेक्सिकोंतल्यान आयला. 1554 वर्सा तो येवरोपांत पावलो. तेन्ना कोणूच टोमाट खाय नाशिल्ले. म्हणटकच ताच्या सोबीत तांबड्या कोराक लागून तो एक सोबेचो रोंपो जालो. एका काळार, येवरोपांत असो समज आशिल्लो कीं टोमाटान वंध्यत्व पयस जाता. जाल्यार तो विखारी अशें कांय जाणांक दिसतालें. ह्या विसंगत दिश्टीकोनाक लागून कितलोसोच तेंप ह्या फळाचो आसपाव जेवणांत करप कठीण जालें. ताका मोल नाशिल्ल्यान घडये स्पेनांतलो टोमाट उत्सव चालू जालो जावंक जाय. थंय दर वर्सा ह्या दिसा लाखांनी टोमाटांचो वापर जाता. ताचे फाटली काणी अशी, येवरोपांतल्या एका वेवसायिकान आपल्या पोरसांत टोमाट लावन तांच्या रोंप्यां भोंवतणीं बरी घट, दाट वंय घाली. हें फळ विषारी न्हय, तर मोलादीक आनी जायजायशें, हें ताका दाखोवन दिवपाचें आशिल्लें. हळू हळू हें फळ भारतांत पावलें. ताच्या भूल घालपी रंगाक आनी रुचीक लागून तें लोकप्रिय जालें आनी ताची मागणी वाडली. ब्रिटीशांच्या काळार तें आमचे मेरेन आयिल्लें आसूंक जाय. पूण आयज, टोमाटां बगर रांदपाचो विचार लेगीत आमी करूंक शकनात.'

'वा!' हांवें म्हळें, 'काका, आमच्या जेवणांत आमी सदांच वापरतात पूण ती आमची न्हय अशा एका गरजेच्या वस्तूविशीं सांगात.'

'चल, चिंतून सांग. ह्या खाशेल्या भाजयेबगर आमी रांदूंक शकनात.'

हांवें दोळे बंद केले आनी चिंतूंक लागलें. दक्षीण भारतांतलें सांबार आनी उत्तर भारतांतल्या मटर पनीराचो विचार म्हज्या मनांत आयलो. सगळ्यांत गरजेचो असो एक सर्वसामान्य घटक म्हळ्यार मिरसांग. हांवें म्हजे विचार कुशीक काडले. 'ना, मिरसांग आयात केल्ली आसूंकूच शकना. तिचेबगर खंयचेंच भारतीय जेवण ना,' हांवें चिंतलें.

काकान म्हजेकडेन पळयलें. 'खरें तुजें. मिरसांग ती.' म्हजें मन वाचिल्लेवरी ताणें म्हळें.

‘तुमकां कशें कळ्ळें?’

‘मिरसांग दुसऱ्या देशांतली ह्या शक्यतायेच्या विचारान लेगीत लोकांक धपको बसता. तांचे तकलेंत चक्र घुंवता तेन्ना म्हाका तें तांच्या चेऱ्याचेर स्पश्टपणान दिसता.’

म्हजो अविस्वास साहजीक आशिल्लो. मिरसांगेबगर आमी कशीं रांदूंक शकतात? भारतीय जेवणांत मिठाइतलीच म्हत्वाची ती.

‘मिरसांगे विशीं जायत्यो काणयो आनी वेगवेगळे सिद्धांत आसात,’ काकान म्हळें. ‘वास्को द गामा जेन्ना भारतांत आयलो तेन्ना, ब्राझील सावन पोर्तुगालांतल्यान येतना आपले बराबर ताणें जायतीं बियां हाडलीं. उपरांत, मार्को पोलो आनी ब्रिटीश भारतांत आयले. तांचे वांगडा आनीक कितल्याश्याच रोंप्यांच्यो बियो आयल्यो. जें आमी ‘थळावें’ म्हणटात, तें खरेपणीं आमचें न्हय, हें सत्य. मिरसांग, ढबू मिरसांग, मको, भिकणां, काजू, कड्डुणां, बटाट, पोपाय, अनसां, सिताफळां, पेरां आनी चिकू हांचो विचार कर. हीं सगळीं दक्षीण आफ्रिकेंतल्यान आयल्यांत. कालांतरान, आमी तांकां थळावे केलें आनी रांदपाक शिकले. कांय म्हणटात कीं मिरसांग त्याच नांवाच्या म्हळ्यार चिली देशांतल्यान आयल्या. जाल्यार कांय लोक म्हणटात ती मेक्सिकोंतल्यान आयल्या. एका सिद्धांता प्रमाण आमचें जेवण तीख आनी मसालेदार करपाक भारतांत काळीं मिरयां वापरताले. कांय अभ्यासक असें मानतात कीं भारतांतल्या मिरयांच्या वेपाराचेर पुरायेन ताबो घेवप अशी इस्ट इंडिया कंपनीची एकमात्र मोख आशिल्ली. पूण मागीर भारतांतल्या वसाहतवादांत ती सोंपली. जेन्ना आमी मिरसांग वापरूंक सुरवात केली तेन्ना तिची रुच मिरयांपरस बरी आसा हें आमकां समजलें. देख दिवपाची जाल्यार काळ्या मिरयांक कन्नड भाशेंत आमी कालू मेनासू अशें म्हणटात. मिरसांगेक आमी जवळ जवळ तशेंच नांव दिलें आनी तिका मेनासीन काई म्हणपाक लागले. हिंदींत जायते फावट तिका मिर्च म्हणटात. काळीं मिरयां आनी मिरसांगेच्या झुजांत मिरयां हारलीं आनी मिरसांगेन आपणाक नवी राजकुंवरी म्हूण प्रस्थापीत केलें. आयज लेगीत ती भारतीय अन्न उद्देगाचेर राज्य करता. उत्तर कर्नाटक थंयच्या तांबड्या मिरसांगे खातीर आतां फामाद आसा.’

'इतलें म्हाका खबर आसा, काका!' हांवें म्हजे दोळे धांपले आनी म्हज्या भुरगेपणांतले दीस नदरेमुखार आयले. 'म्हज्या भुरगेपणांत हांवें कितल्याश्याच एकरांनी तांबड्या मिरसांगेचे रोंपे पळयिल्ली याद जाता. दिवाळे वेळार हें पीक घेताले. बडगी जिल्हो ह्या मिरसांगेची विक्री करपाखातीर आशिल्लो. एक दीस हांव म्हज्या काका वांगडा थंय गेल्लें आनी तांबड्या मिरसांगेचे दोंगर पळोवन म्हाका मजा दिशिल्ली.'

'हय, खरें तुजें. त्यो मिरसांगो सामक्यो गाड तांबड्या कोराच्यो आसतात पूण चड तीख नासतात. हाचे उरफाटे, आंध्र प्रदेशांतल्या गुंटूर हांगा जावपी मिरसांग सामकी तीख. ती आकारान मातशी वांटकुळीशी आसता, गाड तांबडी नासता आनी तिका गुंटूर मिरसांग म्हणटात. एक बरो रांदपी वेगवेगळ्या मिरसांगांचो वापर करून पदार्थ रुचीक आनी सोबीत करता. हाकाच हांव थळावें म्हणटां आतां.'

'आमच्या शेतांत आनीक दोन तरांच्यो मिरसांगो आशिल्ल्यो. एक गंधार वा रावण मिरसांग जी झाडार उरफाटी लागता आनी दुसरी म्हळ्यार ढबू मिरसांग.'

काकान तकली हालयली. 'भारतांतली ढबू मिरसांग म्हळ्यार पाश्चात्य देशांमदली बॅल पॅपर. पूण जर तुवें धाकटुली रावण मिरसांग खाली, जाल्यार पोटांत उजो पडून तुका कितल्योश्योच उदकाच्यो बाटल्यो पियेवंच्यो पडटल्यो. नाजाल्यार अर्द कील कँडी, मिठाय वा चॉकलेटी खावंच्यो पडटल्यो.'

आमी दोगांय हांसलीं.

आमचो हांसो आयकून रेखाची आवय आयली. 'तुमी आयच्या जेवणाचीं फकाणां मारतात? आयज चड पदार्थ नाशिल्ले म्हूण म्हाका वायट दिसता. जेन्ना तूं जेवणाक येतलें हें कळ्ळें तेन्ना आयचें जेवण सौम्य आसतलें आनी ताका फुडल्या आयतारा यो अशें कळय म्हूण हांवें तुज्या काकाक सांगिल्लें. पूण ताणें म्हळें तूं घरचेंच कशें आनी तुका कांय दिसचें ना,' तिणें

म्हाका म्हळें.

म्हजी उमळशीक जागी जाली. 'काकी, आयच्या सौम्य जेवणा फाटलें कारण कितें तें म्हाका सांग.'

'स्त्राद्धा वेळार आमी हेर देशांतल्यान आयिल्ल्यो भाजयो वा मसाले वापरीनात. म्हणटकच मेथी, काळीं मिरयां आनी तवशा सारके पदार्थ जेवणांत वापरतात. आमचे पूर्वज नव्यो भाजयो वापरूंक भिंयेताले आनी तांणीं ह्या आयात केल्ल्या वस्तूंक विश्वामित्र सृष्टी अशें नांव दिल्लें.'

अशे तरेची गजाल हांवें पयलेच फावट आयकल्ली. 'ताचो अर्थ कितें?'

काकी पेरी पोंदाक आशिल्ल्या कदेलाचेर बसली. 'काणी अशी आसा, त्रिशंकू नांवाचो एक राजा आशिल्लो. ताका आपल्या मनीस देहासयत सर्गांत वचपाची इत्सा आशिल्ली. खर तपान आनी आपल्या बळान, विश्वामित्र रुशीन ताका सर्गार धाडलो. पूण देवांनी ताका सकयल धुकलून दिलो. कारण तांकां भंय जालो कीं अशें जाल्यार लोकांक सदेह सर्गार येवपाची देख मेळटली. अशें जांवक जायना. विश्वामित्रान त्रिशंकूक परतून वयर धुकलपाचो यत्न केलो, पूण देवांनी ताका सकयल धुकल्लो. अखेरेक, विश्वामित्रान त्रिशंकू खातीर एक नवो संवसार निर्मिलो आनी ताका 'त्रिशंकू सर्ग' अशें नांव दिलें. ताणें भाजयो लेगीत निर्माण केल्यो ज्यो धर्तरीरूय नाशिल्ल्यो आनी सर्गारूय. म्हणटकच वांयगें आनी कॉलीफ्लावरा सारक्यो भाजयो ही विश्वामित्राची निर्मिती आनी त्यो प्रिय मनशांच्या स्त्राद्धा वेळार वापरूंक जायनात.'

आमचे मदीं मोनेळ पातळ्ळो आनी हांव काकीच्या काणयेचेर विचार करूंक लागलें. कांय मिनटां उपरांत हांवें रेखाक कांय केळीं, संत्रीं आनी बॉक्सांत मिठाय घेवन आमचे दिकेन येतना पळयलें.

'यो,' ताणें म्हाका म्हळें, 'कितें तरी खा. केळीं आमच्या पोरसांतलीं आनी मिठाय लेगीत घरांत केल्या. तूं घडये...'

काकान मर्दींच म्हळें, 'आमी भारतांत कितल्योश्योच मिठायो करतात. पूण मूळच्यो त्यो आमच्या देशांतल्यो न्हय. तुका खबर आसा?'

'अप्पा, ताका पेरां आनी केळ्याची काणी सांग. म्हाका ती खऱ्यानीच खूब आवडटा,' रेखान म्हळें. म्हाका केळें दित तें हांसलें.

म्हज्या गिन्यानांत आनीक इल्ली भर घालूंक मेळटा म्हूण खूश जावन काका हांसलो. 'पेरांचें बीं गोंयांतल्यान आयलां,' ताणें सांगलें. 'म्हण पेरीक ग्वावा हें नांव पडलां अशें कांय लोक म्हणटात. कन्नडांत आमी ताका पेरला हण्णू म्हणटात, कारण ताचें मूळ दक्षीण अमेरिकेंतल्या पेरू हांगाचें अशें आमी मानतात. राव तुका एक काणी सांगतां.'

'आमच्या पुराण कथेंतलो रुशी दुर्वास हाका रोकडोच राग येतालो. कोणूय ताका राग हाडीत जाल्यार ताका तो शाप दितालो. तो कंदली नांवाचे बायलेकडेन लग्न जाल्लो. एक दीस तिणें ताका म्हळें, आगा, लोक तुमकां खूब भियेतात पूण हांव तुमचे सांगाता कितलींशींच वर्सां रावतां. तुमचे कडल्यान म्हाका कितेंतरी वर मेळूंक फावो अशें दिसना तुमकां?'

तिच्या उतरांनी जरी दुर्वास अस्वस्थ जालो, तरी ताणें तिका शाप दिलो ना. ती जें कितें उलयल्ली ताचेर ताणें गंभीरतायेन विचार केलो. तिचें म्हणणें खरेंच आसा हें ताका पटलें. 'हांव तुकां एक वर दितां. पूण फकत एकूच. म्हणटकच सारको विचार कर.' ताणें सांगलें.

कांय वेळ विचार करून, तिणें म्हळें, 'म्हजेखातीर एक अशें फळ निर्माण करात जें एकमेव आनी सोबीत कोराचें आसतलें. झाड सर्गांत न्हय तर धर्तरेचेर वाडूंक जाय. आमच्या देशांत खंयूय तें सहजतायेन जावंक जाय. वर्सूयभर ताणें घोंसांनी फळां दिवंक जाय. फळांत बीं आसूंक फावना आनी आमी तें खातकच कांयच त्रास जावंक फावना. तें पिकचे आदीं, आमकां तें शाक म्हूण वापरूंक मेळूंक जाय. आनी एकदां पिकलें काय पुजेवेळार ताचो वापर जावंक जाय. झाडाच्या सगळ्या भागांचो वापर करप आमकां शक्य जावंक जाय.'

दुर्वासाक अजाप जालें आनी बायल सांगता त्या सगळ्या बारीकसाणेन तो प्रभावीत जालो. राग येतकच शाप दिवपाची ताका संवय आशिल्ली आनी मागीर शांत जातकच तो ताचेर उपाय काडटालो. पूण ही सामकी सादी मागणी म्हळ्यार ताच्या गिन्यानाची परीक्षाच आशिल्ली. 'बायलां हुशार आसतात हातूंत अजाप ना. म्हजेसारके दादले रोकडेच अस्वस्थ जातात आनी परिणामांचो पुरायेन विचार करिनासतना कितेंय करतात.' ताणें चिंतलें.

रुशीन देवी सरस्वतीची प्रार्थना केली आनी बायलेची मागणी पुराय करपाखातीर गिन्यान दी म्हूण मागलें. कांय मिनटां उपरांत, बायलेची इत्सा तो पुराय करूंक शकतलो हें ताका होलमलें. अशे तरेन ताणें केळ्याचें झाड निर्मिलें, जें पुराय भारतभर आमकां मेळटा. झाडाच्या प्रत्येक भागाचो म्हळ्यार पान, साल, खोड, फुलां आनी फळांचो वापर सदांच जाता. हरवें केळें शिजोवं येता जाल्यार पिकिल्ल्याची सहजतायेन साल काडून खावं येता. देवाचे पुजेंत लेगीत तें खूब गरजेचें. बीं नाशिल्लें हें फळ आनी तें घोंसांनी येता. जून झाड एक वर्स तिगता आनी ताचे भोंवतणीं ल्हान ल्हान रोंपे रुजतात.

'कंदली खुशालभरीत जाली आनी झाडाक कंदरी नांव दिलें. तिणें जाहीर केलें, जरी हें म्हज्या रागीट घोवान निर्माण केलां, तरी जो कोण हें फळ खातलो, ताका राग येवंचो ना.'

'कालांतरान, लोक केळें व्हडा प्रमाणांत वापरूंक लागले आनी तांकां तें आवडलें. हळू हळू कंदरी हें नांव कदली ह्या नांवांत बदल्लें, आनी संस्कृतांत केळ्याक कदली फळ म्हणूंक लागले.' काणी सोंपोवन काकान एक लांब स्वास घेतलो.

सुपीक कल्पनेंतल्यान घडयिल्ल्या काणयेची मजा दिसून हांव हांसलें. एक केळें घेवपाची खर इत्सा म्हज्या मनांत आयली आनी हांवें मुखा वयल्या प्लेटींतल्यान एक केळें उखल्लें. 'तुमी आयज म्हाका सौम्य जेवण दिलां,' हांवें म्हळें, 'पूण आतां म्हाका खऱ्यांनीच कितेंतरी गोड जाय.'

रेखान बॉक्स उकतें केलें. तातूंत वेगवेगळ्या तरांची मिठाय आशिल्ली. म्हाका गुलाबजाम, जिलेबी, आनी गुलकंद दिसले. गुलाबजाम

पळोवन म्हज्यान रावूं नज. हांवें एक उखल्लो आनी म्हज्या लाळेवपी तोंडांत घालो. तो सामको नरम आनी गोड आशिल्लो. 'कितलो रुचीक आसा!' अपरुपान हांवें म्हळें. 'भारतीय मिठायांच्या बाबतींत आमकां कोणूच हारोवंक शकनात. हेर देशांतले लोक गुलाबजामा बगर कशे रावतात हांव नकळ.'

'एक मिनीट राव, अशे तरेचें उखलापें उलोवं नाका,' रेखान म्हळें. 'गुलाबजाम भारतांतलो न्हय.'

'हय, खरें?' हांवें म्हळें, पूण म्हजें समादान जावंक नाशिल्लें. ताणें म्हाका थांबोवचे आदीं, हांवें आनीक एक गुलाबजाम उखल्लो आनी तोंडांत उडयलो.

'हांव खऱ्यांनीच सांगतां. एक भाशातज्ञ आमचे कॉलेजींत भाशण दिवंक आयिल्लो. ताणें आमकां सांगलें, इंग्लीश सोडून आमी कितलीशींच पर्शियन, अरेबिक आनी पोर्तुगीज उतरां वापरतात. पूण ताची आमकां जाणीव लेगीत ना. गुलाबजाम हें पर्शीयन उतर आनी तो इराणांत करतात. दरबाराची भास पर्शीयन आशिल्ल्यान मोगल काळांत तो भारतांत प्रसिद्ध जालो. जिलेबीच्या बाबतींत लेगीत हें खरें. ती एक मनगटांत घालपाची वस्त आनी जिलेबीचो डिझायन पळयल्यार हें समजता.'

'आतां तूं म्हाका सांगतलें गुलकंद लेगीत आनीक खंयच्यान तरी आयला!' हांवें व्हडल्यान कागाळ केल्लेवरी म्हळें.

तें हांसलें, 'तुजें चूक न्हय. गुलकंद हें लेगीत पर्शीयन उतर. गुल म्हळ्यार गुलाब आनी कंद म्हळ्यार गोड. गुल हें उतर गुलाब ह्या उतरांतल्यान आयलां.'

ह्या सगळ्या माहितीन म्हजो मेंदू सामको थकिल्लो. जेन्ना संत्रीं पळयलीं, तेन्ना हांवें म्हळें, 'आतां हाका हांव संत्रें म्हणचें ना, ताचें कन्नड नांव नारंगी.'

काकान ताळो खांकरलो. 'नारंगी हें भारतीय उतर पूण तें कर्नाटकांतल्यान येवंक ना. तें दोन उतरांनी तयार जालां, नार आनी रंगी,

म्हळ्यार सूर्यासारको कोर आशिल्लें.'

ह्या चर्चेन म्हाका खऱ्यांनीच सामकें शेणिल्लेवरी दिसतालें.

'जेन्ना लोक एका जाग्यार कांय काळ रावतात,' तो उलोवंक लागलो, 'तेन्ना नकळटांच ते खाण जेवण आनी भाशेसयत आपले भोंवतणची संस्कृताय आपलीशी करतात. केन्ना केन्ना, दुसऱ्या प्रदेशांतली पाककला आमी आमच्या थळाव्या पाककलेंत हाडटात आनी ती आमची स्वताचीच समजतात. आमी ज्या जेवणाची आतां चर्चा केली, तातूंत नेमकें हेंच घडलां.'

हांवें म्हजी घड्याळ पळयली. म्हजो भायर सरपाचो वेळ जाल्लो. गुगल लेगीत दिवचो ना अशें गिन्यान म्हाका काकान दिल्लें. तेखातीर चड करून काकाचे, आनी हेरांचे हांवें मनासावन आभार मानले.

घरा वता आसतना, आयतार आसून लेगीत रस्त्यार खूब रहदारी आशिल्ली. पूण म्हाका वाज आयलो ना. काकाचें उलोवप याद करून म्हाका खोस जाताली. घडये हाकाच लागून म्हाका एक प्रसंग याद जालो.

म्हजे आवयक दोन भयणी. जरी तीनूय भयणींचें लग्न एकाच राज्यांतल्या दादल्यां कडेन जाल्लें, तरी तांच्या घोवांच्यो नोकऱ्यो वेगवेगळ्या भागांनी आशिल्ल्यो. एकलो दक्षीण कर्नाटकांतल्या पोरन्या म्हैसूर राज्यांत रावतालो. म्हजे आवय बापूय महाराष्ट्रांत रावताले आनी तिसरो कर्नाटकाच्या एका पयसुल्ल्या कोनशाक रावतालो.

तांचे घोव निवृत्त जाल्या उपरांत, तीनूय भयणी हुबळीच्या एकाच वाठारांत रावंक लागल्यो. म्हज्या सगळ्या मावस भावंडांक मेळप आनी एकठांय जेवप म्हळ्यार मजा आशिल्ली. आमी कुटुंबांवांगडा सण परबो मनयतालीं. जरी प्रत्येकान आपल्या घरांतल्यान गोड कितेंय हाडलें तरी एकाच घरांत जेवण रांदताले.

एका दिवाळेक, आमच्या घरांत कितलींसींच मिश्टान्नां आशिल्लीं. म्हजे आवयन पुरी आनी श्रीखंड केल्लें. म्हैसूरचे म्हजे मावशेन किसमीस खीर

आनी बिसी बेळे अन्न नांवाचो शीताचो एक प्रकार केल्लो, जाल्यार दुसरे मावशेन भिकणां घालून गोडाची चिक्की आनी वांटकुळेच लाडू केल्ले.

आमकां सगळ्या भुरग्यांक तें सगळें खावपाक खूब मजा आयिल्ली. पूण आतां गाडयेंत पयलेच फावट म्हाका जाणीव जाली कीं सगळ्या भयणींनी जंय रावतालीं थंयच्या वाठारांतलें कितेंतरी आपले भितर केळयल्लें. आतां सगळीं लागीं लागीं आसून लेगीत प्रत्येकाच्या घरांतल्या जेवणांत विविधताय आशिल्ली. भारतांतल्या वेगवेगळ्या वाठारांतलें जेवण कितलें उमळशीक वाडोवपी आसतलें हाचो हांव विचार करूंक लागलें.

पनीर पिझा, चीज डोसा आनी भारतीय चायनीज जेवणाचो विचार म्हज्या मनांत आयलो. हे लेगीत अशेच तरेन आयल्यात आसूंक जाय.

भारत हो एक देश अशें खऱ्यांनीच कोणें म्हणलां काय? तो एक खंड – संस्कृतायेन भरिल्लो, जेवणांत विविधताय आशिल्लो आनी तरीय, हांगा रावपी सगळे काळजांतल्यान भारतीय.



१८

# मुंबय ते बंगलोर



ते गिमाचे सुर्वेचे दीस आशिल्ले. बेंगलोर वचपाखातीर हांव गुलबर्गा रेल्वे स्टेशनाचेर उदयन एक्सप्रेसींत चडटालें. ट्रेनींत चडलें, तेन्ना दुसऱ्या वर्गाचो कंपार्टमेंट लोकांनी गच्च भरिल्लो म्हाका दिसलो. जरी तो कंपार्टमेंट रिझर्वड आशिल्लो, तरी कितलेशेच अनधिकृत लोक थंय आशिल्ले. हैदराबादच्या निजामाचें एका वेळार हांगा राज्य आशिल्ल्यान कर्नाटकाचो हो वाठार हैदराबाद कर्नाटक म्हूण फामाद आसा. उदकाचो दुकळ आशिल्ल्यान, गिमांत हांगाचे नीरस भूंयेर शेतकार कांयच रोवंक शकनात. हाका लागून, गिमांत, कितलेशेच गरीब शेतकार आनी जमीन नाशिल्ले कामगार बांदकामाच्या वावराखातीर बेंगलोरांत स्थलांतर करतात. पावसांत शेत रोवपाक ते आपल्या घरा परतून येतात. हो एप्रील म्हयनो आशिल्ल्यान, ट्रेनीच्या कंपार्टमेंटात चड्डूच गर्दी आशिल्ली.

हांव बसलें आनी धुकलून धुकलून बर्थाच्या सामकें कोनशाक पावलें. जरी तो तिनूच मनशांखातीर आशिल्लो, तरी थंय स लोक बशिल्ले. हांवें आशिकुशीक पळयलें आनी म्हाका करीयर करपाच्या विंगड विंगड साधनांचो सोद घेवपाखातीर बेंगलोर येवपी उत्सुक अशे विद्यार्थी दिसले. कांय व्यापारी बेंगलोरच्यान मागोवपाच्या वस्तूंविशीं उलयताले. कांय सरकारी अधिकारी,

गुलबर्गा शाराचेर टीका करताले. ‘कसलो जागो हो! गरमेक लागून हांगा रावप लेगीत सामकें कठीण. लोक हाका ख्यास्तीची बदली म्हणटात हातूंत अजाप ना!’

तिकेट तपासपी येवन लोकांच्यो तिकेटी आनी रिझर्वेशनां तपासूंक लागलो. कोणाकडेन तिकेट आसा आनी कोणाचें रिझर्वेशन हें समजप कठीण आसलें. कांय लोकांकडेन तिकेट आसली पूण रिझर्वेशन नाशिल्लें. ही रातची ट्रेन आशिल्ल्यान लोकांक न्हिदपाचे बर्थ जाय आशिल्ले, पूण ते साप उणे आशिल्ले. ज्या लोकांकडेन रिझर्व केल्ले बर्थ नाशिल्ले ते तिकेट तपासनीसाकडेन कशेंय करून तांची वेवस्था करपाची विनंती करताले. सगळ्यांचें आयकप ताका सामकेंच अशक्य आशिल्लें.

आपले सुक्षीम नदरेन, तो तिकेट नाशिल्ले लोक तेळटालो. तिकेट नाशिल्ले लोक विनंती करताले, ‘सर, आदली ट्रेन रद्द जाली. आमी ते ट्रेनीचें रिझर्वेशन केल्लें. आमची चूक न्हय ही. परत हे तिकेटीखातीर पैशे भरपाचे ना आमकां.’ कांय ताका विनंती करताले, ‘सर, स्टेशनार पावपाक कळाव जालो आनी थंय व्हडली लायन आशिल्ली. तिकेट काडपाक म्हाका वेळ नासलो. म्हण हांव ह्या कंपार्टमेंटात चडलों.’ तपासनीसान भगवदगीता बरी खोलायेन वाचल्या आसूंक जाय; तांच्यो काणयो आयकतना शांत रावून तो तिकेट नाशिल्ल्यांक नव्यो तिकेटी दित रावलो.

अचकीत, म्हजे दिकेन पळोवन ताणें म्हळें, ‘तुमची तिकेट?’

‘हांवें म्हजी तिकेट पयलींच दाखयल्या तुमकां,’ हांवें म्हळें.

‘तुमी न्हय, मॅडम, तुमच्या बर्थापोंदा लिपिल्लें चली. ए, भायर सर, तिकेट खंय तुजी?’

म्हज्या बर्थापोंदा कोणतरी बसलां हें म्हाका जाणवलें. तपासनीस ताचेर तापलो तेन्ना, तें चली लिपिल्लें थंयच्यान भायर आयलें. तें सामकें बारीक, काळें, भियेल्लें आनी खूब रडिल्लेवरी दिसतालें. सुमार तेरा चवदा वर्सांचें आसत तें. ताणें केंस वळोवंक नाशिल्ले आनी एक पिंजिल्लो घागरो आनी

पोलको ताच्या आंगार आसलो. तें थरथरतालें आनी दोनूय हात ताणें जोडिल्ले.

तपासनीसान परत विचाल्लें, 'कोण तूं? खंयच्या स्टेशनार चडलां? खंय वता? हांव तुका पुराय तिकेटीसयत दंड घालूंक शकतां.'

चलयेन जाप दिली ना. कितल्याशाच बिगर तिकेट प्रवाशांकडेन वेव्हार करचो पडिल्ल्यान तपासनीसाक खूब राग आयिल्लो. तो सगळो राग ताणें हे सान चलयेचेर काडलो. 'तुमकां सगळ्या पळपुट्यांक हांव वळखून आसा,' तो आड्डुलो. 'तुमी ट्रेनीन फुकट प्रवास करतात आनी खूब समस्या निर्माण करून दवरतात. तूं म्हज्या प्रस्नांक जापूय दिना आनी तुजे तिकेटीचे पैशेय फारीक करीना. म्हाका म्हज्या सायबाक जाप दिवंची पडटा...'

तरीय चलयेन कांयच म्हळें ना. आशिकुशीच्या लोकांक ते चलयेचें कांयच पडून वचूंक नाशिल्लें. ते आपले व्यवहार करीत आशिल्ले. कांय जाण तिकेटीचे पैशे मेजताले, जाल्यार कांय फुडल्या वाडी स्टेशनार देंवपाची तयारी करताले. वयल्या बर्थावयले लोक न्हिदपाची तयारी करताले जाल्यार सकयल आशिल्ले ते रातच्या जेवणाची. समाजसेवेचो येदो व्हड अणभव आसूनूय अशे तरेचो प्रसंग म्हजेर केन्नाच येवंक नाशिल्ल्यान म्हजेखातीर हें कितेंतरी सामकें वेगळेंच आशिल्लें.

कांयच आयकूंक नाशिल्लेवरी तें चली ओग्गी उबें रावलें. तपासनीसान ताच्या हाताक धरलें आनी ताका फुडल्या स्टेशनार देंवपाक सांगलें. 'हांवूच तुका व्हरून पोलिसांकडेन दितां. ते तुका अनाथाश्रमांत व्हरून सोडटले,' ताणें म्हळें. 'म्हाका नाका ती विवंचना. वाडी स्टेशनार देंव तूं.'

चली हाल्लें ना. तपासनीस ताका जबरदस्तीन कंपार्टमेंटा भायर ओडूंक लागलो. अचकीत, म्हाका एक विचित्र भावना जाणवली. हांव उबें रावलें आनी तपासनीसाक उलो मारलो. 'सर, ताची तिकेट हांव दितां,' हांवें म्हळें. 'काळोख जावंक लागला. हे वेळार एक तरनाटें चली प्लॅटफॉर्मार राविल्लें म्हाका नाका.'

तपासनीसान भिंवयो उबारून म्हाका पळयलें. तो हांसलो आनी

म्हळें, 'मॅडम, ताचेखातीर तुमी तिकेट घेतात ही एक बरी गजाल. पूण ताचेसारकीं जायतीं भुरगीं हांवें पळयल्यांत. तीं एका स्टेशनार भितर सरतात, दुसऱ्या स्टेशनार देंवून परत दुसरी ट्रेन घेतात. तीं भीक मागतात वा तिकेटीशिवाय आपल्या मुक्कामाचेर पावतात. आयची ही गजाल अपवादात्मक न्हय. तुमचे पयशे तुमी कित्याक वगडावंक सोदतात? तें तिकेट घेवन लेगीत प्रवास करचें ना. तुमी कांय पयशे दिल्यार तें आतांच वतलें.'

हांवें कंपार्टमेंटा भायर पळयलें. ट्रेन वाडी जंक्शनार पावताली आनी प्लॅटफॉर्मावयल्यो लायटी चकचकीत दिसताल्यो. च्या, ज्यूस आनी जेवण विकपी फेरीवाले ट्रेनीकडेन धांवत येताले. काळोख जाल्लो. तपासनीसाचो सल्लो म्हज्या काळजाक मानवलो ना - आनी हांव सदांच म्हज्या काळजाचें आयकतां. ताणें म्हळें तें खरें आसतूय पूण म्हजें अशें कितें वतलें - कांय शेंकड्यांनी रुपया?

'सर, तें बरें आसा. तरी लेगीत हांव ताची तिकेट फारीक करतां,' हांवें म्हळें.

हांवें चलयेक विचारलें, 'तूं खंय वता तें म्हाका सांगशी?'

चलयेन अविस्वासान म्हजेकडेन पळयलें. त्याच खिणाक हांवें ताचे वेदनेन भरिल्ले सोबीत काळेच दोळे पळयले. ताणें एकूय उतर काडलें ना.

तपासनीस हांसलो आनी म्हळें, 'हांवें तुमकां सांगूंक ना, मॅडम. अणभव हो सगळ्यांत बरो शिक्षक.'

तो चलयेवटेन वळ्ळो आनी म्हळें, 'देंव सकयल.'

मागीर म्हजेकडेन पळयत ताणें म्हळें, 'मॅडम, जर तुमी धा रुपया दिले, जाल्यार तिकेट दिवन जातली ताचेपरस चड खोस जातली ताका.'

हांवें ताचें आयकलें ना. तें चली आपल्याक जाय थंय देंवूंक शकचें म्हूण हांवें तपासनीसाक बेंगलोर ह्या निमाण्या स्टेशनामेरेनची तिकेट दी म्हण सांगलें.

तपासनीसान परत एक फावट म्हजेकडेन पळयलें आनी म्हळें, 'पूण ताका बर्थ मेळचो ना आनी तुमकां दंड भरचो पडटलो.'

मुकाट्यान हांवें म्हजी पर्स उगडली.

तपासनीसान फुडें म्हळें, 'जर तुमी दितात जाल्यार तुमकां ट्रेन ज्या स्टेशनावयल्यान सुटली थंयच्यान तिकेटीचे पयशे फारीक करचे पडटले.'

ट्रेन मुंबय व्हीटीवयल्यान सुटून बेंगलोरमेरेन वताली. ओग्गी रावून हांवें पयशे फारीक केले. तपासनीसान तिकेट दिली आनी हिणसायल्ले भशेन करून गेलो.

चली तशेंच उबें आशिल्लें. आतां ताचेकडेन तिकेट आशिल्ल्यान हांवें म्हज्या बरोबरच्या प्रवाशांक मातशें घोळून ते चलयेक बसपाक इल्लो जागो दिवंक सांगलें. नाखुशीन ते मातशे कडेक सरले. मागीर हांवें ते चलयेक सिटार बसपाक सांगलें – पूण तें बसलें ना. हांवें आग्रो केलो तेन्ना तें जमनीर बसलें.

उलोवंक खंयच्यान सुरवात करची तें म्हाका कळनासलें. ताचेखातीर हांवें जेवण मागयलें. जेवण आयलें तेन्ना ताणें तें हातांत धरलें पूण खालें ना. ताका जेवंक वा उलोवंक लावपाचे म्हजे यत्न फुकट गेले. निमाणें, हांवें ताची तिकेट ताचेकडेन दिली आनी म्हळें, 'पळय, तूं म्हजेकडेन उलोवंक सोदिना ताका लागून तुज्या मनांत कितें आसा तें म्हाका कळना. म्हूण ही तिकेट. तुका जाय थंय तूं देवंक शकता.'

रात जावंक लागली तशे लोक आपल्या बर्थांचेर आनी सकयल न्हिदूंक लागले, पूण तें मात बसून रावलें.

दुसरे दिसा सकाळीं स वरांचेर जेन्ना हांव जागें जालें, तेन्ना तें झेमतालें. हाचो अर्थ तें मदीं खंयच देवूंक नासलें. ताचो जेवणाचो डबो रितो आशिल्लो. ताणें कितेंतरी खालें म्हूण म्हाका खोस जाली.

ट्रेन बेंगलोराक लागीं पावली तसो कंपार्टमेंट खाली जावंक लागलो.

हांवें ताका सिटार बसपाक सांगलें आनी हे फावट ताणें तें मानून घेतलें. ल्हवूल्हवू तें उलोवंक लागलें. आपलें नांव चित्रा अशें ताणें सांगलें. तें बिदर लागसारच्या एका गांवांत रावतालें. ताचो बापूय एक हमाल आशिल्लो आनी आवय ताच्या जन्मावेळार संवसाराक अंतरिल्ली. ताचो बापूय परतो लग्न जाल्लो आनी ताका दोन चले जाल्ले. पूण कांय म्हयन्यांपयलीं, ताचो बापूय संवसार सोडून गेल्लो. ताची सावत्र आवय ताका मारताली आनी जेवंक दिनासली. ताच्या पिंजिल्ल्या, रगताचीं खतां आशिल्ल्या पोलक्यावयल्यान आनी ताच्या आंगावयल्या दागांवयल्यान तें खरें उलयता हें म्हाका कळ्ळें. ते जिणेचो ताका वाज आयिल्लो. ताका आदार दिवपी कोणूच नाशिल्लो म्हूण ताणें बऱ्याच्या सोदांत घर सोडिल्लें.

हो वेळ मेरेन, ट्रेन बेंगलोर पाविल्ली. हांवें चित्राचो निरोप घेतलो आनी सकयल देंवलें. म्हज्या ड्रायव्हरान येवन म्हजीं बॅगां उखल्लीं. कोण तरी म्हाका पळयता अशें म्हाका दिसलें. हांवें फाटल्यान पळयलें तेन्ना चित्रा थंय उबें रावून दुखेस्त नदरेन म्हाका पळयतालें. पूण हांवें करपासारकें आनीक कांयच नाशिल्लें.

हांव म्हजे गाडयेकडेन वचपाक लागलें, तेन्ना चित्रा म्हजे फाटल्यान येता हें म्हाका जाणवलें. ताका पुराय संवसारांत कोणूच ना हें हांव जाणा आसलें. आतां, हांव त्रासांत पडिल्लें. ताचें कितें करचें हें म्हाका कळनासलें. काकूळट येवन हांवें ताची तिकेट काडिल्ली पूण तें म्हजी जापसालदारकी जायत हें हांवें केन्नाच चिंतूंक नाशिल्लें. पूण चित्राचे नदरेंतल्यान हांव एक दयाळू मनीस आशिल्ल्यान तें म्हाका घट धरून रावंक सोदतालें. हांव गाडयेंत भितर सरलें तेन्ना, तें भायल्यान म्हाका पळयत रावलें.

एक खीण म्हाका भंय दिसलो. 'हांव कितें करतां?' हांवें म्हाकाच विचारलें. वाडी जंक्शन स्टेशनार म्हाका ताच्या सुरक्षिततेची चिंता जाल्ली, आनी आतां हांव ताका येद्या व्हडल्या बेंगलोर शारांत सोडटालें – आदले परस वायट परिस्थितींत. चित्राचें हांगा कितेंय जावंक शकता. कितलेंय जाल्यार, चली तें. लोकांनी ताचे परिस्थितीचो गैरफायदो घेवपाच्यो कितल्योश्योच तरा आसात.

हांवें ताका म्हजे गाडयेंत येवपाक सांगलें. ड्रायव्हर उत्सुकतायेन ते चलयेकडेन पळयतालो. हांवें ताका म्हजो इश्ट राम हाचेकडेन व्हरपाक सांगलें. राम चले आनी चलयांखातीर वेगवेगळीं आदार घरां चलयतालो. इन्फोसिस फावंडेशनांतल्यान आमी ताका नेमान अर्थीक मजत करतालीं. कांय दीस चित्रा थंय रावत आनी मागीर हांव टूरार वचून कांय दिसांनी परतें येतकच ताच्या फुडाराविशीं उलोवं येत अशें हांवें चिंतलें. आदार घरांतल्या सुमार धा चलयांतल्यो तीन चित्राचे पिरायेच्यो आशिल्ल्यो. थंयच्यो चडश्यो चलयो म्हाका वळखताल्यो.

हांव थंय पावलें तेन्ना थंयची सुपरवायजर म्हजेकडेन उलोवपाक भायर आयली. हांवें तिका परिस्थिती सांगली आनी चित्राक तिचे सुवादीन केलें. हांवें चित्राक सांगलें, 'दोन सप्तकां तूं हांगा रावंक शकता. हुसको करूं नाका. हे सगळे खूब बरे लोक. हांव दोन सप्तकांउपरांत येवन तुका मेळटां. हांव येवन मेळसर तरीं हांगाच्यान खंयच वचूं नाका. तुजे सुपरवायजराकडेन उलय. तूं तिका अक्का म्हणूंक शकता.' (कन्नड भाशेंत अक्का म्हळ्यार व्हडली भयण.) हांवें सुपरवायजराकडेन कांय पयशे दिले आनी ताचेखातीर कांय कपडे आनी हेर गरजेच्यो वस्तू विकत्यो हाडपाक सांगलें.

दोन सप्तकांउपरांत हांव आदारघरांत गेलें. चित्रा थंय आसत हाची म्हाका खात्री नाशिल्ली. पूण आदले परस खूब खोशी दिसपी चित्राक पळोवन हांव अजापलें. ताचे जिणेंत पयलेच फावट ताका बरें जेवण मेळिल्लें. नवे कपडे घालून तें ल्हान भुरग्यांक शिकयतालें. जेन्ना ताणें म्हाका पळयलें, तेन्ना उमळशिकेन तें उठून उबें रावलें. सुपरवायजरान म्हळें, 'चित्रा एक बरें भुरगें. तें आमकां रांदचे कुडींत मजत करता, आदारघर निवळ करता आनी ल्हान भुरग्यांक लेगीत शिकयता. तें ताच्या गांवांतले शाळेंत एक हुशार भुरगें आशिल्लें आनी ताका फुडें हायस्कुलांत वचपाचें आशिल्लें पूण ताच्या घरच्यांनी ताका वचपाक दिलें ना अशें तें सांगता. हांगा, तें सुशेगाद आसा आनी ताका फुडें शिकपाचें आसा. ताच्या फुडाराविशीं तुमचो कितें प्लॅन आसा? ताका आमी हांगा दवरपाक शकतात?'

रोकडोच, राम आमचेकडेन आयलो. तो सगळी गजाल जाणा आसलो आनी चित्रा थंयच्च्याय लागींच्या हायस्कुलांत वचूंक शकता अशें ताणें सुचयलें. हांवें हें रोकडेंच मानून घेतलें आनी म्हळें तें जितलें शिकतलें तितलो तेंप ताचो सगळो खर्च करपाक हांव तयार आसा. चित्राक एक नवें घर आनी जिणेंत एक नवी दिका मेळ्ळ्या हें कळ्ळें आनी हांव थंयच्यान भायर सरलें.

म्हज्या कामांत हांव चड चड घुसपलें आनी आदारघरांतल्यो म्हज्यो पावटी वर्साक फकत एकदांच जावंक लागल्यो. पूण फोनार हांव सदांच चित्राविशीं जाणून घेतालें. तें बरें शिकतालें आनी ताची प्रगती बरी चल्ल्या हें म्हाका खबर आशिल्लें.

वर्सां गेलीं. एक दीस रामान फोन केलो आनी चित्राक धावेक 85 टक्के मार्क मेळ्ळे म्हूण सांगलें. ताका मेळूंक आनी परबीं दिवंक हांव जेन्ना आदारघरांत गेलें तेन्ना तें खूब खोशी आशिल्लें. एक आत्मविस्वासान भरिल्लें तरनाटें चली जाल्लें तें. ताच्या सोबीत काळ्या दोळ्यांत तेज आशिल्लें.

तें फुडें शिकूंक सोदता आसत जाल्यार ताचे कॉलेजीचो खर्च करपाची हांवें तयारी दाखयली. पूण ताणें म्हळें, 'ना अक्का. हांवें म्हज्या इश्टांकडेन उलोवन म्हज्या मनांत थारायलां. हांवें तीन वर्सांचो कॉँप्यूटर डिप्लोमा करपाचें थारायलां कारण मागीर रोकडीच तीन वर्सांनी म्हाका नोकरी लागूं येता.' हांवें ताका इंजिनियरिंगाची डिग्री करपाखातीर समजावपाचो यत्न केलो पूण तें तयार जालें ना. ताका जाता तितलें बेगीन अर्थीक नदरेन स्वतंत्र जावपाचें आशिल्लें. खंयतरी भितर म्हज्या मनांत, तें कितें चिंतता तें म्हाका जाणवलें.

तीन पावसाळे गेले. चित्रा एकदम बऱ्या मार्कांनी डिप्लोमा पास जालें. असिस्टंट टेस्टींग इंजिनियर म्हूण एके सॉफ्टवेयर कंपनींत ताका नोकरीय मेळ्ळी. ताचो पयलो पगार जालो, तेन्ना तें साडी आनी मिठाय घेवन म्हज्या ऑफिसांत आयलें. ताच्या ह्या वागण्यान हांव हाल्लें. उपरांत, म्हाका

समजलें कीं ताणें आपलो सगळो पगार आदारघरांतल्या जण एकल्याक किते तरी घेवपाखातीर खर्च केल्लो.

कांय दिसांनी, एक नवी समस्या सोडोवपाखातीर रामान म्हाका फोन केलो. 'चित्रा आतां नोकरी करता. हें आदारघर फकत शिकपी भुरग्यांखातीर आशिल्ल्यान चित्रा आतां हांगा रावंक शकना.' हांवें रामाक सांगलें कीं हांव चित्राकडेन उलयतां आनी ताका दर म्हयन्याक भाडें म्हूण कांय पयशे आदारघराक दिवपाक सांगतां. अशे तरेन लग्न जायसर तें हांगा रावूंक शकतलें. लग्न जावंक नाशिल्ले आनी अनाथ आशिल्ले चित्रासारके चलयेक आदारघर ही एक सामकी सुरक्षीत सुवात अशें म्हाका खरपणान दिसतालें.

'तूं ताचेखातीर चलो सोदतली?' रामान विचारलें.

ही एक नवी आनी व्हड समस्या आशिल्ली. ताचें अनुपचारीक पालक म्हूण हांवें चित्राखातीर एक चलो सोदूंक जाय वा ताणें स्वता आपलो जिणेचो सांगाती सोदूंक जाय. ही एक व्हड जापसालदारकी. म्हाका समस्यांक फुडो करपाचो घोस्त आसा अशें लोक म्हणटात तातूंत अजाप न्हय. पूण तातूंतल्यान भायर सरपाचोय रस्तो म्हाका देव दाखयता. हांवें रामाक सांगलें, 'ताका फकत एकवीस वर्सां आसात. कांय वर्सां ताका नोकरी करूंदी. जर कोणूय बरो भुरगो तुका सापडलो, जाल्यार म्हाका कळीत कर.'

चित्राक आपोवन हांवें आदारघरांत रावपाचेर म्हजें मत सांगलें आनी चित्रान भाडें दिवपाक खोशयेन हयकार दिलो.

दीस गेले, आनी म्हयने वर्सांनी बदलले. एक दीस, हांव दिल्लींत आसतना, म्हाका चित्राचो फोन आयलो. तें खूब खोशी आशिल्लें. 'अक्का, म्हजी कंपनी म्हाका अमेरिकेक धाडटा. तुमकां मेळून म्हाका तुमचो आशिर्वाद घेवपाचो आशिल्लो पूण तुमी हांगा बेंगलोरांत नात.'

म्हाका परमानंद जालो. हांवें म्हळें, 'चित्रा, तूं आतां एका वेगळ्याच देशांत वतलें. तुजी काळजी घे आनी संपर्क दवर. म्हजे आशिर्वाद सदांच तुजेबराबर आसात.'

वर्सां गेलीं. मदींमदीं, म्हाका चित्राची मेल येताली. आपलें काम तें बेसबरें करतालें. अमेरिकेंतल्या जायत्या शारांनीं ताची नेमणूक जाताली आनी तें जिणेचो आनंद घेतालें. तें आसा थंय खोशी उरचें म्हूण हांव मनांतल्या मनांत मागतालें.

कांय वर्सां उपरांत, म्हाका कन्नड कूट, हे कन्नड उलोवपी आनी कार्यावळी घडोवन हाडपी संस्थेचे वतीन भाशण करपाखातीर सान फ्रान्सिस्कोक येवपाचें निमंत्रण आयलें. भाशण हॉटेलाच्याच सभाघरांत आशिल्लें आनी हांवें त्याच हॉटेलांत रावपाचें थारायलें. भाशणाउपरांत, हांवें विमानतळार वचपाक भायर सरपाचें थारायलें. जेन्ना हॉटेलाचो रुम सोडून बील फारीक करपाखातीर हांव रिसेप्शन कावंटरार गेलें तेन्ना रिसेप्शनिस्टान म्हळें, 'मॅडम, तुमी आमकां कांयच फारीक करपाक नाका. थंय बशिल्ले बायलमनशेन तुमचें बील फारीक केलां. ती तुमकां बरी वळखता आसतली.'

हांवें वळून पळयलें जाल्यार म्हाका थंय चित्रा दिसलें. तें एका तरनाट्या गोऱ्या मनशावांगडा सोबीत बरी साडी न्हेसून उबें आशिल्लें. मोटव्या केंसांक लागून तें खूब सोबीत दिसतालें. ताचे काळेच दोळे खोशयेन आनी अभिमानान लिकलिकताले. म्हाका पळयतांच तें हांसलें आनी म्हाका वेंगेंत घेवन म्हज्या पायांक स्पर्श केलो. म्हाका खूब खोस जाली आनी कितें उलोवचें तेंच कळना जालें.

'चित्रा, कशें आसा तूं? कितलींशींच वर्सां जालीं तुका पळोवन. म्हाका सामकें अजाप जालां. आयज हांव ह्या शारांत आसतलें हें तुका कशें कळ्ळें?'

'अक्का, हांव ह्याच शारांत रावतां आनी आयज तुमचें थळाव्या कन्नड कूट संस्थेंत भाशण आसा हें म्हाका कळ्ळें. हांवूय हे संस्थेचें एक सभासद. तुमकां अजापीत करपाचें आशिल्लें म्हाका. तुमचे कार्यावळीविशीं जाणून घेवप मातूय कठीण न्हय.'

'चित्रा, म्हाका तुका कितलेशेच प्रस्न विचारपाचे आसात. काम कशें

चल्लां? तूं भारतांत आयिल्लें? आनी म्हत्वाचें म्हळ्यार तुका तुजो सांगाती मेळ्ळो? आनी म्हजें हॉटेलाचें बील तुवें कित्याक फारीक केलें?'

'ना, अक्का. थंयच्यान हांगा आयलेउपरांत हांव परत भारतांत वचूंक ना. आयिल्लें जाल्यार, तुमकां मेळनासतना परत येवपाचें? अक्का, म्हाका तुमकां कितें सांगपाचें आसा. तुमी सदांच म्हज्या लग्नाचो हुसको करतालीं हें हांव जाणां. तुमी म्हजी जात केन्नाच विचारली ना. पूण हांवें जिणेंत थीर जावंचें अशी तुमची सदांच इत्सा आशिल्ली. म्हजेखातीर चलो सोदप खूब कठीण आशिल्लें तुमकां हें हांव जाणां. आतां, म्हजो सांगाती म्हाका मेळ्ळा. हो म्हजो सहकारी, जॉन. ह्या वर्सा अखेरेक आमी लग्न जातलीं. तुमी आमच्या लग्नाक येवन आमकां आशिर्वाद दिवंक जाय.'

चित्राखातीर जे तरेन घडणुको घडिल्ल्यो त्यो पळोवन म्हाका खूब खोस जाल्ली. पूण तरीय हांव म्हज्या मूळ प्रस्नार आयलें. 'चित्रा, तुवें म्हजें हॉटेलाचें बील कित्याक फारीक केलें? हें सारकें न्हय.'

दोळ्यांत दुकां आनी तोंडार कृतज्ञताय घेवन चित्रान म्हळें, 'अक्का, जर तुमी म्हाका मजत करूंक नाशिल्ली, जाल्यार आयज हांव खंय आसपाचें हांव नकळ – घडये भिकारी, वेश्या, घर सोडून गेल्लें भुरगें, कोणाच्या तरी घरा नोकर... घडये हांव जीव लेगीत दीयन आसलें. तुमी म्हजी जीण बदलली. हांव तुमचें उपकारी आसा.'

'ना चित्रा. तुज्या यशाचे निसणीचो हांव फकत एक पांवडो.' हांवें म्हळें. 'तूं आयज ज्या जाग्यार आसा थंय तुका पावोवपी खूप पांवडे आसात – तुजो सांबाळ करपी आदारघर, तुका बरें शिक्षण दिवपी शाळा, तुका अमेरिकेक धाडपी कंपनी आनी, हाचेयपरस, तूं – सगळ्यांत चड निग्रही आनी चैतन्यमयी चली – जाणें आपली जीण आपणेंच घडयली. एकाच पांवड्यान निमाण्या येसाचें श्रेय केन्नाच घेवंक फावना.'

'ते तुमचे विचार, अक्का. तुमचे म्हजे मदीं फरक आसा,' ताणें म्हळें.

'चित्रा, तुजे नवे जिणेक तूं आतां सुरवात करता आनी तुज्या नव्या

कुटुंबाखातीर तुवें पयशे सांबाळून दवरूंक जाय. म्हजें हॉटेलाचें बील तुवें कित्याक फारीक केलें?'

चित्रान जाप दिली ना पूण जॉनाक म्हाका पांयां पडपाक सांगलें. मागीर, अकस्मात हुंडकेयत, ताणें म्हाका वेंग मारली आनी म्हळें, 'तुमी म्हजी मुंबय ते बेंगलोर तिकेट काडिल्ली म्हूण!'



१९

# दयनीय जैत



हांवें कॉलेजींत शिकयल्ले पयले तुकडेंतलो विष्णू हो तरनाटो, हुशार आनी महत्वाकांक्षी विद्यार्थी. हाका लागून मागीरच्या तुकडेंतल्या विद्यार्थ्यांपरस ताचेकडेन म्हजे संबंध चड लागींचे आशिल्ले. तो मोहक, अभिव्यक्तिशील आनी स्पश्ट विचारांचो आशिल्लो.

कॉलेजींत वेगवेगळ्या मुद्द्यांचेर आमचे व्हड वादविवाद चलताले. कितल्याश्याच मुद्द्यांचेर आमी सहमत वा असहमत जातालीं. हांव विष्णूक सांगतालें, 'विष्णू, तुजेपरस चड पावसाळे हांवें पळयल्यात. जिणेंतल्या म्हज्या अणभवावयल्यान हांव तुका सांगूंक सोदतां कीं विक्रम, इनामां, पदव्यो आनी पयशांपरस बरे संबंध आसप, आपलेपण आनी मनाची शांती हें चड म्हत्वाचें.'

विष्णू वाद घालतालो, 'मॅडम, तुमकां सगळें मेळ्ळां आनी तुमचें पोट भल्लां. म्हूण तुमी जिणेंत सुसेगाद आसात आनी हें उलोवंक शकतात. तुमी कितलींशींच इनामां जोडल्यांत, म्हूण तुमकां तांची पर्वा ना आनी तुमी म्हत्वाकांक्षी ना. म्हजेसारक्या लोकांक तुमी केन्नाच समजून घेवंक शकनात.' मागीर, हांव ताचेकडेन पळोवन सदांच हांसतालें. ताच्या मेकळेपणाक लागून म्हाका तो आवडटालो.

शिकोवपांतूय विष्णू खूब बरो आशिल्लो. ताणें पदवी घेतली आनी ताका सियेटल, अमेरिकेंत एक उत्तम नोकरी मेळ्ळी. विदेशांत वचपाखातीर तो व्हिसाची वाट पळयतालो. तितले म्हणसर हांवें ताका म्हजे कॉलेजींत शिकोवपाक सांगलें. जेन्ना प्रयोगशाळेंत वचप म्हाका शक्य जायनासलें, तेन्ना हांव ताका म्हजो बदली म्हूण कनिश्ठ प्रयोगशाळेचो ताबो घेवंक सांगतालें. विद्यार्थ्यांमदीं तो खूब लोकप्रिय जाल्लो.

हांवें विष्णूक विचारलें, 'तुका शिकोवप बरें जमता. प्रोफेसर जावपाचेर तूं गंभीरपणान कित्याक विचार करिना?'

ताणें म्हळें, 'अमेरिकेंतलो म्हजो म्हयन्याचो पगार हांगाच्या शिक्षकाच्या वर्सुकी पगारापरस कितलोसोच चड आसा. प्रोफेसर जावंक हांव कित्याक सोदतलों?'

'विष्णू, इतलो उर्मट जावं नाका. शिक्षकाक पगाराखातीर न्हय तर ताच्या वा तिच्या गिन्यानाक आनी शिकोवपाक लागून मान मेळटा. शिक्षणीक पेशाक जर तूं मान दिवंचो ना, जाल्यार बरें आसा पूण अशे तरेची तुळा करूं नाका.'

रोकडोच, आपल्या नव्या कामाखातीर विष्णू देश सोडून गेलो.

कांय वर्सां गेलीं आनी एक दशक सोंपलें. म्हजे विद्‌यार्थी जे एका काळार तरनाटे आशिल्ले ते आतां मध्यम पिरायेचे आनी हांव मध्यम पिरायेंतल्यान जाणटे पिरायेर पाविल्लें.

एक दीस, विष्णू नांवाचो कोणतरी म्हाका मेळूंक सोदता अशें म्हजे सेक्रेटरीन सांगलें. हो वेळ मेरेन, हांव कितल्याश्याच विष्णूंक वळखतालें आनी ताका लागून हो खंयचो तें लक्षांत येना जालें. तो तुमचे पयले तुकडेंतलो तुमचो विद्यार्थी आशिल्लो, तिणें म्हळें. आतां रोकडेंच म्हज्या लक्षांत आयलें आनी हांवें तिका मेळपाचो वेळ थाराय म्हूण सांगलें. कितेंय जाल्यार पोरनो सोरो, पोरन्यो यादी आनी पोरने विद्यार्थी जिणेंत अनमोल आसतात.

थारायल्ल्या दिसा, विष्णू सारको वेळार आयलो. आदलेपरस ताचे

केंस कमी जाल्ले आनी कांय धवे जावंक लागिल्ले. ताचें वजन वाडिल्लें. ताणें एक उंची शर्ट घाल्लो आनी ताच्या बोटांत प्लॅटिनमाची वज्राची मुदी आशिल्ली. पूण देवा सायबा, ताचें तोंड मात सुकिल्ल्या टमाटावरी दिसतालें. ताचेर मातूय उमेद नाशिल्ली. उरफाटें, ताच्या तोंडार चिंतेच्यो कांय मिरयो म्हाका दिसल्यो.

तो म्हजे मुखार बसलो आनी हांवें ताचेखातीर च्या हाडूंक सांगलें. विष्णून म्हजेकडेन पळयलें आनी म्हळें, 'मॅडम, तुमी आतां साम़क्योच जाणट्यो दिसूंक लागल्यो.'

हांव हांसलें आनी म्हळें, 'वेळ आनी भरती कोणाखातीर रावनात.' पूण तो हांसलो ना. 'कसो आसा तूं, विष्णू?' हांवें विचारलें. 'तुका मेळून पंदरा वर्सां जालीं. आदल्या शिक्षकाची याद करून म्हाका मेळपाक आयलो म्हूण खरेंच बरें दिसलें. खंय आसता तूं? कितें करता सध्या? आजुनूय तूं मायक्रोसॉफ्टांत आसा?'

'ना मॅडम. तीन वर्सां उपरांत मायक्रोसॉफ्ट सोडलें हांवें,' विष्णून जाप दिली.

'खंयचोय मनीस तीन वर्सांपरस चड एके सॉफ्टवेयर कंपनींत रावलो जाल्यार तो इमानी मनीस अशें लोक म्हणटात तांतूंत अजाप ना.'

म्हज्या मस्कऱ्यांक ताणें प्रतिसाद दिलो ना. 'सध्या खंय आसता तर तूं?' हांवें परत विचारलें.

'सिंगापुरांत म्हजी एक कंपनी आसा. दोनशीं लोक काम करतात थंय. आमकां खूब फायदो जाता.' विष्णूच्या आवाजांत कर्तृत्वाचो अभिमान आसा अशें म्हाका दिसलें, साहजिकच आशिल्लें तें.

'म्हणजे तूं सिंगापुरांत रावता तर?'

'खरेपणीं ना, कामाक लागून हांव परत परत भारतांत येतां. दिल्लींत वसंत विहारांत म्हजें एक घर आसा, मुंबय वरळींत एक फ्लॅट, बेंगलोरच्या राज महाल विलास एक्स्टेंशनांत एक बंगलो, बानेरगट्टा रोडार एक फार्म...'

हांवें ताका थांबयलो. 'विष्णू, हांवें तुका तुजे इस्टेटीविशीं विचारूंक ना. हांव इनकम टॅक्सांतलें मनीस न्हय. तूं सदां खंय रावता इतलेंच म्हाका जाणून घेवपाचें आशिल्लें.' हांव ताचीं फकाणां करतालें, पूण तो हांसलो ना.

'विष्णू, तुजे अर्थीक इस्टेटीविशीं तुवें म्हाका सांगलें,' हांवें फुडें म्हळें, 'आतां तुज्या लग्नाविशीं सांग. लग्न जालो तूं? कितलीं भुरगीं तुका? कितें करतात तीं?' सादारणपणान एके आवयक आनी शिक्षिकेक असले प्रस्न विचारपाचो आपशींच हक्क मेळटा. हांवूय वेगळें न्हय. ही दरेकल्याची खाजगी जीण आशिल्ल्यान कांय लोकांक म्हजे प्रस्न आवडनात आनी म्हाका शिटकावणी मेळ्ळी जाल्यार हांव ओगी रावतां. पूण चडशे लोक खोशयेन म्हाका तांचे जिणेविशीं सांगतात.

'हय. म्हजें लग्न जालां. आठ वर्सांचें एक चली आसा म्हाका,' ताणें म्हळें.

विष्णून आपलें पाकीट काडलें आनी तांतूंतलो ताच्या कुटुंबाचो फोटो म्हाका दाखयलो. कॉलेजींत आसतना तो, ताका कनिश्ठ आशिल्लें एक चली, भाग्यावांगडा भोंवतालो. पूण फोटोंतली बायल वेगळी आशिल्ली. एक मॉडेल कशी, ती अप्रतीम सुंदर आशिल्ली आनी चलीय सोबीत आशिल्लें.

ताची जीण म्हळ्यार जुस्त सोबीत चित्रावरी अशें म्हाका दिसलें. तो येसस्वी, गिरेस्त आशिल्लो आनी ताका एक सुंदर सोबीत बायल आनी चली आशिल्लें. आनिक कितें जाय आसता जिणेंत? अशे तरेन येस मेळटकच, ताणें खूब खोशी आनी उमेदी आसूंक जाय – पूण तो नाशिल्लो. कारण म्हाका खबर नाशिल्लें, पूण तो सांगतलोच हें हांव जाणा आसलें. हांव उलोवपाचें थांबलें आनी विष्णूक उलोवपाक संद दिली.

हळू हळू, विष्णू मेकळो जालो. 'मॅडम, म्हजी एक समस्या आसा. हांव तुमचेकडेन उलोवंक आयलां.'

'कसली समस्या? म्हजेकडेन उपाय आसा अशें दिसता तुका? खरें

म्हळ्यार तुजेसारक्या येसस्वी मनशान म्हजेसारक्या जाणट्या शिक्षकाक मजत करूंक जाय,' ताण निवळावपाखातीर हांवें फकाणां केलीं.

'येसाचो हांगा कांयच संबंद ना मॅडम. फाटलीं कांय वर्सां म्हाका खूब उदास दिसता. अशें दिसता कीं जिणेंत कितेंतरी शेणलां. तें कितें हें हांव सारकें दाखोवंक शकना,' ताणें म्हळें. 'कितेंच म्हाका खुश करूंक शकना. कित्यानूच हांव हालना वा कितेंय, काळीज दुखोवपी अपघात पळोवन लेगीत म्हज्या काळजांत कांयच जायना. अशें दिसता कीं हांव एका उदक नाशिल्ल्या रेंवटांतल्यान प्रवास करतां जंयच्या रस्त्यांक भांगर आनी रुपें...'

हांवें ताका सरळ विचारलें, 'तूं दोतोराक वा सल्लागाराक मेळ्ळा ?'

'मेळ्ळां तर. तांचें म्हणणें जिणेचो आनंद घेवपाक करुणेन भरिल्लें काळीज जाय. तांणीं म्हाका पुस्तकां वाचपाक सांगलें आनी, सुर्योदयाकडेन पळोवन, शेवण्यांचे आवाज आयकून, पयस चलपाक वचून, आनी सदांच व्यायाम करून खुश रावपाचो यत्न करपाचो सल्लो दिलो.'

'बरी गजाल. मागीर कितें जालें ?'

'हें सगळें करून म्हजें वजन देंवलें पूण आनीक कसलीच सुदारणा जाली ना. हांव परतून एक फावट सल्लागाराकडेन गेलों. ताणें म्हाका सोमालियांत भोंवडेर चल म्हूण सांगलें.'

'सोमालिया कित्याक ?' म्हाका अजाप जाल्लें. 'युरोप, हाँगकाँग आनी बँकॉकाक भोंवड्यो आसतात हें हांव जाणा. पूण सोमालियाचे भोंवडेविशीं हांवें केन्नाच आयकूंक ना. म्हाका सांग, तूं गेलो थंय? सोमालियांत वचून कितें केलें तुवें ?' म्हाका उत्सुकताय आशिल्ली.

'तांणीं आमकां अनाथालयांत, एचआयव्ही कँपांत आनी कुपोशीत भुरग्यांच्या कँपांत व्हेलें. पूण कांयच जालें ना. म्हाका आजूनय कांयच दिसना. उरफाटें, म्हजें मन अमेरिका आनी हेर येवरोपी देशांक सोमालिया कशी निर्यात करूं शकता हाचो हिशोब करतालें. म्हज्या जाग्यार आसल्यार तुमी कितें करपाच्यो, मॅडम ?' ताणें म्हाका प्रस्न केलो.

‘तुज्या जाग्यार म्हाका घालूं नाका. हांवें कितें करप हें म्हजेर आसा आनी तुवेंय तशेंच करपाची गरज ना. तुका जो कोण सामको लागींचो आसा - तुजो इश्ट वा तुजी बायल वा तुजे पिरायेच्या कोणायकडेन कित्याक तूं उलयना? तांचेकडेन घडये तुजेखातीर बरो उपाय आसतलो. कितलेंय जाल्यार आमचे पिळगेमदीं अंतर आसा.’

तो ओगी रावलो. मागीर ताणें म्हळें, ‘मॅडम, म्हजे पुराय जिणेंत हांवें हिशोबीपणान इश्टागती केल्यात. म्हाका कांयच उपेग ना अशा लोकांवांगडा हांवें केन्नाच वेळ सारूंक ना. निमाणें निर्दय, स्पर्धात्मक जग म्हळ्यार जीण. म्हजे एके चालीन म्हाका येसाचे निसणीर एक सोंपण वयर व्हरपाक जाय.’

हांव मनांत चिंतूंक लागलें, ‘भाग्याच्या जाग्यार आधुनीक बायल कशी आयली हें आतां समजलें म्हाका.’

‘तुज्या घरच्यांखातीर तूं कितलो वेळ दिता?’

‘म्हजें चली बरें आसा पूण जेन्ना ताका कितेंतरी जाय आसता तेन्नाच तें म्हजेकडेन बरें वागता. केन्ना केन्ना म्हाका हें विचित्र दिसता. निरागसपणाक लागून भुरगें सोबीत दिसता पूण म्हजें चली खूब वेव्हारी. आपल्या बापायकडल्यान मेळिल्ल्या गालिच्यांच्या धंद्यांत म्हजी बायल खूब व्यस्त आसता. ती चडशें काम घराकडल्यान करता तरी लेगीत म्हजेकडेन आनी आमचे चलयेकडेन उलोवपाक तिका वेळ नासता.’

एक सेकंद तो रावलो आनी फुडें उलोवंक लागलो, ‘घडये हांव तसो विचार करतां असत. म्हजे सगळे संपर्क आनी गिरायकां आपलो धंदो वाडोवपापासत तिका जाय. सहचरापरस्पूय तिचेखातीर हांव एक माहिती कोश.’

विष्णूची समस्या म्हज्या लक्षांत आयली. केन्ना केन्ना, तुज्या घरच्यांकडेन उलोवप खूब कठीण दिसता. म्हजेकडेन येवप ताका सुरक्षीत दिसलें हाचें म्हाका काळजांतल्यान बरें दिसलें. पूण म्हजेकडल्यान ताका

बेगोबेग उपाय जाय आसलो. ताची समस्या आयकून घेवंक हांव तयार जालें, हाचो अर्थ म्हाका उपाय खबर आसा असो नाशिल्लो.

विष्णून फुडें म्हळें, 'मॅडम, हांव करुणामय कसो जातलों, म्हाका सांगशात? एक घटमूट घराबो हांव कसो करूंक पावतलों? सुर्योदय आनी चान्याचो आनंद हांव कसो घेवंक शकतलों? हे सगळे गूण आपणावंक कितलो वेळ लागतलो? हे खातीर कसलीं पुस्तकां वा कसलो कोर्स वा लोक आसात जे म्हाका हें शिकोवंक शकतले? म्हाका खर्चाचें पडून गेल्लें ना पूण ताका खूब म्हयने लागपाक जायना.'

उलोवपाचे ताचे हे पद्धतीन म्हाका धक्को बसलो. 'विष्णू, करुणा शिकोवन येना, विकती मेळना वा विकूंक येना,' हांवें म्हळें. 'हांगा वेळाची मर्यादाय नासता. सुर्वेकसावन वाडोवन पूर्णतायेक हाडपाचो हो एक गूण.जीण हो एक प्रवास हें जाणून घे. ह्या सुपुल्ल्या प्रवासांत, जर तूं कोणाकूय करुणा दाखोवंक शकता, जाल्यार ती आतांच दाखय. आमचे पूर्वज एका हेतून सदांच मध्यम मार्गाविशीं उलयताले. हो मार्ग मनशाक थीर, सुखी आनी धादोशी करता. विष्णू, तुज्या भुरग्यांखातीर तूं आदर्श. जें कितें पळयतात तशींच भुरगीं जातात. जें कितें तुवें केलां, तेंच तुजें चली करता.'

विष्णून सुस्कारो सोडलो आनी म्हळें, 'हय मॅडम. तुमी कितें म्हणटात तें कळटा म्हाका. म्हजे चलयेक घेवन हांव गरीब लोकांम्हऱ्यांत वतलों आनी ताचेवांगडा तांचेमदीं काम करतलों. आमचेमदलें बंदन उरपाक मजत जातली हाका लागून. हाका लागून म्हाका हांव एक बरो मनीस आनी हांव लायक आसा अशें परतून एक फावट दिसतलें अशी इत्सा बाळगितां. तुमचेकडेन हांव कित्याक आयिल्लों हें म्हाका आतां कळ्ळें. तुमचे पुरायेन उपकार हांव मानूंक शकना.'

काळजांत एक आशा आनी तोंडार हांसो घेवन विष्णू म्हज्या ऑफिसांतल्यान गेलो.



# २०

# चल्यांचेर जैत



हालींच, जेन्ना हांव अमेरिकेक गेल्लें, तेन्ना म्हाका तरनाटे विद्यार्थी आनी व्हड येस मेळयिल्ले लोक अशा दोन तरांच्या एका पंगडा मुखार उलोवपाचें आशिल्लें. प्रेक्षकांकडे संवाद सादप हांव सदांच पसंत करतां. म्हणटकच हांवें प्रस्नांक सुरवात केली.

कांय प्रस्नां उपरांत, एक मध्यम पिरायेचो मनीस उलोवपाक उबो रावलो. 'मॅम, तुमच्या विचारांत आत्मविस्वास आनी सुस्पश्टताय आसा. सामक्यो सहजतायेन तुमी आमचे कडे उलयतात...'

हांवें सरळ म्हणलें, 'उपकार करून म्हजी तोखणाय करूं नाकात. तुमचो प्रस्न विचारात.'

'म्हाका दिसता तुमी विदेशांत शिकल्यात वा तुमी पाश्चात्त्य देशांतल्यान एमबीए केल्या आसूंक जाय. ताकाच लागून तुमकां इतलो आत्मविस्वास आसा काय?' ताणें विचारलें.

एकूय सेकंद घालय नासतना हांवें जाप दिली, 'म्हज्या बी. व्ही. बींत मेळ्ळा तो म्हाका.'

तो घुसपल्यासारको जालो. ‘म्हजी बी. व्ही. बी म्हळ्यार कितें म्हणूंक सोदतात तुमी ?’

हांव हांसलें. ‘भारतांतल्या कर्नाटक राज्यांतलें मध्यम शार हुबळी हांगाच्या बसप्पा वीरप्पा भूमरड्डी कॉलेज ऑफ इंजिनियरींग अँड टेक्नोलॉजी विशीं हांव उलयतां. भारताभायर हांव केन्नाच शिकूंक ना. आयज हांगा तुमचे मुखार हांव उबें आसा ताचें एकूच कारण म्हळ्यार तें कॉलेज.’

सहजतायेन हांव फुडें उलयलें, ‘सॉफ्टवेयर इंडस्ट्रींतले जे तरनाटे आयज हांगा आसात ते भारत आनी अमेरिके खातीर इन्फोसीस फावंडेशनाच्या योगदानाची तोखणाय करतले हाची म्हाका खात्री आसा. इन्फोसीसाचो बेंगलुरू, कर्नाटक आनी भारताक अभिमान आसा. हांव जर बी. व्ही. बींत नाशिल्लें, जाल्यार हांव इंजिनियर जावंचें नाशिल्लें. जर हांव इंजिनियर जावंक नासलें जाल्यार म्हज्या घरकाराक आदार करपाची तांक म्हजेकडेन आसची नाशिल्ली. आनी जर म्हज्या घरकाराक कुटुंबाचो आदार नाशिल्लो जाल्यार ताका इन्फोसीस स्थापन करपाची संद घडये मेळची नाशिल्ली. तशें जाल्लें जाल्यार, आयज म्हजें उलोवप आयकूंक तुमी सगळे जे हांगा जमल्यात, ते येवंचे नाशिल्ले.’

सगळ्यांनी ताळयो माल्ल्यो आनी हांसले, पूण हांव जें कितें उलयलें तें खरेंच आशिल्लें. सभा सोंपून लोक गेल्या उपरांत, म्हाका थकिल्ले वरी दिसलें आनी लागींच आशिल्ल्या सोफाचेर हांव एकटेंच बसलें.

म्हजें मन फाटीं 1968 वर्सांत गेलें. तेन्ना हांव एक सतरा वर्सांचें चली. आत्मविस्वासान आनी उमेदीन भरिल्लें. इंजिनियर जावप हें म्हजें सपन आशिल्लें. एका शिकिल्ल्या, मध्यमवर्गीय, पुराणमतवादी ब्राम्हण घरांतलें हांव. हुबळींतल्या कर्नाटक मेडिकल कॉलेजींत म्हजो बापूय प्रसुतीशास्त्र आनी स्त्रीरोगविज्ञानाचो प्रोफेसर आशिल्लो, जाल्यार म्हजी आवय लग्नापयलीं सावन शाळेंत शिक्षिका आशिल्ली.

महाविद्यालयीन परीक्षा बऱ्या मार्कांनी पास जातकच हांवें म्हज्या घरच्यांक म्हाका इंजिनियर जावपाचें आसा म्हण सांगलें. म्हाका सदांच

विज्ञानाचें, चड करून तातूंतल्या प्रयोगांचें आकर्शण आशिल्लें. म्हजे कल्पकतायेचो, चड करून डिझायनांचो वापर करपाखातीर म्हाका इंजिनियरींग ही विज्ञानाची एक शाखा जाय आशिल्ली. पूण म्हज्या घरांत मात बॉंबस्फोट जालो.

रोकड्या रोकडी आयिल्ली प्रतिक्रिया शॉकाची आशिल्ली. इंजिनियरींग म्हळ्यार पुरायेन दादल्यांचें राज्य आनी ताकाच लागून त्या काळार चलयां खातीर तें निशिद्ध मानताले. समाजीक स्थितीचेर प्रस्न विचारपाची पद्दत नाशिल्ली. चलयांनी हेर विद्यार्थिनीं वांगडा मेडिकल वा सायन्स कॉलेजींत वचप अशी अपेक्षा आसताली. इंजिनियरींग क्षेत्रांत बायलेन येवप ही कल्पना लेगीत केन्नाच कोणाच्याच तकलेंत येवंक नाशिल्ली. धुकरांनी उडचें अशी अपेक्षा करपा सारकेंच आशिल्लें तें.

हांव म्हजे आजयेची अपुरबायेची नात, पूण तिणें लेगीत म्हजे कडेन तिडकीन पळयलें आनी म्हळें, ‘जर तुवें फुडें सरून हें केलें, जाल्यार उत्तर कर्नाटकांतलो कोणूच चलो तुजेकडेन लग्न जावंचो ना. इंजिनियर बायलेकडे कोण लग्न जावंक सोदतलो? तुजे कडल्यान म्हजी सामकी निराशा जाल्या.’ तिका नाका आशिल्लें कितेंय हांव करीत अशें म्हजे आजयेन केन्नाच चिंतूंक नाशिल्लें. मैसूर शारांत, तुंगभद्रा न्हंयें पलतडीं, नारायण मुर्ती नांवाचो एक मनीस रावता जो फुडें म्हजेकडे लग्न करूंक खोशयेन तयार जातलो हें तिका खबर नाशिल्लें.

म्हजो आजो, इतिहासाचो शिक्षक आनी म्हाका बरोवंक आनी वाचूंक शिकोवपी म्हजो पयलो गुरू, ताणें मात सौम्यपणान विरोध केलो. ‘म्हज्या शाण्या, तूं इतिहासांत सामकें बरें आसा. ह्या क्षेत्रांत तूं कित्याक कांय करूंक सोदीना? एक दीस तूं एक व्हड विद्वान जातलें. इंजिनियरींगा सारक्या नीरस विशया फाटल्यान लागूं नाका.’

म्हजी आवय, जी गणितांत सामकी फिशाल आशिल्ली, तिणें म्हळें, ‘तूं गणितांत बरें आसा. तुजें पदव्युत्तर शिकप गणितांत पुराय करून तूं प्रोफेसर म्हूण नोकरी कित्याक घेना? इंजिनियर जावन घर आनी कामाचो समतोल

सादपाक झगडचे परस लग्ना उपरांत लेगीत तूं सहज कॉलेजांत नोकरी करूंक शकता.'

म्हजो बापूय, एक उदारमतवादी मनीस. बायलांनी शिकचें अशें तो सदांच मानतालो. ताणें एक खिणभर विचार केलो आनी म्हळें, 'म्हाका दिसता तुवें वैजकीकडे वचचें. तुजे लोकांकडेन संबंद एकदम बरे आसात आनी तुका भासोय बऱ्यो येतात. खरें सांगपाचें जाल्यार, इंजिनियरींगाविशीं म्हाका चड खबर ना. आमच्या कुटुंबांत एकूय इंजिनियर ना. दादल्यांचें वर्चस्व आशिल्लें क्षेत्र तें, आनी घडये तुज्या वर्गांत तुका एकूय चली मेळचें ना. उलोवपाक एकूय इश्टिण नासतना जर तुका चार वर्सां काडचीं पडलीं जाल्यार कशें जातलें? विचार करून पळय. तरीय, निर्णय तुजोच आसतलो आनी हांव तुजे बराबर आसतलों.'

हांवें इंजिनियरींग घेतल्यार म्हजे वांगडा कोणूच लग्न जावंचो ना अशें म्हज्या कितल्याश्याच आत्या आनी मावश्यांकूय दिसतालें. घडये म्हाका दुसऱ्या समाजांतल्या कोणायकडे लग्न जावंचें पडटलें, अशी तांकां भिरांत आशिल्ली. त्या काळार असलें कोणेंच केन्नाच आयकूंक लेगीत नाशिल्लें.

तरी लेगीत, हांवें पर्वा केली ना. इतिहासाची विद्यार्थीनी आशिल्ल्यान, हांवें ह्युएन त्संगाचें सी-यू-की हें पुस्तक वाचिल्लें. त्संग भारतांत पदभ्रमणाक येवचे आदीं, ताका सगळ्यांनीं फाटीं ओडिल्लो. पूण ताणें कोणाचें आयकलें ना आनी प्रवास करपाचें थारायलें. कांय काळान, भारतांतल्या ताच्या सतरा वर्सांच्या व्हड प्रवासाक लागून तो प्रसिद्ध जालो. त्संगा कडल्यान धैर्य घेवन, हांवें म्हज्या घरांतल्यांक सांगलें, 'म्हाका इंजिनियरींग करपाचें आसा. कितेंय जावं, म्हज्या ह्या निर्णयाच्या परिणामांक हांव तयार आसा.'

हांवें बी. व्ही. बी कॉलेज ऑफ इंजिनियरींग अँड टेक्नोलॉजीचो फॉर्म भरून दिलो आनी रोकडेंच म्हाका कळ्ळें कीं म्हज्या मार्कांच्या आदारार म्हजी कॉलेजांत निवड जाल्या. म्हाका परमानंद जालो, पूण ह्या घडामोडीक लागून कॉलेज कर्मचारी निराश जाल्यात हें म्हाका खबर नाशिल्लें.

ते वेळार, बी. सी. खानापुरे प्रिन्सिपल आशिल्ले, जे म्हज्या बापायक

वळखताले. एक दीस ते दोगूय एका म्हाल्याच्या दुकानार मेळ्ळे आनी प्रिन्सिपलान, आपले भिरांतीविशींचो खरो मनस्ताप उक्तायलो. ताणें म्हज्या बापायक सांगलें, 'डॉक्टर सायब, तुमचें चली खूब हुशार हें म्हाका खबर आसा आनी फकत ताच्या गुणांक लागून ताका प्रवेश दिल्लो आसा, पूण आमच्योय कांय अडचणी आसात. कॉलेजांत तें एकलेंच चली आसतलें. ताका तें भोव कठीण वतलें. आमच्या कॉलेजांत बायलांखातीर प्रसाधनघर ना. तशेंच मदीं विसव घेवपाक बायलां खातीर लेडीज रुम लेगीत ना. दुसरी गजाल, आमचे विद्यार्थी जुवान आनी गरम रगताचे आशिल्ल्यान घडये ते ताका त्रास दितले. शिक्षकां मुखार ते कांयच करचे नात पूण घडये मागीर कितेंय मस्कऱ्यो करूं येतात. चलयांकडेन उलोवपाची संवंय नाशिल्ल्यान घडये ते ताका सहकार्य वा मजत करचे नात. चार चलयांचो बापूय जाल्ल्यान म्हाका तुजे चलयेचोय हुसको आसा. ताचेच खातीर ताणें आपलो विचार बदलचो अशें उपकार करून तुमी ताका सांगशात?'

म्हज्या बापायन जाप दिली, 'प्रोफेसर सायब, हांव तुमचे कडेन सहमत आसा. तुमी बऱ्याचें सांगतात हें हांव जाणा. पूण म्हजें चली इंजिनियरींगूच करतलें म्हूण हट्टाक पेटलां. खरें सांगपाचें जाल्यार, तें कांयच चुकीचें करीना. म्हणटकच हांवें ताका जाय तें करूंक दिवंचें अशें थारायलां.'

'तशें जाल्यार, डॉक्टर सायब, एक ल्हान विनंती आसा. थंय सगळे जुवान चले आशिल्ल्यान उपकार करून ताका साडी न्हेसपाक सांगात. त्या वातावरणांत ताचेखातीर साडी होच योग्य भेस जातलो. गरजे भायर ताणें चल्यांकडेन उलोवंक जायना कारण ताका लागून अफवा पातळटल्यो आनी आमच्या समाजांत चलयेखातीर तें बरें न्हय. तशेंच, ताका कॉलेज कँटिनात वचून चल्यांवांगडा वेळ पासार करचो न्हय म्हूण सांगात.'

बापायन घरा येवन म्हाका तांचें हें उलोवणें सांगलें. हांवें रोकडेंच तें सगळें मान्य केलें कारण म्हाका म्हजो विचार बदलपाचो नाशिल्लो.

हळूहळू, कांय चल्यांकडेन म्हजी इश्टागत जाली. पूण म्हज्यो मर्यादा म्हाका खबर आशिल्ल्यो. ह्याच सगळ्या चल्यांकडल्यान हांव खूब कितें

शिकलें. दरेका गजालीकडे पळोवपाचो दिश्टीकोण कसो म्हत्वाचो आसता हें हांव शिकलें. प्रत्येक फावट सगळें सहजतायेन घेवपाचें म्हत्व आनी खिलाडू वृत्ती हांव शिकलें. कितलेशेच चले, म्हाका भावावरीच दिसताले. आयज पन्नास वर्सां उपरांत लेगीत आमची इश्टागत तिगून उल्ल्या. बायलां खातीरच्या प्रसाधनगृहाच्या अभावाक लागून, भारतांतल्या कितल्याश्याच बायलांक प्रसाधनगृहां नासत जाल्यार कितल्यो अडचणी येतात हाची म्हाका जाणीव करून दिली. आनी, हाकाच लागून हांव कर्नाटक राज्यांत तेरा हजारांपरस चड प्रसाधनगृहां बांदूंक पावलें.

इतले मजगतीं, म्हजे आवयन म्हजी फी भरपाखातीर एक शुभ दीस सोदून काडलो. त्या दिसा बेरेस्तार आनी म्हयन्याची अखेर आशिल्ली. म्हजी आवय म्हाका त्या दिसा म्हजी चारशीं रुपया फी भर म्हण फाटीक लागली. पूण बापायकडे फकत तीनशीं रुपया उरिल्ले. ताणें तिका सांगलें, 'कांय दीस राव. म्हजो पगार मेळटकच सुधा आपली फी भरूंक शकतलें.'

म्हजी आवय कशीच आयकना जाली. 'आमचें चली कॉलेजांत वतलें, ही व्हड घडणूक. आमी ताची फी आयजूच भरूंक जाय. आयचो दीस शुभ आशिल्ल्यान फुडाराक ताचें शिकप बरें जातलें.'

तीं दोगांय अशे तरेन चर्चा करतालीं, तेन्नाच म्हज्या बापायचो सहायक डॉ. एस. एस. हिरेमठ आयलो. ताचे सांगाता ताचो मांव पाटील आशिल्लो. तो शिग्गावच्या, म्हज्या जल्म गांवांतल्या बाड कॉलेजीचो मुखेली आशिल्लो. पाटीलान उत्सुकतायेन कितें चल्लां काय विचारलें आनी म्हज्या बापायन ताका परिस्थिती सांगली. ताणें आपलें पाकीट काडलें आनी म्हज्या बापायक शंबर रुपया दिले. ताणें म्हळें, 'डॉक्टर सायब, उपकार करून हे पयशे घेयात. तुमचें चली कितें तरी वेगळें करूंक सोदता. म्हूण हांव ताका इनाम दिवंक सोदतां. पालक रिणां काडून आनी घरां वा शेतां विकून, आपल्या पुतांची फी भरून तांकां इंजिनियर करूंक सोदतात हें हांवें पळयलां. खरें म्हळ्यार, जायते फावट आपलो भुरगो सारको शिकतलो काय ना हें लेगीत तांकां खबर आसना. तुमचे चलयेक पळयात. तें मनासावन हें करूंक सोदता, आनी म्हाका दिसता ताचें खरें आसा.'

‘ना, मि. पाटील,’ म्हज्या बापायन म्हणलें. ‘इतली म्हारग भेंट हांव घेवंक शकना. हांव हें रीण म्हूण घेतां आनी फुडल्या म्हयन्यांत म्हजो पगार जालो काय परत दितां.’

म्हज्या बापायचें उलोवप आयकूंक नाशिल्लेवरी करून पाटील फुडें उलयत रावलो, ‘तुजे चलये खातीर सगळ्यांत म्हत्वाची गजाल म्हळ्यार चडांत चड बरें शिकून कोर्स पुराय करप आनी हेर चलयां खातीर बरी देख घालून दिवप.’ मागीर म्हजे कडेन वळून ताणें म्हळें, ‘सुधा, म्हाका उतर दी कीं तुजें वागप सदांच नीतीक धरून, निःपक्षपाती आसतलें. खूब कश्ट करून तूं तुज्या घरच्यांचें आनी समाजाचें नांव व्हड करतलें.’

नमळ जावन हांवें मोन्यांनी तकली हालयली.

एका म्हयन्या उपरांत म्हज्या कॉलेजीचो पयलो दीस आयलो. पयलेच फावट, हांव एक धवी साडी न्हेसलें, घरांतल्या सगळ्या जाणट्यांक पांयां पडलें आनी म्हजेर कृपा करपी देवी सरस्वतीची प्रार्थना केली. मागीर हांव कॉलेजींत वचपाक गेलें.

हांव थंय पावतकच, प्रिन्सिपॉलान म्हाका आपोवन व्हेलें आनी एक चावी दिली. ताणें म्हळें, ‘मिस कुलकर्णी, ही घे. दुसऱ्या माळ्या वयल्या इलेक्ट्रिकल इंजिनियरींग विभागाच्या कोनश्याक आशिल्ल्या एका ल्हान कुडीची ही चावी. तुका जाय तेन्ना तुज्यान हे कुडीचो वापर करूं येता.’

हांवें ताचे आभार मानले, चावी घेतली आनी रोकडेंच ती कूड पळोवंक गेलें. उमळशीकेन हांवें दार उगडलें, पूण आरे देवा! कुडींत दोन मोडिल्ले बांक आशिल्ले आनी प्रसाधनगृहाचो पत्तो नाशिल्लो. कूड धुल्लान इतली भरिल्ली कीं हांव भितर वचपाचो विचार लेगीत करूंक शकलें ना. म्हाका थंय पळोवन एक सफाई कर्मचारी हातांत सान्न घेवन धांवत आयलो. म्हजे कडेन पळय नासतना, ताणें म्हळें, ‘म्हजी चूक जाली. काल प्रिन्सिपल सायबान म्हाका सांगिल्लें आयज सावन एक चली कॉलेजींत येवपाचें आसा. पूण म्हाका दिसलें तो फकाणां करता. म्हूण हांवें कूड निवळ केली ना. आसूं, हांव आतांच ती निवळ करतां.’

ताणें कूड निवळ केल्या उपरांत लेगीत म्हाका ती निवळ जाल्या अशें दिसलें ना. शांतपणान, हांवें ताका म्हळें, 'सान्न हांगाच दवर आनी म्हाका एक वोलो कपडो हाडून दी. हांवूच कूड निवळ करतां.'

म्हज्या मना सारकी कूड निवळ करून, कपड्यांवयलो धुल्ल फाफडून हांव वर्गांत गेलें.

आमचो वर्ग तळमजल्यार आशिल्लो. जेन्ना हांवें वर्गांत प्रवेश केलो तेन्ना दोळ्यांच्यो एकशें एकुणपन्नास जोडयो म्हाका तेळटाल्यो. जणू काय हांव कोणतरी विलक्षण जनावर बी आशिल्लें. तशें तें खरेंय आशिल्लें. ह्या प्राणीसंग्रहालयांतलें हांव एकशें पन्नासावें जनावर आशिल्लें. तातूंतल्या कांय जाणांक शिळोणी घालपाची आसा हें हांव जाणा आशिल्लें. पूण हांवें तोंड सरळ दवरून बसपाक जागो आसा काय म्हूण आशिकुशीक पळयलें. पयलो बांक रिकामो आशिल्लो. हांव थंय बसपाक मात गेलें, बांकार मदींच कोणेंतरीं निळी शाय ओतून दवरिल्ली म्हाका दिसली. तें म्हजे खातीर आसा हातूंत दुबाव नाशिल्लो. दुकां भायर सरतलीं असो म्हाका भंय जालो. पूण हांवें तांकां परतिलीं. हातांत आशिल्ल्या नेमाळ्यान हांवें बांक पुसलो आनी बांकाच्या एका कोनश्याक बसलें.

म्हजे फाटल्यान चले फुतफुतताले तें म्हाका आयकूंक येतालें. एकलो कुरकुरलो, 'तुवें बांकार शाय कित्याक वोतली? घडये तें वचून प्रिन्सिपॉलाकडेन कागाळ करतलें.'

दुसऱ्यान जाप दिली, 'तें हांवेंच केलां हें कशें सिद्ध करतलें तें? हांगा आमी एकशें एकुणपन्नास जाण आसात.'

म्हाका वायट दिशिल्लें, तरी लेगीत हांव कागाळ घेवन प्रिन्सिपॉलाकडेन गेलें ना. जर हांवें कागाळ केली जाल्यार घडये ते चले म्हाका आनीक चड त्रास करीत आनी म्हाका कॉलेज सोडचें पडत अशें ताणें म्हज्या बापायक सांगून दवरिल्लेंच. म्हणटकच, त्या चल्यांनी म्हाका कितलोय जरी त्रास दिलो तरी ओगी रावप अशें हांवें थारायलें.

खरी गजाल म्हळ्यार, त्या चल्यांनी म्हाका चड त्रास दिलो जाल्यार घडये म्हाका इंजिनियरींग सोडचें पडत असो म्हाका भंय दिसतालो. हांवें शारिरीक आनी मानसिक दोनूय कडेन घट रावपाचे मार्ग सोदले. हें म्हजें एक तप कशें, वा साधना. हांव एकूय क्लास चुकोवंचें ना, आनी कोणाच कडेन कसलीच मजत वा नोटस मागचें ना अशें हांवें थारायलें. स्वताकूच संयम आनी बंधन शिकोवपाचो यत्न करता आसतना हांवें आनीक एक निर्णय घेतलो. जोमेरेन म्हजें इंजिनियरींगाचें पदवी मेरेन शिकप पुराय जायना तोमेरेन हांव फकत धव्योच साडयो न्हेसतलें, गोड खावंचें ना, शेंदरेर न्हिदतलें आनी थंड उदकान न्हातलें. हांवें स्वावलंबी जावपाची मोख दवरली; हांवूच म्हजी सगळ्यांत बरी इश्टिण आनी दुस्मानूय. तेन्ना म्हाका खबर नाशिल्लें कीं अशेच तरेची उतरां भगवदगीतेंत आसात, जंय कृष्ण म्हण्टा, 'आत्मैव हि आत्मनो बंधुः आत्मैव रिपू आत्मनः'

शिकपा खातीर अशे तरेचें तप करपाची आमकां गरज नासता. पूण हांव जुवान आनी निग्रही आशिल्लें आनी इंजिनियरींग करपा खातीर कितेंय करूंक तयार आशिल्लें.

म्हजे सगळे शिक्षक बरे आनी दुसऱ्याचो विचार करपी आशिल्ले. वर्गांत म्हजे कडेन ते लक्ष दिताले. मदींच केन्नाय विचारताले, 'मिस कुलकर्णी, सगळें सारकें आसा न्हय?'

आमचो कॉलेजीचो प्रिन्सीपल, प्रोफेसर खानापुरेन लेगीत, म्हजी खबर घेतली आनी खंयचोय चलो म्हाका त्रास बी दिता काय म्हूण विचारलें.

तरी लेगीत, म्हजे वर्गमित्रय बरे आशिल्ले अशें म्हज्यान म्हणूं नज.

एक दीस, तांणीं एक ल्हानसो फुलांचो तुरो हाडलो आनी म्हाका कळनासतना म्हजे विणयेंत खोयलो. कोणतरी फाटल्यान आड्डलो तें हांवें आयकलें, 'मिस फ्लावरपॉट!' हांवें रोकडींच म्हजीं बोटां केंसांत भोंवडायलीं. हाताक फुलां लागलीं तीं काडून भायर माल्लीं. हांव कांयच उलयलें ना.

केन्ना केन्नाय, ते म्हजेर फाटल्यान कागदाचे बाण मारताले. पेपराची

घडी सोडली म्हणटकच म्हाका ताचेर बरयल्लें मेळटालें, 'बायलेचो जागो रांदचे कुडींत वा मेडिकल कॉलेजींत वा प्रोफेसर म्हूण, इंजिनियरींग कॉलेजींत निखालस न्हय.'

केन्ना केन्ना बरयताले, 'आमकां खऱ्यांनीच तुजी काकूट दिसता. देवी पार्वती भशेन कित्याक तप करता तूं? पार्वतीक निदान एक कारण तरी आशिल्लें. तिका शंकरा कडेन लग्न जावपाची इत्सा आशिल्ली. तुजो शंकर कोण?' हांव कागदाचे बाण दवरतालें पूण जाप दिनासलें.

.आमच्या कॉलेजींत एक विद्यार्थांमदीं लोकप्रिय अशी कार्यावळ जाताली, ती म्हळ्यार 'फिशपाँड.' खऱ्या फिशपाँडा जाग्यार निनावी चिटयांनी वा 'नुस्त्यान' भरिल्लें एक आयदन आसतालें. कॉलेजींतलो कोणूय आपलो कॉमेंट वा मत बरोवन तातूंत घालतालो. आमच्या वर्सुकी कॉलेज दिसा वेळार तें वाचून दाखयताले. त्या वर्सा कसले मजेचे आनी विनोदी फिशपाँड वेंचून काडल्यात तें जाणून घेवपाक भुरगे उमळशीकेन रावताले. ते खातीर नियुक्त केल्लो भुरगो कॉलेजीच्या चौकांतल्या स्टेजीर उबो रावतालो आनी व्हडान त्यो चिटयो वाचतालो. दर वर्सा, चडशे सगळे कॉमेंट म्हजे विशींच आसताले. कन्नड वात्रटिकांचें लक्ष्य हांवूच आसतालें, तातूंतली एक म्हाका आयज लेगीत याद आसा.

आई आई, एक कणंग आसा,  
उपकार करून म्हाका एक काळी साडी दी आनी म्हाका म्हज्या  
घोवा घरा धाड  
हाचें कारण म्हळ्यार हांव सदांच धवी साडी न्हेसतां.

उत्तर भारतांतले कांय भुरगे तिसरी कसम सारक्या सिनेमाच्या गीताच्यो वळी बदलून म्हणटाले:

सजन रे झूठ मत बोलो  
सुधा के पास जाना है  
न हाथी है न घोडा है  
वहाँ पैदल ही जाना है.

म्हजी प्रतिक्रिया पळोवपा खातीर मागीर सगळे भुरगे म्हजेर एक नदर मारताले. हांव म्हजीं दुकां आडावन हांसपाचो यत्न करतालें.

म्हजे वर्गमित्र अशे तरेन वागतात ताचे फाटल्यान कांय कारणां आसात हें म्हाका खबर आशिल्लें. हालीं पद्धत आसा ते प्रमाण म्हाका कांय खास हेतान धमकावप वा त्रास करप, अशें नाशिल्लें तें. तांचे वांगडा शिकपी भिन्न लिंगी मनशाकडे वागपाची तांची मानसिक आनी शारिरीक तयारी नाशिल्ली इतलेंच. आमच्या पुराणमतवादी समाजान चले आनी चलयांच्या इश्टागतीक प्रोत्साहन दिवंक नाशिल्लें, म्हणटकच तांचेखातीर हांव एकाद्र्या परग्रहावयलें मनीस आशिल्लें. म्हज्या मनान चल्यांच्या वागण्याचें समर्थन केलें आनी म्हाका जुळोवन घेवपाक मजत केली. आनी तरीय, शेरे, मस्कऱ्यो आनी थोमण्यांनी दुख जावप चालूच उल्लें.

कॉलेजींत म्हजी कुशळटाय दाखोवपाची एकूच वाट आशिल्ली ती म्हळ्यार म्हजें शिकप. इंजिनियरींग विशय म्हाका खूब आवडटाले आनी परीक्षेंत हांव बरे तरेन पास जातालें. धातूकाम, फायलींग, सुतारकाम आनी वेल्डींग अशा इंजिनियरींगातल्या कठीण विशयांत लेगीत हांव चल्यांपरस बरें आसा हें म्हाका कळिल्लें. चले निळ्या कोराचो फुल ड्रेस घालताले जाल्यार हांव म्हज्या धव्या साडयेर निळ्या कोराचो एप्रन घालतालें. त्या अवतारांत हांव सामकें विचित्र दिसतां हें म्हाका खबर आशिल्लें. पूण हांव जें शिक्षण घेतां ताचेखातीरचें तें एक ल्हानशें मोल दिवप आशिल्लें.

जेन्ना परिक्षेचो निकाल जाहीर जाल्लो, तेन्ना हांव सोडून हेर सगळ्यांक म्हजे मार्क खबर आशिल्ले. दरेका सेमेस्टराक, म्हजे वर्गमित्र आनी सिनीयर म्हजे मार्क मेळोवन ते नोटीस बोर्डार लावपाखातीर एकठांय जावन यत्न करताले. म्हजे बाबतींत कसलीच खाजगी जीण उरूंक नाशिल्ली.

शिकता आसतना, कांय काळान म्हाका जाणीव जाली कीं, 'इंजिनियरींग हें दादल्यांचें कार्यक्षेत्र' अशें मानप हें सामकें फट. हांव तांचेइतलेंच कार्यक्षम आशिल्लें. इतलेंच न्हय, म्हज्या सगळ्या वर्गमित्रां परस

चड मार्क म्हाकाच मेळटाले. हाका लागून म्हाका आनीक चड आत्मविस्वास मेळ्ळो. हांवें एकूय दीस एकूय वर्ग चुकय नासतना शिकप चालू दवरलें. दरेका परिक्षेंत सर्वश्रेश्ठ जावपाचो निश्चय करून हांव जिद्दीन खूब शिकत रावलें. म्हजे मार्क नोटीस बोर्डार लायले तरी हांव हुसक्यामेकळें रावूंक लागलें. वेल्यान, हांव विश्वविद्यालयांत सदांच पयलो नंबर घेवन सगळ्या चल्यांचेर जैत जोडटां हाचो म्हाका अभिमान दिसपाक लागलो.

स्वावलंबी जावपाचे म्हजे तांकीन म्हाका आनीक निश्चयी केलें. हळू हळू चल्यांकडल्यान म्हाका आदर मेळूंक लागलो, सर्वे आनी ड्रॉइंगा खातीर ते म्हजेर निंबून रावंक लागले, आनी म्हाका प्रस्नांच्यो जापो विचारूंक लागले. म्हजी तांचेकडे इश्टागत जाली. आयज लेगीत, म्हज्या बऱ्या इश्टांमदीं सिवील विभागांतलो रमेश जंगल, म्हजो प्रयोगशाळेंतलो सांगाती सुनील कुलकर्णी आनी फकीर गौडा, एम. एम. कुलकर्णी, हिरे गौडा, आनंद उथुरी, गजानन ठाकूर, प्रकाश पदकी, एस. पी. सुदर्शन आनी रमेश लोडया हांचो आसपाव आसा.

म्हज्या शिक्षकांक हांव केन्नाच विसरचें ना: इलेक्ट्रिकल इंजिनियरींग विभागाचो एल. जे. नोरोन्हा, बेंगलुरूंतलो एक प्रतिभावंत शिक्षक योगा नरसिंहा, केमिस्ट्री विभागांतलो प्रोफेसर मल्लापूर, हायड्रॉलिक्सांतलो प्रोफेसर कुलकर्णी आनी अशा कितल्याश्याच शिक्षकांची म्हाका आयज लेगीत याद आसा. दोन लेक्चरां मदल्या वेळांत हांव वाचनालयांत वचून बसतालें. कालांतरान हांव ग्रंथपालाक प्रिय जालें. तो म्हाका चड पुस्तकां दिवंक लागलो.

कॉलेजी मुखार लावपाच्या झाडांविशीं हांव माळ्याकडेन उलयतालें. म्हज्या थंयच्च्या चार वर्सांच्या काळांत, हांवें ताका माड लावपाक लायले. आतां जेन्ना हांव बी. व्ही. बींत वतां, तेन्ना माडांकडेन पळोवन म्हजे ते भांगराळे दीस याद करतां.

चार वर्सां रोकडींच सोंपलीं आनी निमाणें क़ॉलेज सोडपाचो दीस आयलो. म्हाका वायट दिसलें. आयलें तेन्ना हांव एक भित्रें चली आशिल्लें.

आतां कॉलेज सोडटा आसतना आत्मविस्वासान भरिल्लें, हुशार जुवान इंजिनियर! खंयच्याय प्रसंगाक तोंड दिवपाचें लवचीकपण, गरजे प्रमाण जुळोवन घेवन वागपाची तांक, हेरांकडेन बरें आनी निरोगी नातें जोडपाचें म्हत्व, वर्गमित्रांकडेन नोटसां खातीर वांटेकार जावप आनी स्वताभितर रावचे बदला हेरांवांगडा वावरप हें सगळें म्हाका कॉलेजीन शिकयलें. जेन्ना हांव इश्टांविशीं उलयतां, तेन्ना सहसा बायलांचो न्हय तर दादल्यांचोच विचार करतां. कारण खऱ्यांनीच हांव तांचे बराबर वाडलां. उपरांत जेन्ना हांव कॉर्पोरेट क्षेत्रांत काम करपाक लागलें, तेन्ना थंय परत दादल्यांचेंच वर्चस्व आशिल्लें. म्हजो सहकारी वा इश्ट दादलो आसप हें सामकें सभावीक आशिल्लें. केन्नाकेन्नाय चुकून थंय एकाद्री बायल आसताली.

कॉलेज म्हळ्यार फकत वणटी, बांक आनी डेस्कां आशिल्ली इमारत न्हय. तातूंत भितर एक व्हडलो अर्थ भरिल्लो आसता. योग्य शिक्षण तुमकां आत्मविस्वास दिता. बी. व्ही. बी. क़ॉलेजीन म्हजे खातीर तेंच केलें.

उपरांत, हांवें इंडियन इन्स्टिट्यूट ऑफ सायन्स, बेंगलोर हांगा म्हजी मास्टर्स पदवी पुराय केली. तरीय, बी. व्ही. बी. कॉलेजीक आयज लेगीत म्हज्या काळजांत एक खाशेली सुवात आसा.

जाणटेपण जावन म्हजो बापूय संवसाराक अंतरलो, तेन्ना ताच्या उगडासाक कितेंतरी करचें अशें हांवें थारायलें. आमच्या घरच्यान आनी समाजाकडल्यान ताका कितलोसोच विरोध सोंसचो पडिल्लो. तरी लेगीत ताणें म्हाका इंजिनियर जावपाक परवानगी दिल्ली. ताची याद म्हूण आमचे कॉलेजींत हांवें एक लेक्चर हॉल बांदलो.

जेन्ना जेन्ना हांव भाशण दिवपाक विदेशांत वतां, तेन्ना वेगवेगळ्या पिरायेचे कमीत कमी पांच तरी लोक येतात आनी आपूणूय बी. व्ही. बी कॉलेजींतले अशें सांगतात. हांव रोकडेंच तांकां वळखतां आनी हांसून विचारतां, 'खंयच्या वर्सा तुमी पदवीधर जाले? तुमचे शिक्षक कोण आशिल्ले? तुमच्या वर्गांत कितल्यो चलयो शिकताल्यो?'

आतां, जेन्ना जेन्ना हांव म्हज्या कॉलेजींत वतां, तेन्ना म्हजेखातीर तो

एक सुवाळो कसो. कुळारा आयिल्लेवरी दिसता म्हाका. थंय सावन भायर सरतां तेन्ना, सदांच हांव स्टेजीच्या भितरल्या चौकांत एकलेंच उबें रावतां. उत्कृश्ट शैक्षणीक यशा खातीर मेळिल्ल्या पुरस्कारांचे कितलेशेच प्रसंग म्हाका याद जातात. मागीर हांव कांय वेळ नोटीस बोर्डा मुखार पासार करतां. इलेक्ट्रिकल इंजिनियरींग विभागाच्या दुसऱ्या मजल्या वयली सुपुल्ली कुड, जी 'कुलकर्णींची कूड' आशिल्ली, थंय चलत वतां. पूण आतां ती धुल्लान भरिल्ली ना. हांव ज्या बांकार बसून म्हज्या परीक्षेची तयारी करतालें ती म्हाका याद जाता. आयज ह्या संवसारांत नाशिल्ल्या म्हज्या कांय शिक्षकांची आनी वर्गमित्रांची याद जावन म्हजें काळीज दुखता.

आनी मागीर, हांव सोंपणां देवन सकयल वतां. तेन्ना म्हाका खोशयेन उलयत वचपी, जीन्स, स्कर्टस वा पारंपारीक सलवार कमीज घालपी चलयांचो पंगड दिसता. कॉलेजींत जितले चले आसात, तितल्योच जवळ जवळ चलयोय आसात. तीं म्हाका पळयतात, आनी प्रेमान ऑटोग्राफा खातीर म्हजे भोंवतणीं जमतात. गर्देंत सयो करता आसतना, म्हज्या आवय बापायची आनी म्हज्या पन्नास वर्सांच्या प्रवासाची याद जावन म्हजे दोळे ओले जातात.

आमच्या बी. व्ही. बी. कॉलेजीचें देव बरें करूं!



# २१

# तीन हजार टांके



इन्फोसीस फावंडेशनाची स्थापना आमी 1996 वर्सा केली. दुर्दैवान, सेवाभावी संस्थांतलें काम कशे तरेन चलता हेविशीं म्हाका साप उणें गिन्यान आशिल्लें. सॉफ्टवेयर, मॅनेजमेंट, प्रोग्रामींग आनी सॉफ्टवेयर संबंदांतल्यो अडचणी सोडोवप हाचे विशीं म्हाका चड गिन्यान आशिल्लें. परीक्षा, मार्कशीटस आनी डेडलायनी हातूंत म्हजे चडशे दीस वताले. फावंडेशनाक लागून सामान्य मनशाचे जीणेंत सकारात्मक बदल घडोवन हाडूंक जाय अशी ताचे फाटली कल्पना आशिल्ली. बहुजन हिताय, बहुजन सुखाय. गरजेवंताची जात, पंथ, भास वा धर्म पळयनासतना संस्थेंतल्यान तांकां आस्थेन मजत मेळूंक जाय ही फावंडेशनाची मोख आशिल्ली.

आमचे मुखार आशिल्ल्या मुद्द्यांमदीं, कुपोशण, शिक्षण, ग्रामीण विकास, आत्मनिर्भरताय, स्वास्थ सुविधा, सांस्कृतीक वावर आनी कलांचें पुनरुज्जीवन, अशा कितल्याश्याच क्षेत्रांत काम करपाची गरज आशिल्ली. पूण ह्या सगळ्यापरस एक मुद्दो म्हज्या मनांत सामको वयल्या पांवड्यार आशिल्लो. पुराय भारतांत सुरू आशिल्ल्या देवदासी प्रथेचेर काम करप गरजेचें आशिल्लें. देवदासी ह्या उतराचो अर्थ 'देवाची सेविका'. परंपरेन, देवदासी संगीतकार आनी नर्तकी आशिल्ल्यो आनी देवांक प्रसन्न करपा खातीर त्यो आपली कला

देवळांनी सादर करताल्यो. आदल्या समाजांत तांकां व्हड मान आशिल्लो. हाचो पुरावो आमकां बदामीच्या गुंफांतल्यान, तेच प्रमाण उत्तर कर्नाटकांत सव्या आनी सातव्या शतमानांत राज्य करपी, चालुक्य राजवंशाच्या राजाची आवडटी देवदासी, वीणापोडीच्या काणयांतल्यान मेळटा. राजान देवळाक व्हडा प्रमाणांत पयसो दान केलो. कालांतरान, देवळां नश्ट जालीं आनी देवदासी परंपरा चुकीच्या हातांत गेली. सुरवेक जुवान चलयांक, देवाची वा देवळाची पुजा आनी सेवा करपाच्या बऱ्या हेतून अर्पण करताले. पूण कालांतरान, देवदासी हें उतर वेश्या ह्या उतराक समानार्थी जालें. कांय जल्मान जाल्यो, जाल्यार हेरांक तांच्या पालकांनी विंगड विंगड कारणांक लागून देवाक ओंपलें. केन्ना केन्ना चलयांच्या केंसांत जंतू संसर्ग जावन तिका जट आयली जाल्यार त्या चलयेच्या नशीबांत देवदासी जावपूच आसा अशें मानून घेवन देवळांनी 'बळी' दिलें.

तांचे दुर्दशे विशीं म्हज्या मनांत विचार आयलो तेन्ना म्हाका कांय वर्सांआदीं हांव बेळगांव यलम्मा गुडा म्हळ्यार रेणुका देवीच्या देवळांत गेल्लें तेन्नाची गजाल याद जाली. तांच्यो पांचव्यो साडयो आनी कांकणां, तांच्या दाट, लांब केंसांतलो हळदुवो भंडारा, देवळांत भितर सरतना तांच्या हातांत आशिल्लो देवीचो मुखवटो, नाल्ल, लिंबा पानां आनी कलश, हे सगळें दोळ्यांमुखार आयलें. 'ही समस्या हांव कित्याक सोडोवंक शकचेंना?' हांवें चिंतलें. आमच्या पयल्याच प्रकल्पा खातीर हांवें एका खूब कठीण वावराची निवड केल्या हाची तेन्ना म्हाका जाणीव जाली ना.

सादेपणान आनी उत्साहान हांवें उत्तर कर्नाटकांतल्या एका वाठाराची निवड केली. थंय ही प्रथा प्रचलीत आशिल्ली आनी धर्माच्या नांवार वेश्या वेवसाय चलतालो. देवदासींकडेन उलोवन तांचे संबंदांतल्यो गजाली बरोवन काडप, म्हणटकच तांची कठीण अवस्था समजून घेवपाक म्हाका मजत जातली असो म्हजो विचार आशिल्लो. तेच बराबर कांय म्हयन्यांभितर तांच्यो अडचणी सोडोवपाखातीर कांय चर्चासत्रां आयोजीत करपाचीं अशें हांवें थारायल्लें.

पयलेच दिसा, हांव एक चोपडी आनी पेन घेवन भायर सरलें. हांवें

सादेच कपडे घातिल्ले, भांगर वा तिकली लेगीत नाशिल्ली. जीन्स, टी-शर्ट आनी कॅप. कांय वेळा उपरांत म्हाका देवळाकडेन एका झाडापोंदा बशिल्ल्यो कांय देवदासी दिसल्यो. त्यो खबरी मारताल्यो आनी एकामेकांच्या केंसांतल्यो उयो काडटाल्यो.

कांयच विचार करिनासतना, तांच्या खबऱ्यांत व्यत्यय हाडीत, हांव तांचे म्हऱ्यांत गेलें. 'नमस्कार, अम्मा. हांव हांगा तुमकां मजत करपाक आयलां. तुमच्यो अडचणी म्हाका सांगात, हांव त्यो बरोवन घेतां.'

तीं कसल्या तरी म्हत्वाच्या विशयाचेर उलयतालीं घडये कारण तांणीं म्हजेकडेन तिडकीन पळयलें. रागारागान तांणीं म्हजेर प्रस्नांचो शिंवर केलो.

'तूं कोण? आमी तुका हांगा आपयिल्लें?'

'आमचेविशीं बरोवपाक आयलां तूं हांगा? तशें जाल्यार, आमकां तुजे कडेन उलोवपाचें ना.'

'तूं ऑफिसर? काय मंत्री? आमी जर आमच्यो अडचणी तुका सांगल्यो, जाल्यार त्यो तूं कशे तरेन सोडयतलें?'

'चलूंक लाग. खंयच्यान आयलां थंय चल परत.'

हांव हाल्लें ना. यत्न चालू दवरीत हांवें म्हळें, 'हांव तुमकां मजत करूंक सोदतां. उपकार करून म्हजें आयकात. एड्स नांवाचें एक भिरांकूळ दुयेंस आसा आनी तें तुमकां जावंक शकता हाची तुमकां जाणीव आसा? बरें जावंक शकना तें...'

'लाग चलूंक,' तांचे भितरले एकलेन म्हळें. हांवें तांच्या तोंडांक पळयलें. तीं सामकीं चाळवल्लीं.

पूण हांव गेलें ना. 'घडये तांकां अजून मातशें पटोवन दिवंचें लागतलें,' हांवें चिंतलें.

कसलीच शिटकावणी दिनासतना, तातूंतली एक बायल उबी रावली,

आपलें जोतें काडलें आनी म्हजे दिकेन भिरकायलें. 'तुका सादी कन्नड भास समजना? लाग चलूंक.'

अपमान आनी लजेन, म्हज्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवतलीं अशें म्हाका दिसलें. फाट करून हांव चलूंक लागलें.

घरा पावतकच, अपमानीत मनान हांवें थारायलें, 'परत केन्नाच थंय वचचें ना.'

तरीय, कांय दिसां उपरांत म्हाका दिसलें, घडये त्यो बायलो कांय कारणान अस्वस्थ आशिल्ल्यो जावंये वा हांव चुकीच्या वेळार वा चुकीच्या दिसा थंय पावलें जावंये.

म्हूण एका सप्तका उपरांत हांव परत एकदां थंय गेलें. ही भेट जाली तेन्ना टोमाटांचो हंगाम आशिल्लो. देवदासी खोशयेन एकमेकांक कुशीक दवरिल्ल्या पांटल्यांतले बरे धाकटुले, तांबडेगुंज वांटकुळेच टोमाट वांट्टालीं. तांचे म्हऱ्यांत वचून, तांचेकडेन पळोवन हांव गोड हांसलें. 'हॅलो, हांव परत एक फावट तुमकां मेळपाक आयलां. म्हजें आयकून घेयात. म्हाका खऱ्यांनीच तुमकां मजत करपाची आसा.'

तीं म्हजेकडेन पळोवन हांसलीं. 'तुज्या मजतीची आमकां गरज ना. पूण तूं कांय टोमाट विकते घेवंक शकता?'

'ना, म्हाका टोमाट व्हडलेशे आवडनात.'

'कसली बायल तर तूं? टोमाट म्हूण कोणाक आवडनात?'

हांवें तांचेकडेन उलोवपाचो परत एक यत्न केलो, 'तुमी एडसाविशीं आयकलां? ताचेविशींची जागरुकताय वाडोवपाक सरकार कितलोसोच दुडू खर्च करता हें तुमकां खबर आसूंक जाय.'

'तूं सरकारी एजंट? घडये तूं खंयच्यातरी राजकी पक्षाचें आसूंये. हें करपा खातीर तुका कितलें कमिशन मेळटा? चल, सांग आमकां. ह्या वाठारांत एक बरें हॉस्पिटल लेगीत ना आनी तूं आयलां, भिरांकूळ दुयेसांविशीं

आमकां शिकोवपाक. आमकां तुज्या मजतीची गरज ना. वायट वेळार आमची देवी आमकां मजत करतली.'

हांव थंय मोन्यांनी, उतरां सोदपाचो यत्न करीत उबें रावलें.

तातूंतले एके बायलेन निर्णायकपणान म्हळें, 'शेर्त ही बायल पत्रकार आसतली. म्हूण तिचेकडेन पेन आनी कागद आसा. ती आमचेविशीं बरयतली आनी आमचो गैरफायदो घेवन पयशे करतली.' हें आयकून, बाकीच्यांनी म्हजे दिकेन टोमाट मारपाक सुरवात केली.

हे फावट, म्हजे भावनेन म्हजेर मात केली आनी हांव रडपाक लागलें. रडत, हांव परत एक फावट थंयसावन परतलें.

हांव निराश जाल्लें. कित्याखातीर हांवें ह्या प्रकल्पाचेर काम करप? तीं परत परत म्हजो अपमान कित्याक करतात? आपल्या बऱ्याखातीर काम करपी मनशाक अशे तरेन आनीक खंयचे लाभार्थी लजेक घालतात आसतले? ह्या क्षेत्राखातीर हांव योग्य ना. हय, हांवें राजिनामो दिवंक जाय आनी परत म्हज्या शिक्षणीक क्षेत्राकडेन वचूंक जाय. फावंडेशन दुसरो विश्वस्त सोदूंक शकता.

हांव घरा पावलें आनी राजिनामो पत्र बरोवंक बसलें.

म्हजो बापूय सोपणां देंवून सकयल आयलो आनी तकली सकयल घालून कितेंतरी बरोवपांत गुल्ल आशिल्ल्या म्हाका पळोवन विचारपाक लागलो, 'इतलें सैरभैर जावन कितें बरयता?'

पुराय गजाल हांवें ताका सांगली.

अजापाची गजाल म्हळ्यार, म्हाका सहानुभूती दाखोवपा बदला बापूय हांसलो आनी म्हळें, 'तूं इतलें अवेवहारी म्हूण म्हाका खबर नाशिल्लें.'

हांव रागान ताका पळयत रावलें.

ताणें फ्रिजांतल्यान एक आयस्क्रीम काडलें आनी बसून तें खावपाचो म्हाका आग्रो केलो. 'तुजी तकली शांत जातली तें खावन,' ताणें म्हळें आनी

हांसलो. कांय वेळा उपरांत ताणें म्हळें, 'याद दवर. प्राचीन काळासावन समाजांत शिंदळकी अस्तित्वांत आसा आनी ती जिणेचो एक वेगळावं नजो असो वांटो जाल्या. सगळ्या सभ्यतायांच्या मुळाव्या समस्यांमदली ही एक. जायते राजे आनी संतांनी ती नश्ट करपाचो यत्न केलो पूण खंयच्याच कायद्याक वा ख्यास्तींक तिका पुरायेन नश्ट करपांत येस येवंक ना. संवसारांतलें खंयचेंच राष्ट्र हाचेपसून मुक्त ना. असें आसतना तूं एकलें ही पुराय वेवस्था कशे तरेन बदलूंक शकतलें? तूं एक सर्वसादारण बायल. तुवें तुज्यो अपेक्षा कमी करूंक जाय आनी मोख उणी दवरूंक जाय. देखीक, धा देवदासींक धंदो बंद करपाक मजत करपाचो यत्न कर. तांचें पुर्नवसन कर आनी सर्वसादारण जीण जगप म्हळ्यार कितें हें तांकां दाखय. अशें केल्ल्यान तांचीं भुरगीं तांच्याच पावलार पावल दवरून चलचीं नात हाची तांकां खात्री जातली. ही तुजी मोख थाराय. जे दिसा तूं ती साध्य करतलें तेन्ना, म्हजे चलयेन धा निराधार बायलांक शिंदळकेच्या वेवसायांतल्यान मुक्त करून, तांकां आपल्या पांयांर उबें रावून, स्वतंत्र बायल म्हूण जगूंक शिकयलें हाचो म्हाका अभिमान दिसतलो.'

'पूण तांणीं म्हजेर जोतीं आनी टोमाट मारले, काका,' हांव रागान पिरंगलें. हांव बापायक सदांच 'काका' म्हणटालें.

'खरें म्हळ्यार आयज तुका बडटी मेळ्ळी, जोत्यांपसून टोमाटां मेरेन. अशेंच नेट धरून तूं तिसरे फावट थंय गेलें जाल्यार घडये तुका हाचेय परस कितेंतरी बरें मेळटलें!' ताच्या ह्या विनोदान म्हज्या तोंडार हांसो हाडलो.

'तीं म्हजेकडेन उलोवंचीं लेगीत ना. मागीर हांव तांचे खातीर काम कशें करतलें?'

'स्वताकडेन पळय,' म्हाका धरून लागींच्याच हारशामुखार ओडीत म्हज्या बापायन म्हळें. 'तूं जीन्स, टी-शर्ट आनी कॅप अशा भेसांत आसा. ही तुजी स्टायल आसत, पूण एक सादारण मनीस आनी देवदासी सारकी ग्रामीण भारतीय बायल तुका केन्नाच आपल्यांतली समजुची ना आनी तुजेकडेन संबंद जोडची ना. जर तूं साडी न्हेसलें, मंगळसूत्र घालें, कुकूम लायलो आनी केंस

बांदले, जाल्यार तीं तुका आदले परस खूब बरे तरेन येवकार दितलीं हाची म्हाका खात्री आसा. तुजे बराबर हांवूय येतलों. अशा तरेच्या साहसांत म्हजेसारक्या एका जाणट्या मनशाचो तुका व्हड आदार जातलो.'

हांवें विरोध केलो, 'तांचे खातीर हांव म्हजो भेस बदलूंक तयार ना. अशा भायल्या बदलांचेर म्हजो विस्वास ना.'

'बरें आसा, तुका जर तांकां बदलपाचें आसा, जाल्यार पयलीं स्वताक बदलूंक जाय. तुजो दिश्टीकोन बदल. अर्थात, निमाणें तो तुजो निर्णय.'

म्हाका हारशा मुखार सोडून तो गेलो.

म्हज्या पालकांनी आपली आवड वा निर्णय, म्हजेर वा म्हज्या भावंडांचेर केन्नाच लादूंक नाशिल्ले. मागीर तें शिक्षण, वेवसाय वा लग्नाचो निर्णय, कितेंय आसूं. तीं सदांच सल्लो दितालीं आनी आमकां जाय जाल्यार मजत करतालीं, पूण म्हजे बाबतींत, हांवेंच सगळे निर्णय घेतिल्ले.

कांय दीस, हांव गोंदळिल्लें. समाजकार्या खातीर गरजेच्या कळाशे विशीं हांव चिंततालें. ह्या वेवसायांत झगझग वा पयसो नाशिल्लो आनी हांव एकाद्र्या उद्देग वेवसायांतल्या वरीश्ठ अधिकाऱ्या वरी वागूंक शकनाशिल्लें. म्हाका थळाव्या भाशेच्या कळाशेची गरज आशिल्ली आनी घडये इंग्लीशीची मातूय नाशिल्ली. कामा निमतान खंयूय प्रवास केलो तरी जमनीर बसून थळावें जेवण जेवपाक म्हाका जमूंक जाय. शांतपणान आयकून घेवंक येवंक जाय, आनी सगळ्यांत म्हत्वाचें म्हळ्यार म्हाका करता तें काम आवडूंक जाय. म्हाका चड समाधान खंय मेळटलें, म्हजें जशें आसा तें भायलें रूप तशेंच दवरून, वा हांव करता त्या कामांतल्यान?

मातशें आत्मनिरीक्षण केल्या उपरांत, हांवें म्हजो भेस बदलून पुरायेन कामाचेर लक्ष केंद्रीत करपाचें थारायलें.

म्हजे फुडले भेटे पयलीं, हांवें म्हजे केंस फाटल्यान वळयले, बांदले आनी फुलां माळ्ळीं. दोनशीं रुपयांची एक साडी हांव न्हेसलें, व्हडलो कुकूम

लायलो, मंगळसूत्र आनी कंवचेचीं काकणां घालीं. स्वता भितर बदल करून हांव 'भारतीय नारी ' जालें. एक रुढीबद्ध पारंपारीक भारतीय बायल. आनी म्हज्या बापायक बराबर घेवन देवदासींक मेळपाक गेलें.

हे वेळार, आमी जेन्ना थंय पावलीं तेन्ना, म्हज्या जाणट्या बापायक पळोवन तांणीं म्हळें, 'नमस्ते.'

म्हज्या बापायन म्हजी वळख करून दिली. 'हें म्हजें चली आनी तें भुरग्यांक शिकयता. सुटयेंत हांगा आयलां तें. तुमची जीण कितली कश्टाची तें हांवें ताका सांगलें. तुमचीं भुरगीं हेंच तुमच्या जगपाचें कारण आनी तुमच्या आरोग्याचें कितेंय जालें तरी तुमी तांकां बरें शिक्षण दिवंक सोदतात. खरें न्हय?'

सगळ्यांनी एकाच वांगडा म्हळें, 'हय, सर!'

'म्हजी चली शिक्षिका आशिल्ल्यान ती तुमच्या भुरग्यांच्या शिक्षणांत मार्गदर्शन करून तांकां बरी नोकरी मेळपा खातीर मजत करूंक शकता. घडये तुमकां खबर ना अशा कांय शिष्यवृत्यां विशीं ती माहिती दितली, आनी तांकां मजत करतली. म्हणटकच तुमचे वयलें अर्थीक वजें कमी जातलें. चलता न्हय तुमकां हें? चलना जाल्यार, कांय नज. तें आनीक दुसऱ्या खंयच्याय गांवांत वचून थंयच्या लोकांक मजत करतलें. उपकार करून चेपण घेवं नाकात. विचार करात हाचेर आनी आमकां कळयात. आमी धा मिनटांनी परत येतात.'

म्हजो हात घट धरून, बापायन म्हाका ओडीत मातशें पयस व्हेलें.

'तुवें तें सगळें कित्याक सांगलें?' हांवें विचारलें. 'तुवें तांकां सगळ्यांत पयलीं एडस सारक्या भिरांकूळ गजालीं विशीं सांगपाक जाय आशिल्लें.'

'पिशेपणां करूं नाका. ताचे विशीं आमी आनीक केन्नाय सांगूंया तांकां. नकारात्मक गजालीन जर तुवें सुरवात केली, जाल्यार तें कोणाकूच आवडचें ना. पयली सुरवात सदांच सकारात्मक जावंक जाय आनी लाभार्थ्याक खरीच उमेद मेळूंक जाय. हांवें तांकां उतर दिलां तेप्रमाण तुवें

पयलीं तांच्या भुरग्यांक शिश्यवृत्ती मेळोवन दिवंक जाय. एडसाचेर मागीर काम कर.'

'हांव शिक्षिका अशें तुवें तांकां कित्याक सांगलें, काका?' हांवें विचारलें. 'हांव एक समाज सेविका अशें तुज्यान सांगूंक येतालें.'

म्हज्या बापायन शांतपणान जाप दिली. ' शिकोवप हें एक व्हड प्रतिश्ठेचें काम अशें तीं मानतात आनी तूं एक प्रोफेसर, हय मगो?'

हांवें तकली हालयली, आजूनय ताच्या डावपेचाची म्हाका खात्री नाशिल्ली.

जेन्ना आमी परत थंय गेलीं, तेन्ना बायलां आयकून घेवपाक तयार आशिल्लीं. तांणीं म्हाका 'अक्का' म्हळें, म्हळ्यार कन्नड भाशेंत व्हडली भयण.

उतर दिल्लें ते प्रमाण तांच्या भुरग्यांक शिश्यवृत्ती मेळोवपाक मजत करपाचें काम हांवें सुरू केलें. वर्सा भितर कांय भुरगीं कॉलेजांत लेगीत वचपाक लागलीं. हें जाल्या उपरांत हांवें एडसाचो विशय काडलो, आनी हे फावट तांणीं म्हजें आयकून घेतलें. कितलेशेच म्हयने गेले. तांचे कडेन नातें जोडपाक म्हाका सुमार तीन वर्सां लागलीं. हांव तांचें प्रिय अक्का जालें. अखेरेक, तांणीं म्हजेर विस्वास दवरलो आनी आपल्यो काळजाक भिडपी काणयो आनी सहन केल्ल्या त्रासां विशीं म्हाका सांगलें.

निश्पाप चलयांक तांचो घोव, भाव, बापूय, इश्ट, काका वा हेर नातलगांनींच ह्या वेपारांत विकिल्लें. गरीबींतल्यान भायर सरून फुडल्या पिळग्यांक आनी कुटुंबाक आदार जावंचो म्हूण पयसो जोडपा खातीर कांय स्वता जावन ह्या कुडीच्या वेपारांत आयिल्ल्यो. जाल्यार हेरांक बऱ्या नोकरेचें हांयस दाखयल्लें आनी हांगा येवन कुडीचो वेपार करपाक लायतकच तांकां हें कळिल्लें. तांच्यो काणयो आयकून, म्हज्या दोळ्यांतलीं दुकां हांव आडावंक शकलें ना. तांतल्या कितल्याश्याच जाणांनीं म्हजो हात धरून म्हाका थातारलें. दरेक काणी वेगळी आशिल्ली पूण शेवट एकूच आशिल्लो. समाजान तांकां दुख्ख भोगूंक लायलें, तांचें शोशण केलें. प्रत्येक बायलेक आपल्या ह्या

वेवसायाविशीं अपमान आनी लज दिसताली.

फकत पयसो दान करून तांचे मदीं आत्मविस्वास आनी स्वता विशीं आदर निर्माण जावंचो ना हाची म्हाका जाणीव जाली. हाचेर एक उत्तम उपाय म्हाका सुचलो तो म्हळ्यार एका भौशीक उद्देशान तांकां सगळ्यांक एकठांय हाडप आनी तांची स्वताची संस्था उबारपाक मजत करप. कर्नाटक राज्याच्या सरकारा कडेन कितल्योश्योच बऱ्यो येवजण्यो आशिल्ल्यो ज्यो घरां, लग्नां आनी शिश्यवृत्त्यांक प्रोत्साहन दिताल्यो. पूण जर आमी फकत देवदासीं खातीर संस्था वा संघटना सुरू केली, जाल्यार तीं एकमेकांच्यो अडचणी सांगूंक शकतलीं. कांय काळान, ह्या सगळ्या प्रक्रियेंतल्यान शिकून तीं धीट आनी स्वतंत्र जातलीं. आपले जिणेक एक वेगळें वळण दिवंक शकतलीं.

अशे तरेन, देवदासीं खातीर एक संस्था निर्माण जाली. एकाच वेळार सगळीच कडेन देव आसूंक शकना, म्हूण ताचें काम करपा खातीर तो मनशांक धाडटा असो म्हजो विस्वास आसा. अभयकुमार नांवाचो एक मायेस्त आनी ध्येयवादी तरनाटो दिल्ली सावन अकस्मात आमचे कडेन आयलो. ताका म्हजे वांगडा काम करपाचें आशिल्लें. म्हणटकच ताच्या समाजकार्याची परीक्षा घेवपा खातीर ताचा कठीणांतलें कठीण काम दिवपाचें हांवें थारायलें. हांवें अभयाक सांगलें, 'जर तुवें आठ म्हयने देवदासीं वांगडा काम करून तग माल्लो, जाल्यार तुका पुरायेन ह्या प्रकल्पांत घेवपाचो हांव विचार करीन.'

उतर दिल्ले प्रमाण, ताणें आठ म्हयने तोंड दाखयलें ना, आनी मागीर एक दीस, तो आत्मविस्वासान म्हज्या ऑफिसांत आयलो. मातसो बारीक जाल्लो, पूण ह्या काना सावन त्या काना मेरेन हांसो आशिल्लो.

हांवें म्हळें, 'अभय, समाजकार्य कितलें कठीण हें आतां तुकां समजलां आसतलें. हें चालू उरपा खातीर पराकाश्ठेची वचनबद्धताय आनी चिकाटी जाय. कितल्याश्याच जाणांच्या आयुश्यांत बदल घडोवन हाडलो हें समाधान घेवन तुज्यान परत दिल्ली वचूं येता. तूं एक बरो मनीस. म्हाका खात्री आसा कीं हो अणभव तुजे कडेन सासणाचो उरतलो आनी फुडाराक तुकां मजत करतलो.'

तो हांसलो आनी उत्तम कन्नड भाशेंत ताणें जाप दिली, 'म्हाका परत दिल्ली वचपाचें आसा अशें कोणें सांगलें? कर्नाटकांत रावन प्रकल्प पुराय करपाचें हांवें थारायलां.'

'अभय, हें खूब गंभीर काम. तूं जुवान आसा आनी हाका लागून अशे तरेच्या कामांत लुकसान जांव येता आनी...' म्हजो आवाज मंद जालो. आनीक कितें उलोवंचें म्हाका समजनासलें.

'ते विशीं हुसको करूं नाकात, मॅम! सगळ्यांत उत्तम अशें काम तुमी म्हाका दिल्लें आसा. तुमी म्हाका कसलें तरी टेबलावयलें काम दितलीं अशें म्हाका दिशिल्लें. तुमी म्हाका फील्डवर्क, देवदासीं वांगडा काम करपाचो मान दितलीं अशी हांवें कल्पना लेगीत करूंक नाशिल्ली. फाटल्या एका वर्सान म्हाका तांच्यो वेदना आनी सोंसपा भायल्या त्रासांची जाणीव करून दिल्या. तें कळटकच, आतां हांव हें सोडून आनीक खंयचेंय काम कशें करूंक शकतलों?'

एका तरनाट्यामदलें हें प्रामाणीकपण आनी करुणा पळोवन म्हाका खोस जाली. ताचो खर्च भागोवपा खातीर ताका स्टायपेंड दिवपाचें हांवें थारायलें पूण ताणें हात करून म्हाका थांबयलें, 'म्हाका इतले नाकात. म्हजेकडेन स्कुटर आनी कांय कपडे आसात. म्हाका फकत दोन वेळ जेवण जाय, तकलेर एक छप्पर आनी पेत्रोला खातीर इल्ले पयशे. तितलेंच.'

हांवें ताचेकडेन अपुरबायेन पळयलें आनी जिणेचें उद्दिश्ट मेळिल्लो एक मनीस हांव पळयतां हें म्हाका कळ्ळें. ताणें निरोप घेतलो आनी नेटान पावलां मारीत म्हज्या ऑफिसांतल्यान भायर सरलो.

साहजिकच, अभय प्रकल्पाचो मुखेली जालो. आनी हांवें ताका पुरायेन तेंको दिलो. प्रकल्पाच्या प्रगतीविशीं जाणून घेवपा खातीर सदांच ताचेकडेन उलोवपाची जतनाय घेतली.

एक दीस, हांव देवदासींक मेळ्ळें आनी तांच्या भुरग्यांची चवकशी केली.

'आमची सगळ्यांत व्हड अडचण म्हळ्यार आमच्या भुरग्यांचें शिक्षण,' तांणीं म्हळें. 'तांच्या शाळेची फी आमकां परवडना, आनी मागीर पयसो मेळोवपाचो जो सोंपो उपाय आमकां खबर आसा थंयच परत वचचें पडटा आमकां.'

'तुमचीं भुरगीं खंयच्याय वर्गांत शिकूं, तांच्या पुराय शिक्षणाचो खर्च आमी करतलीं. पूण हाचोच अर्थ, कितेंय जालें तरी तुमी देवदासी म्हूण काम करप ना,' हांवें निश्चयान म्हळें.

अनमन नासतना बायलांनीं तें मान्य केलें. हांव आनी अभय दोगांचेरूय तांचो विस्वास आशिल्लो आनी आमी उतर सांबाळटलीं हें तांकां खबर आशिल्लें.

शेंकड्यांनी भुरग्यांची ह्या प्रकल्पांत नोंद जाली. तातूंतले कांय जाण वेवसायीक कोर्स करपाक गेले, जाल्यार हेरांनी आपलें प्राथमीक, माध्यमीक आनी हायस्कूल शिकप पुराय करपाचें थारायलें. एडस जागृताय आनी प्रतिबंधा खातीर आमी कँप आयोजीत केले आनी बायलांक आनी भुरग्यांक विंगड विंगड वैजकी मुद्द्यांचेर शिक्षीत करपा खातीर रस्तो नाट्यां आनी नाटकां प्रायोजीत केलीं. केंसांत जटो येतात ताचो अर्थ देवदासी जावंक जाय असो न्हय ह्या साद्या दिसपी गजालीचोय तातूंत आसपाव आशिल्लो. बायलांनी स्वताचेर उपचार करून घेतले आनी कांय जाणांनी आपले केंस लेगीत तासले.

हळूहळू तांचे खातीर जामीन रावून तांकां रिणां मेळोवन दिवप आमकां शक्य जालें. जायते फावट, तीं म्हाका सांगतालीं, 'अक्का, आमकां रीण मेळोवन दिवपाक मजत कर. जर आमी तें फारीक करूंक शकलीं ना, जाल्यार तुका फटोवपा सारकेंच जातलें तें. आनी आमी तें केन्नाच करचीं नात हें तूं जाणां.' हो वेळ मेरेन मनांतल्यान म्हाका कळिल्लें कीं एकाद्रो गिरेस्त मनीस म्हाका फटयत पूण आमच्यो देवदासी केन्नाच तशें करच्यो नात. तांच्या मनांत म्हजेविशीं विस्वास आशिल्लो आनी म्हाका तांचेविशीं.

दुसरे वटेन, हांव आनी अभय दोगां खातीर जीण चड भिरांकूळ

जाली. आमकां दलाल, थळावे गुंड आनी हेरांकडल्यान जिवे मारपाच्या धमक्यांचे फोन, पत्रां आनी रकाद येवंक लागले. म्हजेपरस अभयाखातीर म्हाका चड भंय दिसतालो. हांवें पोलीस संरक्षण मागलें, पूण अभयान तें सरळ न्हयकारलें आनी म्हळें, 'आमच्यो देवदासी म्हाका राखतल्यो. म्हजी चिंता करूं नाकात.'

कांय सप्तकां उपरांत, कांय दलालांनी आपलो वेवसाय सोडिल्ल्या तीन देवदासींचेर ॲसीड उडयलें. पूण तरी लेगीत आमी सगळ्यांनी हें काम सोडून दिवपाक न्हयकार दिलो. बळी पडिल्ल्यांची प्लास्टीक सर्जरी जाली आनी ताका लागून हेरांचो आत्मविस्वास परत येवपाक मजत जाली. तांकां भंय घालप शक्य नासलें. एक जावन हो तिरस्कृत वेवसाय सोडूंक सोदपी ह्या बायलां कडल्यान आमकां बळ मेळ्ळें. सरकारान जरी तांकां उत्पन्ना खातीर आदार केलो, तरी कितल्याश्याच जाणांनी बोकड्यो, गायो आनी म्हशी पोसूंक सुरवात केली.

कांय काळान, आमी ल्हान शाळा सुरू केल्यो ज्यो देवदासीं खातीर रातचे वर्ग घेताल्यो. कितल्याश्याच वर्सांच्या सगळ्यांच्या यत्नांचो आसपाव आशिल्लें हें एक खडतर अशें झुज आशिल्लें. बारा वर्सां उपरांत एका खाशेल्या मुद्द्याचेर भासाभास करपाक म्हूण कांय बायलां म्हाका येवन मेळ्ळीं.

'अक्का, आमी एक बँक चालू करूंक सोदतात, पूण आमचे आमीच ती करपाक आमकां भंय दिसता.'

'बँकेंत कितें जाता अशें तुमकां दिसता ?' हांवें विचारलें.

'बँक चालू करपाक वा खातें उगडपाक तुमचे कडेन खूबशे पयशे आसचे पडटात. तुमी खूब म्हारग कपडे घालचे पडटात. बँकेंत काम करपी चड करुन फांत घालतात, टाय बांदतात, आनी एअर कंडिशन्ड ऑफिसांनी बसतात हें आमी पळयलां. पूण असल्या गजालीं खातीर आमचे कडे पयशे नात, अक्का.'

तांणीं ही अडचण आमचे नदरेक हाडून दिली तेन्ना हांव आनी अभय

तांचे बराबर बसलीं आनी बँकींगाची मुळावी माहिती तांकां समजावन सांगली. कांय तज्ञां कडेन चर्चा केली आनी तांच्या मार्गदर्शना खाला ह्या बायलांनीं तांची स्वताची बँक सुरू केली. अपवाद फकत थोड्या कायदेशीर आनी प्रशासकी सेवांचो. त्यो आमी दिल्यो. तरी लेगीत, बँक कर्मचारी आनी शेयरहोल्डर्स फकत देवदासी जमातींतलेच आसचे अशें बंदन घालपाचेर आमी भर दिलो. म्हणटकच निमाणें, मुदत ठेवीं वरवीं पयशांची बचत करून तांचेर कमी व्याजाचें रीण बायलांक मेळूंक लागलें. सगळो फायदो बँकेच्या सभासदांमदीं वांटून घेवप अशें आशिल्लें. कालांतरान, बँक वाडली आनी बायलोच ताच्यो संचालक जावन ती चलोवंक लागल्यो.

तीन वर्सांपरस कमी काळांत, बँकेकडेन अंयशीं लाख ठेवी आशिल्ल्यो आनी आदल्या देवदासींक थंय नोकऱ्यो मेळिल्ल्यो. पूण म्हत्वाचें कर्तुब म्हळ्यार जवळ जवळ तीन हजार बायलो देवदासी वेवस्थेंतल्यान भायर सरिल्ल्यो.

तांच्या तिसऱ्या वर्धापनदिसा, बँकेंतल्यान म्हाका एक पत्र आयलें.

बँक सुरू जावन तीन वर्सां जालीं हें सांगपाक आमकां खोस जाता. आतां, बँकेची अर्थीक स्थिती सामकी बरी आसा आनी आमचे भितरली कोणूच देवदासी परंपरा चलयना वा तातूंतल्यान पयसो जोडीना. आनी सगळ्यांनी समारंभा खातीर शंबर शंबर रुपया कुशीक काडून तीन लाख रुपया जमयल्यात. आमी एक हॉल भाड्यान घेतला आनी सगळ्यां खातीर जेवण दवरलां. अक्का, आमच्या ह्या खाशेल्या दिसा खातीर तुमी उपकार करून येवंचें. तुमी आमकां खूब प्रिय आसात आनी ह्या वेळार मुखेल सोयऱ्यो म्हूण तुमी आमकां जाय. आमी अनवळखी आसून लेगीत तुमी शेंकड्यांनी फावट तुमच्या खर्चान प्रवास करून आयल्यात आनी आमचे खातीर कितलोसोच पयसो मोडला. हे फावट, तुमचे खातीर आमी एयर कंडीशन वोल्वो बसीची येवपा वचपाची तिकेट, बरें हॉटेल, तशेंच सगळो खर्च करूंक सोदतात. आमचो पयसो कायदेशीर, नैतीक मार्गान आनी धर्मान जोडिल्लो आसा. आमची नमळायेची आनी मनासावन केल्ली विनंती तुमी न्हयकारची ना हाची आमकां खात्री आसा.

म्हज्या दोळ्यांत दुकां आयलीं. सतरा वर्सां आदीं, म्हाका जोतीं भेंट मेळिल्लीं, पूण आतां, म्हज्या प्रवासा खातीर तांचे तांकी प्रमाण सर्वोत्तम अशें तीं म्हाका दिवंक सोदतालीं. एसी वोल्वो बस आनी हॉटेलाचें तांचे नदरेन कितलें सुख हें म्हाका खबर आशिल्लें.

हांवें म्हज्या खर्चान कार्यावळीक हाजीर रावपाचें थारायलें.

कार्यावळी दिसा, सदचे वरी राजकारणी वा हारतुरे वा व्हडलीं भाशणां असलें कांयच नाशिल्लें. ती एक सादी कार्यावळ आशिल्ली. सुर्वेक कांय बायलांनीं देवदासींनी बरयल्लें वेदनांचें एक गीत गायलें. मागीर आनीक एक पंगड आयलो आनी स्वातंत्र्या मेरेनच्या तांच्या प्रवासाचे अणभव सांगले. दोतोर, नर्सी, आदवोगाद, क्लार्क, सरकारी नोकर, शिक्षक, रेल्वे कामगार, आनी बँक ऑफिसर जाल्लीं तांचीं भुरगीं, मुखार आयलीं आनी आपल्या शिक्षणाक मजत केली म्हूण आवयांचे आनी संस्थेचे तांणीं उपकार मानले.

मागीर उलोवपाची पाळी म्हजी आशिल्ली.

हांव उबें रावलें, आनी अकस्मात म्हाका उतरां फुटना जालीं. म्हजें मन कोरें जालें, आनी मागीर, पयसुल्ल्यान, म्हाका म्हज्या बापायचीं उतरां याद जालीं: 'म्हजे चलयेन धा निराधार बायलांक शिंदळकेच्या वेवसायांतल्यान मुक्त करून, तांकां आपल्या पांयांर उबें रावून, स्वतंत्र बायल म्हूण जगूंक शिकयलें हाचो म्हाका अभिमान दिसतलो.'

सहसा हांव उत्स्फुर्तपणान उलोवपी पूण ते दिसा भावनांनी म्हजें मन भरून आयिल्लें. खंयसावन सुरवात करची तें समजनाशिल्लें. जिणेंत पयलेच फावट, म्हाका दिसलें, जे दिसा हांव देवाक मेळटलें, तेन्ना सरळ उबें रावन आत्मविस्वासान सांगूंक शकतलें, 'तुवें म्हाका जिणेंत खूब कितें दिलां, आनी म्हाका दिसता, तातूंतलें इल्लेंतरी हांवें परत केलां. म्हाका शक्य जाता ते उत्तम तरेन हांवें तुज्या तीन हजार भुरग्यांची, तांकां देवदासीच्या अर्थशुन्य आनी दुश्ट परंपरेंतल्यान सोडोवन, सेवा केल्या. तुजीं भुरगीं हीं तुजीं फुलां आनी हांव तीं तुकां परत दितां.'

मागीर म्हजी नदर बायलांचेर गेलीं. म्हजें उलोवप आयकूंक तीं सामकीं उत्सूक जाल्लीं. हांव कितें म्हणटा तें तांकां आयकपाचें आशिल्लें. अभय लेगीत थंय आशिल्लो, ताणीं आमचे खातीर जें कितें केलें तें पळोवन भारावन गेल्लो.

हांव स वर्सांचें आसतना म्हज्या आज्यान शिकयल्लो संस्कृत श्लोक म्हणून हांवें सुरवात केली: 'हे परमेश्वरा, म्हाका राज्याची गरज ना, राजा जावपाचीय इत्सा ना. म्हाका परत जल्म नाका, वा सर्गांत भांगराचीं आयदनांय नाकात. तुजे कडल्यान म्हाका कांयच नाका. हे परमेश्वरा, जर तूं म्हाका कितेंय दिवंक सोदता, जाल्यार म्हाका मोव काळीज आनी बळीश्ट हात दी, म्हणटकच हांव हेरांचीं दुकां पुसूंक शकतलें.'

मोन्यांनी, हांव म्हजे खुर्चेकडेन आयलें. त्या खिणाक तांच्या मनांत कसलो विचार वा भावना आसा म्हाका खबर नाशिल्लें.

एक जाणटी देवदासी स्टेजीर चडली आनी अभिमानान थंय उबी रावली. तिणें म्हळें, 'आमच्या अक्काक आमी एक खास भेंट दिवंक सोदतात. ती एक हातान शिंविल्ली गोजडी आसा आनी आमचे मदल्या दरेकल्यान तातूंतलो इल्लो तरी वांटो शिंवला. म्हणटकच तातूंत तीन हजार टांके आसात. घडये ती सुंदर आसची ना, पूण आमचो सगळ्यांचो हातभार त्या गोजडेक लागचो अशें आमकां दिसतालें.' मागीर तिणें सरळ म्हजेकडे पळयलें आनी फुडें उलयली, 'आमच्या काळजांतल्यान ही आमी तुमच्या काळजा मेरेन पावयतात. गिमांत ती तुमकां थंड दवरतली आनी शियांत उब दितली. तुमचे खातीर आशिल्ल्या आमच्या प्रेमा सारकी. आमच्या कठीण काळार तुमी आमचे बराबर आशिल्ल्यो आनी आतां आमीय तुमचे वांगडा रावंक सोदतात.'

म्हाका आयज मेरेन मेळिल्ली ही सर्वोत्तम भेंट.



२२

# परोपकाराचो अर्थ



एक दीस, हांव कुटुंबांतल्या एका लग्नाक गेल्लें. थंय म्हाका जायत्या तेंपान म्हजे इश्ट आनी सोयरे मेळ्ळे. आमी थंय सोयरीं आशिल्ल्यान, लग्नाचें कसलेंच काम नाशिल्लें. म्हणटकच आमकां गजालींक खूब वेळ मेळ्ळो. आमी एक पंगड करून बसलीं. दरेकलो आपल्या जिणे संबंदान माहिती दितालो. उलयतां उलयतां, आमी देशाक आनी समाजात परत कितें तरी दिवंक जाय ह्या विशयाचेर पावलीं.

एक बायल उलयली, 'परोपकारा खातीर खूब वेळ जाय. तशेंच, ते बायलेकडे भरपूर पयसो आनी घरच्यो जापसालदारक्यो सामक्यो कमी आसूंक जाय. तिका आनीक कसले छंद नासत, जाल्यार धर्मार्थ कामांत लक्ष घालप शक्य आसा.'

'म्हाका दिसता, हें सगळें आदल्या जल्मांतलीं रीणां पावोवपा खातीर,' एक बापोल भयण उलयली. 'आदल्या जल्मांत जर कोणाचेय उपकार घेतल्या आसत, मागीर जावं ते अर्थीक वा आनी कसले, ते पावोवपाचे उल्ल्या जायत, जाल्यार ते ह्या जल्मांत पावोवंक जाय. म्हणटकच, जे परोपकार करतात, तांणीं नक्कीच आदल्या जल्मांत कोणाचे तरी खूब उपकार घेतल्यात आनी आतां तें रीण पावयतात.'

आनी एकली म्हणूंक लागली, ‘धर्मार्थ पयसो वांटपाक हुशारी लागना. वेळ घालोवपाचें एक साधन कशेंच तें.’ मागीर म्हजेकडे पळोवन ती हांसली आनी विचारलें, ‘तूं तातूंतलेंच. तुका कितें दिसता?’

तांचो हेतू वायट नाशिल्लो हें म्हाका खबर आशिल्लें. म्हूण म्हाका वायट दिसलें ना वा दुख्ख जालें ना. कालांतरान, असल्या शेऱ्यांचेर लक्ष न दिवपा इतलें हांव संवेदनाशून्य, आनी म्हज्या ध्येयांकडे चड संवेदनशील जालां. शक्य जाता ते तरेन हांवें तांकां समजावन सांगलें. ‘परोपकाराच्या ह्या म्हज्या व्हडल्या प्रवासांत, आपले परिस्थितीचो विचार करिनासतना हेरांक मजत करपी जायते लोक म्हाका मेळ्ळ्यात. देखीक, तातूंतल्या कांय जाणांकडे पयसो नाशिल्लो, कांय जाणांकडे इल्लोसो आशिल्लो. जाल्यार आनीक कांय लोकांकडे आपल्याक जाय ताचेपरस चड आशिल्लो. परोपकारी जावपाखातीर तुमचेकडे दुसऱ्याक आदार दिवपाची मनोवृत्ती आनी जिद्द आसप चड गरजेचें.’

‘एक देख दिवन सांग म्हाका,’ तातूंतल्या एकल्यान म्हळें.

‘दितलेंच. तुमकां हें पटोवन दिवपाचो तो उत्तम मार्ग. बदामी रेल्वे स्टेशनावयल्यान शारामेरेन तुमी एकदां तरी प्रवास केलाच आसतलो. रस्त्याच्या दोनूय वाटांनी लिंबाचे व्हडले रुख आसात. तर काणी अशी आसा. खूब आदीं थंय एक लंगडो मनीस रावतालो. ताका कितें तरी बदल घडोवपाचो आशिल्लो. म्हणटकच ताणें रस्त्याच्या दोनूय वाटांनी लिंबाचे रोंपे लायले. आदल्या काळार, पावस बरो आसतालो आनी अशी ताप पडनाशिल्ली. म्हणटकच, रोंपे वाडून रुख जाले. आयज, कोणाकूच ताच्या नांवाची याद ना. रस्त्यावयल्या सगळ्या प्रवाशांक एका लंगड्या मनशान सांवळी दिल्या इतलीच कार्णा उल्ल्या आयज. म्हाका सांगात, ही कृती म्हळ्यार परोपकार न्हय?’

म्हजे भोंवतणी बशिल्ल्या बायलांमदीं ‘ओह’ आनी ‘आह’ सुरू जालें.

‘आनीक कितेंय सांग,’ कांय जाणांनी म्हळें. आनीकूय खूब जाण

आमच्या पंगडांत आयले.

'बरें तर. बेंगलोरांत डॉ. श्रीधर ह्या नांवाचो एक फामाद युरोलॉजिस्ट आसा. देशांत परत येवपाचो निर्णय घेवचे आदीं तो विदेशांत रावून काम करतालो. ताच्यान थंयच खंयच्यातरी खाजगी हॉस्पिटलांत काम करून कितलेंशेंच जोडूं येतालें. पूण फाटलीं एकतीस वर्सां हो मनीस आपल्या घरच्यां वांगडा एका दोन कुडींच्या भाड्याच्या फ्लॅटांत रावता. पयशांचो विचार करिनासतना, लोकांक मजत करपाचें आपलें सपन पुराय करपाखातीर तो काम करता. हाचे खातीर ताणें काम करपाचो एक निवळ मार्ग सोदून काडला. सकाळीं तो दुयेंतींक तपासता आनी आपली कितें ती फी घेता. सांजचो, चार ते स हे मजगतीं, तो फुकट तपासता. मागीर दुयेंतीचें उत्पन्न कितलेंय आसूं. असे तरेन आपल्या जिणेच्या दोनूय भागांचो तो प्रामाणीकपणान समतोल राखता.'

'जेन्ना हांवें ताका ह्या उदात्त वागण्याचें रहस्य विचारलें, तेन्ना ताणें म्हळें, म्हाका समजून घेवन आदार दिवपी बायल, प्रोत्साहन दिवपी भुरगीं आसात. तांणीं म्हाका ह्या मार्गार चलपाक दिलां. तांचेबगर हांव कांयच करूंक पावचों नाशिल्लो. तेन्नाच म्हाका जाणीव जाली कीं घरच्यांच्या आदाराबगर परोपकार लेगीत शक्य ना.'

पंगडांतल्यो कांय तकल्यो हाल्ल्यो त्यो म्हाका दिसल्यो.

हांव फुडें उलयलें, 'हालींच, हांव कामाखातीर जयपूरांत गेल्लें. शारांतल्यान प्रवास करता आसतना, म्हज्या ड्रायव्हरान ढाब्यार वचून च्या घेवपाखातीर गाडी थांबयली. थंय राविल्लें तेन्ना म्हाका चारूय वाटांनीं वणत बांदिल्लें एक सोबीत शेत दिसलें. वणत आनी रस्तो हाचे मदल्या जाग्यार भाजयो लायिल्ल्यो आनी एक माळी थंय काम करतालो. उमळशीकेन हांव थंय गेलें आनी ताचेकडे उलोवंक लागलें. ह्या मदल्या जाग्यार तूं कित्याक काम करता ? हो जागो कोणाचो ? तेन्नाच, शेतांतल्यान एक उंच आनी बळीश्ट मनीस आमचे दिकेन येवंक लागलो. जेन्ना हांवें ताका होच प्रस्न विचारलो तेन्ना ताणें म्हाका भितर येवन पळय अशें सांगलें. हांव भितर गेलें आनी तो जागो

एका गिरेस्त कुटुंबाचो हें म्हाका कळ्ळें. जेन्ना हांवें ताका आनीक कांय प्रस्न विचारले तेन्ना ताणें सांगलें, ही म्हज्या पूर्वजांची इस्टेट. कितल्याश्याच जाणांकडे जमीन ना, आनी ते म्हजेसारके नशीबवान नात हाची म्हाका जाणीव जाली. म्हणटकच हांवें, कोथमीर, पालक, मेथी आनी हेर कांय पालेभाजयो भायल्या जाग्यार लावपाचें थारायलें. म्हज्या जमनीची जतनाय घेता तशीय त्या भायल्याय जाग्याची घेवंक जाय अशें हांवें माळ्याक सांगलां. कोणूय भाजी व्हरपाक आयलो जाल्यार कांयच विचारीनासतना व्हरपाक दी अशेंय हांवें ताका सांगलां. ताणें आपलें काम प्रामाणीकपणान करपाक जाय.'

म्हाका अजाप जालें. 'त्यो भाजयो कोण व्हरता?' हांवें विचारलें.

'हांका आशिकुशीक काम करपी खूब कामगार आसात. ते येवन व्हरतात थोडी.'

'गरीब नाशिल्ल्या मनशान ती व्हेली जाल्यार मागीर कितें?'

'तशें केल्यार म्हाका ताची वा तिची काकूट दिसता. पूण आमी कांयच उलयनात. कितलींशींच वर्सां जालीं हांव हें करतां. हांगा गरीबांक फुकट भाजी मेळटा हें ह्या वाठारांतल्या सगळ्यांक खबर आसा.' ताच्या ह्या दानशूरपणान हांव अजापीत जाल्लें.

हांवें सरभोंवतणीं पळयलें. सगळीं लक्ष दिवन आयकतालीं. एक बापोल भयण हांसली आनी हातानूच म्हाका चालू दवर अशी कुरू केली.

'आनीक एका प्रसंगाविशीं सांगतां तुमकां. चड करून गीमांत, कोणाकूय उदक दिवप ही एक पवित्र गजाल अशें राजस्थानचे लोक मानतात. येवपी वचपी लोकांखातीर रस्त्याचे देगेक मातयेच्यो मडक्यो भरून उदक दवरिल्लें हांवें पळयलें. एक दीस, एक मनीस उदकाची मडकी घेवन वतना म्हाका दिसलो. म्हजी उमळशीक थांबोवंक जायना जावन हांवें ताका विचारलें, तूं हें घेवन कित्याक वता? ही सदांच भरून रस्त्यादेगेक दवरूंक जाय.'

तो मनीस म्हाका पळोवन हांसलो. ताणें म्हळें, 'बेहेनजी, लोक

खोशयेन मडक्यांनी उदक भरतात. पूण जर ही मडकी निवळ केली ना जाल्यार तातूंतल्यान जंतू संसर्ग जावं येता ही गजाल ते विसरतात. म्हणटकच, मडकी रिती जाली काय ती निवळ करून मागीरूच उदक भरप हें म्हजें काम.'

'वा!' म्हजे भोंवतणच्या लोकांनी एकाच आवाजांत म्हळें.

एका इश्टान म्हळें, 'शारांतले कितलेशेच रिक्षा ड्रायव्हर म्हाका खबर आसात. ते जाणट्या आनी दुयेंत मनशांक तेच परी गुरवार बायलांक सप्तकांतल्यान एक फावट फुकट व्हरतात.'

'सारकें. परोपकार म्हळ्यार नेमकें हेंच. फिलान्थ्रॉफी हें ग्रीक उतर. हातूंत फिलोस म्हळ्यार मोगाळ आनी एन्थ्रोपोस म्हळ्यार मनीस. रिक्षा ड्रायव्हरांवरीच, हांवें आतां सांगलें ते मनीस गिरेस्त नाशिल्ले. कांय मध्यमवर्गीय जाल्यार कांय गरीब आशिल्ले. म्हणटकच, तुमचेकडे कितलें आसा हाचेपरस लोकांविशींची तुमची वृत्ती कशी हें म्हत्वाचें. आपलेपण, एक बरें उतर, एक मायेस्त वेंग आनी इल्लें वांटून घेवप हें सगळें आमकां बरो मनीस करता. गिरेस्त आसपाइतलीं आमी नशीबवान आसत, जाल्यार आमी चड लोकांक मजत करूंक शकतात. एकाद्रो मनीस आपलेपण आनी बऱ्या सभावान मुखेली जायत जाल्यार तो वा ती समाजांत बदल घडोवन हाडूंक शकताच. तुमकां दिसना अशें?'

पंगडांतल्यान मान्यतायेचो आवाज आनी हुस्कार आयकूंक आयले. लग्नाच्या जेवणा खातीर दुसऱ्या हॉलांत वचपाचो वेळ जाला अशें कोणेंतरी जाहीर केलें. रोकडेच, सगळे ल्हान ल्हान पंगडांनी बरें जेवण जेवपाखातीर वचूंक लागले.



# सुधा मुर्ती हांचीं कांय वेंचीक पुस्तकां





















Grandma's Bag of Stories
SUDHA MURTY














सुधा मूर्ती हांचे प्रकाशित जाल्लें दोनशावें पुस्तक

परोपकारी, उद्योजक, संगणक विज्ञानीक, इंजिनियर, शिक्षिका अशीं साबार रुपां केळोवपी सुधा मूर्ती, हांची सगळ्यांत बरी वळख असामान्य कथाकार ही जावन आसा.

साहित्या खातीरचो आर. के. नारायण पुरस्कार, पदमश्री, कन्नड साहित्याखातीरचो कर्नाटक सरकाराचो अत्तिमब्बे पुरस्कार आनी रेमंड क्रॉसवर्ड जीवनगौरव आदि साबार पुरस्कार तांका फाव जाल्यात. तांच्या हया भांडारांत जाणटयांखातीर वैचारीक आनी ललीत, भुरग्यांची पुस्तकां, प्रवास वर्णनां आनी तंत्रीक पुस्तकांचो आसपास जाता.

हांगा, थंय आनी वचत थंय हो तांच्या साहित्य प्रवासाचो उत्सव. वेगवेगळया संग्रहांतल्यो तांच्यो चड भाविल्ल्यो, तेचपरी कांय नव्यो काणयो आनी वैचारीक प्रस्तावनेचो आसपास आशिल्लें हें पुस्तक सगळयाच अर्थांनी लेखकावरीच भोवआयामी आसा.